# म्हजें रायबन्

## तीं मनशां, तो काळ

स्नेहलता अरविंद भाटीकार



# म्हजें रायबन्...
## तीं मनशां, तो काळ



स्नेहलता अरविंद भाटीकार

युगवेद प्रकाशन

**म्हजें रायबन्...**
**तीं मनशां, तो काळ**

**स्नेहलता अरविंद भाटीकार**

प्रकाशन क्र. 21

**पयली उजवाडावणी - 2016**



उजवाडावपी
**युगवेद प्रकाशन**
एफओ 3 आनी 4, 4सी, मॉडेल्स मिलेनियम विस्तास,
करंजाळें, गोंय 403002

**छापणावळ**
अभिनव क्रिएशन्झ
9923442746



**मुखचित्र फोटो**
दीपक च्यारी

**अक्षर जुळोवणी**
अभिनव क्रिएशन्झ

**मोल :** रू. 200/-

# मांडावळ

# म्हजीं दोन उतरां

यादी सगळ्यांक आसतात. आनी त्यो जिणेचोच एक भाग जातात. ल्हानपणाच्यो यादी दरेकल्याक जातातच. मनीस जितलो जाण्टो जाता, तितल्यो ताका भुरगेपणाच्यो यादी चड खरपणान येतात. पूण सगळ्यांकच त्यो बरोवन काडप जमना. एकेकदां बरोवपाची आवड नासता, वा बसून बरोवपाक जी शिस्त लागता ती नासता.

ह्या पुस्तकांतल्यो चडश्यो यादी 1945-55 ह्या काळांतल्या घडणुकांच्यो आसात. म्हजो पुतणयो आनी इश्ट लक्ष्मीकांत गोवेकर दर वर्सा इफ्फीच्या वेळार (चित्रपट महोत्सव) मुंबयच्यान गोंयां येवन एक म्हयनोभर रावता आनी आमी आयनॉक्सांत परत परत मेळटां. ह्याच दिसांनी हांव ताका आनी ताचे बायलेक, सुगंधाक, आमगेर बसून चकाटां मारपाक आपयतां आनी ताका ताच्या भुरगेपणांत जे जिनस आवडटाले ते करून वाडटां.

लक्ष्मीकांत म्हजे आतेभयणीलो, रत्नेंआकालो पूत. आमी

मेळना फुडें आपसूकच आमच्या भुरगेपणाच्यो यादी काडटां. तोय बी आसतालो आमच्या सांगाताक खेळपाक सुटयेंत आयिल्ले कडेन, पूण तो हेर चले भुरग्यां भशेन घोसोळ घालपी न्हय. तो एका जाग्यार बसून मुरली वाजयतालो, पुस्तकां वाचतालो आनी सामको भोळो भुरगोसो मंद हांसतालो. मोवाळ आनी मोगाळ सभावाचो लक्ष्मीकांत चडसो म्हज्याच वांगडा खेळटालो.

कांय वर्सां पयलीं 'इफ्फी'च्या पयल्या वर्सा गोंयांत आयिल्ले कडेन लक्ष्मीकांत आनी हांव आमच्या भुरगेपणांतल्यो यादी काडून सामकीं ल्हान भुरगीं जाल्लीं. आमच्यो त्यो उमेदीन भरिल्ल्यो खबरी आयकून ह्यो सगळ्यो यादी बरोवन काड म्हणून अरविंदान सुचयलें. ती सुचोवणी म्हाका त्या वेळार तितलीशी पसंत पडली ना, कारण कितेंय बरोवपाचें जाल्यार एका जाग्यार बसून बरोवपाक जी शिस्त आसूंक जाय, ती म्हाका ना हें हांव जाणां.

दर वर्सा लक्ष्मीकांत येतालो, आमी आमच्यो यादी काडटालीं, आनी अरविंद तीच सुचोवणी परत करतालो. अखेरेक चार-पांच वर्सां उपरांत हांवें बरोवपाक घेवपाचें थारायलें. दिसाचीं चोवीसूय वरां म्हणटात तशीं बसून हांवें हें सगळें बरावेन काडपाचो निर्धार केलो खरो, पूण थंड चित्तान बसून बरोवपांत आडखळी चड आयिल्ल्यान इल्लें इल्लें करून टप्प्या टप्प्यान हें बरोवप चालूच उरलें.

बरोवंक बसना फुडें सगळ्यांत पयलीं दोळ्यांमुखार आयलें तें 'बाय'. म्हजे जिणेंत ताचें स्थान सगळ्यांत पयलें आसा. देवतेची मूर्त बसोवपाक देवळी बांदची पडटा, ते प्रमाण सबंद रायबन् भोंवतणी उबें करून आमचें घर थंय स्थापन केलें, आनी तातूंत बायक बसयलें. देखून ताचे विशीं जें बरयलां तें एकुणीसाव्या स्थानार आयलां, पयल्या न्हय. पूण ह्या म्हज्या यादींच्या कपयाळ्यांत बायचें स्थान

मुखेल आसा!

बरयतां बरयतां एके रातीकडेन 'अंजनी' आनी 'पोपो' हांचे विशीं जें बरावेन काडलें, तें दुसऱ्या दिसा सकाळीं वाचतकच "हें आनीक हांवें कितें बरयलां?" अशे उद्गार तोंडांतल्यान आयले. वाचिल्ले फावट म्हाका तें वेगळेपण जाणवपाक लागलें आनी हांवें तें बदलपाचो यत्न केलो. हें वेगळेपण तशेंच दवरचें काय बदलचें हाचे विशीं सल्लो घेवपा निमतान हांवें तें तशातशें अरविंदाक वाचून दाखयलें. आयकता आसतना ताणें सांगलें, "आगो, हें तूं वाचता आसतना एक सामकें ल्हान भुरगें उबें रावन उलयता कशें दिसता मगो! हें तुवें कशें केलें? हें बदलूं नाका, तशेंच दवर." भुरगेपणाच्या सांगात्यां विशीं बरयता आसतना हांव स्वताच भुरगें जावन त्या यादींच्या जगांत हेडून आयलें म्हणपाचें म्हज्या ध्यानांत आयलें.

त्या काळार गांवांतले लोक एकामेकांक रेस्पेत दिवन आपुलकायेन सांबाळून घेताले. मान-सन्मान, समाजांतलें स्थान, नातीं ह्या सगळ्या विशयांत खंयच बरोवंक नाशिल्ल्यो, पूण सगळ्यांक खबर आशिल्ल्यो अश्यो चाली-रिती त्या काळांत आसताल्यो; समाजीक कायदे, चाली-रिती कोण मोडूंक वचनाशिल्लो, वा ताका कोण्ण आव्हान दिवपाक वचनाशिल्लो. धर्म, अंधश्रद्धा, खरें-फट हांचे भितरलें अंतर आतां परस उणें आशिल्लें, लागीं लागीं नाशिल्लेंच म्हणल्यार जाता. आयज जागृताय वाडिल्ल्या कारणान हें अंतर चड जालां. ह्या पुस्तकाच्या वाचप्यांक हांव कितें म्हणूंक सोदतां तें सगळें पुस्तक वाचून काडटकच कळटलें.

काळा प्रमाण भास कशी बदलत वता हें दाखोवपा खातीर मुद्दाम त्या वेळार वापरांत आशिल्लीं तीं पुर्तुगेजींतल्यान आयिल्लीं कोंकणी उतरां तशातशीं वापरल्यांत. आमच्या ल्हानपणांत पुर्तुगेजाची

राजवट आशिल्ली आनी लोक कोंकणी उलयता आसतना खूबशा पुर्तुगेज उतरांचो वापर करताले. कांय लोक घरांत पुर्तुगेज उलयताले आनी पुर्तुगेजांच्यो चाली-रिती आपणावन तांचे बराबर संबंद वाडोवपाचो यत्न करताले. पूण चडशे लोक घरांत आनी हेरकडेन कोंकणीच उलयताले.

त्या वेळचे कांय रिती-रिवाज आयज पळोवंक मेळनात. त्या काळचीं कांय उतरां आयज वापरांत नात. तशेंच खाणा-जेवणाच्यो पद्दतीय बी कांय प्रमाणांत बदल्ल्यात. कांय घरगुती आयुदां आयज वापरांत नात. कांय जिनस आयज खावपाक जाय जाल्यार खंयच मेळनात. देखीक 'पानको'. त्या काळार पदेर 'पानको' म्हणून केकाच्या आकाराचो उंड्या येदो गोडसो पदार्थ विकताले. हातूंत सोय, गॉड बी आसतालें आनी तो 'कपकेक' कसो दिसतालो. 'पानको' म्हणटात तो कितें तें आयच्या पदेरांक विचारल्यार तें तांकां खबरच नासता!

पयलीं सर्रास घरांनीच बरे बरे जिनस करून भुरग्यांक दितालीं. फकत उंडे सोडल्यार भायलें खाण आनीक चडशें कांय मेळनाशिल्लें. तेच खातीर खाणाचे सगळे जिनस घरांतच करतालीं. आयज बायलां सिर्विशेक वचनात जाल्यार लेगीत भायले जिनस हाडून भुरग्यांक खावयतात. कारण भायर दुकानांनी सर्रास हे जिनस मेळटात आनी घरांत कामांत हातभार लावपाक पयलीं भशेन मनशांय मेळनात. खाणा-जेवणाच्या जिनसां वांगडा जिणेचीं मुल्यांय बी बदल्ल्यांत. चडशा जाण्ट्या मनशांक चांटेपावलाक पयलींच्या आनी आतांच्या मुल्यांची तुळा करपाची सवंय आसता. ती सवंय म्हाकाय बी आसा.

भुरगेपणांतल्यो चडश्यो इश्टिणी अजून आसात, म्हजे भशेन त्योवूय बी आज्ज्यो जाल्यात. केन्नाय खंयूय मेळटकच भुरगेपणांतल्यो यादी काडप जाता आनी कांय खीण साठ-पांसश्ठ वर्सां पयलींची

जीण जगून आमी आतांच्या काळांत येतात.

हांवें हें जें कितें बरयलां तें कादंबरी, कविता न्हय, हें हांव जाणा. हाका निबंद म्हणूं येता अशेंय म्हका दिसना. कितें म्हणपाचें तें वाचकांनीच थारावचें. ह्यो त्या काळांतल्या म्हज्या जगाच्यो म्हज्यो यादी, इतलेंच हांव जाणां!

जग बदलत आसता आनी ह्या बदलत्या जगाचो हांवूंय एक रेंवेच्या कणा भशेन वांटो जावन आसां. पयलींच्यो यादी सगळ्यांकच आसतात, पूण त्यो यादी काडून आयजूय बी जिणेक भुरगेपणाच्या रंगांनी रंगोवपाची सवंय सामक्या थोड्या लोकांक आसता आनी तातूंतलेंच हांव एक. म्हज्या भुरगेपणाच्या रंगांनी पितारिल्ल्यो म्हज्यो ह्यो यादी वाचप्यांक आवडटल्यो अशी आस्त बाळगितां.

- **स्नेहलता अरविंद भाटीकार**

# उपकार

कसलेंय काम करता आसतना त्या कामांत ज्या मनशांचो हातभार लागता त्या मनशांचे उपकार मानप हें सभावीक! ते मानचेच! तशे ते मानले जाल्यार सगळ्यांक बरें दिसता, आपलेंय बी मन ल्हव जाता!

सगळ्यांत पयलीं हांव उपकार आठयतां ते म्हजो पुतणयो लक्ष्मीकांत गोवेकर हाचे. तो आमगेर येवन आमी चकाटां मारपाक बसूंक नाशिल्लीं जाल्यार म्हाका हें पुस्तक बरोवचें अशें सुचचेंच नाशिल्लें. तेच वांगडा अरविंदान, म्हज्या घोवान, सुचोवणी करूंक नाशिल्ली आनी ताणें ती सुचोवणी चिकटायेन धरून दवरूंक नाशिल्ली जाल्यार हांव हें पुस्तक बरोवपाक पावचेंच नाशिल्लें. हें पुस्तक बरोवपाची स्फूर्त दिवपांत ताचो शिंवाचो वांटो आसा.

ह्या म्हज्या पुस्तकांतलीं पात्रां जावन त्या वेळच्या म्हज्या सांगात्यांनी आनी हेर जाण्टे-नेण्टयांनी म्हाका रिणांत दवरलें.

मदीं मदीं म्हजे धाकले भयणीन, इंदू रायकारान, परत परत

फोन करून आनी आमगेर येवन कांय यादींनी भर घालून खूब मजत केली आनी म्हजी उमेद वाडयली.

पुस्तक बरयता आसतना गांवगिऱ्या वाठारांत वापरांत आशिल्ल्या झाडां-पेडांचीं, रानफुलांचीं, रानफळांचीं बी नांवां याद करून दिवपाक सदांच हांसत मुखान मोटे उमेदीन येवन निर्मला गावडेन खूब मजत केल्या.

पुस्तक बरोवन काडटा आसतना मोटे सोंशीकसाणीन तें पुस्तक संगणकाचेर टायप करून, तपासून, चुको काडून उडोवपाक मनिषा नायक सावंताची खूब मजत जाली. तशेंच संगणकाचेर टायप करतासतना टॅफनी गामा आनी पुजा मोरजकार ह्या दोगांयचोय बी खूब हातभार लागला.

रायबन्च्या घराचो फोटो काडपा निमतान रायबन्रा पावटी मारून मुखपृश्ठ तयार करपांत दीपक च्यारीन खूब मजत केली. ते खातीर ताचे उपकार आठयतां.

अन्वेषा सिंगबाळ आनी अमोल कामत हांणी पुस्तकाचें लिखाण निवळ करून छापून घेवपाची जापसालदारकी बरे भशेन उखल्ली.

वयर नमूद केल्ल्या सगळ्यांचे उपकार मानीत तितले उणे.

**- स्नेहलता अरविंद भाटीकार**

1

# म्हजो वाडो, खोर्नांवाडो

**रायबन्,** खोर्नांवाडो, रायबन्! म्हज्या काळजाचो कुडको, सोबीत, सुंदर, मोगाळ, माणकुलो वाडो म्हजो, खोर्नांवाडो! म्हजें रायबन्!

हांव रायबन् चें- रायबन्, खोर्नांवाडो; आयज आमचें रायबन् ''रायबन्दर खोऽऽऽ र्न वाडा'' जालां. आमचें रायबन् पणजेच्या पाट्यावेल्यान सुमार चार मैलांचेर आसा. पणजेच्यान रायबन् चे वटेन येवपी रस्त्यार, दाव्यान पारापेटाच्या वण्टी पलतडी न्हंय, उजव्यान शेतां पलतडी रस्त्याच्या पारापेटाच्या वण्टी पलतडी चिखल आनी तातूंत नंदनगोळीचीं झाडां.

ह्या शेतांनीं कांय जाग्यांनी शेतकार मिठूय बी काडटाले. तिनसांजच्या कातरेर काळोख जातकच गांवचे कांय ''पारकोळ पोर'' गरी घेवन ह्या शेतांतल्या उदकांतल्यान नुस्तें गरोवन काडटाले. चोरयां नुस्तें गरयता आसतना ह्या भुरग्यांक ''पारकोळ पोर'' म्हणपाची त्या काळची पद्दत आशिल्ली. हेर सबंद दिसभर ते बाळू, पोपो, सोनुलो,

झुजे बी जावन भोंवतना दिसताले. पूण तिनसांज जाली काय ना, तेच बाळू, पोपो, सोनुलो, झुजे हातांत गरी घेवन चोरयां नुस्तें गरोवंक वतना ''पारकोळ पोर'' जाताले. पाद्री भाटकाराली व्याख्या ती!

नुस्तें गरोवन काडटा आसतना ह्या शेतांक 'आगोर' म्हणटाले. माया म्हयन्यांत ह्या शेतांनी मीठ तयार जातालें, तेन्नाय बी त्या शेतांक 'आगोर' म्हणटाले. फकत भात रोयताले तेन्ना तांकां 'शेतां' म्हणटात अशें शेंवतू सांगतालें. हे जाण्टे लोक कित्या कितेंय उलयतात आनी ते कितें म्हणटात तें कोणाक कांयच कळना, म्हणून भटालो रवींद्र तांचेर सामको कोंत्र आसतालो.

केन्ना केन्नांय पाद्री भाटकार ह्या 'पारकोळ' पोरांक धरून तांचेर चाऽऽऽर फुलयतालो. पूण वायटपण अशें कोण्ण केन्ना घेवन बस नाशिल्लो. त्या काळार 'वायटपण' म्हणटात तें रायबन् कारांक खबरूच नाशिल्लें, तांकां तें जमय बी नाशिल्लें. पाद्री भाटकारूय बी आमचो, शेतय बी आमचें, आगर आमचे, तांतलें नुस्तें तितलें सोडून वेलें सांगिल्लें सगळें 'दिस-रात' आमचें. नुस्तें रातीचेंच येवन गरोवन काडपाचें, देखून तें फकत रातीकडेनूच 'आमचें'; सबंद दिसभर त्या आगराचें नुस्तें फकत पाद्री भाटकारालेंच. शाळे भायलें हें गणीत सामकें सादें अशें आशिल्लें. 'आमचो' ह्या एकाच संगीत दोराचेर त्या काळार दर एकलो रायबन् कार वळेसरावेल्या वोंवळांवरीं गुंथील्लो दिसतालो. 'आमचो' हो एकूच शब्द दर एकल्यान सोबितकायेन, मायेमोगान, जतनायेन सांबाळिल्लो आसतालो. परकी असो कोण्ण नाशिल्लो, वायट असो कोण्ण नाशिल्लो. सरभोंवतणीं जें आशिल्लें तें सगळें बरें, सादें, सरळ अशें 'आमचें' त्या वेळचें तें जग. आमच्या ह्या जगांतलें मळब, जें माडांच्या चुट्टांच्या मात्शें वयर थारून उरिल्लें आशिल्ल्यान माडाचेर चडिल्लो शंकर ताका अचळय हात लावन

सकयल देंवतालो. शंकरान तशें आमकां सांगलां; आमी ताका मळबाक हात लायतना सामको आमच्या दोळ्यांनी पळयला न्ही? देव्वाच्यान तर पळयला! देखून तुमकां सांगतां, शंकराक मळबाक हात लायतना आमी खऱ्यांनीच पळयला, देव्वाच्यान तर! ह्याच दोळ्यांनी पळयला! ❖

2

## रायबन् खंयशें पडटा?

**पणजेच्यान** रायबन् चे वाटेर रायबन् चो पाटो आनी लागीं पावतां पावतां उजव्यान मेरशे वचपाचो फांटो लागतालो. त्या फांट्याचेर वचनासतना नीट फुडें येत जाल्यार उजव्यान रोखडोच आफरामेंत म्हणून एक जागो लागतालो. आफरामेंत म्हणल्यार कितें तें आमकां तेन्ना खबर नाशिल्लें. पूण थंय दोन-चार ल्हान ल्हान घरां आशिल्लीं. तातूंत रावपी लोक व्हडीं, जाळां बी घेवन नुस्तें मारताले. थंयचे दादले-मनीस सामके हत्ती, राकेस कशे दिसताले. ते मनीस म्हणल्यारच आफरामेंत अशें आमकां दिसतालें. थंय रावतालो तो एक मनीस कोलो, एक इनास... कोणाचेंच नांव आफरामेंत म्हणून नाशिल्लें. पूण त्या वेळार असल्या येवजण्यांनी तकली पिकार करून घेवपाक आमकां वेळ नासतालो.

आफरामेंताक तेंकुनच दोतोर कुडचडकाराली फार्मास आशिल्ली. फार्मास हो दोतोराल्या घराचोच फुडले वटेनचो दाव्यानचो भाग जावन आशिल्लो. थंय मोदू फार्मासकार आसतालो. बरोऽऽ मनीस!

दोतोर आमच्या बाबाचो आमीग. तेन्नांच्या काळार सर्रास 'आमीगच' आसताले. ते सगळे 'आमीग' आयज 'मित्र' वा 'फ्रॅन्ड्स' जाल्यात. जळीं-मळीं 'मित्र' वा 'फ्रॅन्ड्स' च दिसतात. 'आमीग' खंयच दिसनात. 'आमीग' हें नांव लागींचें, मात्शें मोगाळ अशें दिसतालें, तें तशें आयजूय दिसता!

दोतोर कुडचडकाराल्या घराक तेंकून सुबाली ब्राम्हणी आशिल्ली. थंय बटाट-वडे, पाव, पातळ आनी सुकी भाजी, भाजी-पुरी, सांजो, बटाट फोव, तिखसो सांजो, च्या, काफी, दुदपाणी हें सगळें मेळटालें. ब्राम्हणी भायर सगळे लोक उदकाक 'उदक' म्हणटाले पूण त्याच उदकाक ब्राम्हणीच्या हुमऱ्या भितर पावना फुडें 'पाणी' म्हणून वळखताले. तान लागिल्ल्या कोणाय मनशाक ब्राम्हणींत भितर सरता आसतना जर कोणेय विचारलें, ''कितें, च्यायेक वता?'' ''ना, तान लागल्या. उदक पिवपाक वतां'' अशें म्हणून सांगून ब्राम्हणींत भितर सरनाफुडें ''आरे एक ग्लास पाणी हाड रे'', अशें म्हणून तोच मनीस उदक मागतालो. ब्राम्हणीच्या हुमऱ्याभितर सरनाफुडें उदकाचें 'पाणी' जातालें तें अशें! त्या काळार आयचेभशेन सर्रास बाटल्यांनीं उदक मेळनाशिल्लें. मेळटालें तें सोद आनी 'कोल्ड्रींक'. सुबाले हे ब्राम्हणींत दनपारचें जेवणय बी मेळटालें.

मागीर थंयच्यान उजव्यान एक, दाव्यान एक आनी सामकार नीट, अशे तीन रस्ते आशिल्ले. आयजूय बी ते तशेच आसात. सुबाली ब्राम्हणी ती निमणी येताली, सामकी उजव्या कोनश्यार. तिका तेंकुनच उजव्यान वचपी रस्तो मानशेर आनी चिमला वतालो; तसो तो आयजूय वता. ह्या रस्त्यार ब्राम्हणीचें दुसरें दार आशिल्लें. ब्राम्हणी जातकच तिकाच तेंकून चंद्रकांत म्हाल्यालो 'शाप' आशिल्लो. ह्या शापांक मागीर कांय वर्सांनीं 'सोलून' म्हणपाक लागले. आयज ते

सगळे पयलींचे 'शाप' ''हॅर कटिंग सोलून'' जाल्यात.

चंद्रकांत म्हालो नट कसो दिसतालो. तो मोठ्ठो आशिल्लो, ताचें तोंड वाटकुळें आशिल्लें आनी तो रंगान काळसोसो आशिल्लो. ताच्या माथ्यार केंस कमी आशिल्ले, तरीकय तो माथ्यार मद्दीं 'गूठ' कसो एक केंसांचो व्हडलो फुगो काडटालो. ताका बारीक व्हीर कश्यो मिश्यो आशिल्ल्यो. सबंद दीस तो आनी ताचे कांय आमीग परत परत थंयच्या हारश्यांत पळयत आसताले आनी येत्या-वत्याचेर व्हिस्त मारीत, बारीक बारीक तानी मारीत आसताले. नाटकांच्या दिसांनीं मात् ह्यो तानी मारप, आनी त्याच बरोबर भाशणां व्हडा व्हडान वाचप हो तांचो सदचो वावर जडायेचेर पडटालो.

ह्या शापाक तेंकून एक पाखलो रावतालो. ताका 'काब' म्हणून वळखताले. तो पुलिशेंत आशिल्लो काय दिसता. तागेल्या बायलेचें नाक तांबडें गुंज आशिल्लें. ती खूब सोरो पियेताली खंय. इलीशी, तारवटी मिरसांग कशी दिसपी ती बायल आनी तिचेच भशेन दिसपी तिगेल्यो दोन धुवो, लुईजा आनी बायझीन्य. तिगांय सामकीं सोबीत दिसतालीं. धाकटें तें बायझीन्य आमच्याच बरोबरचें. बरेंच सोबीत, साळुबाय कशें दिसतालें, सोबावान बरें, सादें भोळें!

पाखल्याल्या घराक तेंकुनच झुजे, तागेलो भाव आनी भयण कार्मेलीन रावतालीं. दोगूय भाव पाखले आनी भयण सामकी खांपरी! झुजे हाता-पायांनी सामको वांकडो, पांगो आशिल्लो. तो चलतना लेगीत तिरकस वतालो. तो उलयता आसतना सुणो भोंकिल्ले भशेन आवाज येतालो.

कार्मेलीन काळें जावन लेगीत रुपान शिरवंत आनी लांब-रूंद अशें आशिल्लें. केंस बी मुदयाळे सामके! थाळोणी बांयचेर उदक व्हरपाक ट्रक घेवन पाखले येताले, तांचेर व्हिस्त मारपा निमतान

कार्मेलीन सामकें पासयो मारीत आसतालें. शेवटीं पाखल्यांनींय बी ताचेकडेन आमीजाद केली आनी एक दीस कार्मेलीन नाच्च जालें. तें पाखल्यांवांगडा गेलें अशें लोक म्हणटाले. झुजे मात ताचें नांव काडिनाफुडें पिकार जावन ताका गाळी घालतालो.

झुजेच्या घराफाटल्यान आफरामेंताचो फाटलो जागो आशिल्लो. ताच्या सामकार उबो वचपी, सुमार शंबर वार लांबायेचो रस्तो, तो थेट आमच्या घराकडेन येतालो.

चंद्रकांत म्हाल्याच्या सामकार, रस्त्याचे दुसरे वटेन एक बार आशिल्लें आनी ताका तेंकून भोब्यालो तांदूळ, दाळ, तेल, गॉड, पिपिरमिटांचो पसरो आशिल्लो. आयज 'पसरे' खंयच दिसनात. सगळे वटेन शॉप, जनरल स्टोर्स, सुपर मार्केट, मॅगा मार्ट अशे बोर्ड दिसतात, पूण भितर विकतात तें सगळें सामान भोब्याल्या पसऱ्यार मेळटालें तेंच! भोब्याल्या पसऱ्यार तांदूळ हाडपाक आपली पोती हाडची पडटाली आनी हेर सामान तो पुडयांनी बांदून दितालो, होच इतलोच एक फरक! तेल व्हरपाक घरच्यान बाटली हाडची पडटाली. पूण आमगेर तेलाचे व्हडले-व्हडले डबे हाडटाले. पणजेच्यान बुड्डा शेटीगेर साकून हे डबे हाडटाले अशें तळावलीकार सांगतालो.

भोब्याल्या पसऱ्याक तेंकून एका इल्याश्या दारा भितर पांडूलें आनी सुंदऱ्याल्या नागालें फॅर्र मारपाचें मेज आशिल्लें. थंयच भायर बसून तीन चिऱ्यांच्या रांदनीचेर कायल दवरून गोरेली इंदिरी भजीं काडटाली. इंदिरेल्या भज्यां असलीं कांद्याचीं आनी मिरसांगेचीं भजीं आयज लेगीत खंयच मेळनात. इंदिरी जेन्ना तीं भजीं काडटाली तेन्ना सगळो वाठार भज्यांच्या वासान भरतालो आनी तोंडाक लाळ सुट्टाली. आयज खंयीय कोणूय भजीं काडटा जाल्यार कायली म्हऱ्यांत बशिल्ली ती इंदिरी आपल्या भज्यांच्या वासासकट येवन सामकार

बसता, आनी मागीर दुसऱ्या कोणेंय तळिल्लें भजें तोंडांत वडयन दिसना. भजें खावपाचें तें इंदिरेलेंच!

इंदिरेली रांदन आनी कायल जायना फुडें मेळटा तो उबो रस्तो, आमच्या घराकडेन येवपी. त्या रस्त्यार उजव्यान व्हडली माची कशी मातयेचो सोपो, जो आयज लेगीत तसोच आसा. हो सोपो बाईल्या आनी कोज्मुल्या घराभायर आसा. थंयच दर वर्सा एक फेरी पडटाली; ते फेरयेंत कोथमिऱ्यो, मिरयां, सुक्यो मिरसांगो, चणे, कांदे असलें कितलेंशेंच सामान मेळटालें. लुगटां, आयदनां, खेळणीं, सायकली, आदोळ्यो, खोरीं, पिकास आनी कितें म्हणपाचेंना, जाय जायतें सामान थंय मेळटालें. हे फेरयेक पुरूमेताचें फेस्त म्हणटाले. रातीकडेन एक तियात्र जातालें.

हें तियात्र गांवचे भुरगेच बरयताले. सबंद वर्सभर सांजेवेळार बसका घेवन, दर एकल्यान दिसभर घडिल्ले खंयच्याय कॉमीक घडणुकेविशीं सांगपाचें आसतालें आनी वर्सा अखेरेक हें सगळें मातेरियाल एकठांय करून ताचें तियात्र जातालें.

थंयच आशिल्ल्या कोज्मुल्या घराक तेंकून मानशेर वचपाच्या वाटेर आंतोनीलें घर आशिल्लें. विठे शिनाऱ्यालें आनी पांडुरंग शिनाऱ्यालेंयबी थंयच घर आशिल्लें, मानशेच्या वाटेर. उजव्या रस्त्याक कोज्मुल्या घराक तेंकून रुमांव, इंदिरी आनी फुलूलें घर आनी फुडें व्हिलीलें घर उजव्यान, तर रस्त्याच्या दाव्यान फुलोर्तिनालें आनी अनंतालें घर आशिल्लें. आनी आमचें जळवाचें लॉज थंयच आशिल्लें. हें सगळें जातकच एक आडवो रस्तो शेकानशेक दाव्यानच्यान येवन उजव्यान थाळोणी बांयकडेन वतालो. ह्याच रस्त्याक तेंकून आमच्या घराचें दुरीग लागतालें. आमच्या घराक तेंकून उजव्यान एक व्हड व्हाळ आशिल्लो, दोंगरावयलें पावसाचें उदक थेट न्हंयेंत व्हांवन

वचपाखातीर. मागीर एक पायण दोंगरावयल्या लोकांक सकयल येवपाखातीर आशिल्ली. ते पायणीफुडें तीन शिनाऱ्यालीं दोन घरां, एक रामू शिनाऱ्यालें, दुसरें वासुदेव शिनाऱ्यालें आनी मागीर धोंडालें घर आशिल्लें.

रामू शिनाऱ्याल्या घरांत गुरूनाथ भाऊ, रजी, विष्णू, शिरी, प्रभा, मोहन, शाली, वासंती आनी तांची आवय ताई रावताली. चडशीं करून तीं वेंगुर्ल्यांच रावतालीं.

धोंडाल्या घरापयलीं वासुदेव शिनाऱ्याल्या घरा भायर वण्टीचेर एक व्हडलें चित्र आशिल्लें, एका सुण्याचें. तो सुणो कोन्र्यांत तोंड घालून पद म्हणटा कसो पितारिल्लो आशिल्लो. त्या चित्राचेर नदर पडना फुडें त्या सुण्याची तोखणाय दिसताली. कोन्र्यांत तोंड घालून पद म्हणल्यार आवाज घुमून पद आपल्याच कानाक बरें लागता. आमी सगळीं भुरगीं दिसाक एक फावट तरी रात्रीवेल्या हाण्डयांत तोंड घालून पद म्हणटालीं, आनी आपल्याचेरूच खूश जातालीं. मन सामकें धादोस जातालें, काळजाक कितलीशीच थाकाय मेळटाली. हांव दिसाक दोन-तीन फावटीं तरी हाण्डयांत तोंड घालून पद म्हणटालें. ह्या सुण्याच्या चित्रावयर कितेंय तरी बरयिल्लें आशिल्लें, आमकां वाचूंक येना आशिल्लें. तरीकय त्या सुण्याचेर नदर पडना फुडें व्हडल्यान आड्डून जमनीर पांय आपटून ''हीज मास्टर्स वायस्स'' म्हणपाची आमकां संवंय जाल्ली.

शिनाऱ्याल्या घरा सामकार आमगेल्या जळवाच्या लॉजा फाटल्यान धोंडाल्या भाटांत मोदू रावतालो. मोदूली बायल आनी तागेल्यो दोन धुवो, गोऱ्योपिट्ट आनी सुंदर आशिल्ल्यो; मात्श्यो जिवान मोठ्यो आनी स्वभावान भांगर! सगळी फामिलूच सोबीत, सुंदर आनी स्वभावान बरीं. ह्या सगळ्या मोठ्या लोकांमदीं मोदू मात्

सामको काडी-पैलवान! मोदुयबी सभावान बरो आशिल्लो.

धोंडाल्या घराभायलो रस्तो फोंडव्यांतल्यान पणजे वचपी मोटारींखातीर आशिल्लो. तो पाट्यावयल्या तीन रस्त्यांतलो एक मदलो रस्तो! सगळ्यांत पयलीं व्होल्तार दाव्यान भिडे भटालें कुळागरांतलें घर लागतालें. मात्सो फुडें येतकूच दाव्यान आंद्रूलें घर आनी दाजी देसायाली फार्मास. फार्मासी सामकार एक व्हड इगर्ज, पाद्रीलें, पोमालें, दोतोर केणयालें आनी जयवंत कामतीलें अशीं चार घरां आशिल्लीं. पणजेच्यान येवपी रस्त्यार दाजी देसायाली फार्मास आनी म्हांबऱ्यालें दुकान, आनी हांच्या सामकारच्यान न्हंयक तेंकून आशिल्लो रस्तो, तो फोंडव्यांत वतालो. दुसरे वटेनचो, म्हांबऱ्यालें दुकान आनी भोब्याल्या पसऱ्याच्या दारांतल्यान वचपी रस्तो मानशेर वतालो. अशें ह्या तिनूय रस्त्यांच्या मद्दीं आसरमाणी घालून बशिल्लें आमचें रायबन्! इतलो सोबीत, थंड असो हो आमचो गांव आनी तातूंत रावपी आमी सगळे सादे, मायेस्त अशे लोक, एक विठोबाचें देवूळ, एक सटीचो पणस, पाट्यावयली इगर्ज, रातीकडेन वेंऽऽऽ करून रडून जल्म-मरणाची खबर घेवन येवपी-वचपी त्यो भालू, कुयो घालपी ते आडांगी कोले, आड्डून आड्डून रात जागोवपी ते बोबाटे सुणे, भर रातीकडेन रस्त्यार अडून उरिल्ल्या मनशांक आवशील करून तांच्या घरा पावोवपी तो देंवचार, हें सगळें ह्या आमच्या गांवांत आनी आमच्या जिणेंत सामकें करमेवन भितर मेरेन भरिल्लें आशिल्लें.

हांगांचीं तेन्नाचीं चडशीं मनशां आयज नात. देंवचारूय बी चडसो भायर सरिल्लो दिसना. ती सगळी भुरावळ केन्नां केन्नांय एक एक करून वचत थंय, जळीं-मळीं म्हाका भेट्टा. तें शेंवतू, तें तिमा, ती सरस्पत, त्यो दोनूय इंदिऱ्यो-एक बारकेली, ती काळेली आनी दुसरी मोठेली, ती गोरेली भजेकान्न, तो फोंडू, पांडू, चंद्रकांत, सुकडो

काब, भगवान, सांवळो, त्रिबंक, कृष्णा, उश्णो, शांताराम, भिकूमाम, सुधाकर, देवेंद्र, विठ्ठल, खवंटो, तळावलीकार, गंगा, तारामती हीं सगळीं मनशां एक एक करून आपापल्या जाग्यार येवन बसतात आनी सदचेच भशेन मोठ्या मोगान म्हजेकडेन पळयतात, आनी हांव, हाडकुटें, काष्ट, म्हगेलो इल्लोसो कोंब्याच्या हातांचो विस्तीद घालून, हांवेच घडयिल्लीं पदां तानी मार-मारून म्हणीत्त थंयच उबें उरतां.... तांच्या तुस्तीच्या फुलांचो परमळ घेयत! ❖

3

# आमचें घर

**आमचें** घर खूब व्हड, माळयेचें घर! दुरगाभितर शेकानशेक पोरसूं, पोरसूं म्हणल्यार तशें फुलांचें बी पोरसू न्हय. पोरसू म्हणल्यार दुरगा भितरलें आंगण. तातूंत कितल्योश्योच दशणी, अनंत, सदाफुली, कणेर, चांफे, पेत्रोली, कलवती, गोठलां, केसरां, कृष्ण-कमळी, मोगऱ्यो, जाय, सायली हीं फुलांचीं रोपां, झाडां आनी वेली आशिल्ल्यो. उरिल्ले व्हड रूख म्हणल्यार अगस्त, करबील, चांफे, कोडू लिंबू, जाम, मशींग, आंतेर, अनन, आंवाळ्यो, करमल, बिमल, आंबे, आंबल्यो, पणस, आंबाडे, जगमी, पेरी आनी सात-आठ माड. पोरसांत एके वटेन आई, म्हजी आजी रावताली तें घर. ताकाच तेंकून इल्लोसो जागो सोडून नाल्लाचें लॉज आशिल्लें. ह्या लॉजांत पाडो जातकच नाल्ल भरून दवरताले आनी मागीर एक दीस कोणूय तरी येवन गाड्यांनी भरून भरून ते नाल्ल घेवन वतालो. लॉजाच्या भायर जमनीक सुळो तोपून ताचेर घरांत जाय आशिल्ले ते नाल्ल खूब फावटीं लक्षीमण बी सोलून घराकडेन घेवन येतालो.

ह्या नाल्लाच्या लॉजाक तेंकून एक ल्हान घर आशिल्लें. तातूंत सदाशीव आनी घन:श्याम म्हणून दोग भाव रावताले. ताच्या फुडें एक लॉज कशें इल्लेंशें घर आशिल्लें. ताकाच तेंकून आनीक एक ल्हानशें लॉज आशिल्लें थंय पयलींच्या काळार गणपत आनी आनंदी म्हणून भुरगींबाळ नाशिल्लें एक जोडपें रावतालें खंय. गणपत आमगेर रांदपी म्हण आशिल्लो. हांवे तांकां पळोवंक ना पूण तें घर अजून थंयच आसा. ह्या घरा पलतडी जनेला भायर, दुरगाच्या पलतडी, थाळोणी बांय आशिल्ली, आसा; आमच्याच पुर्वजानीं बांदिल्ली खंय ती बांय! सगळो गांव ह्याच बांयचें उदक वापरतालो.

आमच्या घराच्या भायर पयलीं लागताली ती, शेकानशेक पडवी, आनी त्या पडवेच्या मदींच आशिल्लीं तीं व्हडलीं पाशाणी सोपणां. आयज तसलीं सोपणां पळोवंक मेळटात तीं पणजेच्या पुलीस मुखेल्याच्या ऑफिसांत वयर वतना. पडवेचें पाखें उखलून धरून उबे आशिल्ले ते लाकडाचे कितलेशेच खांबे. ह्या खांब्यांच्या वयर आशिल्ल्या त्या पांख्याचेर भायल्या माळयेचीं व्हडलीं व्हडलीं जनेलां आनी तांचीं हारश्यांचीं आदुफां. पडवी काडून घरांत भितर सरना फुडें येंत्राद म्हणून एक व्हडलें साल आशिल्लें. ताच्या दाव्यान आनीक एक व्हडलें साल पातळिल्लें आशिल्लें, आनी ताच्या फाटले वटेन एक इल्लिशी कूड आशिल्ली. हे कुडीक मदली कूड म्हणटाले. तिचेभितर पायण आशिल्ली. ह्या दोनूय जाग्यांनी, मदल्या कुडींत आनी पायणींत दिसा-ढवळ्या काळोख आसतालो. मदल्या कुडींत तर म्हजें पावल केन्नाच जमनीक लागूंक ना. थंय कूडभर एक पेट आशिल्ली, देडेक वार उंच, चार वार लांब आनी दोन वार रूंद अशी. ह्या कुडींत काळखांत त्या काळार भुतां आसतालीं. येंत्रादांतल्यान चवखेर वचपाचें जाल्यार ही मदली भुतांची कूड लागतालीच! देखून आमी

थंय पांय दवरी नाशिल्लीं. ह्या कुडीच्या हुमऱ्याक पांय लागनाफुडें आमी दुसरे वटेनच्या हुमऱ्या पलतडी उड्डाण मारुन वतालीं!

मदल्या कुडींतल्यान पायण आनी मागीर तुळशीच्या आंगणा भोंवतणच्यो चार चवख्यो आशिल्ल्यो. पायणींतल्यान भितर सरना फुडें जे चवखेर पावल पडटा ते चवखेर दाव्यान एक व्हड कोठये कूड आशिल्ली. ते कोठये कुडींत भितर वण्टीक एक व्हडलें कंत्रेल आशिल्लें आनी जमनीर धा-बारा व्हडलीं व्हडलीं भाणां आशिल्लीं. आमी भुरगीं त्या भाणांनी लिपून आपा-लिपा खेळटालीं. एकेच फावटीं दर भाणांत तीन तीन भुरगीं लेगीत लिपतालीं, एदीं व्हडलीं तीं भाणां! म्हाका सदांच कोणेंय तरी भायर काडचें पडटालें त्या भाणांतल्यान देखून हांव भंयान केन्नाच त्या भाणांत देवलें ना. त्या भाणांनी तोंड घालून पद म्हणल्यार आवाज सुदारतालो. हांगां साकांनीं तांदूळ दवरिल्ले आसताले. कांय भाणांनी गॉड, मिरसांगो, कोथमिऱ्यो बी असलें सामान आसतालें; सोलिल्ले नाल्ल, तेलाचीं व्हडलीं व्हडलीं लातां, लाकडाच्यो पायल्यो, पडी, आठवे, गिन्नाठ्यो, राजू, सुमां, सुतल्यो, हांतर, हांतऱ्यो, वजीं, पाटले, कुरपाणे, वल्ल्यो, सुपां आनी कितल्योशोच हुनुल्ल्यो, पाली आनी जल्ले हांगां पासयो मारीत आसताले!

तुळशीच्या आगणां भोंवतणच्या उजव्या चवखेच्या उजव्यान देवाची कूड आशिल्ली. ते कुडी भायर पाडे, उजळणी, स्तोत्रां आनी भजनां म्हणपाचो जागो आशिल्लो. त्या जाग्याक सदरी म्हणटाले. तिचे पलतडी शेकानशेक पातळिल्ली ती रानचीकूड; आयदनां घासपाचीं मान्नीं, शिवराक आनी नुस्त्याचीं आयदनां घांसपाचीं अशीं दोन खेरीत खेरीत मान्नीं आशिल्लीं; रोप धुवपाचें तिसरें मान्नें आनी

न्हावपाचें चवथें मान्नें आशिल्लें. थंयच एके वण्टी पलतडी इल्लेंशें कुरकूट कशें मान्नें आशिल्लें, तें भटालें मान्नें. हें मान्नें फकत भटाकूच न्हावपाखातीर आशिल्लें. श्राध्दाच्या बी दिसा बाबाय बी थंयच न्हावन 'सवळो' जावन भितर सदरेर वचून पुजेक बसतालो. त्या जाग्यार न्हातकच लोक 'सवळे' जातालें. माथ्यावयल्या पदराची मंगळूरची आमाय बी थंयच न्हाताली आनी सवळी जावन, कोण्णाक आफडी नासतना सदरेच्या भितल्ल्या वटेन आशिल्ल्या वानां म्हऱ्यांतल्या वासरेंत पाटार बसून शाण्या भुरग्याभशेन जेवताली.

देवाच्या कुडी भायर पडवे भशेन व्हडलें उगडें माटोव कशें साल आशिल्लें. तेंच साल म्हणल्यार सदरी! देवाचे कुडींत जमनीक लादी घाल्ली आशिल्ली. आमच्या सबंद घरांत ही कूड सगळ्यांत सोबीत आनी चक्क! बाकिच्या सगळ्या कुडींनीं तांबडें वा सादें शिमीट आशिल्लें. सदरी साद्या शिमिटाची. पूण आमी सामकीं ल्हान, सात-आठ वर्सांचीं जाय म्हणसर सबंद घरभर शेणाचीच जमीन आशिल्ली. सकाळचो भट येवन घरांतल्या साळिग्रामाची पुजा करतालो. ताच्या मागीर रोखडोच रांदपी थंय देवाक पान वाडटालो, आनी भट देवस्पण म्हणीत त्या पानांचेर उदक फाफडीत, तुळशीपानां उडोवन व्हडान कितेंय तरी म्हणून मागीर घरा वतालो. हें जेवण अकरा-बारा वरां पर्यंत तयार आसतालें. कितलेशेच रांदपी मेळून तें जेवण रांदतालें. हें जेवण घरच्या आनी घराभायल्या सगळ्या लोकांखातीर रांदिल्लें आसतालें.

श्रावणांत आयतारा दिसा आयतार हांगाच पुजतालीं. श्राध्द, पुजा, म्हाळ, समरादनां बी आयलें काय ना, बाबा आनी भट हांगाच बसून व्हडा-व्हडान पुजा करताले. आमचो सगळ्या भुरग्यांचो प्रोग्राम तिनसांजचो आसतालो. एक एकदां बाबाय येतालो सांगांताक. तो

खुबशे फावटीं येवन तबलीं घेवन बसतालो आनी तीं तबलीं बडय बडय बडयतालो. म्हाका दिसना ताका वाजोवंक येतालें म्हणून. पूण तबलें कोणेय बडयल्यार आनी कशेंय बडयल्यार तें बाबडें आवाज काडटाच! आमी थंय बसून बाराखडी आनी पाडे म्हणटालीं. मागीर सुरांत भजनां म्हणटालीं. चडसो करून कोणूय एकटो एक एक ओळ म्हणूंक शिकयतालो. मागीर सगळीं भुरगीं ती ओळ म्हणटालीं. चडशें करून हांव वा म्हजो धाकटो भाव उल्लास भजनां शिकयतालीं. आमचे दोगांचेय आवाज आयकतल्याच्या कानांक गोड लागताले आनी आमी भजनां म्हणटा आसतना आयकन दिसता म्हणून तळावलीकार सदांच म्हणटालो.

आमचें खेळून जातकच तिनसांज जायना फुडें आमी सगळीं भुरगीं हात-पांय धुवन सदरेर येवन बसतालीं. आमच्या सांगाताक भटालीं भुरगीं, रानपाक आशिल्ल्यांचीं भुरगीं आनी घरांत कामाक आशिल्ल्या हेर लोकांलींय बी भुरगीं आसतालींच. एकेक फावट शेजारचींय बीं भुरगीं येतालीं. केन्ना केन्नाय तळावलीकार, विठ्ठल बी येवन बसताले ताळयो पेटपाक आनी हांबेल्ल्या भशेन आवाजान भजनां म्हणपाक. मास्तर येवन बसना फुडें आमी ''पाडे-उजळणी'' म्हणपाक सुरवात करतालीं. मास्तर वा आनीक कोणूय तरी पाडे शिकयतालो ते प्रमाण मागीर आमी सगळीं तें परत म्हणटालीं. असल्यांनी आमकां पाडे सामके पाठ जाताले. हें जातकच मागीर स्तोत्रां आनी भजनांक सुरवात जाताली.

डांगी मास्तर आसतना सदांच आमी सगळीं भुरगीं तिनसांजचीं सदरेर बसून भजनां म्हणटा आसतना डांगी मास्तर सरस्पतीचें एक भजन म्हणटालो. हांव आशिल्लें तेन्ना चवदा-पंदरा वर्सांचें. भजनांत भितर दोन नांवां आशिल्लीं, 'शारदा' आनी 'विमल'! आमगेर

शेटीण म्हणून एक काळीकिट्ट जाण्टेली मराठी बायल मनीस कामाक आशिल्ली. तिगेल्यो दोन नाती आशिल्ल्यो. व्हडलें तें विसेक वर्सांचें, शारदा, तें बरें दिसतालें. दुसरें विमल, सात-आठ वर्सांचें, आज्जे भशेनूच दिसपी. हें भजन ''जय शारदे'' अशें म्हणून सुरू जातालें. सगळे शब्द सारके याद जायना तरी पूण तातूंत भितर परत परत एक वळ येताली ती म्हणल्यार ''जय शारदे'' आनी ''विमल प्रेम धरूनी मनी!'' हें पद म्हणटा आसतना मास्तर सामको खूश जावन पद म्हणटा अशें आमकां ओगीच दिसतालें. त्या भायर कुसूम, जनी ह्या सगळ्या चली भुरग्यांक मास्तराचो दुबाव मारतालो आनी तीं तशें उलोवन दाखयतालीं. एका भजनांत हीं दोनूय नांवां शारदा आनी विमल येतात म्हणल्यार कितें, हें कुवाडेंच कोणाक समजनाशिल्लें आनी त्याखातीर आमकांय बी सगळ्यांक मास्तराचो चडान चड दुबाव मारपाक लागलो. मास्तर शारदाचेर दोळो दवरून आसा अशें आमकां ओगीच दिसपाक लागलें. मास्तराचें हें कितेंय तरी चिकान आसा अशें म्हणून आमी भितरले भितर हांसत एकामेकाक दोळे मोडीत ही प्रार्थना म्हणटालीं.

अकस्मात एक दीस आमचे तकलेंत आयलें ''विमल प्रेम धरूनी मनी'' ही वळ म्हणीनाफुडें म्हजो सात-आठ वर्सांचो धाकटो भाव नरशींव पिकार जाता म्हणपाचें! नरशींवाक शेटणील्या विमलाचें नांव घेवन उल्लास बी तिडयताले दिसता! दर सांजची ही प्रार्थना म्हणटा आसतना ''विमल प्रेम'' म्हणीनाफुडें नरशींव कोणाकूय तरी खोंटावन थंयच्यान चलूंक लागतालो. मास्तर सदांच हें भजन म्हणटालोच आनी आमी सगळीं ''विमल प्रेम धरूनी मनी'' म्हणटा आसतना तिरश्या दोळ्यांनीं नरशींवांकडेन पळयतालींच. हो प्रोग्राम बरो देडेक वर तरी चलतालो.

घरांत भितर सरतकच सामकारच्या चवखेवेल्यान फाटल्या वटेन वासरेकडेन वचपी पायण आशिल्ली. हे वासरेर वयर कापडां बी सुकत घालपाखातीर कोंड्यांच्यो दांडयो हुमकळायिल्ल्यो आशिल्ल्यो. हालींच्या तेंपार असल्यो मळबाक बांदिल्ल्यो दांडयो खंयच दिसनात. सगळेकडेन हात पावपा इतल्यो वयर दांडयो आसतात. त्या काळार गंगा वा तारामती वा हेर बायल मनशां ह्या दांडयांचेर कापडां सुकत वडयता आसतना हातांत कोंडो घेतालीं, कापडांच्या एका शेवाचो गुळो करून, त्या कोंड्याचेर वयर थापिल्ले वरीं दवरून, तो गुळो त्या हुमकळायिल्ले दांडयेवेल्यान पलतडी वडयतालीं. मागीर त्याच कोंड्यान धरून तें कापड दांडयेर पातळायतालीं. कितलें सडसडीत करतालीं तीं सगळींजाणां हें काम! घंगळ्यांनीं भरून धुवपाचो रोप आसतालो पूण कांय मिन्टां भितर धुयिल्लो सगळो रोप त्या मळबावेल्या दांडयांचेर पातळायिल्लो दिसतालो. त्या काळार अशें सडसडीत काम केल्यार ताका ''घटोत्कची व्यापार'' अशें म्हणटालेशें दिसता. आमींय बी सगळीं भुरगीं तो शब्द म्हणपाक शिकिल्लीं. अर्थ कोणाक खबर नाशिल्लो पूण हो कठीण शब्द केन्नांय मदीं मदीं हेरांचेर छाप घालपाखातीर वापरचो पडटालो आमकां!

हे वासरेचे आयले वटेन तीन कुडी आशिल्ल्यो, एक सावित्री व्होनीली, दुसरी मथुरी व्होनीली आनी तिसरी सांतेरी व्होनीली. सावित्री व्होनी ही धेंप्याल्या विष्णु बाबाली भयण, पूण सांतेरी व्होनी आनी मथुरी व्होनी ह्यो कोण तें मात् आमकां खबर नाशिल्लें. कोणाक विचारपा इतलो वेळूय बी नाशिल्लो आमकां त्या काळार. आयज विचारतलो जाल्यार हें सांगपा इतलो जाणकार कोण उरूंक ना काय दिसता.

वासरे पेले वटेन आशिल्लें तें फाटल्या वटेनचें पोरसूं.

फाटल्या दाराक मागीलदार म्हणटाले. थंय एक निरपणसाचो रूख, कितल्योशोच केळी, पोपायो, चार-पांच तरा-तरांच्यो पेरी, एक-दोन अगस्ताचे रूख, कांय मशींग, एक व्हड करबिलाचो रूख कांय बिमली आनी करमली, एक कोयर वडोवपाखातीर चिऱ्यांनीं बांदून काडिल्लें तें कोंड, हें इतलेंय आशिल्लें. कोंड म्हणल्यार चिऱ्यानीं बांदून काडिल्लो एक व्हड वाटकुळो फोंडारो. ताका तेंकून दोंगराक थातारून धरपाखातीर बांदिल्लें मळबाक तेंकिल्लें तें एक व्हडलें दुरीग. दुरगा पलतडी शेकानशेक दोंगर, दोंगरावेलीं अडुळश्याचीं झोपां, रुमड, आंबाडे, मशींग, भिरणी तशेंच सुरङी, वोंवळी, जांबळी, रिठ्याचीं झाडां, आंबे-पणसाचे मळबाक तेंकिल्ले व्हड व्हड रूख आनी सांगाताक काजू, कणेरां, काण्णिणी, चुन्नीणी, चारां, चिवरां, आमोरां, आंसाळे, पिटकुळी, भेळसां असलीं ल्हान-ल्हान झोपां आसतालीं. ह्या झोपांमदीं पुनर्नवा, परिपाट, किरायतें, शेपू, निवलकाणे, कांटेकुंवर आनी साबार हेर वनस्पती हेंय बी थंयच मेळटालें. हातुंतच जळीं-मळीं खंयीय कांय मुणकारालीं घरां आशिल्लीं. मुणकार म्हणल्यार कितें तें खबर नाशिल्लें. पूण सरभोंवतणच्या कांय घरांक मुणकारांलीं घरां म्हणून वळखताले. दोंगराच्या एका अर्दाक मात्सो फुडें वचत जाल्यार एक खूब व्हड काळोच सोपो कसो फातर आशिल्लो. ताका काजू मळपाची कोयणी म्हणटाले. रायबन् च्या दोंगरार वेलो सगळो श्रृंगार, म्हणल्यारच एक काजू मळपाची कोयणी, सटीचो पणस, विठोबाचें देवूळ, मसण हीं इतलींय जागच्या-जाग्यार चप्प बसयिल्लीं आशिल्लीं. पावसावेळार थोड्या वेळापुरतीं घोसाळीं, पडवळीं, तवशीं, काराथीं, दुदी, भेंडे ह्या भाज्ज्यांचे मळे थंय दोंगरार येताले आनी थंय राबितो करून रावताले. वेले साबार रूख, देवूळ, मसुण्ड तांकां खोश्शेयन येवकार दिताले. त्या काळचे लोक ह्याच रूख-

देवूळ-मसुण्ड हांचेकडसून संस्कृतायेची देख घेवनूच एका-दुसऱ्याक सांबांळून घेताले. कार्रेरींनीं देखून "मात्सो घोळून बस," अशें म्हणीत-म्हणीत किलिंडर विसांच्या जाग्यार तीस जाणांचें 'लोतासांव' करून कार्रेर लोणच्याच्या बुयांवांतल्या आंबल्याभशेन दामून-चेपून पॅसेंजरांक भरतालो. पूण दर एकलो दुसऱ्याक मायेमोगान येवकार दिवन घोळून-घोळून म्हऱ्यांत सांबांळून घेतालो. खंयीय एकादी जाण्टेली आपलो हात-पांय चिङ्गुल्यार 'आवोयस्स्' म्हणून खीण भर चाळवताली इतलेंच! आत्ताक किलिंडरान "मांय दिश्कुल्प! दुखलें तुका? आरे रेऽऽऽ," अशें म्हणटकच, "जावं तें, तूं जोबोर मोनाक लावन घेनाका तें. जाण्टेपोण; हाडां मोव जाल्यां रे पुता म्हुज्या", इतलेंच म्हणटकूच कार्रेरींतले सगळे लोक ते जाण्टेलेक आनी त्या किलिंडराक व्हडा मोगान पळेताले. सगळेकडेन मोग; राग चडसो खंय दिसनाशिल्लो. कोण कोणाचे वाटेक वचनाशिल्लो. कोण कोणाक चाळय नाशिल्लो. सगळ्या बऱ्या-वायट घडणुकांचो जागो जावन आशिल्लो तो भाटकाराल्या त्या घरा भोंवतणचो वाठार. सरभोंवतणचे भावार्थी, हांसत्या तोंडाचे लोक; धालांच्या वेळार धालो, चवथ-दिवाळी-तुळशी लग्नाक पुजा आनी फुगड्यो, पालखेवेळार नाटकां, फेस्तां वेळार इर्गजेचें फेस्त, पुरुमेताचें फेस्त, नाताळ, पुरसांव, तियात्र, फेरी, फेरयेंतल्यो सर्ती, सोर्ती आनी फोग! हें सगळें म्हणल्यारच रायबन्, खोर्नावाडो!

देवाच्या कुडीक तेंकुनच भटाल्या मान्र्या भायर एक व्हडली रानन आशिल्ली. थंडेच्या वेळार भटाक बी न्हावपाखातीर उदक हांगांच तापयताले. आमचो सगळ्यांचो हांडो व्हडलो आसतालो, तो भायल्या मान्र्यांत आशिल्लो.

हेच रान्नीक तेंकून एके वण्टी पलतडी सामकी इल्लीशी

कुरकूट कशी कूड आशिल्ली. तिका दोणाची कूड म्हणटाले. भेणयेचें मोठ्ठें झाड कापून तें मदीं शेकानशेक कोरांतून व्हडलें खोल आयदन कशें करताले, हाकाच 'दोण' म्हणटाले. असलें एक व्हड दोण ते कुडींत आशिल्लें. दर वर्सा वज्यांनीं आमल्यो घालून तातुंत त्यो आमल्यो करमेवपाक मीठ घालताले. पयले सात-आठ दीस त्यो आमल्यो काडूंक मेळनाशिल्ल्यो. ह्यो करमेंव नाशिल्ल्यो कुरकुरीत आमल्यो फकत कृष्ण भट चोरयां काडून आमकां खावपाक दितालो. आमीय बी त्यो आमल्यो लिपोवनूच खातालीं. हे कुडीक दोणाची कूड वा सवळी कूड म्हणटाले आनी थंय भटाशिवाय आनी रांदप्या शिवाय कोण्णें वचूंक जाय नाशिल्लें. रांदपी वा भट न्हावन ओलो वालो न्हेसून सवळे जावन दोणांतल्यो आमल्यो, आमटाण वा सोलां काडून हाडपाक ह्या कुडींत वताले. थंय सामको काळोख आसतालो, आनी सुर्याचें किरण पडनाशिल्ल्यान जमीन सामकी ओली, तेलकट आनी चिकचिकीत आसताली. हांगा व्हड व्हड बुयांवांनीं सोलां आनी आमटाण दवरिल्लीं आसतालीं. एक निसणय बी आशिल्ली. दोण खूप उंच आशिल्ल्यान ती निसण दोणाक तेंकोवन भट बी वयर चडून दोणांतल्या दवल्यान खळांतल्यो आमल्यो काडून घेताले. हो दवलोय बी लाकडाचो एक व्हड तोप कसो आशिल्लो. ताचो दांडो खूब व्हड आशिल्लो. हे कुडींत वतना उजवाडाखातीर पण्टी घेवन वचचें पडटालें. थंय हुनुल्ल्यो, मोटे मोटे जल्ले बी खूब आसताले. आमटाणी वांगडा बी रांदप्यान केन्ना केन्नाय एकादो मेल्लो जल्लो वांटपा बरोबर वांटून आमकां खावोवंक ना अशें म्हाका दिसना. आयज येवजीत जाल्यार सामको जीव विट्टा!

एकेकदां हुनुल्ल्योय बी सुळ्ळ करून धांवन भायर-भितर येताल्यो-वताल्यो. त्या वेळार हुनुल्लेक 'लक्ष्मी' म्हणटाले आनी

मारी नाशिल्ले पूण हुंदराक मारताले. पळयना फुडें हुंदीर काय हुनुल्ली हें सगळ्यांक पयलींच कशें खबर आसतालें देव जाणा! चुकून म्हणून हुनुल्ली मरत जाल्यार व्हडलें पातक! हुंदराक मात्शें वेगळें पोजिसांव मेळटालें, तें फकत चवथ-पंचमी वेळार! गणपती घरांत आसतालो न्हय? गणपती हुंदराचेर बसून भोंवपी. हुंदराक मारल्यार ताका वायट दिसत, हो भंय आमकां सगळ्यांक, जाण्ट्यांक आनी भुरग्यांक, फकत चवथीच्या वेळारच आसतालो. तशें पळोवंक गेल्यार हुनरांकडेन आमची चडशी इश्टागत नाशील्लीच म्हणा; पूण फकत गणपतीचें तोंड पळोवन घरचे सगळे लोक ताका ते चार दिस सोंसून घेताले. ताजे मागीर तोंड दाखोवपी हुनरांक आमी रेस्पेत दिना आशिल्लीं. ❖

# 4

# अन्नाचें म्हत्व

**अन्ना** इतलो आवडटो विशय आयज पसून म्हाका दुसरो मेळूंक ना. म्हज्या ल्हानपणांत आमगेर सदांच लोक जेवपाक आसताले. रानचे कुडींत ना जाल्यार घराच्या खंयच्याय तरी कोनश्याक कोणूय ना जाल्यार कोणूय तरी जेवपाक बशिल्लो दिश्टी पडटालो. आमचें घर खूब व्हड, सामको किल्लो कसो! तातूंत भितर कितलेशेच लोक हेवटेन-तेवटेन शिंपडून आसताले, तरीय पूण गर्दी अशी खंयच दिस नाशिल्ली. रांदचे कुडींत कितलींशींच तपलीं-थालां, तोप, कावळे, घंगळ्यो, कांश्शे, दायो, भोगुणीं, दौले, कोळमुळां हें सगळें सामान हेवटेन-तेवटेन पडिल्लें आसतालें. त्या भायर, खूबशें जेवणय बी उरिल्लें आसतालेंच. मागीर कोणाकूय भूक लागूं, ताणें ताट घेवन वचून रानप्याकडल्यान वाडून घेवपाचें आनी जेवपाचें. खंयचोच रानपी केन्नाच 'ना' म्हण नाशिल्लो. पळयत तेन्नां कोणूय तरी जेवतना दिश्टी पडटालो. आतां तो जेवपी मनीस दनपरां जेवला काय ना हाका म्हत्व नासतालें. दर एकल्याक जाय तेन्ना, जाय तितलें आनी जाय

तितले फावटीं जेवण मेळटालें. वचपाचें, शीत, रोस, भाजी, कडी जाय तितली घेवन जेवपाचें. कोणेंच भूक मारून उडोवपाची गरज नाशिल्ली. गरीब, गिरेस्त, मोठो, व्हड, ल्हान, अन्नाच्या विशयांत सगळेच समान! सगळ्यांक भूक लागता आनी भुकेल्ल्याक आमगेर जेवण मेळ्ळें ना अशें केन्नाच जालें ना. सबंद दीस भर अन्नदान चलिल्लें आसतालें. एक एकदां रातिकडेन उसरां लेगीत भोंवडेर आशिल्ले लोक येवन, जेवन आमगेरच न्हिदताले. एक रांदपी तर रातभर आसतालो, रातिकडेन आयिल्ल्यांक वाडपाक आनी शेंदरी-उशें-पांगरूङ दिवपाक!

इतलें व्हड घर, इतले नोकर-चाकर पूण आमी भुरग्यांनी सांजेवेळार सांजो वा सकाळींफुडें पुरी-भाजी असले जिनस केन्नाच खाले ना. धा वरांचेर सरसकट कितल्याश्याच लोकांखातीर केल्ली ती एक पेज. खतखतें वा किसमूर वा कुंवळ वा आमली वा भाजिल्लो खारो बांगडो लावन पेज जेवपाची आसताली. पूण अपुरबायेन आमचेखातीर म्हणून स्पेशल अशें कोण कांय रांदी नाशिल्लो. आमगेर काम करपी वावराड्यांच्या घरांनी सांजचे वेळार आवयो रान्नी म्हऱ्यांत बसून आपल्या भुरग्यांक भोंवतणी बसोवन पोळे बी करून खावयतालीं. तातूंत हांवूंय बी एकेक फावट तांगेर थंय लिपून बसून खातालें आनी मोठ्या मोगान त्यो तांच्यो आवयो म्हाका खावयताल्योय बी.

तिनसांजच्या वेळार खेळून खेळून आमी सगळीं भुरगीं जाम जावन पिकिल्ले आंबे कशे न्हिदून पडटालीं. देखून तिनसांज जावचे पयलींच आमकां पेज लावपाचो आक्त जातालो.

पेजेचे वासरेंत शेकानशेक जमनीर पाट मांडून, तांच्या सामकार पितळ्यो दवरून, आमकां लावपाक बायलां बसतालीं. आमकां पेज लावपी चडशीं बायलां मंगळूर, कारवार, बोरये वा काणकोणचीं आसतालीं. ह्या बायलांतलीं कांय जाणी आपल्या ल्हान भुरग्यांक

घेवन आयिल्लीं आसतालीं. तांचे भुरगे आमगेरूच रावन शाळेक वताले. कांय जाण शिकपाक सक्काळीं फुडें पेज जेवन पणजे लेगीत चलून वताले. दनपरां जेवणाच्या वेळार ते परतताले. आमच्यो चाडयो बी ते बाबाक केन्नाच सांगनाशिल्ले. वेल्यान आमकां सांबाळून व्हरताले. सबंद सांजवेळ ते शिकूंक बसताले. ताई, माई बी शाळेंत शिकतालीं. तांकां लेगीत ते शिकयताले आनी तांकां पाटयांचेर उजळणी काडपाक ते मजत करताले. एक एकदां ते चोरयां मास्तराक वा कोणाकूच कळ नासतना तांकां तांच्या पाटयांचेर उजळणी काडून दिताले. कांय बायलांचे घोव आमगेर रांदपाक आसताले. देखून तांचीं सान, आमचे पिरायेचीं भुरगींय बी आमच्याच वांगडा जेवपाक बसतालीं. एकेकदां तीं आपल्या आवयच्या कडेक बसून स्वताच्या हातांनीं जेवतालीं वा तांच्यो आवयो एकाच हातान एके वटेन आमकां आनी दुसरे वटेन तांकां भरयतालीं. कितेंय जावं, हांचे मदले खंयचेच बायल मनशेन आमचेकडेन दुस्वास केल्लो आमकां याद ना. जेवता आसतना आमी कितलेय त्रास दिल्यार लेगीत हीं बायलां आमचेकडेन पासेंस काडटालीं, आमकां मायेमोगान थातारतालीं, पदां म्हणटालीं. "हो पळय, देव आयलो, हो पळय, कोलो आयलो" अशें कितेंय तरी म्हणून तीं आमकां न्हिदेंतल्यान भायर काडपाचो यत्न करतालीं. तांच्या स्वताच्या भुरग्यांच्याकय तीं आमकां चड मोगान आनी आदरान वागयतालीं. असलीं भांगराच्या अंतस्कर्णाचीं मनशां आयज खंयच सोदून तरी मेळत काय? तीं बायलां आयज आशिल्लीं जाल्यार शंबर-सवायशें वर्सांचीं तरी तीं आसतलीं आशिल्लीं. आयज तांचे पैकीं एकाय मनश्याक मेळून, पयलींच्यो यादी काडून, तांकां पांया पडून, तांचे उपकार आठयतलें जाल्यार तीं कोणूच आयज ना हें येवजून खंत भोगता. ❖

## 5

# शिता भोंवतणची कार्यावळ

**आमगेर** व्हडल्या व्हडल्या तपल्यांनीं शीत करताले. हीं तपलीं म्हणल्यार व्हडले व्हडले पितुळचे वा तांब्याचे चंबू कशे. एका तपल्यांत एक ल्हान भुरगें अचळय लिपून बसूंक शकतालें, इतलीं तीं तपलीं व्हड आसतालीं. ह्या तपल्याची उंची एका तीन चार वर्सांच्या भुरग्या येदी आसताली. आमी ल्हान आसतना इल्ल्याश्या बाकीनाचेर वा तामरेतीचेर उबीं रावन तपल्यांत तोंड घालून बरीं सुरान पदां म्हणटालीं. पोपो आनी माई दोगांय पदां म्हणटालीं तेन्नां आयकूं नजो जातालीं, पूण तीं जेन्नां जेन्नां तपल्यांत तोंड घालून पदां म्हणटालीं, तेन्नां तेन्नां तीं बरीं सुरान म्हणटालीं. तपल्याचोच गूण आसुंये!

हीं तपलीं बरींच जड आसतालीं. आमकां तीं उबारप जम नाशिल्लें. फकत रानपी मामाच तीं तपलीं उबारपाक शकताले. शितान भरिल्लीं तपलीं तर उखलपाक दोन लोक लागताले. ते उजव्या हातान तपलें उबारून दाव्या हातान दुसऱ्यालो खांदो घट्ट धरताले. आनी तिरकस धांवून, तपलें उखलून घेवन वताले. ते धांवता आसतना

वाटेर कोण्ण राव नाशिल्लो. आमचे असलीं भुरगीं बी चुकून मदींच तांचे वाटेर उरल्यार तांकां कोणूय तरी कडेक काडटालीं. घर-भर जळीं मळीं कितलेशेच लोक आसताले न्ही फांफडून!

रानपाचें सगळेंच सामान चवखेर कोठये कुडींत आसतालें. त्या कुडीची चावी म्हणल्यार एक व्हड, जड तुतयो कसो, काळ्याकिट्ट लोखणाची! थंयच चवखेर खिळ्याक हेर चावयांच्या सांगाताक हीय बी चावी हुमकळायिल्ली आसताली! कितल्योशोच चावयो! खेळपाक चावी जाय म्हण मागल्यार तापोवणी पडटाली. आमचो हात थंय पाव नाशिल्लो. देखून मागचें पडटालें. नाजाल्यार कोणाक जाय आशिल्ली ती तसली तापोवणी? ह्या कामाक आमकां रविंद्र बऱ्याक पडटालो. आमच्यांनीं तापोवणी घेवं नज आशिल्ली. कोणेय मात्शें कितेंय म्हणल्यार आमकां वायट दिसतालें. देखून तापोवणी खावपाच्या जाग्यार आमकां रविंद्र बऱ्याक पडटालो. तो कितलीय तापोवणी पडल्यार पसून चावयो मागपाचें सोडी नाशिल्लो आनी व्हडान आड्डून धेंगसो पडटकच सुळ्ळ करून माकडा भशेन उडकी मारून पळून वतालो. आमकां चावी केन्नांच मेळ्ळीना. आसूं!

एक रानपी कोठये कुडींत वचून एका व्हड तोपांत साकांतले तांदूळ घालून घेवन येतालो. ताच्याच बराबर कोणूय बायल मनीस वचून कितलेशेच नाल्ल पाटल्यांत घालून ते घेवन भायर येताली. थंयच्च भाणांनीं आशिल्ल्यो सुक्यो मिरसांगो, कोथमिऱ्यो, मिरयां असलें सामानय बी सुपांत वा कुरपाण्यांत घालून त्याच वेळार ती भायर घेवन येताली. मागीर जाण्टेली आमा कोठये कुडीक कुलप लावन चावी किरवंटीक लायताली. किरवंट म्हणल्यार कितें तें आमकां सारकें खबर नाशिल्लें. आमा, विठ्ठल, तळावलीकार आनी हेर जाण्ट्यांच्या भेंडांक किरवंट म्हणटात अशें आमकां दिसतालें.

घडये व्हडल्यो चावयो कमराक लायतात म्हणून तांकां किरवंट म्हणटा जावंये अशें आमकां दिसतालें. आनी कोणूच कमराक चावी खोय नाशिल्लो, सोडून हीं तिगां. बाबाय बी सदांच एक बरो चकचकीत ल्हान ल्हान चावयांचो घोंस कमराक खोयतालो पूण ताका कोण्ण किरवंट म्हण नाशिल्लो. पूण तीं तिगांय व्हड व्हड चावयो कमराक खोयतालीं, हें खरें.

रानपी तोपांत तांदूळ घेवन वचून तें दुसऱ्या तोपांनीं उसपून, तांचे वांटे घालून, उदक घालून, बरें कालोवन-कालोवन धुयताले. मागीर मामा रान्नीचेर दवरिल्ल्या तपल्यांतल्या खतखतीत उदकांत ते तांदूळ ओतयतालो. एकाच वांगडा तीन तीन रान्नींचेर तपलीं शिजत आसतालीं. त्या तपल्यांक खतखतून वोतो येतालो. मागीर दायेचेर शीत घेवन तांतुतलो एक गोटो काडून शिजला काय म्हणून दामून तो पळयतालो. ताका हून बी कांय लागनाशिल्लें. ताचीं बोटां खंय लोखणाचीं आशिल्लीं. तशें पळोवंक गेल्यार खंयच्याच मामाक हें शीत दामतना हून लागनाशिल्लें. आनी तांचीं सगळ्यांचीं बोटां लोखणाचीं म्हणून ते सांगताले.

मागीर रानपी माम त्या तपल्याच्या तोंडांक एक पातळ लुगट बांदताले. त्या लुगटाक 'भाणशिरें' म्हणटाले. 'भाणशिरें' तपल्याच्या गळ्याक गुठलावन दोशींवटेन दोन आंबाडे कशे करून, तें तपलें उखली नासतना दाव्या वा उजव्या वटेन धुकलून रान्नीच्या सकयल दवरिल्ल्या तोपाचेर लंवडून उमथें घालताले. पूण ताचे पयलीं सकयल दवरिल्ल्या त्या तोपाचेर वेल्यान एक दाय तिरकस उबी दवरून तिचेर त्या तपल्याचें तोंड तेंकोवन, पालशें दवरून, सगळो निवळ निस्तून काडटाले. ह्या निवळाक 'तन्न' म्हणटाले.

मागीर सांजवेळचीं भोंवतणचीं कांय बायलां येवन हें तन्न

व्हरतालीं. तांच्या पोशिल्ल्या दुकरांक तें बऱ्याक पडटालें. चडशीं करून निकलुलीं भुरगीं व्हड व्हड बुडकुले घेवन येवन हें तन्न घेवन वतालीं. हें तन्न दुकरांक घालता आसतना ताका 'धोण' म्हणटाले.

रानचेकुडीक एक तूम आशिल्लो. त्या तुमांत तोपांतलें तन्न ओतयल्यार तें वण्टी पलतडी फाटल्या दारार आशिल्ल्या पोरसांत तुमाच्या तोंडा पलतडी दवरिल्ल्या व्हड व्हड बुडकुल्यांनीं पडटालें. ह्या तुमाक खूब शेळो आय़िल्लो आसतालो आनी जंय बुडकुले दवरिल्ले आसताले थंयूय बी खूब शेळो आय़िल्लो आसतालो. ह्या रानचेकुडींतलो भितरलो तूम कोण्ण केन्ना घांसून नितळ करिनाशिल्लो. देखून ताका एके तरेच्यो किल्लुसाणी मारताल्यो. त्या भायर, वण्टी पलतडी बुडकुल्याच्या जाग्यारूय बी कोण्ण नितळ करपाचे भानगडींत पड नाशिल्लो. खुद्द तन्न घेवन वचपी बायलो लेगीत अचळय बुडकुलो उखलून घेवन वताल्यो. त्या जाग्यार दाट्ट शेळो येवन सामकी निसरट जाल्ली आसताली. पूण ताचें कोण्णाक पडिल्लें नासतालें. फकत तिमा येतालें तेन्ना तें सान्नी खुटारो घेवन मीठ बी घालून हो जागो नितळ करतालें. केन्ना-केन्नाय दत्तुल्याक हुकी येताली आनी तो किवांट्यान ह्या कामाक लागतालो. पूण रानची कूड सवळी जाल्ल्यान थंयचो भितरलो तूम फकत रानपीच नितळ करूंक शकताले. इतले रानपी आसून लेगीत सगळ्यो घाणी! इतल्यो मंगळुरच्यो बी 'आमा' आसताल्यो, आपल्या भुरग्या--बाळांक घेवन, पूण केन्नांय कोणूय नवी 'आमा' येताली तेन्नां ती हो रानचे कुडींतलो तूम नितळ दवरताली. मागीर कांय दिसांनीं ती हें काम करपाचें सोडून दिताली. मागीर परत घाणी! पोरसांत तन्न दवरिल्लें आसतालें थंय सुळसुळून पडत म्हणून आमीं कोणूच थंय वचनाशिल्लीं.

वावराड्यांचें भाजी शिनून, नाल्ल कांतून जातकच रानपी

रानपाक सुरू करतालो. दोन-चार रात्रींचेर तपलीं चडटालीं. कोठये कुडींतल्यान हाडिल्ले तांदूळ बी तपल्यांनीं वडयता आसतनाच हेर रात्रींचेर भाजी वा खतखतें वा रोस शिजत आसताले. वानांचेर बसून वांटपूय बी त्याच वेळार चलतालें. कडीय बी पिळप ह्याच वेळार चलताली. वानां म्हऱ्यांत कितलेशेच व्हडले व्हडले जल्ले भोंवत, उडत्त आसताले. पूण तांचें कोणाक कांय पडिल्लें नासतालें. सगळे रानपी सामके बरे मनीस! आमी तांकां मामा म्हणटालीं आनी ते सगळे आमचेर उपाट मोग करताले. ❖

# 6

# रानपी माम

**दर** दिसा शंबरेक तरी लोक आमगेर जेवताले. त्या भायर, कांय गांवचे लोक पानां घेवन वताले. हांव चार-पांच वर्सांचें आसतना आमगेर गांवचे कितलेशेच लोक येवन पडवेर बसून मागीर जेवणाचें पान घेवन वताले. बारा वरांचेर सुमार हांव हातांत पाटी-काडी घेवन वतालें पडवेवेल्या लोकांचो नंबर बरोवन घेवपाक. म्हाका फकत धा नंबर मेजपाक येताले. त्याप्रमाण धा लोक मेजून जातकच हांव एक शुन्य काडटालें पाटयेर. थंय बशिल्लीं दादले-बायलां म्हाका मेजपाक लाय नाशिल्लीं. धा नंबर मेजून तींच ''बाय हांगा यो, हांगा धा जाले'' अशें म्हणून आपल्या माथ्यार हात दवरतालीं. हांव उडकी मारुन थंय वचून उबें रावन पाटयेर एक शुन्य काडटालें. अशें करीत करीत धा-एक तरी शुन्यां जातालीं. अनन्नें, चिनू, मानू, झुजे अशीं कितलींशींच देवमनशां म्हाका पाटयेर शुन्यां काडपाक मजत करतालीं.

कांय लोक घरा-घरांनीं भीक मागपाक वताले. ताका इज्मॉल म्हणटाले. वचचे पयलीं ते पडवेवेल्या कोणाकय सांगून वताले आपलें

नांव सांगपाक. त्याप्रमाण तांचोय बी नंबर पाटयेर पडटालो. त्या काळार दर वाड्यार एक-एक दीस थारिल्लो आसतालो इज्मॉलाक येवपाचो. त्याप्रमाण त्या त्या दिसा त्या त्या वाड्यार इज्मॉलाक दारादारांनीं लोक येताले आनी त्या दिसा घरांतले लोक तांचे खातीर एका आयदनांत तांदूळ वा कसलेंय धान्य दवरुन मुठींनीं व्हरुन तांकां दिताले. त्या काळार गरीब किरिस्तांव जाण्टे लोक एकोडेच रावताले. तांचीं भुरगीं लग्न जातकच वेगळीं रावपाची प्रथा आसताली. एकेकदां भुरगीं भायल्या देसांनी आसतालीं. देखून जाण्टे जातकच आवय-बापूय वेगळींच पडटालीं, ह्याच खातीर दारांत येवपी चडशे लोक किरिस्तांव आसताले. ते लोक दारांत उबे रावन माळ जोखीत दोळे धांपून प्रार्थना म्हणटाले. ‘‘नामान बोले, कुरपान बोले’’ अशें कितेंशे ते म्हणटाले आनी बेसांव घालताले. मागीर दनपारच्या जेवणावेळार ही सगळी मंडळी येवन आमच्या पडवेर बसताली आनी जेवणाचें पान लुगटांत बांदून घेवन घरा वताली. फकत एकाच इनास नांवाच्या जाण्टेल्याच्या एका हाताक आनी एका पायांक आर जाल्ल्यान तो थयंच बसून जेवतालो आनी मागीर रातीकडे ताका आमगेर साकून कोणूयतरी वचून जेवण दिवन येतालो. हे सगळे लोक आमचेर उपाट मोग करताले. ह्या सगळ्यां खातीर रानपाक कितलेशेच रानपी लागताले. चडशे रानपी काणकोण, कारवार, मंगळूर गांवचे आसताले.

सगळ्या रानप्यांमदीं जाण्टो, सामको जाण्टो, तो भिकूमाम. गोरोपिट्ट, लांब, राकेस कसो, पाली भशेन इल्लेशे शेंडयेचो, माथें ताशिल्लो, दांत नाशिल्ल्या बिळाभशेन तोंडांत तांबडेंच रगत कशें पान घोळयत सबंद दीस अगरसाळेर कोनशाक आसणमाणी घालून बसून जानवीं करपी म्हातारो, तो भिकूमाम! खूब उंच आशिल्लो तो आनी ताच्या खांदार बसल्यार माडार बशिल्लेभशेन दिसतालें. भिकूमामालें

माथें, भुजां, कमर आनी ताच्या सकयलें भेंड हें सगळें एकाच मोठायेचें आशिल्लें, सोरपाभशेन! ताका आड घालून वडयलो जाल्यार तो एक लांबच्या लांब वाटकुळ्याच तोंडाचो सोरोप कसो दिसपाचो! ताच्या तोंडांत दोनूच दांत आशिल्ले. ताचे केंस सामके पिकून धवेफुल्ल जाल्ले. खाडूय बी धवेंच्च आशिल्लें; केन्ना केन्नांय भिकू म्हालो तागेलें खूब वाडिल्लें खाड करतालो आनी माथें तासतालो. भिकूमामालें तोंड वाटकुळेंच, धवें वायंगे कशें आशिल्लें. सदांच तो हांशिल्लो भशेन दिसतालो. रुमांवाल्या सुण्याचेंय बी तोंड भिकूमामाभशेनच सदांच हांसतें, उगडेंच आसतालें. भिकूमाम केन्नांच कोणाचेर रागार जाय नाशिल्लो. तो खंय खूब वर्सां पयलीं सावन आमगेर आशिल्लो. आतां म्हातारो जाल्ल्यान तो बसून फकत काणयो सांगतालो आनी जानवीं करतालो. तो केन्नांच खोमीस घाली नाशिल्लो. भुजाचेर एक लोळको वालो उडोवन आंगोस्तरा भशेन एक रूंद वालो न्हेसतालो, तोयबी सामको लोळको!

सद्दां रातीकडेन उजो वाडयता आसतना उज्याचेर उदक मारून भिकूमाम 'खल्लास्स्' म्हणून आड्डुतालो, ताचो अर्थ आमकां भुरग्यांक कोण्णाक खबर नाशिल्लो. पूण तो आड्डुता म्हणून भोंवतणीं उबीं आशिल्लीं आमी भुरगींय बी 'खल्लास्स्' म्हणून व्हडान आड्डुतालीं. मोठ्या खोशयेन, मेकळ्या मनान आनी मेकळ्या आवाजान आड्डुतना हात वयर मळबावटेन व्हरून घस्स् करून सकयल हाडपाचें आसतालें, भिकूमामा भशेनच! श्राध्दाच्या, म्हाळाच्या, समरादनेच्या वा खंयच्याय पुजेच्या दिसा जेवण सोंपयतकच पानावेल्यान उठचे पयलीं पंगतीक बशिल्लो कोणुयतरी 'पद' म्हणटालो. त्या पदाक 'स्लोक' म्हणटाले. तो स्लोक सोंपतकच मागीर ''पुंडलीक वरदा हऽऽरी विठ्ठल'' अशें म्हणून पंगतीक बशिल्ले सगळे लोक व्हडान

आडुताले. तशेंच कितेंय तरी हें 'खल्लास्स्' म्हणटात तें आसतलें अशें आमकां दिसतालें.

भिकूमामालें 'खल्लास्स्' म्हणून जातकच रातीकडेन सगळे लोक न्हिदूंक वचचे पयलीं आमी सगळीं जाणां एक-एक बटाट व्हरून भिकूमामाकडेन भाजूंक घालपाक दितालीं. त्या वेळार चड करून हॉलंडच्यान बटाटां येतालीं खंय. व्हड व्हड आंब्यायेदीं चकचकीत हळडुवसार रंगाचीं हीं बटाटां भिकूमाम रान्नींतल्या हुनहुनीत गोबरापोंदा पुरतालो. आनी तीं सकाळमेरेन मोव जाल्लीं आसतालीं. कणङांच्या वेळार आमी कणङां वा कांटे कणङां वा कारांदे बी भाजपाक दितालीं. भिकूमाम रान्नींतल्यान लाकडां भायर वोडून तांचेर उदक ओतयतालो आनी रान्नींत उरिल्ल्या इंगळ्यांच्या पोंदाक आशिल्ल्या हुनहुनीत गोबरा पोंदा आमी दिल्लें सामान पुरतालो. तो ह्या हून गोबराक 'मुमरो' म्हणटालो.

ताच्या म्हऱ्यांत बसून गजाली करतालें तें हांवूंच. तो म्हज्या कपलावेल्या केंसाचे फुगे काडून विणयो घालतालो. विणयो तायट पेडवे कशे उरताल्यो. विणयांक तो फातयो म्हणटालो. म्हज्या कपलाक बी कुकूम लावन ''बाय पळयात, तिती लावन काय बरें दिसता तें,'' अशें म्हणून म्हजी खूब अपुर्बाय करतालो. भिरमुट्यो, पिसोळ्यांक बी मारचें न्हंय म्हणून ताणेंच शिकयलें आमकां. पूण आयकून घेतलें तें फकत हांवेंच. म्हजे भाव सर्रास शेड्ड्याकं बी फातरायताले. भिकुमामान काणी सांगतां सांगतां ''त्याय प्राण्यांक जीव आसता, तांकांय बी आमचेच्च भशेन दुखता'' म्हणून सांगिल्लें, तें आयज लेगीत हांव विसरूं ना.

भिकुमामालें एक माजर आशिल्लें, साळू! तो त्या साळूक मांडयेर बसोवन अपुर्बाय करी; म्हजीय बी तशीच अपुर्बाय करी तो.

फरक इतलोच, तें माजर आनी हांव मनीस! साळू सबंद दीस केळी पोंदा वतांत वचून बसतालें आनी परत परत वें वें करून तोंड उघडून जांबयो दित रावतालें. परत परत चारूय पांयांचेर उबें रावन फाट सत्री कशी वयर काडून आंग मोडटालें. साळू मात् कॉमीक दिसतालें, भिकुमामा भशेनच वाटकुळ्याच तोंडाचें! भिकुमाम कारवारचो अशें म्हणटाले. मागीर तो केन्नां आमचें घर सोडून गांवांत गेलो तें म्हाका कळ्ळेंच ना. ताणेंय बी म्हाका सांगलें ना. पूण मागीर खूब दीस भिकुमामाली याद येताली. हांव शेंवतूक विचारतालें, ''शेंवतू, भिकुमाम केन्ना येतलो? तो खंय गेला?'' तेन्नां ''तो गांवांत गेला, रोखडोच येतलो,'' अशें म्हणून शेंवतू सांगतालें.

आमगेर एकाच वेळार कितलेय रानपी चलताले. त्रिंबक सकाळचो साडेणवांक सुमार येवन मागीर साडेतीन वरांचेर घरा वचून सांजचो स वरांचेर परतून येतालो. तातूंतच उष्णो आनी कृष्णा बोरकार म्हणून दोन भाव आसताले. कृष्णालें तेफळां घाल्लें वेल्ल्यांचें वा बांगड्यांचें हुमण कितलें बरें लागतालें! वांटप सामकें बारीक वांटून आलें, हरवी मिरसांग, सोलां बी वडोवन तें हुमण तो सामकें रूच्चीक करतालो. ताची उलोवपाची पद्दत सदांच कॉमीक आसताली. तो खूब कॉमीको करी. अकस्मात कडयेक 'आई', खतखत्याक 'ताई' अशें म्हणून उलयतालो. आमी खूब हांसतालीं. मागीर तो चडूच कॉमीको करी. ''तेफळांच्या हुमणाचेर खतखतें पडना,'' ''हुमणाचेर पापड पडना,'' अशें म्हणून तो उलयतालो.

कृष्णाली आनी उष्ण्याली एक स्पेशालिटी म्हणल्यार ते सोरो पियेताले खंय. एकदां चवथी वेळार त्रिंबक गांवांत गेल्लो. त्या वेळार फकत उष्णो आनी कृष्णा आमगेर रांदपाक आशिल्ले. चवथीच्या वेळार पंचमी दिसा तिनसांज जाली तरी उष्णो आनी कृष्णा

आयलेच ना! पंचमीचो प्रसाद आनी रातीचें जेवण बी करूंक जाय आशिल्लें. रानपीच ना! दोगूय भाव सोरो पियेवन पाट्यार रस्त्या कुशीच्या खळयेंत पडून व्हडा व्हडान बडबडटात तें दत्तुल्यान पळयलें आनी धांव्वत घराकडेन येवन सांगलें. मागीर विठ्ठल, बाबा, ताई, माई आनी आमी सगळीं अन्नाठी-गिन्नाठी भुरगीं लागलीं कामाक! भटान, बाबान आनी विठ्ठलान फळां शिनलीं. आमी सगळ्यांनी प्रसादाचे दोणे भरले. भजनी मंडळी येतकच पुजा जाताली. मागीर प्रसाद वांटपाचो आशिल्लो. दोणे भरून जातकच विठ्ठलान, भटान आनी बाबान रातीच्या जेवणाची व्यवस्था केली. शेंवतू बी आशिल्लेंच वेलें काम करपाक!

त्या दिसाच्यान उष्णो आनी कृष्णा ह्या दोगांय भावांक आमच्या हुमऱ्याभितर प्रवेश बंद जालो. ताचे मागीर विठ्ठलमामा म्हणून एक जाण्टो रानपी आयलो. तो मात् सामको बुरसो. तो खंय वालो न्हेसतालो आनी न्हेशिल्ल्या वाल्याच्या एका शेवान कडी पिळटालो. कडी पिळपाक गायणो आशिल्लो हरशीं. पूण कितें कोण जाणा, ताका तो आपलो वालोच बऱ्याक पडटालो! तो चड तेंप उरलोना हें एक बरें जालें. पूण तो मनीस मात् आशिल्लो मायेस्त!

ताचे मागीर शांताराममामा म्हणून कारवारी मनीस आयलो रानपाक. तो मात्सो उंच आनी गोरोच आशिल्लो. ताचे फुडले दांत मात्शे भायर आशिल्ले आनी ताचे दोळे बारीक आशिल्ले. तो खूब मायेस्त मनीस.

आमच्या घरांत शिकोवपाक मास्तर भायल्या गांवांत सावन येताले आनी आमगेरूच रावन शिकयताले. ते एकूण एक मास्तर उल्लासाक बी तापयताले, मारताले बी म्हणून शांताराममामा मास्तरांचेर सामको कोंत्र आशिल्लो. मास्तराक वाडटा आसतना तो

तपल्याचेर दाय मोठ्ठ्यान आपटितालो आनी मास्तराकडेन केन्नाच उलय नाशिल्लो. मास्तर समोरच्यान येता जाल्यार ताच्या तोंडार नदर पडत म्हणून शांताराममामा फाट वळोवन दुसरे वटेन चलूंक लागतालो. तो सदांच आमच्या पार्तीचो. आमची चूक जाल्यार पसून तो आमचीच पार्त घेतालो. म्हाका तर तो चडूच बरें करतालो.

एकदां शांताराममामान म्हज्या माथ्याक लावपाक जात्रेंतल्यान तांबडींच प्लास्टिकचीं पिसोळीं हाडलीं आनी म्हजे केंस वळोवन तीं म्हज्या माथ्यार फुडेंच दोशीं वटेन दोन लायलीं. ताचे मागीर एकदां तांणे हळडुवींच्च हरणां हाडलीं आनी म्हज्या माथ्याक लायलीं. मागीर एक दीस ताची भयण येवन ताका लग्न बी करपाक जाय म्हणून घेवन घरा गेली. म्हाका खूप वायट दिसलें. कांय दीस ताची याद जातकच म्हाका रडूंक येतालें.

शांताराममामा वतकच देवेंद्र म्हणून एक गोरोच्च भुरगो आयलो काणकोणच्यान. तो खूब तेंप उरलो. लग्न जावपाक वतना ताणें आपल्या बापोलभावाक, सुधाकराक हाडून दवरलो. सुधाकर मात् एकदम आमच्याच बरोबरचो कसो. बऱ्या स्वभावाचो. म्हजें लग्न जाय म्हणसर उरलो तो आमगेर.

कॉलेजींत शिकता आसतना हांव रायबन् च्या शाळेच्या कितल्याशाच भुरग्यांच्या पाटयांचेर सरस्पत पितारतालें. विजया दशमीच्या पयल्या दिसा रायबन् चीं कितलींशींच भुरगीं पाटयांचेर आपलें नांव घालून पाटयो दवरून वतालीं. सांजचें काम सुरू करून सबंद रातभर बसून हांव काडयेन पाटयांचेर सरस्पत काडटालें. सुधाकराक सामकी खोस भोगताली. म्हजेर ताचो जीव! म्हज्या विशीं ताका खूब अभिमान! म्हाकाय बी ताची खूब अपुर्बाय दिसताली. रात भर तो म्हज्या कुडी भायर बसून परत परत च्या करून दितालो.

वोगीच, म्हाका न्हींद बी येवन त्रास जायत आनी हांव न्हिदून पडल्यार पाटयांचेर सरस्पत काडपाचें काम जावचें ना आनी गांवांत म्हाका लज जातली म्हणून तो बाबडो जागतालो. एकदां असलें कितेंय आवडीचें काम करूंक लागतकच म्हाका न्हीद बी कांय येना आशिल्ली. ''आयज लताबायली रातपाळी! म्हाका एक मिनिट लेगीत फावपा ना!'', अशें म्हणून तो सबंद सांजेवेळभर सगळ्यांक सांगत आसतालो. खरें पळोवंक गेल्यार, हांव कितेंय तरी बरें काम करतां, लोकांक मदत करतां, अशें म्हणून ताका बरें दिसतालें. हांव गांवच्या भुरग्यांक मजत करतां आनी आपूण म्हाका मजत करतां अशें लोकांक सांगून गांवच्या लोकांचेर छाप पाडप शक्य जातालें. हांवे पाटयेर काडिल्ली सरस्पत खूब सोबीत आसताली. सुधाकर एकूण एक पाटयेवेली सरस्पत तोखणायेन पळयतालो. दुसऱ्या दिसा दर भुरग्याचें नांव पळोवन पाटी दिवपाचें काम मोठ्या उमेदीन तोच करतालो.

खरें पळोवंक गेल्यार ताका वाचनाची गोडी हांवेंच लायली. ताका धड वाचूंक येना आशिल्लें. हांवें ताका बसून वाचूंक शिकयलो. चित्रांचीं पुस्तकां हाडून दिलीं आनी ताचेवेल्यान ताका वाचनाची गोडी लागली. रंगीत चित्रांचीं व्हड अक्षरांनीं बरयल्लीं पुस्तकां हांवें ताका म्हज्या पयशांतल्यान हाडून दिलीं. हांव आजुदा काँवेंतांत भुरग्यांक हिंदीचें ट्यूशन दितालें. दर म्हयन्याक एकशें पंचवीस रुपया मेळटाले म्हाका. ते सगळे हांव काँवेंताच्या भुरग्यांक दर सोमारा बटाटवडे दिवपाक आनी सुधाकरालीं पुस्तकां घेवपाक खर्च करतालें. ताचो विमोयबी हांवेंच भरपाक सुरवात करून ताका पयशे सांबाळून दवरपाक शिकयलें.

दर म्हयन्याक चांदोबा म्हणून पुस्तक येतालें. त्या पुस्तकाची म्हयन्याच्या कोंतार सुधाकराल्या नांवांर पटी हांवें लायली.

सुधाकराखातीर कितलेंय केल्यार म्हाका कमीच दिसतालें. सामको सादो भोळो भुरगो! फकत मटको खेळपाक लागिल्लो. म्हाका कळनाफुडें हांवें ताका तापयलो आनी तांणे मागीर तो सोडलो खंय! ताच्या नांवार पयशे घालून हावें खातें उघडलें आनी विमो भरलो. पयलो हप्तो हांवें भरलो, मागीरचे सगळें हप्ते तांणेच भरले. हांव त्या वेळार सकाळचें शेटयाल्या शाळेंत, बाल भारतींत, शिकयतालें आनी सांजेचें यम्. ए. करतालें.

म्हज्या लग्ना उपरांत ताका आमच्याच एका मावश्यागेर भटपणाची नोकरी मेळ्ळी. रावपाक घर मेळटालें देखून ताच्या फुडाराविशीं येवजून बाबान ताका वच म्हणून सांगलें. दुसरो एक रानपी आयलो मागीर. पूण तेन्नां हांव रायबन्-रा नाशिल्लें. सुधाकराल्या लग्नावेळार हांव मद्रासाक आशिल्लें. ताका हांवें बरी मद्रासी सिल्काची सुंदर जरीची साडी धाडली आनी सुधाकराक कपडे शिवून घे म्हणून सांगून पयशे धाडले. रोखडेंच तागेलें पत्र आयलें. ती साडी खंय ताणे बायलेक आपले तर्फे म्हणून दिली. ते साडये इतली सुंदर साडी लग्नांत कोण्ण न्हेसूंक नाशिल्ली खंय. सगळ्या लोकांनी साडयेची तोखणाय केली खंय. त्या भायर, हांवें भरूंक सुरू केल्लो तो विमो आनी हांवें धाडिल्ले ते पयशे आपल्याक लग्नावेळार उपकरा पडले अशें म्हणून तांणें बरयिल्लें.

सुधाकराकडे चड पयशे नाशिल्लेच! तरी तो खूब सुखी आशिल्लो. ताची बायल मोनी, पूण गुणी भुरगें! बायन सुधाकराक ते चलयेकडेन लग्न जा म्हणून सांगलें, म्हणून तो त्याच चलयेकडेन लग्न जालो. त्या चलयेची आवय अनुसुया. ताचो बापूय म्हज्या आजोळा रांदपाक आशिल्लो. आवय नाशिल्लें चली भुरगें म्हणून बायन सुधाकराक आग्रो केलो. भावार्थी प्राणी सुधाकर! ताची

बायलयबी आनंदी, सुखी, अल्प-संतुष्टी मनीस, सुधाकरा भशेनच!

हांव गेल्लें तागेर एकदां गोंयांत आयिल्ले कडेन. सुधाकराल्या बायलेन घर बरें सजयिल्लें. ती शिवणसूत जाणा आशिल्ली. कपडे बी शिंवताली ती. कागदाचीं, पिड्डुकेचीं बी फुलां करूंक शिकिल्ली आनी घर बरें सजोवन दवरिल्लें तिणें. म्हाका मोठ्या मानान, आग्रो करून भजीं, च्या बी करून खावपाक लायलें तिणें! अनुसुयाची याद जाली. तेंय बी अशेंच आग्रो करून खावोवपी! आमच्याकय मात्शें व्हड अनुसुया पूण ही ताची गुणी धूव ताची याद करून दिवन गेली!

हांव मद्रासाक आसतना कांय वर्सांनीं सुधाकर गेलो म्हणून आयकलें. वायट दिसलें. एकदम म्हजो हातूच कापिल्लेभशेन दिसलें. भांगर मनीस सुधाकर! इतलो भावार्थी भुरगो हांवें पळयलो ना. ताका आमी सगळीं बरीं मोगान वागयतालीं. पूण तो भियेतालो तो म्हाका! म्हाका वायट दिसत म्हणून तो खूब जपतालो. हांव ताचो गुरू. ताका बोटाक धरून सरळ चलूंक शिकयलें तें हांवें अशें म्हणल्यार अतिताय जावंची ना. म्हजेर ताची खूब भक्ती. आयजूय बी सुधाकरा भशेन सादे भोळे दिसपी, व्हडल्या, भोळ्या दोळ्यांचे, ताचेच भशेन वाटकुळें चेपें कशे केंस आशिल्ले आनी ताचेच भशेन व्हडान हांसपी भुरगे जेन्ना-जेन्ना मेळटात तेन्ना-तेन्ना सुधाकराली याद येता!

सुधाकरा मागीर सरस्पत म्हणून एक सोबीत दिसपी गोरीच्च बायल मनीस आयली. मायेस्त मनीस! मंगळुरची खंय ती! मन सोडून हांसपी आनी मोगाळ पद्दतीन उलोवपी. बरी रांदताली सरस्पत! हांसत, खेळत आमचीच व्हडली भयण जावन ती कांय वर्सां आमगेर रावली. सरस्पती कडेन म्हजो संबंद आयलो तो फकत हांव गोयांत येतालें तेन्नां. त्या मागीर बाबा भायर पडटकच कितलेशेच रानपी येवन गेले. त्या वेळार हांव गोंयांत नाशिल्लें म्हणटकच तांचेकडेन वळख जाली

ना. पूण म्हज्या भुरगेपणासावन लग्न जाय मेरेन ज्या लोकांकडेन वळख जाली, ते सगळे आयज उरले ना. आशिल्ले जाल्यार ताणी म्हजेर केल्ल्या उपाट मोगाखातीर तांकां पालखेंत बसोवन भोंवडायतलें आशिल्लें! ❖

# 7

# थाळोणी बांय

**थोळाणी** बांय आमच्या दुरगा भायर आशिल्ली. रायबन्चे सगळे लोक हेच बांयचें उदक वापरताले. आमी पंदरा-सोळा वर्साचीं जाय म्हणसर कोण्णाल्या घरांनी नळाचें उदक येनाशिल्लें. देखून गांवचीं सगळीं बायलां दोडींनी उदक भरून घरा घेवन वतालीं. दोड म्हणल्यार एक व्हडलो कळसो आनी एक कळसुली. कळसो दावे वटेन हांडीर बसोवन उजव्या हातांत कळसुली घेवन उदक भरून बायलां आमच्या दुरगा भायले वटेन आपापल्या घरा वतालीं. हांव दुरगार बसून तांकां येतना-वतना हडकितालेंच. खूब धादोसकाय भोगताली.

थाळोणी बांयच्या सरभोंवतणचे लोक बांयच्या पारापेटा भोंवतणीं आशिल्ल्या चिऱ्यांनी बांदून काडिल्ल्या जमनीचेरूच रोप धुयताले आनी थंयच न्हातालेय बी. सगळे दादले न्हातना इल्लीं इल्लीं कलसांवां, चेड्ड्यो वा काश्ट्यो न्हेसून कळसुल्यांनी बांयचें उदक काडून आंगार घस्स् करून ओतयताले, शाबू लायताले, परत

परत घस्स् घस्स् करून कळसुल्यो ओतोवन, आंग धुवन तुवाल्यांनी आंग पुशीत ते घरा वताले. आंग पुसता आसतना ते घुसूघुसू करून खुदिल्लेवरी आंग, माथें, केंस सामके हालयताले. सुणेय बी भिजतकच अशेंच आंग हालयतात. ते सगळे सुण्यांभशेन आंग फाफडीत वाल्यान आंग पुसताले. ल्हान भुरगींय बी, चले, चलयो उज्याच्या वेळार थंयच न्हातालीं, नागडींच वा इल्ल्यो इल्ल्यो चेड्ड्यो घालून. बायलो मात् चडश्यो घरा फाटल्यान आशिल्ल्या न्हाणयांनीं न्हाताल्यो. शियांच्या तेंपार मात् कोण्ण थाळोणी बांयचेर न्हावपाक येनाशिल्ले.

शेंवतूलें घर थाळोणी बांयक तेंकून आशिल्लें. तागेलो व्हडलो पूत एसोंत. कित्याक कोण जाणा, ताका 'थोटो' म्हणटाले. भानू, नरशींव, देवू आनी नामदेव हे सगळे थाळोणी बांयचेरूच न्हाताले. न्हावचे पयलीं आनी एक एक फावट न्हातकच मागीरूय बी थाळोणी बांयच्या पारापेटार बसून चकाटां मारप हें थारिल्लें आसतालें. थंय नुस्त्यें, जेवण, नाटकां, तियात्र, हळडी-कुकूम, बारशे, सटयो, सोयरिको, लफडीं, जल्म, मरण असल्या तरातरांच्या विशयांचेर भासा-भाशी जाताल्यो.

मागीर अकस्मात एक दीस पाखल्यांक कळ्ळें दिसता, थाळोणी बांयत खूब उदक आसा म्हणून आनी ते सद्दां ट्रक घेवन येवन उदक भरून घेवन वचपाक लागले. एक वर तरी ते रोंऽऽऽऽ करून माक्न चलोवन उदक ओडटाले. त्या वेळार आमी सगळीं तांकां दुरगाच्या आलतडी रावन पळयतालीं. कांय पाखले बरेच मस्ते आसताले. ते आमकां पळोवन हांसताले, हात हालोवन आपयताले, वांकडीं-तिकडीं तोंडां करून, जीब बी दाखोवन आमकां चाळयताले. आमी तांकां पळय नाशिल्ल्या भशेन करतालीं. मागीर शेंवतू बी म्हणपाक लागलें, ''वायट शे न्हूं हे लोक! तुमी भुरगीं म्हणून ते

अपुरबायेन तुमचीं फकाणां मारतात. पूण वाडिल्ल्या चेडवांनी तांचेकडेन आमीजाद करपाक वचूंक जायना, नांव पिड्ड्यार जाता!''
मागीर आमकां ते सगळे पाखले बरे मनीस अशें दिसपाक लागलें पूण नांव पिड्ड्यार जायत म्हणून आमी तांचेकडेन उलय नाशिल्लीं आनी तांकां पळोवंक नाशिल्ल्या भशेन करतालीं. आमीं वाडिल्लीं चेडवां काय न्हय हें आमकां त्या वेळार खबर नाशिल्लें. पूण नांव पिड्ड्यार जाता म्हणल्यार कितें तें खबर आशिल्लें! फटी उलयल्यार नांव पिड्ड्यार जाता म्हणून शेंवतू बी आमकां सांगीत आसतालें न्ही? आशिल्लीं आमी सात-आठ वर्सांचीं त्या वेळार!

तारामतिलो पांडू, दादोजी बी तांचेकडेन इश्टागत करताले. पाखलेय बी तांकां चॉकलेटी दिताले. एक दीस एका पाखल्यान पांडूक विचारलें, ''तुशेंऽ नांव कितेंऽ?'' पांडू पांच-स वर्सांचो तेन्नां, पुणून बरोच लापीट आशिल्लो तो! ताणें पाखल्याभशेनूच भुजां, मान कडकडयत झेत्तान जाब दिली, ''मुशें नांऽव्ह पांऽऽदूऽऽ'' म्हणून. पाखल्यान परतें विचारलें, ''पाऽऽनूऽऽ?''. पांडून झेत्तान त्याच स्टायलीन मान कडकडयत जाप दिली ''पाऽऽनूऽऽ'' म्हणून!

हे लोक चिंचो, आमल्यो बी मागून घेवन खाताले. मीठय बी लावन घेवन खाताले. भोंवतणचे सगळे भुरगे तांकां चिंचो बी दिवन धादोस जाताले आनी पाखलेय बी तांचेकडेन बरे वागताले, इश्टागतीन वागताले. एक दीस पांडून तांकां मिरसांग घालून आमली कशी फातरान चिड्डुपाची तें शिकयलें. पाखल्यान आमली खायनासतना मिरसांग पळोवनच किळांच मारली! मागीर त्या दिसाच्यान पाखले फकत मीठ घालून चिड्डिल्यो आमल्यो खावपाक लागले. चोशीं वटेन आमचे गांवचे पांडू भशेन इले इले पोरांटे तांची सिर्विस करपाक तयार आसताले.

पाखल्यांक बांय भोंवतणी लोक न्हातात तें आवड नाशिल्लें.

तांणी थाळोणी बांयचे भोंवतणीं लोकांलें न्हावप बंद केलें. मागीर पाखले उदक भरून गेले काय ना, लोक भुर्र करून येवन पयलीं भशेन थंयच न्हाताले. एकादीं सगळे लोक इले इले कपडे घालून उक्त्यार न्हातात तें तांकां बरें दिसनाशिल्लें अशें आमकां दिसलें! ''पाखल्यांच्या घरांनीं न्हावपाखातीर इल्यो इल्यो कुडी आसतात आनी आंगार कपडे घालून दार बंद करून पाखले भितर न्हातात. तांकां न्हातना लोकांनीं पळयिल्लें आवडना,'' अशी बातमी एक दीस फुलोर्तीनान हाडली.

फुलोर्तीन एक खूब सोबीत दिसपी, वाडून उरिल्लें चलीभुरगें. स्वभावान भांगर! आमकां बरें करी. ताका बापूय नाशिल्लो. तें आवयच्या सांगाताक रावतालें. आंगान मोठसार, पूण सोबीत आंगलटीचें, चड उंच न्हय, पूण मोटव्यांतूय बी जमा जावपी न्हय, अशें हें फुलोर्तीन गोरेंपिट्ट पाखलीण कशें दिसतालें. ताचे दोळे, नाक, ओंठ, दांत सगळेंच सोबीत कोरांतिल्ले बावलेवरी आशिल्लें. तें फांतोडेर इगर्जेक वतना माथ्यावेल्यान काळी जाळी घालून तर अदिकूच सोबीत दिसतालें. सदांच तें तांबडेंच्च लिपस्टीक लावन पोलेयबी तांबडे करतालें. दोळ्यांतय बी बरें काजळ घालून, सगळो व्यवस्तित श्रृंगार करूनच तें भायर सरतालें. ताचो विस्तीद बी सामको सोबीत रंगीत आसतालो. ताचे पांयांतले बुटय बी रंगीत आनी उंच खोटांचे आसताले. सगळ्यांकडेन तें मोगान वागतालें; हांसत्या मुखाचें तें चली सगळ्यांकच आवडटालें. तें हांसता तें म्हाका पळेत रावन दिसतालें. इतलें सोबीत मुखामळ, इतलें सोबीत हांसप, जगांत आनीक कोणाचेंच आसूंक शकना! ''फुलोर्तीन तें फुलोर्तीन! वाल्लोर ताका!'' अशें शेंवतू म्हणटालें. मागीर कांय वर्सांनी फुलोर्तीन एका गोंयकार काबा कडेन काजार जालें. मनीस बरो, पूण दिसपाक व्हडलोसो न्ही! ❖

# 8

# शाळा

**त्या** काळार रायबनांत चडश्यो शाळा नाशिल्ल्यो. मानशेर म्हजे मावशेगेर, लवंद्यागेर, एक मास्तर रावतालो. तो वेंगुर्लेचो. ''नेरूरकर मास्तर'' हें ताचें नांव. आमी ताका 'मास्तर' म्हण उलो मारतालीं.

नेरूरकर मास्तर खूब जाण्टो, म्हातारोच म्हणल्यार जाता. गोरोपिट्ट; माथ्यावेले धवेफुल्ल केंस तो सामके बारीक मारून घेतालो, तासतालोच म्हणल्यार जाता. एक लांब हातांचें धवेंफुल्ल खोमीस, ताचेर धवी ज्युदी, धवेंफुल्ल पुडवें, माथ्यार एक धवी टोपी आनी हातांत एक सत्री, हें ताचें स्वरूप. पळोवपाक बरो चित्रावेलो ''साने गुरुजी'' कसो दिसतालो. ताच्या तोंडार मायेस्तपण आशिल्लें. मास्तराच्या तोंडार तेज आसा अशें तळावलीकार म्हणटालो. ''मास्तर, तुमी साने गुरूजी?'' अशें हांवें एकदां मास्तराक विचारलें. तो व्हडान हांसलो आनी फुडले कितलेशेच दीस म्हाका पळेनाफुडें म्हज्या प्रश्नाची याद करून तो व्हडा व्हडान हांसतालो. हाचे मजगतीं म्हज्या प्रश्नाची जाप

म्हाका मेळ्ळीच ना.

मास्तर सकाळचीं आठ ते साडे धा वरां, आनी दनपारां अडेज ते सांजचीं पांच वरां पर्यंत मानशेवेल्या लवंद्याल्या घरांतल्या चवखेवेल्या शाळेंत शिकयतालो. म्हजी मावशी, कमलबाय, लवंद्यागेर लग्न करून दिल्ली. तिचेंच तें घर! तांगेरच पेज बी जेवन मास्तर साडे धा वरांचेर सुमार आमगेर येतालो. आमच्या घरांतली शाळा साडेबारा वरां पर्यंत चलताली. गांवचीं कांय भुरगीं आमच्या माळयेर आमच्या वांगडा बसून शिकतालीं. तीं भुरगीं म्हणल्यार भटालीं, घरांत काम करपी हेर लोकांलीं आनी कांय शेजाऱ्यांलीं! म्हज्यो व्हडल्यो भयणीय बी थंयच्च माळयेर बसून शिकताल्यो. आमच्यांतलीं कांय भुरगीं चड ल्हान आशिल्ल्यान शिक नाशिल्लीं. त्या काळार भुरगीं आठव्या वर्सा सावन शाळेक वचपाक लागतालीं. हांवूंय बी तातूंतलेंच एक. तरी पूण शाळेक वचपाक सुरवात करचे पयलीं मास्तराक आनी हेरांक पळोवपाखातीर, थंय कितें कितें घडटा तें पळोवपाखातीर आमीं सगळीं भुरगीं थंयच्च वचून आसरमाणी घालून बसतालीं. कितेंय हांसपासारखें घडलें, आनी मास्तर आनी हेर भुरगीं हांसलीं जाल्यार ताळयो पेटून "हाऽऽ हाऽ" करून हांसप, हें आमचें काम आमी बेस बरें करतालीं. कित्याचोच अर्थ असो म्हणून कळनाशिल्लोच! लोक हांसले, आमीय बी हांसलीं. हांसप म्हणल्यार एक व्हड संद! कोणूय हांसता काय म्हणून पळेत्त रावप, हांशिल्लो दिसलो रे दिसलो, आमी व्हडान हांसून वडोवप!

त्या काळार खंयीय कोणाकूय हांशिल्लो पळयल्यार खूब खोस भोगताली; तशी ती अजूनय भोगता; पुणून पावला कणकणीं कोणूय ना जाल्यार कोणूय तरी त्या काळार काळजा थावन हांशिल्लो दिसतालो, तसो तो आयज कमीच दिसता. कोणूय कित्याक हांसता हें आमकां त्या काळार कळनाशिल्लें. तशेंच तें जाणून घेवपाची गरजूय

नाशिल्ली. हांसप हें गरजेचें आशिल्लें. पुणून आयज कोणूय कित्याक हांसता तें चडश्या वेळार दर एकल्याक समजता, उतरा-उतराचो अर्थ समजता, पूण कित्याक कोण जाणा, हांसपा फाटल्यान तितलोसो अर्थ उरिल्लो आयज जाणवना!

एक दीस मानशेर लवंद्यागेर गेल्लेकडेन हांवें तांगेली शाळा पळयली. खूब भुरगीं थंय जमनीर आसरमाणी घालून बसून पाटयेर बरयतालीं. आनी तोंडान व्हडा-व्हडान कितेंय तरी म्हणटालीं. कांय भुरगीं हातांत पुस्तक घेवन उबीं रावन व्हडा व्हडान वाचतालीं. कांय वेळान तीं भुरगीं बसतालीं. हेर वळींतलीं भुरगीं उठून उबीं रावतालीं आनी व्हडान कविता म्हणपाक लागतालीं. ''फुलपाखरूं छान किती दिसतेंऽऽऽ'' अशें म्हणून नाकाच्यो पुडयो बी फुलोवन तोंडां समकीं फांकारून उघडून, ताळ्यांतली जीब वळवळटा ती दाखोवन, तीं भुरगीं एकाच आवाजान आनी सुरान कविता म्हणटालीं. कॉमीकूच शीं दिसतालीं तीं! कांय भुरगीं सकयल बसून व्हडान ''धडा- अकरावा ऽऽऽ कवडसा'' अशें म्हणून वाचतालीं. सगळीं जाणां व्हडा आवाजान कितेंय ना जाल्यार कितेंय तरी शिकत आशिल्लीं. तरी पूण कोणाकूच ताचो त्रास जायनाशिल्लो. सगळीं भुरगीं कावळ्यां भशेन आपाआपल्याच तंद्रेंत बोवाळ घालतालीं. कोणाचेंच चित्त दुसऱ्याच्या बोवाळाक लागून हाल नाशिल्लें. सगळींच भुरगीं आपापले धडे वाचीत आशिल्लीं, एकचितान, मना थावन! नेरूरकर मास्तर जाण्टो मनीस, धवो सदरो घालून, पुडवें न्हेसून, कदेलार बशिल्लेकडेन झेमतालो; ताचे ओंठ भायर भितर येताले-वताले आनी ताच्या तोंडांतल्यान ''फूऽ फूऽऽ'' करून आवाज येतालो. मास्तर कितलोय कडक शिस्तिचो आसून लेगीत विद्यार्थ्यांचेर उपाट मोग करतालो. देखून त्या मनशाचेर विद्यार्थीय बी उपाट मोग करताले, आनी ताका खूब मान दिताले. ह्या मास्तरान हातांत

सदांच बडी धरली पूण कोणाक केन्नाच त्या बडयेन बडयलो ना.

### सरस्पती पुजन

ल्हान भुरगीं दसऱ्याच्या दिसा सावन शाळेक वचपाक सुरवात करतालीं. आठ वर्सांचीं जाय म्हणसर भुरगीं शाळेक वचनाशिल्लीं. पयल्याच दिसा शाळेक वतात त्या दिसाक मास्तर ''विजया दशमी'' अशें म्हणटालो. आमी मात सगळीं त्या दिसाक 'दसरो' वा ''सरस्पती पुजेचो दीस'' अशें म्हणटालीं.

शाळेच्या पयल्याच दिसा हातांत पाटी, काडी घेवन भुरगीं शाळेक वतालीं. सगळ्या भुरग्यांच्यो पाटयो सरस्पतीच्या मुर्ती म्हऱ्यांत दवरून त्या पाटयांचेर पितारिल्ले सरस्पतींचीय बी पुजा जाताली. पुजेक लायिल्ली सरस्पतीची म्हुर्त व्हडली, मातयेची आसताली. पोले-ओंठ बी तांबडे करून फुलोर्तिनाभशेन दिसताली ती सरस्पतीची म्हुर्ती! तिका पायां पडून भुरगीं सकयल आसरमाणी घालून बसतालीं. पुजा सोंपतकूच मास्तर प्रसाद वांट्टालो आनी त्या दिसा शाळेक सुरवात करपी भुरग्यांच्यो पाटयो वेगळ्यो काडून तांचेर ''श्री गणेशायनमः'' अशें म्हणून बरयतालो. मागीर मास्तर व्हडा मोगान एक एक करून सगळ्या नव्या भुरग्यांक आपल्या म्हऱ्यांत बसोवन घेतालो. माणयेर बशिल्ल्या भुरग्याची पाटी घेवन त्या भुरग्याच्या हातांत काडी दिवन, ताचो हात आपल्या हातांत धरून, पाटयेर बरयिल्लीं अक्षरां ताका चिरपाक शिकयतालो. अक्षरां चिरता आसतना तोंडान व्हडान, ''श्री गणेशायनमः'' अशें त्या भुरग्याकय बी म्हणपाक मास्तर शिकयतालो.

''श्री गणेशायनमः'' म्हणल्यार कितें हें आमकां खबर नाशिल्लें आनी तें जाणून घेवपाची इत्सा वा गरजूय बी नाशिल्ली. आयचीं भुरगीं सर्रास प्रश्न विचारतात. आमच्या वेळार आमकां प्रश्न

विचारपाचें सुचच नाशिल्लें. घडये आयुश्यांत कसलेच प्रश्न उप्रास नाशिल्ल्यान सगळें थंडपणान चलतालें जावंये आनी ताकाच लागून प्रश्नाक म्हत्व नाशिल्ल्यान जापेची गरज भास नाशिल्ली जावंये. प्रश्न विरयत अशा त्या जगांत आमी सगळीं भुरगीं धादोसकायेच्या ल्हारांचेर बसून, कुपां भशेत उफेत आसतालीं! चोशीं वटेन धादोसकाय, बरीं मनशां आनी मनीसपण अणभवपी साबार मोनजाती, साबार प्राणी, हेंच आमचें जग आशिल्लें! दुसऱ्या दिसा सकाळची सरस्पतीची पुजा जाताली आनी सांजेचीं शाळेचीं भुरगीं नाटकुलीं करतालीं, नाच करतालीं, पदां म्हणटालीं.

दुसरी शाळा आमच्या घराफाटल्यान आशिल्ल्या दोंगराचेर, सटीच्या पणसा म्हऱ्यांतल्या विठोबाच्या देवळांत चलताली. सकाळीं आठ ते धा वरां आनी दनपरां अडेज ते पांच वरां पर्यंत ही शाळा चलताली. सगळीं भुरगीं आमच्या दुरगा भायल्यान चलून शाळेक वतालीं. वता आसतना दर एक भुरगें दुरगाच्या गरादीच्या बुराकांतल्यान भितर पळोवपाक विसर नाशिल्लें. कितेंय जावं, आमकां आनीक कांयच काम नासतालेंच, खावपा-जेवपाचें काम सोडून! उलयत-उलयत, हांसत-हांसत शाळेक वचपी तीं भुरगीं म्हाका खूब बरीं दिसतालीं. देखून दर दिसा सकाळ-सांजेवेळ हांव दुरगाचेर बसून तांकां हडकितालेंच, तांचेकडेन उलयतालेंच. कोणूय थंयच्यान गेल्यार ताका हडकून ताचेकडेन उलोवपांत म्हाका खूब खोस भोगताली. खोस, धादोसकाय ही सदचीच किरवंटेक लायिल्ली आसताली. कितेंय करीत जाल्यार धादोसकाय, कितेंय न करीत जाल्यारूय धादोसकाय! ही धादोसकाय कित्याक आनी केन्ना अचकीत येवन माथ्यार बसताली हें म्हाका तरी खबर नाशिल्लें, आयजय खबर ना. घडये जीण म्हणल्यारच एक धादोसकायेचो वळेसर जावन आशिल्लो! ❖

9

# आमचे खेळ, आमचीं झगडीं

**आमीं** केन्नाच कोणाकडेन झगडिल्लीं म्हाका याद ना. कामाक दवरिल्ल्या सगळ्या लोकांचीं आनी शेजारचीं भुरगीं आनी आमी मेळून एक व्हड फौजूच आशिल्ली. आमकां सगळ्यांक 'रोंद' अशें म्हणटालीं; त्या काळार फौजेक रोंद म्हणटालीं खंय. आमी फकत खेळ-खेळ खेळटालीं. खेळांत लेगीत मारा मारी, चाडयो नाशिल्ल्यो; व्हडांत व्हड वाद जाल्यार लेगीत ते वाद सदांच तोंडीच जाताले. उजव्या हाताचीं दोन बोटां दाखोवन, तोंड मात्शें वांकडें करून, ''हें (बोट) उलयता, हें उलयना'' अशें म्हणून ज्या भुरग्याकडेन वाद जाल्लो आसतालो ताकाच दोनांतलें एक बोट 'काड' म्हण सांगून ताच्या मुखार दोन बोटां धरप, आनी त्या भुरग्यान अचूक जें बोट 'उलयता' तेंच काडप. मागीर व्हडान 'आऽऽऽऽ' म्हणून उडकी मारून मोठया मोठयान हांसून, आड्डून वेंग मारप वा धांवत सुटप. जालें! हाकाच ''झगडें जालें'' अशें म्हणटाले. झगडें सुरू जाता थंयच्च तें सोंपिल्लें आसतालें.

केन्ना केन्नाय लंगड्यांनी, तिकट्यांनी बी खेळटा आसतना हरल्यार मात् मात्शें वायट दिसतालें. एक एकदां दोळ्यांत दुकां येतालीं, पुणून रोखडेंच चित्त दुसरे कडेन गेल्ल्यान दुकां थंयच्या थंयच् सुकतालीं. त्या काळार आमच्या जगांत जिखप आनी हारप ह्या प्रक्रियांक आयचे भशेन गंभीरतायेन घेना आशिल्ले.

सदांच सांजेचीं आमी पडवेवेल्या खांब्यांक धरून 'खांब्यांनीं' खेळटालीं. धा-बारा तरी खांबे आशिल्ले. आमी सगळीं भुरगीं धांवत वचून एका एका खांब्याक वेंग मारून रावतालीं. निमणें भुरगें, जाका खांबो धरपाक मेळनाशिल्लो, तें 'भट' जावन आपलेंच माथें बडयत, आमचे मुखावयल्यान पासयो मारतालें. खांबे धरून आशिल्लीं भुरगीं भट फुडल्यान पासयो मारीत आसतना झुप्प झुप्प करून खांबे बदलतालीं. एक भुरगें धांवत वचून दुसऱ्याचो खांबो धरतालें आनी आपलो खांबो ताका धरपाक दितालें. ह्या मजगतीं दुसऱ्या भुरग्यान खांबो धरचे पयलीं भटान धांवत वचून ताचो तो रिकामो खांबो धरलो जाल्यार मागीर खांबो धरूंक मेळूंक नाशिल्लें तें भुरगें भट जातालें. अशें करून तो खेळ चलत रावतालो.

केन्ना केन्नाय मात्शीं व्हडलीं भुरगीं आसतालीं तीं ताबूल-फळ्यांनीं आनी तिक्ट्यांनीं खेळटालीं. म्हजे धाकटे भाव आनी ताच्या बराबरचे हेर भुरगे मेळून शेड्ड्यां फाटल्यान धांवून तांकां फातरावप, सुण्याक फातरावप, माजरांक चिमटे काडप आनी तांची बोब घालप हीं असलीं विद्वाटेपणां करताले. ह्या धांवपळींत आनी फातरावपाच्या खेळांत खंयीय एक शेड्डो मेलो जाल्यार ते सगळे मेळून ताचें मडें लाकडाक बांदून भुजांचेर दवरून रडपाचें नाटक करून तें घेवन वताले. हें असलें म्हाका मात् केन्नांच मानवलें ना. म्हजी तकली पिकार जाताली. मागीर वचून कोणाय जाण्ट्या मनशाक मनांतली खंत

उलोवन दाखयतकच मन ल्हव जातालें.

मात्शे व्हडले भुरगे कोयणे-बालांनीं, गड्ड्यांनीं, लोगोऱ्यांनीं बी खेळटाले आनी म्हज्यो व्हडल्यो भयणीय बी ताबूल फळीं, तिकटीं, बुद्दीबळ असले खेळ खेळटालीं.

तशें पळोवंक गेल्यार आमीय बी मात्शीं व्हड जातकच सगळ्या चले-चलयां बरोबर कोयणे-बाल खेळपाक लागलीं. पूण ल्हानपणांत आमी फकत बावल्यांनींच खेळटालीं. ह्यो बावल्यो फकत लुगटाच्यो आसताल्यो. दर आयतारा बावलेचें लग्न आसतालें. त्या वेळार कमीच म्हणल्यार चाळीस तरी भुरगीं आसतालीं बोवाळपाक. दर आयतारा दिसा लग्न. सोमारा बावलेचे आनी बावल्याचे कपडे धुवपाचो आक्तः जातालो. वासुदेव शिनाऱ्यागेर रिठ्याचें झाड आशिल्लें. ताचे रिठे काडून हाडून ह्या लुगटांक घांसून फेणेर काडून हे कपडे धुवन झंजळावन सुकत घालपाचे आसताले. मागीर एका पितुळच्या चिक्रांत इंगळे घालून लेंसान त्या चिक्राचो कान धरून फेर्र मारपाचें आसतालें. जाली तयारी लग्नाची!

लग्ना दिसा दनपारचें जेवन बी जातकच लग्नाच्या बोवाळाक सुरवात जाताली. थोडीं न्हवरेकारां, थोडीं व्हंकलकारां जातालीं. बावलो आनी बावली दोगांय म्हजींच पूण त्या दिसा पुरतीं तीं दोन भागांनीं विभागिल्लीं आसतालीं. ही सगळी भुरावळयबी न्हवरेकार आनी व्हंकलकार अशी दोन वाट्यांनी विभागून वताली. पेपारीं, तोप, दवले, तांबये, चिपटां, घांटी हें सगळें मुज्गाक वापरताले आनी सामको सांवार आयिल्लेभशेन किंवाट्यान हीं असलीं वाद्यां वाजयत ही मंडळी हेवटेन तेवटेन बोवाळटाली.

कांय भुरगे पेपारीं घेवन येताले. हीं पेंपारीं फेरयेक वा जात्रांनीं मेळटालीं. तीं घेवन लोकांच्या कानांत फुकतकच चडूच मजा

दिसताली. कोणूय येता जाल्यार घराफाटल्यान लिपून रावन कच्च करून हें पेपारें वाजोवन त्या मनशाक भेष्टावप ही एक चडच मजेची गजाल आसताली. आनी लग्ना दिसा लेगीत ह्या पेपाऱ्यांचो वापर चडसो करून ह्याच आसल्याच विद्वाट्या कामांखातीर चड जातालो. पूण तरीकय कोण ताप नाशिल्लो. वेल्यान हांसपाक एक कारण मेळटालें!

सवो तयार आसतालो. सवो म्हणल्यार समोरासमोर दवरिल्ले दोन पाट! हे पाट कुंकळ्ळे केल्ले आसताले, सुळसुळीत तांबड्या, पांचव्या, हळडुव्या रंगाचे! खूब सोबीत पाट हे! ह्या पाटांचेर कीर पितारिल्ले आसताले. आयज लेगीत अश्टमीकडेन फेरयेंत मेळटात हे असले पाट!

ह्या पाटांचेर व्हंकल आनी न्हवऱ्याक बसोवन आमी सगळीं भोंवतणीं रावतालीं. न्हवऱ्याची आवय न्हवऱ्याक धरून आनी व्हंकलेची आवय व्हंकलेक धरून त्या पाटाचेर बसतालीं. ह्या वेळार वाजंत्री वाद्यां चडूच किंवाट्यान वाजयताले. मागीर कांय भुरगीं जीं भट जाल्लीं आसतालीं, तीं वोगीच मंगळष्टकांच्या सुरांत आनी तालांत कित्या कितेंय शब्द वापरून मंगळाष्टकां म्हणिल्ल्याचें भासायतालीं. एकूण पळयत जाल्यार बोव्वाळ! लग्नाखातीर बोवाळ काय बोवाळ करपाक मेळचो म्हणून हें लग्न हें वेगळें सांगपाची गरज नाशिल्ली. मागीर ''साऽऽऽऽव धाऽऽऽन'' अशें म्हणून तांदूळ वडोवन मात्सो वेळ ''वांऽऽव्, आम् म्, नम्म्, गम्म्'' अशें कित्या कितेंय म्हणून मंत्र म्हणिल्लेभशेन भासोवन, अक्षता वडोवन आनी अंतरपाट काडून हो लग्नाचो आक्त सोंपतालो.

मागीर जेवणाचो आक्त जातालो. सगळीं भुरगीं पंगतीक बशिल्लेभशेन बसतालीं, थोडीं जेवण वाडिल्ल्याचें भासयतालीं,

थोडीं आग्रो करतालीं आनी पंगतीक बशिल्लीं भुरगीं जेविल्लेभशेन करतालीं. एक दोग जाण स्लोक म्हणटाले आनी "पुंडलीक वरदा, हरी विठ्ठल" अशें म्हणून सोपयताले. मागीर धेंकर बी दिवन पोट सामकें फुट्टा अशें भासोवपाचें आसतालें.

हाचे उपरांत व्हंकल पावणेचो आक्त जातालो. परत वांजत्री बोवाळ घालताले, व्हंकलकार रडटाले आनी मागीर व्हंकल न्हवऱ्यागेर वतकच हो लग्न समारंभ सोंपतालो.

हांव, अंजनी आनी मिनाक्षी सबंद दीस वालो न्हेसून आवयो जावन खेळटालीं. खेळांतल्या ल्हान वानाचो रगडो वा लाकडाचो कुडको असल्यो वस्तू वेंगेंत घेवन आमी मोडत-मोडत आवयो जावन भोंवतालीं. मदीं मदीं न्हेशिल्ल्या वाल्याच्या पदरा पोंदा भुरग्याक घेवन दूद पिवयतालीं. लोक आमकां पळोवन पोट फुटसर हांसताले.

बाय बी बाळंत जातकच कोणूय बायलमनीस पण्टी पेटोवन पडग्या पोंदा दवरून काजळ पाडटाली आनी हे काजळेंत तेल घालून, मेटून ताचें काजळ करून डबयेंत भरून दवरतालीं. सद्दां बायंटिण आनी भुरग्याक तेल लावन न्हाणयतकच हें काजळ तांच्या दोळ्यांत घालपाचें आसतालें. बाय दर वर्सा-दोन वर्सांनी बाळंत जातालें आनी दर फावटीं नवी काजळाची डबी तयार जाताली. कितेंय जावं, वर्सूयभर काजळ मेळटालें. हेंच काजळ आमीय बी वापरतालीं! आमीय बी भुरगें वेगेंत घेवन भोंवतालीं न्हंय? आमीय बी बायंटी!

मात्शीं व्हड जातकच आमी दात्यांनीं आनी झोपाळ्यांनीं खेळपाक लागलीं. दांत्यांनीं खेळप म्हणल्यार एका लायटीच्या खांब्याक एका हातान धरून आमी दोन-तीन भुरगीं एकाच दिकेन गिरी गिरी करून घुंवतालीं आनी "गिरी गिरी दांऽऽतें," अशें म्हणीत्त रावतालीं. आमच्या दुरगा भितरूच आशिल्लो हो लायटीचो खांबो!

फाटल्या दारा आशिल्ल्या अगरसाळेच्या खांब्यांचेर पांख्याक उखलून धरून आशिल्ल्या आडव्या पाटयांक आमी झोपाळे बांदून खूब झेल घेतालीं. मात्श्या व्हड भुरग्यांचो झोपाळो व्हड आसतालो. तो करबिलाच्या झाडाक बांदिल्लो आसतालो. हो करबील एक व्हड रूख जावन आशिल्लो आनी ताका झोपाळो बांदपाक एक सबंद राजू लागतालो . हो झोपाळो झेल घेतना धुकलना फुडें सामको मळबाक तेंकतालो! इतलो उंच वतालो हो झोपाळो! ताई बी ताचेर बसून झेल घेतना तांच्या पांयांचो आंखांडो बद्द मळबाक वचून तेंकतालो. हांव चुकून लेगीत ह्या झोपाळ्यार बसलें ना, वोगीच वयर झोपाळ्यार बसून उंच झेल घेता आसतना हात सुटल्यार बद्द मळबांत वचून पडपाची भिरांत आनी तशें घडलें ना जाल्यार मळबार आपटून सकयल पडत जाल्यार मरपाची भिरांत! कितेंय जावं, आमच्या अगरसाळेवेलो झोपाळोच बरो, मनीसपण आशिल्लो झोपाळो!

पावसांत आमची चडूच मजा जाताली. भायले पडवे सकयल पोरसांत फोंडकूल खणून तातूंतल्या उदकांत बुडकुल्याक सुतली बांदून उदक काडपाक आमकां बरें दिसतालें. पावसा तेंपार पडवेक तेंकुनूच सकयल पोरसांत आमी असल्यो बांयो खणून दवरतालीं. पावस पडटकच हीं फोंणकुलां उदकान भरतालीं. आमी कितलींशींच भुरगीं दर बांये वयर पडवेर बसून आपापलीं बुडकुलीं ह्या बांयांनी सोडटालीं आनी उदक काडटालीं. एक दीस रातीकडे रामचेन भट पडवेच्या धड्येर बसून आमच्या बांयंत मुतलो. ताका ज्युस्त रविंद्रान पळयलो! त्या दिसाच्यान बांयचें उदक काडप बंद! तेन्नाच्यान आमी जाण्टीं जावन ताबूल-फळें, तिकटीं, असले जाण्ट्यांचे खेळ खेळपाक लागलीं! ❖

## 10

# आमच्यो परबो

**स्रावण** म्हयन्यांतल्यान आमचे सामके मजेचे दीस कॉमेस जाताले! तरांतरांचीं गोडशीं, पक्वान्नां सुरू जातालीं. आमची मजाच-मजा! स्रावण म्हयन्याच्या पयलींचेय बी दीस तशे कमी मजेचे नासताले! नाटकां बी पावसा पयलींच जाताली न्ही? एकूण पळयत जाल्यार वर्साचे बाराय म्हयने आनी चोवीसूय वरां मजाच, मजा! न्हिदप ही कमी मजेची गजाल न्हय! न्हिदचे पयलीं कॉले, भुतां आनी त्यो काणयो आसताल्यो आमकां गुल्ल दवरपाक. न्हिदतकचय बी आमचीं सपनां कितें कमी रंगीत नासतालीं. सपनां पडलीं ना जाल्यार दुसऱ्या दिसा घडोवन सांगपाचीं आसतालीं. एकूण चोवीसूय वरां मजा म्हणल्यार अतिताय जावंची ना!

स्रावण म्हयन्यांत दर आयतारा गोडशीं आसतालीं. सकाळच्या आदेसाक आयतार पुजपाची तयारी आनी मागीर पुजा. मागीरच देवाचें पान वाडपाचें आसतालें. ताच्याकय पयलीं, म्हणल्यार शेनवारा सांजच्यान आमची आंखणी सुरू जाताली. शेनवारा रातीकडेन गांवचीं

कांय भुरगीं येवन पोरसांतल्या दशणीचीं बी फुलां फुलचे पयलींच, कळेच खुडून चोरून व्हरतालीं. देखून आमी शेनवारा रातीकडेनच दशणीचे, सदाफुलीचे, पारजताचे, अनंताचे, चांफ्याचे बी कळेच काडून आयदनांत उदक घालून तातूंत दवरतालीं. त्या भायर, आनीकूय कांय फुलां आशिल्लीं दुरगाभितर. तीं चडसो करून कोण्ण व्हर नाशिल्लो. देखून हेर सगळे कळे मागीर आयतारा काडल्यार जाताले. पोरसांत माटवाचेर जायो, जुयो, सायली बी आसताल्यो. त्यो मागीर आयतारा दनपारपर्यंत काडून ताजीं फाडीं घालतालीं. एकेक फावट सुवयेर हार 'गुंथतालीं'. अगस्ताचीं झाडां फकत आमगेर आनी भोब्यागेरच आशिल्लीं ; व्हडले व्हडले रूख ते!

स्रावणशेनवारा सांजवेळा दुर्वा काडून ताच्यो चुडयो करून दवरतालीं. शेनवारची रातभर न्हीद नासताली. केन्नांकाय फांतोड जाता आनी आमी पत्री बी पुंजोवपाक भायर सरतां अशें जातालें. सबंद रात पडून रावन, परत परत गोजडेंतल्यान तोंड भायर काडून उजवाड जालो काय ना तें पळेत रावतालीं. फांतोड जायना फुडें न्हिदिल्ल्यांक धुकलून उठोवन तांकां बरोबर घेवन आमी भोवंडेर वतालीं, पत्री पुंजोवपाच्या! पत्री म्हणल्यार सगले तरेचीं पानां! आयतारा पुजेक तीं जाय आसतालीं. हे पत्रेंतल्या चडशा पानांचीं नांवां अंजनीक बी खबर आसतालीं. देखीक, घोड्याचीं पावलां, रामाची सत्री, शितेचो तिबो, शेरवडाचें पान, कावळ्याचें भात, ब्रम्मदेवाची तकली, देवचाराचो घोडो अशीं कितलींशींच नांवां आसतालीं. ब्रम्मदेव हो कोण तो खबर नासल्यार पसून तो एक देव हें खबर आशिल्ल्यान हें कुडके-कुडक्यांचें पान खुडटा आसतना पैलीं पायां पडपाचें आसतालें. ब्रह्मदेवाक आमी 'बम्मदेव' म्हणटालीं. देंवचार हो एक देव अशें धरून ताकायबी ब्रम्मदेवाच्या पंगतीक बसोवन ताजोयबी घोडो

ह्या पत्रे बरोबर आसतालो. हें पान खरेलोच घोडो कशें दिसतालें. ब्रम्मदेवाची तकली चार तकल्यो कशें दिसतालें. सबंद फांतोड आमी दोंगरभर झाडयेंत भितर भोंवन भोंवन मोठ्या उमेदीन ही पत्री एकठांय करतालीं. सकाळचीं आठ जाता म्हणसर आमचें काम सोंपिल्लें आसतालें.

आयतारा सकाळीं मागीर भट येवन चवाय वण्टीक तेंकोवन दवरुन तिजेर केळीची शिर्ती दवरून तिजेर फुलां, दुर्वा बी घालून पुजा करतालो. घरची सवायशीण बायल मनीसय बी थंय बसून पुजा करताली.

ही पुजा आनी हेर बोवाळ आयताराची शिर्ती दवरील्ली आसताली थंयच सदरेरच जातालो. सदरी व्हड आशिल्ल्यान आनी ती रानचेकुडीक तेंकूनच आशिल्ल्यान थंय एके वटेन गोडशें करपाचें काम चलतालें. दर आयताराचें गोडशें वेगळें आसतालें. पयल्या आयतारा मुठलीं, दुसऱ्या आयतारा शिरवळ्यो, तिसऱ्या आयतारा खीर, चवथ्या आयतारा पातोळ्यो आनी पांचवो आयतार आयल्यार पोळे आसताले.

ह्या सगळ्या आयतारांत तो शिरवळ्यांचो आयतार चड मजेचो आसतालो आमचे खातीर! त्या दिसा आयतार पुजून जातकच सदरेरच शेवगोदातो दवरून रानपीमाम शिरवळ्यो पिळटालो. त्या शिरवळ्यो पिळपाच्या वावरांत आमचोय बी हातभार लागतालो. मामा आमकां आपोवन हाडटालो आनी शेवगेदात्या म्हऱ्यांत आमकां उबीं करतालो. शेवगे-दात्याच्या कॉपांत दोन-चार मुठलीं घालुन आमचो हात धरून तें हॉण्डल धुंवडायतालो. शिरवळ्यो भायर सरून सकयल दवरिल्ल्या चोळख्याचेर पडटाल्यो. मागीर आमी पिळिल्ल्यो शिरवळ्यो आमी जेवपाक पाटार बशिल्लीं आसतालीं थंय मामा आमकां हाडून दितालो.

ह्यो शिरवळ्यो नाल्लाच्या रॉसांत गॉड घालून तातूंत बुडोवन आमी खातालीं. जाय तितल्यो मागून खावपाच्यो, केन्नां कोणाक ना म्हणी नाशिल्ले.

शिरवळ्यो पिळून काडपाच्या आयुदाक शेवगोदातो म्हणटालीं. शेवगोदातो लोखणाच्या चार पायांचेर उबो आसतालो. मदीं एक व्हडलें पितुळचें बुराकांचे कॉप आसतालें. तातूंत मुठलीं घालुन वेल्यान दुसरें कॉप चेपतकच सकयल्या बुराकांच्या कॉपांतल्यान शिरवळ्यो भायर सरताल्यो. दुसरें कॉप वयर आशिल्ल्या दांड्याक दसोवन तें धुवंडावन सकयल देंवोवन त्या मुठल्यांच्या कॉपाचेर चेपपाचें आसतालें. आयज असलो हो शेवगोदातो चडसो खयंच दिसना.

तांदळाच्या पिठाचीं मुठलीं करून साननधाकण्यांत तीं उबेवपाक दवरून मागीर हीं चार-चार मुठलीं शेवगेदात्याच्या कॉपांत दवरून चेपतालीं. हून हून शिरवळ्यो कॉपांतल्यान सकयल देंवता आसतना खूप बरो वास येतालो.

हाचे मागीर घराकडे पुजेचें काम सुरू जातालें. थंय बाय, ताई, माई, भट, रानपी, रानतल्यो हांचेंच काम आसतालें. हाचे मागीर आमचें खरेलें काम सुरू जातालें तें दनपारचें जेवण जातकच, तिनेक वरांचेर सुमार, बोवाळ घालपाचें! आमी कितलींशींच भुरगीं झानी, घांटी. पडगे, चिपटां, तोप, दौले, पराती, दांडे, तांबये, पेपारीं, तुताऱ्यो बी घेवन वाजंत्री जातालीं. खूप बोवाळ घालप हें एक मुख्य आंग आसतालें ह्या स्रावण आयताराचें! स्रावण आयतार म्हणल्यार बोवाळच बोवाळ, मजाच मजा!

त्या भायर, दुसऱ्या आयतारा 'मुठलीं' म्हणून गोडशें आसतालें. ह्या मुठल्यांनीं भितर गॉड-सोयेचें चुन्न घालुन तीं साननधाकण्यांत उबेवन खातालीं. हीं असलीं मुठलीं खयंच आयज केल्लीं पळोवंक

ना हांवें. चडश्या लोकांक खबर पसून ना. शिरवळ्योय बी कोणागेर केल्ल्यो दिसना. पैलींच्या पोन्न्या घरांनीं शेवगोदातो आसुंये. पूण तो सर्रास वापरांत येता अशें म्हाका दिसना.

स्रावणांत भितर सुतापुनव, नागपंचम, वडापुनव हें सगळें जातालें, पूण थंय गोडशें खावपाबगर आंमकां चडशें काम नासतालें. फकत नागपंचमी वेळार सोरपाक दुखोवंक जायना म्हणपाचें रविंद्रान सांगिल्लें देखून आमी त्या दिसा पुरतीं सोरपाक मात्शीं सांबाळून घेतालीं. देव विश्णू खंय सोरपाच्या माणयेर न्हिदता आनी त्याच सोरपाच्या पिल्याक गळ्यांत बांदून म्हादेव भोंवता. देखून त्या दिसा सोरोप चाबूंक येत जाल्यार ताजेर फातर मारुंक जायना, आनी धांवूनूय वचूंक जायना. म्हणल्यारच चाबूंक आयल्यार चाबूंक दिवप असोच ताचो अर्थ जालो! त्या दिसा चाबून मरत जाल्यार सामको सर्गार वता खंय मनीस! रविंद्र सामकी गारांत दितालो सर्गाची! पूण सगळ्या खेळगड्यांक हांगाच सांडून थंय सर्गार एकटेंच वचून कितें करपाचें? नाजाल्यार सगल्यांनीं एकाच बरोबर सोरप चाबोवन घेवन मरपाचें! तें कोणाक पसंत नाशिल्ल्यान आमी नागपंचमी दिसा झाडयेंत बी भोंवपाक वच नाशिल्लीं. तरी पूण दर एकलो आपणें झाडाचेर बी सोरोप पळेल्ल्याचें सांगतालो! फकत नागपंचमी दिसाच हे इतले सोरोप दर्शन दिवपा निमतान भायर सरताले काय दिसता! हेर दिसा सोरोप कोणें पळइल्ल्याचें आयकिवांत येना आशिल्लें.

नागपंचमी दिसा गांवच्यो कितल्योश्योच बायलो खंयीं रोयणी आसतात थंय वचून ताचेर दूद ओतोवन फुलां, कुकूम घालून पुजा करतालीं. तातूंतच एक गोंया भायलो मनीस सोरोप घेवन येतालो. सोरपाक पळयना फुडें थंय आशिल्ल्यो बायलो घरांत वचून दूद घेवन येताल्यो आनी एक कुलेरभर दूद सोरपाक पियेवंक घालतालीं. आनी

पेल्यांत उरिल्लें दूद तो मनीस आपणें हाडिल्ल्या एका व्हडल्या तांबयांत घालून घेवन वतालो.

मागीर येताली ती चवथ! दादा, भाई आनी हेर व्हड भुरगे गणपतीची बसका तयार करताले. रंगीत फोली घेवन तांकां बुराक बुराक करून तारातरांचीं चित्रां करून मखर सजयताले.

घरांत लायटी येतकच मागीर मुखेल जाग्यांनी दिवे घालताले. ताचे पयलीं फकत लामणदिवे, पण्ट्यो आनी दिवल्यो आसताल्यो सबंद घरभर उजवाड घालपाक. चवथी दिसा मात् एक पेत्रोलमास हाडटाले, चड उजवाडा खातीर.

हांव बारा वर्सांचें जातकच चिकणमाती हाडून ताचो एक इलोसो गणपती करतालें. हो 'म्हजो' गणपती! व्हडलो गणपती पळोवंक येता आसतनाच गांवचे लोक ''लतालो गणपती'' मुद्दम पळेताले आनी तोखणाय करताले. ह्या मुर्ती भायर म्हादेव-पार्वतीचीं जीं कागदावेलीं चित्रां आसतालीं तीं हांव कागदार पितारून तयार करतालें. हीं मात् पुजेक लायतालीं. म्हजो गणपती फकत थंय बसइल्लो आसतालो, पुजा करीनाशिल्लीं ताजी! गणपती पावयता आसतना त्याच व्हडल्या गणपती म्हऱ्यांत बसोवन म्हजोय बी गणपती पावयतालीं. व्हडल्या गणपतीक पावयता आसतना जो बोवाळ, भजनां जातालीं, तींच म्हज्याय गणपतीक लागू जातालीं, म्हज्याय गणपतीचो सन्मान जातालो!

चवथीच्या चार दिस पयलीं केरी बी कुळागरांतल्यान तरातरांच्यो वनस्पती भाज्ज्यो, फळां बी येवपाक सुरु जातालीं. सगळे कुळागरांतले भागेली आपापलें वजें घेवन येताले. त्या वज्याक कित्याक कोण जाणा, 'फार्मास' म्हणटाले. ह्या फार्मासींत केळ्यांचो घड, केळीच्यो बोणयो, केळीच्या शिरत्यांचो पेणारो, तोरिंगां, मावळिंगां,

अननां, अनसां, निरपणस, पात-पणस, खांप्री केळीं, माडयो, आळूं, चिबडां, तवशीं, घोसाळीं, पिपऱ्यो, दुदी, मोगें, बेड्यांचीं शेलकीं हें सगळें  सामान आसतालें. हांतली एक-एक भाजी, फळ वयर माटोळेक बांदताले. कानळां आनी किनरां आनी आनीक कितलींशींच रानटी रंगीत बारीक-मोठीं फळां येतालीं फार्मासी बराबर. तींयबी वयर माटोळेक बांदताले. उरलेलीं फळां पिकतकच पंचमी दिसा प्रसादाच्या दोण्यांनीं घालताले. दोण्यांनीं मयंडोळ्या केळ्यांचो हालवो आनी पंचकातुयबी आसताली.

तये दिसा गौरी गुरवार, देखून तिका मोनी भाजी, म्हणल्यार मीठ, तिखसाण बी नासतना केल्ली भाजी घालताले. तये दिसा दनपरां पातोळ्यो, चवथी दिसा पुन्नाच्यो नेवऱ्यो आनी पंचमी दिसा रोसांत घाल्लें हीट हीं गोडशीं आसतालीं.

पंचमी दिसा सांजवेळचे वाड्यावेले लोक गणपती पळोवंक येताले. एकेका घरांत लायटीचेर चलपी उदकाचो घसघसो करताले, तर आनीक खंयी नेहरू वा गांधी हात हालयतासो देखाव दाखयताले. बाकी चडश्या लोकांले गणपती सादेच आसताले. वाड्यावेले लोक येवन तांकां पांयां पडून वताले.

तिनसांज जातकच भायर भुरगीं चंद्रजोती, नारंगां बी लायतालीं. जाण्टे लोक माराण, गर्नाळ, बाण बी लायताले. एकूण खूप बोवाळ आनी धुंवर जातालो.

रातीकडे गांवांतले लोक पेटी, तबलीं, पकवाज, झानी बी घेवन येताले आनी मागीर भजनाचो प्रोग्राम जातालो. सरस्पतीलो साजुलो खूप तानी बी मारून पदां म्हणटालो. भजनाचो प्रोग्राम बरो जातालो. मागीर भटान पुजा करतकच सगळें भजनी मंडळ दोणे घेवन दुसरेकडेन भजन करपाक वतालें. आमी लग्न जावन वच म्हणसर

दरएकलो आपापलो गणपती घेवन पाट्यार न्हंयेंत पावोवपाक वतालो. आमचो, भोब्यालो, सिनाऱ्यालो आनी शेजारच्या आनीक कांय लोकांले गणपती बरोबर वताले विसर्जनाक. आपापलो गणपती उखलून घेवन भजनां म्हणीत वाड्यावेले सगळे लोक सांगातान वाटभर फोग लायत, झानी वाजयत, भजनां म्हणीत पाट्यार न्हंयेचेर विसर्जनाक वताले. मागीर गणपती न्हंयेंत देंवयतना थंय कांय वयावेले भुरगे न्हंयेंत भितर रावन गणपतीक अचळय हातांत घेवन न्हंयेंत मद्दीं खोल उदकांत व्हरुन दवरताले. न्हंयेंच्या देगेर दवरुन गणपतीक सोडून लोक केन्नांच वचनाशिल्ले. रातचीं णव वरां मेरेन गणपती पावोवन आमी घरा परततालीं. कितली मजा जाताली ह्या तीन-चार दिसांत.

आमी लग्न जावन वतकच वाड्यावेले सगळे गणपती ट्रकांत बसोवन एकाच बराबर पावोवपाक लागले. आमच्या दारा सामकार एक ट्रक दवरून तातूंत सगळ्या लोकाले गणपती बसोवन व्हरपाक लागले. भजनी मंडळ घरा कणकणीं वचून भजन करून जातकच मागीरच गणपती भायर सरपाक लागले. इतलेंय जाता म्हणसर रातचीं दोन-तीन वरां जावपाक लागलीं विसर्जनाक. आमी ल्हान आसतना आमीयबी बसून भजनां म्हणटालीं, वाड्यावेल्या लोकां वांगडा. आतां व्हडले-व्हडले लावडस्पीकर, सावंड सिस्टेम लावन सिनेमांतलीं कसलींय पदां, लावण्यो बी लायतात. पैलींच्या गणपतींच्यो आनी आतांच्या गणपतींच्यो आवडी, गरजो विंगड-विंगड अशें म्हणल्यार अतिताय जावंची ना! ❖

# 11

# ते पावसाचे दीस

**पावसाच्या** वेळार पोरसांत चोशीं वटेन तण वाडटालें आनी सगळें पांचवेंच जातालें. पोरसांतलीं करमलीचीं करमलां पावसांत पिकून सकयल पडून खातड जाताली. ह्याच वेळार किरांचीं भिरीं आनी बोक्यांचीं भिऱ्यांचीं भिरीं करमलीचेर येवन बसतालीं वा करमलीवेल्यान उडत्त वतालीं. कीर मात् मोन्यांनीं वचूंकूच शकनात, ते व्हडान कीर्र कीर्र करून बोवाळ घालीत वतात.

एकेकदां पावस मात्सो थांबून कडक्क वत पडटालें, त्या वेळार तण बी सामकें सोबीत दिसतालें. वेल्यान हळडुवींच्च कितलींशींच पिसोळीं सबंद वाठार भर उडत आसतालीं. आमी त्या पिसोळ्यां फाटल्यान धांवतालीं. तांकां धरप ना, हात लावप ना, हें थारिल्लें आसतालें. हात लायल्यार तीं मरतात हें आमकां खबर आशिल्लें. तातूंतच भिरमुट्योय बी उडटाल्यो. त्यो दिसपाक तितल्योश्यो सोबीत न्हय. तातुंतच एक बारीक तकलेची काडी कशी, मात्शी बारीक पाकांची भिरमूट येताली. तिका 'म्हालो' म्हणटाले.

पावसांत रावूळ म्हणून एक हळशिकावणो दिसपी मात्सो मोठ्या आंगाचो मोवसो जीव उडत उडत येतालो. तो माथ्यार बसल्यार केंस वतात आनी मनीस बोडको जाता अशें म्हणटालीं. देखून रावूळ दिसनाफुडें आमचेर आकांत येतालो.

त्या भायर, कितल्याशाच पांयांच्यो वागोण्यो, गोठाणी बी येताल्यो. गोठाणी आंगांन वाटकुळ्यो आनी वागोण्यो चेपट्यो आसताल्यो. वागोणी चाबल्यार वेग येताले खंय. गोठाणी मात् शेंकड्यांनीं येताल्यो. पावस सोंपनाफुडें सबंद पडवी कुसुंड्यांनीं भरून काळीच्च जाताली! कुसुंड्यांक कुसां किडी म्हणटाले.

पावसा दिसांनीं निरपणस खावपाक काटांदोर येताले. व्हड व्हड कोळहुंदीर येताले, सामके माजरा येदे, वादयेभशेन शेपडेचे! काटांदोर मात् सामके सुण्यांयेदे आसताले आनी तांकां केंसाळ शेंपडी आसताली.

केन्ना केन्नाय पाचवेंच्च रोत कसो एक सोरोप येतालो. ताका पास्को म्हणटाले. सुम्म् करून बाण कसो तो वेगान धांवतालो, नाच् जातालो! बारीक, लांबचे लांब, देडेक वार तरी तो आसतालो! दिवोड, माळूण, हेंवाळीं बी खूब आसतालीं, हेवटेन-तेवटेन. पूण आमी चड पळेला तो पास्को! हेरांक पळोवंक ना, नावांच आयकल्यां. कुसडो, रक्त मांयणोळ, हार, माळूण, येवाळें, आगरो, नाग ही असलीं नांवां आमीय बी वापरतालीं, ओगीच उलयता आसतना छाप घालपाक!

पावस पडनाफुडें मुंयांक पाखां फुटून त्यो उडूंक लागताल्यो. गोंगुल्ले आनी कुमान्नीय बी आसताल्योच! पूण आमी तांच्यांतल्या कोण्णाच्या वाटेक वच नाशिल्लीं.

कुमान्नी मातयेचे गुळे कशे घरां बांदताल्यो जळीं-मळीं. दारांचेर, जनेलांच्या आदुफांचेर, खंयीय पळयत थंय मातयेचे गुळे! ते

गुळे चंद्रकांत बी कोणूय सान्नीच्या खुटाऱ्याचो मुणो मारून फोडटाले. तेन्ना तातूंत खूब पांचवेच्च किडे आसताले; ते मातयेवांगडा सकयल जमनीर पडून वळवळटाले. ते किडे मागीर कागदाचेर घेवन भायर वडयताले. ते किडे कुमान्नीन आपल्याक खावपाखातीर एकठांय केल्या म्हणून शेंवतू बी सांगतालें. त्या किडयांची म्हाका काकूट दिसताली. देखून कुमान्नींचें घर दिसनाफुडें त्या किडयांक वांचोवपाच्या निमतान हांव तें कोणाकूय दाखोवन फोडपाक लायतालें. त्या सकयल पडिल्ल्या किडयांचे कितें करपाचें तें हांवें केन्नाच येवजिलें ना. ते हेर किडयांवांगडा पानांबी खावन दीस काडटले हें हांव जाणां आशिल्लें. हांव तांकां व्हरून पानांचेर सोडटालें.

कुमान्नी चाबतात, गांजील मुंसाभशेनूच! एकदां फोंडूच्या कानाक एक कुमान्न चाबिल्ली. कान सामको सुजिल्लो. गांजील मुसूय तशेच चाबतात. देखून आमी गांजील मुंसाच्या पोळ्या म्हऱ्यांत वच नाशिल्लीं. बाळून एकदां गांजील मुंसांच्या पोळ्याचेर फातर मारिल्लो तेन्ना तिडकल्ल्या गांजील मुंसांनी ताका सारकी बुद्द शिकयिल्ली! बाळूचें तोंड सामकें सुजून सुळसुळीत लाडू कशें जाल्लें, आंग बी सामकें तांबडें! शेंवणीं आनी पिसोळीं सोडल्यार हेर जिवांची दखल आमी घेनाशिल्लीं.

सगळ्यांत वीट दिसपाची आनी आंगार शिरशिरो हाडपाची गजाल म्हणल्यार तो एक प्राणी जल्लो! पावसांत जल्ले हेवटेन-तेवटेन खूब उडटाले. तांकां हात लायल्यार घाणी मारताल्यो. म्हजो धाकटो भाव उल्लास ह्या जल्ल्यांक भियेनासतना आनी विटनासतना तांकां हातांत धरून आमच्या फाटीर विस्तिदांत भितर सोडटालो. आमची बोब पडटाली. फाटीचेर सोडिल्लो तो जल्लो आपले कांट्यांचे पांय घेवन आमची फाटभर भोंवतालो तेन्नां आमची स्थिती कितें जाताली

तें कोणाक सांगून समजुपाचें ना. त्या कामाक प्रत्येकान आपले फाटीर जल्लो सोडून पळोवचें, जाल्यारूच तें समजुपाचें! जल्ल्याक पळयना फुडें जें तेन्ना भोगलें तें आयज लेगीत भोगता! फाटीर कुरू कुरू जाता! ❖

## 12

# कुल्ल्योच कुल्ल्यो

**एकदां** पावसा दिसांनी रातीच्या धा वरांचेर सुमार एक मनीस चोण्णां साकून शेतांतल्यो व्हडल्यो व्हडल्यो कितल्योश्योच खडपी कुल्ल्यो घेवन आयलो. कितलेय रातीकडेन कोणूय आयलो जाल्यार ताका जेवण मेळटालेंच. त्या प्रमाण तो जेवन आमगेरच न्हिदलो. रानप्यान त्यो कुल्ल्यो तुळशी म्हऱ्यांत आंगणात वज्यापोंदा धांपून दवरल्यो. वेल्यान एक फातर दवरलो.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं पळयत जाल्यार एक कुल्ली रानचेकुडींत वाना म्हऱ्यांत दिसली. दुसरी केळम्या पोंदा आनी वज्या पोंदा एक्क कुल्ली ना! वज्याक बुराक मारून कुल्ल्यो पळून गेल्यो जावंये अशें धरून कोण्णें कांय म्हणलें ना.

जसो जसो दीस वैर येवपाक लागलो, तसो तसो एक एक शेजारी येवन आपल्या घरांत सकाळीं फुडें कुल्ल्यो आयल्यो म्हणून सांगपाक लागलो. आमच्या आंगणांतली खळी घराभायल्या व्हाळाक जोडील्ली. आंगणांतल्यो कुल्ल्यो खळयेंतल्यान व्हाळांत गेल्यो. हो

व्हाळ पाट्यार न्हंयेंक मेळील्लो आशिल्ल्यान दोंगरावेलें पावसाचें उदक घो घो करून व्हांवन ह्या व्हाळांतल्यान पाट्यार न्हंयेक मेळटालें. हो व्हाळ आमच्या आनी शिनाऱ्याल्या घरा मदल्या पायणीक तेकून आशिल्लो. त्याच खातीर शिनाऱ्याल्या आनी तांच्या शेजारच्या सगळ्या घरांनी एक-दोन कुल्ल्यो पावल्यो जातल्यो! भोब्याल्या व्यंकटेशदादान बाबाक जेन्ना कुल्ल्यांची गजाल सांगली तेन्ना बाबान ताका आमच्या कुल्ल्यांविशीं कांयच सांगलें ना. वेल्यान पावसाक लागून त्यो न्हंयेंतल्यो कुल्ल्यो व्हाळांतल्यान वैर चडल्यो जांवये अशें जेन्ना ताणें बाबाक सांगलें, तेन्ना बाबान मान हालयली!

सांज जाता म्हणसर एक-एकटो शेजारी येवन कोणाल्याय तरी घरांत धा पंदरा कुल्ल्यो आयिल्ल्याचें सांगपाक लागलो. एकल्यान दाजी देसायाल्या फार्माशींत वखद व्हरूंक आयिल्ल्या मनशाक कुल्ली चाबिल्ल्याचें, तर दुसऱ्यान धोंडाल्या घरांत घरभर विसेक तरी कुल्ल्यो भोंवतना दिशिल्ल्याचें सांगलें. वासुदेव शिनाऱ्याल्या घरांत पंदरा, तर गुरूनाथ शिनाऱ्यागेर विस कुल्ल्यो मेळिल्ल्याचें कोणेयतरी येवन सांगलें. आमच्या घरा सामकार आशिल्ल्या तारामतील्या घरांत विस कुल्ल्यो धरिल्ल्याचें कोणेंय तरी सांगलें, पूण तारामतीन आपल्यागेर फकत एकूच कुल्ली आयिल्ल्याचें सांगलें. तिनसान जाता म्हणसर सगळ्या घरांनी मेळून दोनशें-तिनशें तरी कुल्ल्यो पाविल्ल्याचें आमकां कळ्ळें! आमच्या घरांत वज्यापोंदा घाल्ल्यो त्यो कुल्ल्यो फकत विस-पंचविस आशिल्ल्यो! व्हाळाक खंय हुंवार येवन आनीक कितल्योश्योच कुल्ल्यो वयर येवपाक सोदताल्यो. तांकां निल्कू आनी इनास ह्या दोगांय नुस्तेकार भावांनीं आपल्याक धंद्याक जायश्यो कुल्ल्यो दवरून घेतल्यो, आनी व्हड व्हड दांडे घेवन उदक धवळून उरिल्ल्या व्हाळभर कुल्ल्यांक खंय दर्यांत परत धांवडावन

घालें. इनास बी पाट्यार राविल्ल्यान तांकां आमचें घर आनी व्हाळ पैस पडलो. देखून तांकां कुल्ल्यांची सविस्तर खबर मेळ्ळीच ना! तांकां कुल्ल्यांविशीं कांय खबर नाशिल्ल्याचें दुसऱ्यदिसा तांणीच सांगलें! ❖

# 13

# तो बाबडो काटांदोर

**पावसा** दिसांनीं तरा तरांचे प्राणी, तरातरांचे जीव हेवटेन-तेवटेन सुळसुळटाले. पूण सगळ्यांत चड खवदळ घालपी तो एकटोच, काटांदोर! हे काटांदोर चोंब्यांनीं येताले आनी कितें म्हणपाचें ना, हाताक मेळटा तें चाबडावन उडयताले.

काटांदोर हो एक हुंदीर. आमी केन्नाय कोणाय मनशाक ''हुंदीर मरे तो'' अशें म्हणटां तेन्ना एक तर तो भिवकुरो आसता वा ताची चण ल्हान आकाराची आसता! पूण काटांदोर मात् सारको सुण्यायेदो पसून आसता. ताची शेंपडी लांबच्या लांब, केंसाळ आसता. आनी तो दोन पायांचेर पसून उबो रावता; पळयल्यार वाटकुळ्याच तोंडाच्या ल्हान भुरग्याभशेन तो दिसता! खूब फावटीं हे काटांदोर आमच्या घराच्या पोटमाळयेचेर घडघड करून धांवत्त सुट्टाले. त्या काळार व्हडल्या व्हडल्या घरांक वयर पांखळ्या सकयल लाकडाचो फोर मारताले. खुबशे लोक ह्या फोराक 'पोटमाळी' वा 'माळो' म्हणटाले. पूण जेन्ना पांखें खूब वयर आसतालें तेन्ना हो फोर फकत घराची

सोबा वाडोवपाखातीर आसतालो. तसल्याच आमच्या एका फोराचेर काटांदोरांनीं राबितो केल्लोसो दिसता. खूबशे फावटीं दनपारच्या वेळार हे हुंदीर ह्या फोराचेर फुटबॉल खेळटात काय दिसताले. फुटबॉलाक आमी 'खूटबॉल' म्हणटालीं.

आमगेर फाटले वटेनच्या पोरसांत एक व्हड निरसपणसाचें झाड आशिल्लें. ताका शेंकड्यांनीं निरपणस लागताले. केन्नांय एकादो निरपणस चाबडावन सकयल उडयिल्लो आसतालो. तो काटांदोरांनीं चाबडायला अशें म्हणटाले. एकदां हे काटांदोर चडूच त्रास दिवपाक लागले; एकूण एक निरपणस घांस मारून, चाबडावन सकयल उडयतात म्हणून दादा बी तापलो. पाट्यार कुर्सीन म्हणून एक फार मारपी मनीस आशिल्लो. खंयीय सोरोप बी आयल्यार ताका आपोवन व्हरताले सोरपाक धरपाक. तो बिळांत हात घालून सोरपाक भायर काडटालो. सोरोप ताका भियेवन आपली गोमटी अचळय ताच्या हातांत हाडून दितालो खंय! सोरपांचेर कुर्सीनाचें वाग्रें पडटालें आनी भंयान कितें करतात तें त्या सोरपांक कळना जावन ते आपली मान कुर्सीनाच्या सुवादीन करताले खंय. त्या भायर, कुर्सीनाची योनी गरूडाची जाल्ल्यान सोरोप गरूडाक भियेता देखून तो कुर्सीनाकूय बी भियेता, अशें शेंवतून आमकां सांगिल्लें.

पयलेच फावटीं कुर्सीन आमगेर आयलो. तेन्नां हांव चार-पांच वर्सांचें आशिल्लें जायन. सादोच कसो आशिल्लो तो कलसांव-खोमीस घालून! तसो सामको भंय दिसपा सारको मनीस दिसलो ना तो म्हाका! तरी पूण हांव भियेलेंच ताका! तो फार बी मारीत ह्या भंयान हांव लिपिल्लें त्या वेळार! तें तांणे पळयलें आनी बारीक बारीक शिवोण्यो घालून, आपली मास्कोत दाखोवन, सरपळी दाखोवन, नाचून, उडक्यो मारून ताणें म्हाका हांसयलें. मागीर हांव लिपिल्लें

थंयच्यान अचळय केन्ना भायर सरलें म्हाकाच कळ्ळें ना. कुर्सीन बरो मनीस! काय बरो चेर लायतालो तो! वास! घमघम सामको! म्हाका माणयेर बसोवन आर्म हातांत धरतात तशी बडी हातांत धरून फार मारपाक तांणेच शिकयलें. हातांत आर्म धरून एक दोळो बंद केल्यार फार लागताच हें तांणे म्हाका शिकयलें. फार मारप इतलें सोंपें हें तेन्ना म्हाका कळ्ळें; फार मारपांत एक दोळो धांपप हें म्हत्वाचें आसता! ''एक आर्म, तें हातांत धरपाचें; एक दोळो, तो धांपपाचो; मार फार! लागलोच!'' हें कुर्सीनान शिकयल्लें फार मारपाविशींचें सोंपें शास्त्र!

काटांदोराक मारपाचो एक दीस थारलो. त्या प्रमाण कुर्सीनान येवन जाग्याची पळोवणी करून आपूण खंय बसतलों तें तांणे थारायलें.

थारिल्ल्या दिसा रात जायनाफुडें कुर्सीनान येवन आर्म घेवन फाटल्या दारार निरपणसाच्या झाडावटेनच्या पडवेर बसकण मारली. येतना तांणे एक व्हडलो बॅटरी दिवो हाडिल्लो. तो तांणे आपल्या माथ्याक बांदलो. बट्टण दामिनाफुडें सबंद वाटाराक उजवाड पडलो, असलो हो बॅटरी दिवो! दादा, भाई आनी हेर कितलेशेच लोक थंय वचून तोंड धांप्पून हेवटेन-तेवटेन शिंवरून बसले. कुर्सीनान मोठया मोगान म्हाका आपल्या म्हच्यांत बसोवन घेतलें. हांवूंय बी सामकें तोंड धांप्पून बसलें. हुंदराक मारपाचो वेळ येतकच कुर्सीन दिमकुच्यां बसलो. आनी तांणे आर्म हातांत घेतलें. इतल्यांत कितलेशेच व्हड व्हड शेंपड्याचे काटांदोर थंयच्यान धांव्वत सुटले, सामके सुण्यांभशेन! सगळे काटांदोर घडघड करून व्हडलो बोवाळ करीत एका फाटल्यान एक अशे करून धांवून गेले. एक काटांदोर फाटल्यान उरलो. कुर्सीनान ताच्या तोंडार व्हडल्या बॅटरीचो उजवाड घालो. तो बाबडो वाटकुळ्याच तोंडाचो काटांदोर ल्हान भुरग्याभशेन दोन पायांचेर उबो रावन हाताचे तळवे एका मेकाचेर चोळून दोनूय हातांनी

पायां पडून रडपाक लागलो. तो वांकडीं तिकडीं तोंडां करून पायां पडून आपल्याक सोड म्हणून सांगपाक लागलो. ताचें तें दुखेस्त तोंड पळयतकच म्हजो जीव कळवळ्ळो आनी ताका मारून उडयत म्हणून हांव तळमळ्ळें. हांवें व्हडान रडून "मारूं नाका, ताका मारूं नाका," अशें म्हणीत कुर्सीनाक धुकल्लो. तांणे आर्म जोखूंक नाशिल्लें. आर्म जोखचे पयलींच तो पडलो, नाजाल्यार फार कोणाकूय तरी लागपाचोच! कुर्सीनालो बॅटरीचो दिवो बी पडलो आनी तो काटांदोर बाबडो सुटलो. हांव रडटा तें पळोवन सगळे काचाबूल जाले. "ताका मारूं नाका, तो पायां पडटा, तो रडटा" अशें म्हणून हांव रडत्त रावलें. कुर्सीनाकूय बी वायट दिसलें. तांणे म्हाका समजायलें. आपूण ह्या फुडें हुंदरांक मारचों ना म्हणून तांणे म्हाका सांगलें. कुर्सीन भांगर मनीस, देव मनीस! तो म्हाका कितलोसोच वेळ समजायतालो. न्हीद पड म्हणसर हांव रडत रावलें. एक दोन दीस हांव दुखेस्त उरलें खंय. हे घडणुकेची म्हाका सामकी अस्पश्टशी याद आसा. पूण कुर्सीनाची आनी काटांदोराची याद स्पश्ट आसा. कुर्सीनाल्या आर्माची, दिव्याची आनी ताणें आर्म मारूंक शिकयिल्ल्याचीय याद आसा. त्या काटांदोराचें तोंड आनी ताचें तें पांया पडून रडप ती याद तर सामकी ताजी कशी आसा. त्या दिसाचो तो आक्त म्हज्या मनाचेर व्हड परिणाम करून गेलो. आयज लेगीत ल्हान-व्हड खंयच्याच प्राण्याक हांव मारूंक शकना. हेर लोकांनींय बी प्राण्यांक मारपाविशीं उलयिल्लें म्हाका सोंसना. एक काटांदोर, एक हुंदीरूच तो. पूण म्हज्या मनाचेर सांसणाचो परिणाम करून तो गेलो! ❖

## 14

# नेमान येवपी ते कांय सोयरे

**सगळ्यांत** खोस मनोवपासारके दीस ते पावसाचे दीस! कितलेशेच सण, कितल्योशोच परबो, आनी सगळ्यांत रूचीक गजाल म्हणल्यार तरांतरांचीं पक्कान्नां! तरांतरांचीं गोडशीं खावपाचे ते हेच दीस!

पावसाच्या तेंपार साबार मळ्यांनी तरातरांच्यो भाज्ज्यो रोवन काडटाले. तरातरांच्यो भाज्ज्यो मेळटाल्यो. भाज्जेकार दारादारांनीं भोंवत आपल्यो भाज्ज्यो विकताले. ह्या सगळ्या भाज्ज्यांनी आमकां चडांत चड न आवडपी भाजी म्हणल्यार तें तेरें! तें मात् खूप मेळटालें! आत्र्यापयऱ्यान एक जाण्टोसो मनीस तेरें घेवन येतालो आनी आपलो भोऱ्याचो भोरो आमगेर विकून वतालो. ह्या मनशाचो आमकां खूप राग येतालो! नाका जाल्लें तें तेरें ह्याच मनशाखतीर आमकां खावचें पडटालें!

आनीक एक मनीस पावसातेंपार आमगेर प्रसन्न जातलो तो म्हणल्यार 'गोसावी'! हे तीन-चार तरी गोसावी आशिल्लेशे दिसता,

आनी ते सगळे एक-एक करून आलटून पालटून येताले. हे किरकोळ शरीराचे काळसर मनीस व्हडल्यो मिश्यो धरून, मात् मात् वाडिल्लें खाड घेवन आमगेर येताले. छातयेर काळेकिट्ट केंस आसताले तांच्या. कपलार धव्या गंदाचो तिबो, माथ्याक इल्याश्या धव्याफुल्ल तुवाल्याचो एक-पटी फेटो बांदून, धव्याफुल्ल लुगटाचें शिंविल्लें हातकापें बानयन घालून, धोंपरां मेरेन येवपी धवो वालो न्हेसून, खांदार कांबळ वडोवन आनी पायांत दाट्ट व्हाणो घालून हे गोसावी आमगेर येताले. कांय गोसावी माथ्यार एक उंच त्रिकोनीशी तोपी घालताले. ते तोपयेचेर घुलो शिविंल्ल्यो आसताल्यो. ह्या घुलांक ते कवड्यो अशें म्हणटाले. हे लोक विचीत्रशी मराठी उलयताले! खरें पळयल्यार, आमकां मराठी सारकी समजनाशिल्ली. पूण हे मनीस उलयतात ती मराठी आनी नेरूरकार मास्तराली मराठी वेगळी अशें आमकां दिसतालें. आपुण म्हादेवाचे भक्त म्हणून ते सांगताले.

हे लोक अणशीच्या दोऱ्यांचे पोड घेवन येताले. त्या काळार गोंयचीं सगळीं बायलां आपलो म्हूर्तमणी गुंथपाक हेच पोड वापरतालीं. अणशीच्यो दोरयो सामक्यो घट्ट आसताल्यो आनी हे लोक ह्यो दोरयो तयार करून विकपाक घेवन येताले.

दर तीन-चार म्हयन्यांनी बाय आनी घरचीं हेर सवायशीण बायलां आपापले म्हूर्तमणी गुंथपाक बसतालीं. अणशीचे दोरे घट्ट आशिल्यान तांचेर गुंथिल्ले म्हूर्तमणी बेगीन 'वारव' नाशिल्ले. म्हूर्त मणी 'तुटलो' अशें केन्नाच म्हणिनाशिल्ले. तो 'वारवलो' अशें म्हणटालीं. तशेंच कांकणां 'फुटलीं' अशें म्हणिनाशिल्लीं. तीं 'वाडवलीं' अशें म्हणटालीं. कुकमाचो आकार सारको करतात ताका 'कुकूम चिरतात' अशें म्हणटालीं. अणशीच्या दोऱ्याच्या पोंताक मेण लावन पीळ घालीत जाल्यार ताका सुवयेभशेन घटाय येताली आनी

काळ्यो पिड्डुको गुंथप सोपें जाताले.

हे गोसावी 'हाते' घेवन येताले आनी आमी ते लीग तोंपून माथ्यार माळटालीं. सामको घमघम येतालो! गोसावी काळे आनी तांबडे दोरे हाडटाले हातांक बांदपाक. वांगडाच ते बिबे घेवन येताले त्रिकोनीशे. हे बिबे काळी शाय करपाक मडवळ बी वापरताले. वांगडाच गजरेय बी हाडटाले हे लोक आनी गजऱ्यांवांगडा भेंडाक बांदपाक मोठो दोरो हाडटाले. गजरो म्हणल्यार एक सुळसुळीत काळसर-धवीशी वाट्टकुळी सुळसुळीत गुठी! ही गुठी दोऱ्याक गुंथून ल्हान भुरग्याच्या भेंडा भोवतणीं बांदताले. हे दोरयेक मूज अशें म्हणटाले. एकेकदां हो गजरो झरोवन जिबेक लायताले. वखद म्हणूनूयबी वापरताले हो गजरो! कांय पैशेकार लोक आपल्या चले भुरग्यांक आपुबायेन कमरा भोवतणीं भांगराचें हेवाळें कशें एक दागिनो बांदताले! ताका 'काण' म्हणटाले. कांय लोक रूप्याचें काण बांदताले आनी ह्याच कांणाक गजरो बांदताले.

शेंवतू बी ह्या गोसाव्यांक 'गॉसांय' म्हणटालीं. पळयल्यार ते घोसाळीं विकय नाशिल्ले आनी घोसाळ्यांभशेन दिसय नाशिल्ले. पूण तांकां गॉसांय कित्याक म्हणटात गाय असो आमकां प्रस्न पडटालो.

ह्याच काळार घणसाबैल घेवन कांय लोक दारांदारांनीं पेपारें वाजयत भोंवताले आनी पैशे एकठांय करताले. हेयबी लोक कोंकणी उलयनाशिल्ले. बैलाच्या फाटीर रंगीत कपयाळीं घालून ताज्या पायांक पांयजणां आनी शिंगांक रंगीत अलंकार बांदून, गळ्यांत खूप घुलो आनी मणी घालून, ताज्या कपलार बी मणयांचो अलंकार हुमकळोवन, बैलाक सजोवन ते घरां-घरांनी पेंपारें वाजयत भोंवताले. कांय लोक व्हडल्यो झानी आनी ढोलकींय बी बडयताले. आयकूंक गेल्यार एक विचित्रसो बोवाळूच तो! हो बोवाळ खूप पैस आयकूंक

येतालो. हें पेपारें सामकें बेसूर वाजतालें हें मात् खरें! पूण आमकां सगळ्या भुरग्यांक तो पेपाऱ्याचो आवाज आयकूंक येतकच कोणूय जिवाभावाचो इश्ट आमकां भेटूंक येता काय दिसून खोस जाताली. सगळ्या गांवचीं भुरगीं व्हडान बोवाळ करीत बैला भोवतणीं एकठांय जातालीं!

शेताचें काम सोंपतकच शेतकार आपल्या बैलांक घेवन भोवंडेर वताले! बैलांच्या आनी शेतकारांच्यायबी पोटाची व्यवस्ता बरी जाताली! कांय बायलां बी ह्या घणसा बैलांची पुजा करून आंगवण बी करतालीं. एकूण ह्या बैलांच्या धर्मान तांच्या मालकाकयबी मान मेळटालो हे खरें!

गोयांभायल्यान कांय बायलां माथ्यार एका पांटल्यांत देवतेचे मुर्तीचें पांयंजेल घेवन भोंवतालीं. पांयंजेलांतली म्हुर्त अंबाबाईची म्हणून तीं सांगतालीं. तीं येवन दारांत उबीं रावन व्हडा-व्हडान एकतारो वाजोवन पदां म्हणटालीं. एकतारो म्हणल्यार एक काळी लोखणची पड कशी दिसपी आयदन आनी ताका उबो एक कोंडो बसोवन ताचेर एक सरी दसयल्ली आसताली. हे सरयेर बोट मारून तीं ''रोंव्व् रोंव्व्'' करून आवाज काडटालीं आनी पदां म्हणटालीं. सामक्यो म्हशी आंबेल्ले भशेन आसताले तांचे आवाज! कलकलाट सामको तांचीं पदां म्हणल्यार! माथ्यावेलो पदर मात् बरो दिसतालो. तोंडभर आनी हातभर तिकल्योच तिकल्यो आनी कपलार एक व्हड तिबो लावन, नाकांत व्हड पिली वा खोपें घालून ह्यो बायलो सामक्यो उग्र दिसताल्यो; तोंडां बीं सामकीं व्हड आनी जिवानय बी सामक्यो मोट्ट्यो आसताल्यो ह्यो बायलो!

एकेकदां हातांत एक-तारो घेवन बरीं सुरांत पदां म्हणीत एक दादलो येतालो. गोरसो, बारीक, उंच, पुडवें न्हेसून, खोमीस बी घाली

नासताना पायांत पादुका घालून पदां म्हणीत हो मनीस दारांत उबो रावतालो. कपलाक गंदाचो तिबो, गळ्यांत, मनगटार, बावळ्यांचेर रूद्राक्ष वा तुळशीच्या मणयांच्यो माळो, भुजार वालो. सामको मोवाळ दिसपी चानयेचो पिलो कसो हो मनीस सबावान सादो आनी सज्जन सो आसतालो. बारीक आवाजान तो सुरांत पदां म्हणटालो. आयकन दिसतालीं ताचीं तीं पदां आनी तें वाद्य! तो खयंची भाशा उलयतालो तें आमकां समजुपाचो मार्ग नाशिल्लो. समजताली आमकां ती फकत कोंकणी आनी तीयबी कोणेंय मात्शी ओडून उलयल्यार आमकां समज नाशिल्ली, मागीर जांव ती हिंदी, संस्कृत, वा मराठी, सगळ्यो भाशा सारक्यो!

सगळ्यांत आवडीचीं तीं आमचीं खेतीं! कायबरीं दिसतालीं तीं अपुरबायेचींच! बारीक्क हातापायांचीं, हांसतमुख! गोयांभायल्यान दोन-तीन दादले, एक-दोन बायलां आनी दोन-तीन खेतीं अशें हें एक कुटूंबच वर्सांतल्यान तीन-चार फावटीं तरी येतालें. दादलो डबडब करून डमरू वाजयतालो, पिल्लुक वाजयतालो, शिवोण्यो घालतालो आनी चाबूक दाखोवन खेत्यांक भेष्टायतालो. तो खंय हिंदी उलयतालो. माकडिणीचें नांव ‘जमाल बाई’ जाल्ल्यान तो तिका त्याच नावांन उलो मारी! जमालबाईच्या घोवाक ‘अब्दूल’ म्हणून उलो मारी तो!

मागीर बडयो तिरकस उब्यो करून तांचेर दोरी बांदून त्या राजवावेल्यान कांय बायलो, भुरगीं चलून दाखयतालीं. ही सगळी सर्कस चालू आसतना सेगीत तो दादलो डुगुडुगु करून डमरू वाजयत आसतालो! माकडांक पळोवन आमकां खूप मजा दिसतली! वयर नमूद केल्लो एकूण एक सोयरो आनी सोयरीं गोंयच्या भोंवतणचीं शेतां रोवपाचें काम सोंपतकच भोंवडेर येतालीं.

ह्याच वेळार गोरेपिट्ट, चकचकीत, तेजस्वी दिसपी कांय लोक गंगेच्या कांठावेल्यान गोयांत येताले. कांय लोक खाड वाडोवन येताले. हे लोक चडशे करून उंच आसताले आनी धवेंफुल्ल पुडवें आनी धव्याफुल्ल खोमसावेल्यान ज्युदी घालून, फेटो बांदून, कपलाक गंद कुकुम लावन ताचे वेल्यान उबो तिबो वा आडवें भस्म लावन येताले. हे लोक बारीक बंद बाटल्यांनी वा इल्ल्याश्या तांब्याच्या चंबूंनीं गंगेचें उदक घेवन येताले. हें गंगेचें उदक सगळ्या घरांनीं आसतालें. घरांत कोणूय मरता तेन्नां त्या मनशाचो प्राण वचचे पयलीं हें गंगेचें उदक ताच्या तोंडांत घालपाची हिंदूंची प्रथा आसा. त्या प्रमाण हें उदक मरणाच्या वेळार वापरांत येतालें.

हे लोक तांबडे, काळे, हळडुळे सेदाचे चकचकीत सुळसुळीत दोरे घेवन येताले. मागीर हे दोरे घेवन घरचीं सगळीं आपल्या मनगटांचेर एक-एक बांदतालीं. हेच लोक कुकूम, भस्म बी घेवन येताले. एकेकदां ल्हायांचो प्रसाद ते दिताले. ते येतकच चार-पांच दिस आमगेर रावताले आनी घरां-घरांनी भोंवताले. जेवणावेळार ते परतताले. कांय लोक आपुणुच रांदून जेवताले, पूण कांय लोक भटान आपल्याखातीर रांदिल्लें सवळें जेवण जेवताले. आमगेर साळिग्राम पुजा आशिल्ल्यान दर दिसा देवाक सवळ्यांनीं जेवणाचो निवेद्य दाखयतालीं. देखून ह्या सोयऱ्यांक सवळें जेवण सहज मेळटालें. हे लोक आपूण 'काशी' साकून आइल्ल्याचें सांगताले.

सबंद वर्सूयभर येतालो तो एक 'रोपकार'! रोप म्हणल्यार लुगटां! ह्या मनशाचें नांव करीम. तो गोरोसो, बारीक, उंच, शिरवंत नाक-दोळे-ओंठांचो मनीस दनपारच्या वेळार 'रोप्प' म्हणून व्हडान आड्डतालो, आनी तो माकडाभशेन 'वप्प' म्हणटा अशें आमकां दिसतालें. रोप म्हणल्यार लुगट हें आमकां त्या काळार खबर

नाशिल्लें. फाटीचेर एक व्हड पोटली घेवन, लुगट मेजपा खातीर एक वाराची बडी हातांत धरून, व्हडली कातर, फीत बी घेवन तो येतालो आनी लोक ताका आपोवन व्हरून लुगटां कापून घेताले. लुगट वारांनीं विकताले, मिटरांनी न्हय. त्या वेळार एकाय लुगटाचो रंग वच नाशिल्लो, आयच्याभशेन! आमी सगळीं सामके कोराद विस्तीद घालतालीं व्हडल्या सोबीत फुलांचे! हे विस्तीद कृष्णा शिंपी शिंवतालो आमगेर वारांदार बसून! त्या रोपकारालींच लुगटां गांवचे साबार लोक घेताले!

ह्या सगळ्या सोयऱ्यांमदीं एकल्याकच आमी पळोवंक ना, तो म्हणल्यार 'पोतेकार'! पोतेकार म्हणटात तो मनीस सबंद दीस-रात साक घेवन भोंवता आनी सांगिल्लें आयकनात तसल्या मस्त्या भुरग्यांक तो साकांत भरून व्हरता. तो मागीर त्या भुरग्यांक पुलांत वडयता म्हणून जाण्टीं आमकां भेष्टयत रावतालीं. आतां पूल म्हणल्यार कितें आनी पुलांत वडोवप म्हणल्यार खंय वडोवप आनी मगीर त्या भुरग्याचें कितें जाता तें आमकां कांयच पडून गेल्लें नासतालें. फकत पोतेकारान व्हरप हें वायट इतलेंच खबर आशिल्लें. पूल बांदता थंय त्या साकांतल्या भुरग्याक व्हरून पुरप, मारून वडोवप हीं असलीं क्रूरपणां आमकां कोण्ण रंगोवन सांगी नाशिल्लो, आनी त्या भुरग्याचें कितें जाता ताचे विशीं आमी चिंतयबी नाशिल्लीं. ''भुरग्याक पोतेकार व्हरतलो'' इतलेंच पुरो जातालें, आमकां भेश्टोवपाक! पोतेकार कसो दिसता हाचे विशीं खूपशीं वर्णनां आशिल्लीं. पूण ताच्या हातांत व्हडांत व्हड पोतें आसप हें गरजेचें आशिल्लें. ❖

## 15

# पदां, पोरसूं आनी ते पाडव्याचे दीस

**सबंद** दीस पदां म्हणत्त भोंवप, घडोवन लेगीत पदां म्हणप हें म्हजें घोस्ताचें काम. कांय लोक म्हाका आपोवन म्हऱ्यांत बसोवन पद म्हणपाक लायताले. मानशेवेली मोशेप्पा लवंद्याली बायल भिमा मावशी म्हाका ''लता मंगेशकर'' म्हणून उलो मारताली, आनी मोठ्या मायेन, इस्तिमसांवान म्हाका बसोवन पदां म्हणून घेताली. ''गंगा यमुना दोळ्यांत उब्या कां? जा मुली जा दिल्या घरीं तूं सुखी रहा'', ''हंसलें ग बाई हंसलें, अन् कायमची मी फसलें'' हीं पदां हांव गुल्ल जावन म्हणटालें. अर्थ खबर नाशिल्लो. हांव खरेंलेंच बरें पदां म्हणटालें जावंये. आयकुपी दर एकलो बरो गुल्ल जावन आयकतालो. तो ओगीच म्हजेर आशिल्ल्या मोगाक लागून आयकतालो, तुस्त करतालो, अशें म्हाका दिसना. तशें फुक्यासवाय मानून घेतल्यार म्हाकाच लुकसाण, धादोसकाय घस्स् करून देंवपाची भिरांत!

आमच्या पोरसांत एक व्हड करमल आशिल्ली. पावसांत तिका खोंटल्यांनीं करमलां लागतालीं आनी तीं सगळीं पिकून जमनीर

पडटालीं. झाडावेलीं करमलां खावपाक किरांचीं भिऱ्यांचीं भिरीं येवन झाडार बसतालीं. पिकून जमनीर पडिल्लीं करमलां पुंजावन व्हरपाक शाळेचीं भुरगीं धांव्वत भितर येवन पोशांनीं भरून भरून करमलां घेवन वतालीं. करमलां व्हरपाक भितर येतना आनी भायर वतना व्हडा व्हडान हांसप, किळच्यो मारप आनी आपणें कितेंय तरी व्हडलें फैदासलें अशें धरप, हें सदचेंच जाल्लें तांचें.

हळडुवींच्च पिकिल्लीं करमलां वज्यांनीं तरी आसतालीं जमनीर पडिल्लीं आनी दिसाक कमींच तें पन्नास तरी भुरग्यांचे भिरें भितर सरून तीं झडिल्लीं करमलां पोशांनीं भरून, बोल्सांनी भरून घेवन वतालें. हांवूंय बी आसतालेंच थंय दुरगाचेर बशिल्लें, येत्या-वत्या वांगडा चकाटां मरीत. दर दिसा कमींच तीं वीस- पंचवीस तरी करमलां हांव एकटें चाबडायतालें. दर भुरगें मोठ्या मोगान आपणें पुंजायिल्लें एक तरी करमल म्हाका दितालें आनी हांव तीं सगळीं करमलां व्हडा इस्तिमसांवांन, घोस्तान खातालें. कोणेंय कितेंय इतल्या मोगान दिल्यार तें नाका कशें म्हणप? दिल्लीं करमलां खावचींच पडटालीं. खरें पळोवंक गेल्यार, कोणेंय कितेंय खावपाक दिल्यार दितल्याचे उपाट उपकार आटयत तें खावपाची पद्दत आशिल्ली त्या काळार. त्या भायर, हेंच बरें लागना, तेंच बरें दिसना, अशें कोणूच चडसो म्हण नाशिल्लो. आमकां भुरग्यांक तर कोणेंय कावळ्याचें पांख लेगीत दिल्यार व्हडलें जातालें, आनी तें काळजा म्हऱ्यांत धरून आमीं दिस-भर भोंवतालीं. तें एक कावळ्याचें पांखूच जावं, सबंद दीस धादोसकाय तिगून उरताली त्या पांखाक लागून. तशें पळोवंक गेल्यार आमच्या जगांत दर दिसा कितेंय ना जाल्यार कितेंय तरी घडटालेंच, धादोसकाय मनोवपा सारकें.

पोरसांत एक तांबडो चांफो आशिल्लो. आमी कानांत

घालपाखातीर त्या चांफ्याच्या फुलांच्यो वेडी करतालीं. फुलांच्या पांचूय पाखळ्यांक ल्हान ल्हान बुराक करून त्यो पाखळ्यो परतून फाटीं व्हरून त्या फुलांच्या देंठाक गुंथल्यार त्यो वेडी कश्यो दिसताल्यो, भोवच सोबीत दिसताल्यो. तशेंच, एक केंसराचें झाड आशिल्लें. त्या झाडाचें नांव कितें तें म्हाका आयज लेगीत खबर ना. त्या झाडाचीं फुलां तांबड्याच किसरांचीं आसतालीं, पिसुडिल्ले पिसोणेभशेन. त्या फुलांचे कळे इज्जात तांबड्या पिड्डुकांच्यो वेडी कश्यो दिसताल्यो. त्योय बी आमकां नटपाक पुरो जाताल्यो.

### पाडवो

सगळ्यांत व्हड दबाज्यांत फुलोवपाचो दीस, तो पाडव्याचो दीस. त्या दिसा परबे निमतान आमगेर हिट आनी गॉड घाल्लो नाल्लाचो रोस आसतालो. एकाच फावटीं तीन ल्हान भुरगीं भितर बसोवपा इतलो व्हड आशिल्लो तो साननधाकणो. पणसाच्या पानांच्या दोण्यांनी रांदपी हिटाचें पीठ घालताले आनी साननधाकण्यांत दवरून उकडटाले. हे दोणे करपाक चुट्टांचे व्हीर आनी पणसाचीं पानां घेवन रांदपी बसताले. तांचे वांगडा हांवूंय बसून दोणे करतालें. दर फावटीं दोणो करून भिकूमामाक दाखयना फुडें दोणो हातांत धरून, वयर उखलून धरून व्हडा अपुरबायेन ''आरे म्हज्या बाबा! बायेचो दोणो तरी पळेयात. बायेभशेनूच कितलो सोबीत तो'' अशें म्हणून भिकूमाम बोवाळ घालतालो. हांवें कितेंय करून भिकूमामाक आनी त्रिंबकाक दाखयल्यार ते दोगूय जाण उपाट तोखणाय करताले. देखून, कितेंय करीना फुडें म्हाका ह्या जाण्ट्या लोकांक तें दाखयन दाखयन दिसतालें. दर दिसा कितेंय ना जाल्यार कितेंय तरी वस्त करून हांव तांकां दाखयतालेंच.

मागीर हांव आठ-धा वर्सांचें जातकच म्हजीं धाकटीं भांवडां म्हज्या सरभोंवतणीं उबीं रावतालीं. दोणे करता आसतनाच ह्या सगळ्या माकड-सेनेक नटोवपाचें कामूय बी चलतालें. दर एकल्याक पणसाच्या पानांचे मुकूट, हातांचेर पानांच्योच बायकुऱ्यो आनी भेडां भोंवतणीं पटे आनी पट्यांक शेपड्यो असो भेस जातकच, दोनूय मनगटांचेर चुट्टेच्यो घड्याळी आनी दोळ्यांचेर चुट्टेचींच वक्लां! हो इतलोय साज आंगार चडटकच दर एकल्याचें वेगळेंच पोजिसांव जातालें. चलपाची, उबें रावपाची, चोशीं वटेन पळोवपाची, उलोवपाची ही एकूण एक पद्दत बदलताली!

मोठ्या झेत्तान, टायट जावन, छाती भायर काडून पणसा पानां आनी चुट्टेच्या आदाराचेर उबे आशिल्ले हे एकूण एक 'राजा' घरभर भोंवताले. तातूंत म्हज्या धाकट्या भावाक, उल्लासाक व्हडांत व्हड शेंपडी जाय आसताली. ह्या सगळ्या राजा लोकांमदीं भटालीं भुरगीं आनी काम करपी लोकांलीं भुरगीं हींय बी सामील आसतालीं. हातांत चुट्टेच्यो तरसादी घेवन, नाटकांतल्या राजाचीं भाषणां करीत सगळीं भुरगीं बोवाळटालीं. मदीं मदीं फकाणांच्यो लडायोय बी जाताल्यो, कांय जाण मरुनय बी पडटाले! नाका जाल्लीं लचांडां! दनपारां जेवणाच्या पाटार बससर हे सगळे राजा आपआपल्यो शेंपड्यो आनी वक्लां सांबाळीत घरभर भोंवत रावताले. मज्जाच दिसताली! सकाळच्या एका आदेसा भितर हांव एकटें धा-बारा तरी राजांचे भेस तयार करतालें. थंयूय बी घरांतले सगळे जाण्टे म्हजी तोखणाय करतालेच, ''कला आसा पोराच्या आंगांत'' अशें म्हणून!

हांव सामकें ल्हान आसतना भिकूमाम बी म्हजेर असोच, पणसा पानांचो आनी चुड्टेचो भेस चडोवन म्हाका राणी करताले आनी मागीर हांव सदचेचभशेन पदां म्हणीत घरभर भोंवत्त रावतालें.

नवी स्टायल बी कांय ना! बोवाळ करप, लडाय करप हें म्हाका केन्नाच जमलें ना. हांव गोंगुल्ल्या भशेन सबंद वेळ पदांच म्हणीत भोंवतालें. हो राणयेचो भेस सबंद दीस लेगीत म्हज्या आंगार दवरल्यार तो मात्तूय इबाड नाशिल्लो. पणसाच्या पानांच्या भेसांतलीं एकूणएक पानां जागच्या जाग्यार तश्यातशीं चप्प बशिल्लीं आसतालीं. चुट्टेचें वक्लूय बी तशा तशें जंयच्या थंयच उरतालें. हांव सामकें भावार्थी, सादें आनी "बरें भुरगें" आशिल्लें, मस्ती केन्नांच करी नाशिल्लें. केन्नाय एकदां मात्शें फटी मारीन दिसल्यार लेगीत तशें दिसप हेंच एक पातक कशें दिसतालें. सगळे लोक म्हाका बरें भुरगें म्हणून वळखताले न्ही? "लताक विचारल्यार खरें तें कळटलें; लता केन्नाच फट उलोवंचें ना" अश्या उतरांच्या बेडयांनीं बांदून घेवन हांव जाण्ट्या कैद्यांच्या बंदखणींत जनर कशें बसून आसतालें, बसून चोशीं वटेन पळेत आसतालें, "हेवटेन वचचें काय तेवटेन", होच एक विचार सबंद वेळ मनांत उरतालो.

पाडव्या दिसाच्यान नवें वर्स सुरू जाता. दर वर्सा पाडव्याच्या पंदरा एक दीस पयलीं मुंबयच्यान कोणूय तरी 'पंचांग' घेवन येतालो. पंचांग म्हणल्यार एक इल्लेंशें लांबट पुस्तक, दोनशें एक पानांचें आसुंयें. हातूंत सबंद वर्साच्यो तिथी, म्हूर्त बी बरयिल्ले आसताले. तातूंतच कोणाकय संकश्टी, विनायकी, एकादस बी केन्ना येता ती म्हायती जाय आसताली. तीय बी ह्याच पंचांगार पळोवन भट सांगतालो. कानविंदे मास्तर ज्योतिशी जाल्ल्यान तो सबंद वेळ पंचांग घेवन बसून लोकांल्यो कुंडल्यो बरयतालो. तोच त्या पंचांगाचो चडांत चड वापर करतालो.

पाडव्याच्या दिसा सांजेचो पांच वरांचेर कृष्णभट सदरेभायले चवकेर एक मोटव्या पांयांची तामरेत दवरतालो. तिका तो 'चौरंग'

म्हणटालो. त्या चौरंगाचेर पंचांग दवरून, आपूण पाटाचेर बसून पंचांग वाचतालो. आमी सामकीं ल्हान आसतना गांवचे कितलेशेच लोक येवन पंचांग वाचता तें आयकुपाक चवकेर बसताले, दादलेय आसताले आनी बायलांय बी आसतालीं. आमी भुरगीं तर आसतालींच मागीर दितात तो प्रसाद खावपाक! सबंद चवकीभर लोक बशिल्ले आसताले. त्या काळार सगळ्याच घरांनी पंचांगां आसनाशिल्लीं. कारण तीं मुंबयच्यान हाडचीं पडटालीं. गांवांत सगळ्यांगेर एकूच भट, कृष्णभटच वतालो घरांनी पुजा करपाक. देखून आमगेलें एकूच पंचांग चड वापरांत येतालें. ❖

16

# शिगमो, धालो, कालॉ, जागोर, तियात्र आनी तीं नाटकां

**आमचें** भुरग्यांचें जग म्हणल्यार तरा-तरांच्या घडणुकांनीं सदांच भरिल्लें आसतालें. दर एके घडणुकेंत कितेंय तरी नविदाद आसतालीच. ह्यो असल्यो नविदादी आमचे जिणेंत चडान चड धादोसकाय घेवन येताल्यो आनी देखून आमी सगळीं भुरगीं नव्या घडणुकांच्या सोदांत आसतालीं.

### शिगमो

मार्च-येप्रीलांत जातालो तो शिगमो! गडगंज बोवाळाची ही परब! गांवचे सगळे भुरगे एकठांय जावन ढोल आनी सुवांरी बडयत चडांत चड बोवाळ घालताले!

एक व्हडलो ढोल, कितल्योश्योच सुंवाऱ्यो, तबलीं, आनी बोवाळ वाडोवपाक उपकरा पडपा सारकें कसलेंय आयुद, हें इतलेंय सगळें शिगम्या दिसा आमच्या दोंगरावेल्या विठोबाच्या देवळाच्या आंगणांत येवन पडटालें.

दनपारचीं दोन वरां जाता म्हणसर ढोल बी बडोवपाक सुरवात जाताली. सगळेकडेन बोव्वाळ! ह्याच बोवाळाक 'रोमट' अशें म्हणटाले! देवळा सामकार खूप गर्दी आसताली आनी थयंच ढोल-सुवांरी बी बडयताले! आमकां सगळ्या भुरग्यांक चिऱ्यांच्या एके मेरे भितर सोडी नाशिल्ले. चली भुरग्यांक तर सामकें शिस्तीन ते मेरेभायर रावचें पडटालें. सबंद सांजेवेळभर हे ढोल बडोवपी लोक येवन परत परत देवळा फाटल्यान वचून 'च्या' पियेवन येवन परत चडूच भार आइल्ले भशेन फोर्स काडून ढोल बडयताले!

एक दीस रविंद्र हळुच दोंगरार वचून देवळा फाटल्यान हे वाजंत्री लोक कसली 'च्या' पितात तें पळोवन आयलो! पळयत जाल्यार हे खंय सोरो पियेताले! आऽऽऽ! येदी व्हडली ही खबर! आमकां पचपा सारकी ती नाशिल्लीच! केन्नां काय वचून सगळ्या लोकांल्या कानांर ही गजाल घालीन अशें प्रत्येकाक जालें! आमी सगळी चिल्लर भुरावळ घरा आयली आनी सगळ्यांत पयलीं हांवे ही अजीर्ण करपी गजाल शेंवतूक सांगली! तें खळ्ळ करून हांसलें आनी ही गजाल ''बाबाक सांगू नाका'' म्हणून ताणें सांगलें! बाबा हुजीर उबें रावन 'सोरो' हो शब्द पसून तोंडांत उच्चारप हें पातक आनी तशें केल्यार तें कशें भुजपाचें हें आमकां सगळ्यांक भेस बरें खबर आशिल्ल्यान तीं तसलीं पिशेपणां कोण्ण करपाचो नाशिल्लोच! तरी पूण ज्याका ज्याका सागिल्लें ताणें ताणें आमकां ही बुजोवणी दिलीच!

शिगम्याच्या दिसा उपरांत पंदरा एक दीस तरी हो बोवाळ वाड्या कणकणीं चलतालो आनी वाड्या-वाड्यावेले भुरगे बायलांचे बी भेस चडोवन बारीक-बारीक नाटकुलीं घेवन घरां घरांनी भोंवताले. ह्या चोम्याक 'मेळ' अशें म्हणटाले. ते लोक वता आसतनां घरांतले लोक तांकां एका ताटांत तादूळ आनी नाल्ल घालून दिताले ताका

‘तळ’ अशें म्हणटाले. ते लोक घरांनीं भोंवन हे नाल्ल बी एकठांय करून निमण्या दिसा धालांच्या मांडार व्हरून ते दांड्यांनीं फोडटाले.

रायबनांत एक ‘मेळ’ येतालो तो चिमलचो, दुसरो सांपेद्रचो. इतलेंच म्हाका याद आसा. आमच्या आजोळा, भानोड्या, पंदरा एक तरी मेळ येताले, वाड्या वाड्या वेल्यान!

तांतूतच एक दीस दनपारच्या तिनांक सुमार घरचे सगळे जाण्टे न्हिदिल्ले आसतना अकस्मात आकाशवाणी जाल्ले भशेन घुमून एक आवाज आयलो! पळयत जाल्यार आमच्या दारांत एक स-साडे स फूट लांबायेचो म्हातारो कड्डुक उबो आशिल्लो, काश्टी न्हेसून! तो आडवो-उबो जावन तारगडेंतलीं पदां म्हणटालो! ‘‘चानये तुजे फाटीर गे तीन पाट! रावणान शितेक व्हेल्या दाखय वाट’’ अशें म्हणून तो असलींच सगळीं कडवीं म्हणटालो. आवाज सामको घुमून मळबांतल्यान येता कसो दिसतालो. आमच्या पोरसांतल्यान सामको फोंडव्यांत पसून पावतालो तो आवाज! ह्या म्हाताऱ्याचें नांव ‘सगुण’! त्या वर्साच्यान तो परत परत येवन पदां म्हणून वतालो! कितेंय ‘बक्षिस’ बी घेवपाक तो राव नाशिल्लो! बोवाळ घालतालो, आनी चलूंक लागतालो! येकेकदां तो जेवनय बी वतालो. तो खूप सोरो पियेतालो, पूण आमकां सगळ्यांक तो खूप आवडटालो. वाटकुळ्याच्च हांसत्या तोंडाचो सामको, सगुण आमचो तो!

शिगम्याच्या पैल्याच दिसा आमचो भुरग्यांचो एक प्रोग्राम आसतालो. कळोख जायना फुडें आमी सगळीं भुरगीं माथ्यावेल्यान बी तुवाले वडोवन आमचे भशेन वाग, शींव, चोर, राक्षस असलें कितेंय तरी भयांकृत सवंग घेवन दारा-दारांनीं भोंवन ‘पैसो’ मागतालीं. आंगावेलीं लुगटां बी तशींच आसतालीं आमच्या. देखून आमकां वळखुपाक कोणाक कसलीच अडचण नासताली. पूण आमकां तें

खबर नासतालें. आशिल्लीं चार-पांच वर्सांचीं आमी तेन्नां! आमी खरेलेच वाग बी जाल्यां आनी आमकां कोण्ण वळखना अशें आमकां दिसतालें. पूण पोपो, रविंद्र, भोब्यालो काशी बी माथ्यावेल्यान सकयल पर्यंत साक घालून, वेलेवटेन दोळ्यांपुरते दोन बुराक दवरताले. ते व्हडान गरड घालून उण्णा मारुन उलोवन सांगताले आपुण कोण तें. वळख करून दिवचीच पडटाली ना जाल्यार साकांतल्या वागाक 'कुत्रो' म्हणून कोणेंय संबोदल्यार वोगीच बशिल्लेकडेन नांव पिड्डेर जावपाची पाळी! लोकांक भेष्टोवप हें मुख्य! जाण्टींय बी आमकां न वळखल्ल्याचीं सवंगां करून भियेवन दाखयतालीं.

तिनसांज जायना फुडें हातांत एक इलेंशें फोलीण घेवन, तांतूत एक गुंडो घालून तो गडगडयत लोकांल्या दारांनीं वचपाचें आसतालें. त्या काळार रायबनांत आयच्याइतलीं घरां आनी लोक नासताले. सगळीं मेळून सात-आठ घरां आसतालीं रायबन् च्या पाट्यापर्यंत! आमी फोलीण गडगडयत ''कुटुकुटु करता काय, आमकां पैसो घालता काय'' अशें म्हणटालीं. दारांत पावनाफुडें फोलीण व्हडाव्हडान गडगडोवन आवाज बदलून, व्हडान गरड घालून, हेवटेन तेवटेन उण्णां मारून, आपलें भयांकृत स्वरूप परगटावन, सामकार उबीं आशिल्ल्यांक सामकें भेश्टावन उडोवपाचें आसतालें. सगळे लोक भियेतकच मागीर वेली घोशणा करून, घरच्या लोकांनीं दिल्लो तो पैसो घेवनच थयंच्यान हालपाचें आसतालें! माई, हांव, इंदू, रविंद्र, अंजनी आनी मिनाक्षी बी घोळको करून घरांघरांनीं भोंवतालीं. ''कुटुकुटु करता काय, आमकां पैसो घालता काय'' अशें म्हणीत आमी भोंवतालीं. खरें पळयल्यार ही परगटावणी फकत दारांत उबें रावतकच करपाची आसताली. हें आमकां खबर नाशिल्लें. आमची आजी 'आई' ''आगो, इंदू गो? आगो, हें लता मुगो'', अशें म्हणून

आमकां वळख दाखयताली तेन्नां आमचो विरूस जातालो. तरीकय ''हांव लता न्हंय, हांव वाग'' अशें म्हणून सांगतकच ती 'खो' करून हांसताली आनी एक लाडू दिताली! पैसो न दिवन फकत लाडूच दिल्यार पसून तो खावन आमी वतालीं. इंदू मात् तो लाडू तिचेर परत मारून ''पैसो, पैसो, कुटुकुटु करता काय, आमकां पैसो घालता काय'' अशें व्हडाव्हडान आड्डतालें. मागीर ताका पैसो दिवचोच पडटालो! त्या दिसा सगल्या घरांतले लोक मुद्दाम एक-एक पैशाची मोड हाडून दवरताले आमचे खातीर. आमचेच भशेन आनीक कितलींशींच भुरगीं घोळक्या-घोळक्यांनीं भोंवतालीं. पूण हीं सगळीं भुरगीं वाड्या भायलीं नासतालीं. तींच तीं वाड्यावेलीं वीस-पंचवीस घरां आनी तांतलीं तीं ल्हान-ल्हान सात-आठ वर्सांचीं भुरगीं!

माया म्हयन्यांत रायबन् च्या पाट्यार एक तियात्र जातालें. तांतूत गांवचे सगले भुरगे काम करताले आनी तेच भुरगे तें तियात्र बरोवन बसयताले. सबंद वर्सूयभर बसून हें तियात्र ते बरयताले. सद्दां सांजचें बसून प्रत्येकान घडिल्ली खयंचीय एक कॉमीक घडणूक सांगपाची. ती बरोवन काडून वर्सा अखेरेक ह्या सगल्या कॉमिक घडणुकांक एकठांय करून ताचें तियात्र जातालें. दादलेच बायलांचें काम करी. ह्याच दोन-तीन दीसांनीं पाट्यार पुरूमेताचें फेस्त आनी फेरी जाताली. ह्या फेस्तांत कांदे, कोथमिऱ्यो, मिरसांगो, आमटाण, सोलां, लोणचें असलें सामान मेळटालें. मडक्यो, आयदानांय बी आसतालीं. चणे, भिकणां, सोदां, सोर्ती, बोमाडे, खेळणीं तर फाल्त नासतालीं!

धालो फेब्रुवारीच्या म्हयन्यांत मानशेर चिमला बी जाताल्यो. धालांच्या वेळार त्या जाग्याक 'मांड' म्हणटाले. थंय भार बी येताले, बायलां बी खुदतालीं, तांकां 'देई' म्हणटालीं. भानोड्यां बोकडबागांत

देसायाल्या पोरसांत धालो जाताल्यो.

जागोर फकत चिमला-मरमीं जातालो आनी थयंचे सगळे गावडे लोक ह्या जागरांत भाग घेताले. जागोर म्हणल्यार गांवठी नाटक तें! त्या भायर कालो जातालो संकासुराचो, वेलंगा! कॉमिक आसतालो कालो! संकासूर कोंकणींत कॉमिक कॉमिक उलयतालो. कृष्ण आनी भट मराठींत कितेंयतरी उलयताले. संकासूर तांची खूप वाट लायतालो. आमकां सारकें समजतालें संकासूर कितें उलयतालो तें! आमी खूप हांसतालीं!

गांवांत नाटक जावप ही आनीक एक घडणूक. गांवांत तियात्र, जागोर, धालो, कितेंय जावं, आमचेर बोवाळ पडटालो. कसलीय घडणूक घडचे पयलीं दोन-तीन म्हयने, आनी ती घडणूक घडून वतकच मागीर आनीक दोन-तीन म्हयने तरी आमी तेच घडणुकेविशीं उलयत रावतालीं. आमीच न्हय, तर गांवचे सगळे ल्हान-व्हड लोक मोठ्या उमेदीन ह्या विशयांचेर उलयत रावताले.

नाटकच घेयात तुमी! नाटक येवचे स म्हयने पयलीं नाटक येता, नाटक येता, नाटक येता, पेटी मास्तर कोण, तबलें कोण वाजयतलो, नाटकाचें नांव कितें, कोण कोण नाटकांत काम करतलो, ह्या सगळ्या विशयांचेर सामकी खोलायेन भासाभास जायत आसताली; तोंड वळ नाशिल्लें कोणाचेंच कितलेंय उलयल्यार!

एक नाटक जातालें तें आमच्या घराफाटल्या दोंगरार विठोबाच्या देवळामुखार; ताच्या मागीर तीन-चार नाटकां मानशेर जातालीं; सां पेद्र पांच-स नाटकां; पणजे मळ्यांतल्या देवळाच्या जात्रेकडेन आनीक पांच-स नाटकां आसतालीं. ताच्या मागीर म्हज्या आजोळा, बांदोड्या, आनीक कितलींशींच नाटकां जातालीं; वाड्या वाड्यार दोन-तीन, दोन-तीन नाटकां तरी आसतालींच. हीं नाटकां

वीस-पंचवीस दीस तरी चलत आसतालीं, एका वाड्या फाटल्यान दुसऱ्या वाड्यार अश्या रितीन!

आमकां भुरग्यांक पळोवंक मेळटालीं तीं फकत रायबन्-च्या दोंगरावेल्या विठोबाच्या देवळाकडलीं, चिमलकान्नीवेळार आमच्या दारांत दुरगाभितर जाताले तें, आनी एक-दोन मानशेवेलीं हीं नाटकां, तींय बी फकत भटणी वांगडा गेल्यार! विठोबाच्या देवळाकडल्या नाटकाक सोमू, फोणू आनी हेरांल्या भुजांचेर बसून आमी सगळीं भुरगीं वतालीं. त्या काळार भुरग्यांच्या पायांत जोतीं घालपाची प्रथा नासताली. देखून आमीय बी केन्ना जोतीं घालीं ना. आमच्या घरांतलीं कांय कदेलां व्हरून फुडल्या लायनींत दवरिल्लीं आसतालीं. तांचेर ताई आनी हेर जाण्टीं, भटीण, मुक्ताबाय बी बसतालीं. आमी मात् ताडपत्रेर हेर लोकांमदीं वचून बसतालीं. थोडो वेळ बसून आमी, आनी त्याच बराबर भोंवतणीं बशिल्लीं हेर कांय जाण्टींय बी थार न्हिदून पडटालीं! पूण बाबा मात् एक-एकदां केरेक कसो वागतालो. नाटक सोंपच्या पयलींच बाबाली तकली घुंवली जाल्यार मागीर तो सांवळ्याक धाडून आमकां परत आपोवन व्हरतालो. मागीर नाटक बी कांय ना. वेल्यान घरा येतकच व्हडा-व्हडान सांवार आयिल्लेवरी तापोवन आमकां थरथरो हाडटालो तो! केन्ना काय थंयच्यान पळून वचून हांतुणार पडन अशें आमकां सगळ्यांक जातालें. बाबालो हो अवतार सदचोच जाल्लो आमकां!

विठोबाच्या देवळा मुखावयल्या जाग्यार सगळीं मेळून तीन नाटकां जातालीं. हीं मात् आमकां गारांतीन पळोवंक मेळटालीं. बाबालो भार-सांवार होय बी आसतालोच एक-एक फावट! त्या तेंपार नाटक म्हणलें कीं गोंयकार तें मराठींतूच करताले. तशें पळोवंक गेल्यार माचयेर भाषण लेगीत दिवचें जाल्यार हिन्दू लोक मराठींतूच

भाशण करताले. दोन सपणां चडून वयर गेलो रे गेलो, कोंकणींत उलोवप्यांची भास आत्ताक मराठी जाताली. मागीर ती मराठी ''माटवांत जळीं-मळीं दुकानें पडलीं होतीं'' असली आसल्यार लेगीत चलतालें. न्हय, ती मराठी चडशी करून असलीच आसताली! तरी पूण सगळ्या प्रेक्षकांक आनी आयकतल्यांक ती चलताली आनी तांची मन-रिजवणय बी जाताली.

देवळाकडल्या नाटकांत काम करपी कांय लोक आमगेर कामाक आसताले आनी उरलेले सगळे तोंडावेलेच लोक! नाटकां घडोवन हाडपाचीं थारलीं म्हणटकच तीन म्हयने तरी पयलीं बांदोडेंच्यान रघुवीर नमशीकार मास्तर हो आमगेर येतालो. तो आमगेरच रावतालो आनी नाटकां बसयतालो. ताका 'मास्तर' म्हणून लोक उलो मारताले आनी ताका खूब मान दिताले. तो पेटी वाजोवपी आनी नाटकांय बी बसोवपी. पान खावन, पिके केंस फुलार वळोवन, पुडवें न्हेसून, ज्युदी घालून, वक्ल लावन मास्तर सामको झेतार दिसतालो; सबंद दीस तो बारीक बारीक तानीर तानी मारत आसतालो.

मास्तराच्या हातांत बडी केन्नां फाल्त नासताली. हे बडयेक रॉत म्हणटाले. हेंच रॉत गंगाल्या वामनील्या पायांचेर ओडून ओडून मास्तरान ताचे पांय सरळ केल्ले. वामनीचो बापूय पंढरी उबो रावलो रे रावलो, तो दोनूय पांयांचो खुरीस घालून उबो रावतालो. ताचे पांय केन्ना जमनीर नीट उबे धरच नाशिल्ले. तीच संवंय वामनीक जाल्ली. ताचें तोंड बरें सोबीत दिसतालें. तें पळोवन मास्तरान ताका बायलेचो पार्ट दिल्लो. वामनी उबो रावन पांयांचो खुरीस घालपाक लागलो, रे लागलो, झंपायच्च करून ताच्या पांयांर रॉत पडटालें. रघुवीर मास्तरान पयल्याच दिसाच्यान ताका साडी न्हेसोवन उबो केलो; वामनी साडयेवेल्यान हे वटेनचो पांय ते वटेन घालून पांयाचो

खुरीस करून उबो रावलो मात् , मास्तरान ताच्या पांयांचेर झंपायच्व् करून रॉत ओडलें. अशें करतां करतां वामनी सरळ पांयांचेर उबो रावपाक शिकलो न्ही!

रातचें जेवण जातकच काशिनाथ बी मास्तराक येसायेक व्हरपाक येताले. मास्तराकडेन सरळ सामकार उबो रावन कोण्ण केन्नां उलोवपाचें धाडस करी नाशिल्लो. ते सगळे येनाफुडें आपलें रॉत हातांत घेवन, जोतीं घालून, चर्रचर्र आवाज काडीत मास्तर पोजिसांवान भायर सरतालो. हातांत लापयांव घेवन आयिल्ली सगळी भुरावळ मास्तराक रस्तो दाखयत ताचे वांगडा चलपाक लागताली.

मास्तर आनी मंडळी देवळांत पाविल्ल्याचें म्हाका पेटयेच्या आवाजावेल्यान रोखडेंच कळटालें. मास्तर पेटी वाजयतालो ती म्हाका खूब आवडटाली.

### संवंगांच संवंगां

नाटकांचे दीस आयले रे आयले सगळेकडेन एकदम उमेदी वातावरण पसरतालें. तशी ती उमेद नाटकांच्या दोन-तीन म्हयने तरी पयलीं सुरू जाताली आनी नाटकां सोंपतकच फुडले तीन तरी म्हयने ती उरतालीच. नाटकां जावन वतकच नाटकांविशीं उलोवप हें कितें कमी उत्साहाचें नासतालें. ''आरे, त्या कृष्णाक कोणें रे बायल जा म्हूण सांगिल्लें? इट्टायलें सामकें संवंग तेणें. तो बायल कसो दिसतालो रे तरी?'' ''बायलेचो पार्ट हापुलिकूच सोबून दिसता! कितें रे तो, सामको चेडूं कशें दिसतालो!'' ''म्हाज्या मामालो चेडो परतून परतून तें चेडूं कोण काय म्हण इचारी. म्हाका कयळें हेच्या मनांतलें! हांयें रोखडेंच सांगून उडयले, तो चेडूं न्हूं म्हणून! नाका जाल्लीं कातकिसांवां!'' ''त्या चंद्रकांताक त्या राजाचो पार्ट बरो सोबून दिसलो आं! हरशीं

पळोवंक गेल्यार काळो बी. रूप लेगीत सामकें ईट येवपाचें! तरी पूण आंगार तो भेस घालून तोंड पितारिना फुडें सामको लांबरूद खरेलोच राजा!'' ''पूण आवाज कितें रे तो बायकी, बशिल्ले भशेन? राजाचो आवाज म्हणल्यार सामको वागान गरड घाल्लेवरीं दिसूंक जाय!'' ''हें मात् खरें आं!'', असलीं हीं भाशणां वता थंय आयकूंक मेळटालीं. वेळ बरो वतालो!

नाटकां पयलींचे दोन-तीन म्हयने कशे वताले तेंच कळनाशिल्लें. तीन म्हयने तरी येसायांनीं वताले आनी ताचे पयलींचे कांय दीस नाटक थारावप, पात्रां थारावप, संवाद छापून हाडप, सगळ्यांक पटयो वांटप, हें काम खूब कठीण! तें जातकच मागीर म्हजें काम सुरू जातालें. आठ-धा वर्सांचें जातकाच म्हाका मात्शें वाचूंक येवपाक लागलें. म्हाका तितलें बरें वाचूंक येना आशिल्लें, पूण चंद्रकांतान म्हाका गिन्यानी थारायलें. ताका म्हज्याच्याकय कमी वाचूंक येतालें. म्हजेकडसून भाशण वाचून घेवन तो पाठ करी. ह्याःच बोवाळांत म्हाका आनी चंद्रकांताकयबी वाचपाची संवंय जाली आनी मागीर म्हाका वाचपाची गोडी लागली. चंद्रकांतालो पार्ट वाचून पाठ करून घेवपाची जापसालदारकी म्हजी. तो आमगेर कामाक आशिल्लो. तशें पळोवंक गेल्यार आमगेर कितलेशेच भुरगे कामाक आसताले आनी तेय बी खंयीं नाजाल्यार खंयीं तरी नाटकांनीं कामां करताले. नाटकांच्या पयलीं येसायो सुरू जावचे पयलीं आपलें भाषण पाठ करून घेवपाक ते आमगेर म्हयनोभर तरी रावताले. म्हाका मात्शें नांव मेळिल्लें ह्या मळार! नाटकाचे पार्ट पाठ करून घेवपाक म्हाका बरें येता अशें दिसना फुडें सगळे लोक आमगेर येवन रावपाक लागले. म्हजो दर्जो वाडटालो त्या दिसांनीं! खरें पळोवपाक गेल्यार म्हाका मानाची सुवात मेळपाक सुरू जाली ती चंद्रकांतांल्या पार्टावयल्यान.

ताचे मागीर चिमलकान्न आमच्या दारांत येता त्या रातीकडेन जावपी नाटकांत काम करपी चडश्या नव्या भुरग्यांचे संवाद पाठ करून घेवपाची जापसालदारकी म्हजेर आसताली. इतलेंच न्हय, तर नाटक चालू जातकच सबंद वेळ हांव माचयेक तेंकून सकयल उबें रावतालें आनी माचयेवेल्या कोणेय भाषण करता आसतना चुक केल्यार हांव रोखडेंच सुदारतालें. मागीर कोणूय तरी धांव्वत येवन म्हाका सकयल बसयतालो. एकेकदां म्हाका घट्ट धरून कोणूय तरी बसून रावतालो, नाजाल्यार हांव माचये म्हऱ्यांत परत पावपाची भिरांत आसताली. हातूंत नाका जाल्लीं तीं कामां करपी, रविंद्रयबी आसतालोच! कितेंय जावं, रायबन् चे चडशे लोक वाचूंक शिकले, आनी मराठी वाचूंक शिकले ते ह्या येसायांकूच लागून!❖

17

# चिमलकान्न येता

दर वर्सा मार्च म्हयनो सोंपतां सोंपतां गांव देवी चिमलकान्नीक पालखेंत बसोवन, माशेलांतल्यान चिमलच्या मार्गान दोंगरावेल्या वाटेन चलून, रायबन् रा हाडटाले. आमच्या घराभायल्या पोरसांतल्या माटवांत हाडून बसवचे पयलीं एक रात चिमला रावन, दुसऱ्या रातीकडेन मानशेर रावन, रातच्या धा वरांचेर सुमार शेनाय, सुंवारी बी वाजयत चिमलकान्न आमच्या माटवांत येताली. बाबा आनी गांवचे सगळे जाण्टे, भुरगे गांवचे शिमेर वचून पेत्रोलमास घेवन उबे रावताले आनी चिमलकान्नीक ताशे, ढोलकीं वाजयत, झानी वाजयत, भजनां म्हणीत माटवांत घेवन येताले. चोशीं वटेनचे लोक मोठ्या भक्तीन देवावटेन पळेत पालखे वांगडा चलत येताले. बोवाळूच बोवाळ! बोवाळळ सामको! ''कचांयच्च कच्च'' करून सोदां फोडिल्ल्याचो आवाज, फुगेट्यो, बोमाडे फुटिल्ल्याचो आवाज, पेपारीं, सुरसुरसुरीं, गर्नाळ आनी तातूंतच भितर शेनाय, सुंवारी आनी भोंवतणच्या लोकांलें आड्डप! कोणाकच कितेंच एक म्हणून आयकूंक येनाशिल्लें! पूण

प्रत्येक मनश्याच्या दोळ्यांत भक्ती आसताली.

अखेरेक पालखी माटवांत पावतकच पालखे वांगडा आइल्लो जाण्टो भट पुजा करतालो. बाबाय बी एक दोन मंत्रांच्यो वळी म्हणटालो. हातांत फूल, तुळशी पान घेवन, बाबा पालखेचेर उदक मारतालो. मागीर माटवांत घाल्ल्या, तांबड्या चाफ्या पोंदच्या आसनाचेर हाडून देवतेक बसयतकच रिकामी पालखी घेवन दोग जाण ती आमच्या घराच्या एंत्रादा भितर हाडून दवरताले. ताचे मागीर पालखे वांगडा आयिल्ले सगळे लोक आमगेर जेवताले. भटय बी कितेंय तरी खाताले भितर बसून! ह्या सगळ्या लोकांलें जेवण जातकच मागीरच बाबा आनी घरचे कांय जाण्टे लोक जेवताले. हेवटेन हे लोक जेवता आसतनाच माटवांत नाटक सुरू जातालें. दोन-दोन मिन्टांच्या अंतरांत तीन घांटी वाजोवन जातकच 'नांदी' सुरू जाताली. नांदी म्हणल्यार देवाची स्तुती करपी एक पद. नाटकांत भाग घेवपी आनी नाटका संबंदीत सगळे लोक हात जोडून माचये भितर उबे रावन नाटक सुरू करचे पयलीं ही नांदी म्हणटाले. मागीर पड्डो उगडून नाटक सुरू जातालें.

नाटकांत काम करपी सगळे रायबंदन् चेच भुरगे. सगळ्यांत मुखेल तो पार्ट दोतोर केणयाक दिताले. सगळ्यांत म्हालगडो आशिल्ल्यान आनी दोतोर आशिल्ल्यान ताका गांवांत बरो रेस्पेद आसतालो. त्या भायर, तो दिसतालोय बी बरो, नट कसो! झेतय बी बरो काडटालो! उलोवपाची बी पद्दत सामकी सिनेमांतल्या नटाभशेन!

मदींच एकदां कृष्ण कामत म्हामाय म्हणून वास्कोचो एक बरो नट आमचे नाटकांत भितर सरलो! बरो कॉमीक काम करपी तो! मनीस मात्सो जाण्टो जाल्ल्यान तरणाट्यांच्यो भुमिका करी नाशिल्लो. तरणाट्यांच्यो भुमिका दोतोर केणी, दोतोर रवी धोंड, राजाभाऊ शेटयो बी करी. कसली कडक्क मराठी उलयताले ते! आवाज बी सामको

खणखणीत, बाटल्यो फुटिल्लेभशेन! सुरवेक सुरवेक कांय दादलेच बायलांच्यो भुमिका करताले. एकदां काशिनाथ म्हणून एका नटान बायलेची भुमिका केल्ली. तो खंयच्यानय तरी आयिल्लो आनी तो सदांच बायलांच्यो भुमिका करी खंय. पूण कितेंय जावं बायलांच्या भेसांत हे दादले सामके वायट दिसताले. ते दादले म्हणून पयलींच कळूंक नाशिल्लें जाल्यार एकादीं ते बरेय दिसपाचे आमकां! पूण बायलांच्यो भुमिका जेन्ना बायलां करपाक लागलीं तेन्नां तांकां पळयन पळयनशें दिसपाक लागलें. बायलांच्यो भुमिका वेलंगींच्यो नटयो करताल्यो. अलकाबाय वेलिंगकार, विठाबाय, नंदिनी बर्वे हीं येतालीं. म्हयनोभर रावन नाटक जातकच तीं परत वतालीं. येसायो म्हयनोभर तरी चलताल्यो. दर रातिकडेन धा वरां उपरांत दादा बी भायर सरून वताले येसायांक. दादा वेवस्था पळोवपी, नाटकांत भाग घेवपी न्ही. शिनाऱ्यालो गुरूनाथभाऊ आनी रजी, शेटयालो जयराम, धोंडालो शशिकांत बी दादावांगडा बोवाळपी. देखून हेय बी सगळे येसायांक रातिचीं दोन-दोन वरां पर्यंत थंय हजर रावताले. दर रातिकडेन पाव, भाजी, पुरयो, बटाट-फोव, झुनको असलें खाण आसतालें. कांय फावट भोब्यालें जायूआका झुनको करून धाडटालें. हांवें खाला एकदां हो झुनको! तिनसांजचो तोपांत झुनको घालून दवरिल्लेकडेन हांव भोब्यागेर पावलें. वास, घमघम सामको झुनक्याचो! वास झुनक्याचो हें जाणा जावन पसून रांव नजो जावन हांवें जायुआकाक म्हणलें, "कसलोय तरी बरो घमघम येता! कितें केलां तुंवें जायुआका?" ताणें रोखडोच चोळख्यार घालून म्हाका झुनको खावपाक दिलो! हांवें तसोच लाडू कसो गुळो करून खालो तो झुनको! आनीक जाय आशिल्लो पूण मागपाक बरें दिसलें ना! आयज पर्यंत तसलो तो झुनको हांवें खंयच खावंक ना. झुनको करचो तो जायुआकानच!

नाटक सुरू जाता त्या दिसा खूब बोवाळ आसतालो. दुरगा भायर मांड पडटाले, सोऱ्याचे, बोमाड्यांचे, पेपाऱ्यांचे, खेळण्यांचे बी. त्या भायर, च्याचें दुकान, बटाटवडे, शामुशे, भजीं, पाव-भाजी, भाजी-पुरी हें असलेंय सामान विकपाचे पसरे थंय पडटाले. आइस्फ्रुटाचो गाडो तोय बी फाल्त नासतालो. त्या भायर, सगळ्यांत बोवाळाचो जागो म्हणल्यार गडगडो आनी जुगाराचो मांड! हांव गेल्लें गडगडो खेळपाक एकदां हातांत एक 'पै' घेवन! म्हज्या हातांत एक पै आशिल्ली ती पळोवन रविंद्राक गडगडो खेळपाचें सुचलें. रविंद्रानूच व्हेल्लें म्हाका थंय. त्या काळार एका रुपयाक सोळा आणे आसताले. एक आणो म्हणल्यार चार पयशे आनी एक पयसो म्हणल्यार तीन पयो. दोन पयशांचें एक नाणें आसतालें तांब्याचें. ताका ढबू म्हणटाले. 'पै' हें सगळ्यांत ल्हान नाणें आनी तेंच आमकां भुरग्यांक परवडटालें. देखून हातांत आशिल्ली ती एक 'पै', तीच घेवन हांव गडगडो खेळपाक गेल्लें! पूण त्या गडगडेकारांनीं म्हका उखलून घरा हाडलें, ''थंय वचूंक जायना, बाबाक कळत जाल्यार बाबा तुकाय मारतलो आनी आमकांय मारतलो!'' अशें म्हणून ताणीं सांगलें. ताचे मागीर गडगडो खेळपाची म्हजी छाती जाली ना! आशिल्लें हांव तेन्नां पांच-स वर्सांचें!

नाटकाखातीर व्हड व्हड माडयो पुरून माटोव घालताले. बेड्यांच्या झाडाच्या कांडांक माडी म्हणटाले. आमच्या घराच्या वटेन नाटकाची माची आसताली. सबंद सकाळ-सांज पड्डे बी चडोवपाचें काम चलतालें. मागीर रातिकडेन पालखी येतकच नाटक सुरू जातालें. माचये सकयल जमनीर व्हडली ताडपत्री घालून दोशीं वटेन कदेलां घालताले. आमच्या घराकडलीं कदेलां सगळ्यांत फुडल्या रांकेंत घाल्लीं आसतालीं. पूण हांव, इंदू आनी उल्लास बी केन्नाच

कदेलाचेर थार नाशिल्लीं. आमी मर्दीं घाल्ले ताडपत्रेचेर बशिल्ल्या शेंवतू, सोमू, सरस्पत वा इंदिरी हांचे मदल्या कोणाच्याय तरी मांडयेर वचून बसतालीं. एकेक फावटीं आमी थंयच न्हिदून पडटालीं. प्रसाद, नरशींव, दिलीप बी सामके ल्हान आशिल्ल्यान ते पयलींच घराकडे न्हिदिल्ले आसताले. म्हजी आवय, बाय, मात् घरांत भितर माळयेच्या सोंपणावेल्यान नाटक पळयतालें. माचयेच्या कडेच्या दोन पड्ड्यांमदल्यान बायक सगळें नाटक दिसतालें. एकेकदां सांगाताक आनीक कोणूय बायल मनशां आसतालीं.

जशें जशें नाटक फुडें वतालें तसो तसो ताडपत्रेवयलो एक एक प्रेक्षक न्हिदून पडटालो. कांय वेळ जातकच नाटक सोंपच्या पयलीं ताडपत्रेर बशिल्लीं चडशीं बायलां न्हिदून पडटालीं पूण नाटक चलत रावतालें आनी मागीर जागे उरिल्ले लोक नाटक पळयताले.

नाटक सुरू जातकच पेटिवालो बी बसतात थंय वचून माचयेक कोंपर तेंकोवन उबें रावपांत एक वेगळेच पोंजिसांव अणभवपाक मेळटालें. थंयच माचयेवटेन तोंड करून व्हड व्हड दिवे बसयिल्ले आसताले माचयेर उजवाड घालपाक! तांच्याच शेजरा वचून हांव उबें रावतालें. स्टेजीवेले लोक उलयतात तें बरें आयकूंक येतालें थंयच्यान! मागीर न्हीद येतकच कोणाच्याय तरी मांडयेर वचून बसपाचें आनी मागीर न्हिदपाचें! जालें नाटक! नाटक सोंपतकीच कोणूय तरी येवन न्हिदिल्ल्या सगळ्या बायलांक उठोवन घालतालो आनी मागीर तीं आमकां भुजार मारून घरांत हाडून न्हिदयतालीं.

मात्शें व्हड जातकच मात्, म्हणल्यार, आठ-धा वर्सांचें जातकच, हांव सगळें नाटक पळयतालें आनी म्हाका अर्थय बी बरो कळटालो! पाठ हांवेंच करून घेतिल्ले आसताले सगळ्यांचे संवाद! एकेकदां माचये म्हऱ्यांत रावन माचयेवयल्या नाटकांत काम करपी

लोकांवांगडाच तांचीं भाषणां म्हणप हें थारिल्लेंच आसतालें. कितेंय जावं, हीं भाषणां व्हडान न म्हणपाची आमकां शिटकावणी पयलींच दिल्ली आसताली. जशें जशें हांव व्हड जावपाक लागलें, तशें तशें म्हाका माचयेंत भितर वचपा पसुन कोण आडाय नाशिल्लो. नाटक सोंपतकच दादा आनी हेर नाटक मंडळी वांगडा हांव माचयेभितर पाव-भाजी खातालें. पूण भितर वता आसतना फकत दादाच्याच सांगातान वचपाचें हें म्हाका खबर आशिल्लें. कितें घमघम पडटालो त्या भाजयेचो! मागीर च्या पियेवन घरा येवन न्हिदपाचो यत्न करपाचो! सकाऴ पर्यंत दोळ्यांक पातें लागनाशिल्लें. सबंद नाटकांतले संवाद कानांत घुमताले!

सकाळ जातकच परत बोवाळ सुरू जातालो आनी धा वरांचेर सुमार पालखी शेनाय, सुंवारी वाजयत गांवांत भोंवडेर वताली. देवते बरोबर आयिल्ले सगळे लोक दनपारच्या वेळार जेवपाक भोब्यागेर उरताले. मागीर सांजवेळच्या चार वरांचेर सुमार पालखी आमगेर घरांत येताली; सांगाताक सबंद गांव आसतालो. आमच्या घरच्या बायलां वांगडाच गांवच्यो कांय बायलो देवतेची व्हंट भरताल्यो. मागीर बाबा देवतेची पुजा करतालो, भट प्रसाद वांट्टालो. घरांत पयलींच दोणे करून दवरिल्ले आसताले. ते वांटून जातकच भट परत देवतेक उखलून घेवन पालखेंत बसयतालो. मागीर शेनांय, सुंवारी वाजयत देवता फोंडव्यांत वताली. देवता वतकच जीव कांसावीस जातालो. आका आनी बाबलेप्पा बानोड्यां परत वतकच जीव असोच कांसावीस जातालो.

### चिमलकान्नीलो तोर्राद शेनायकार

आमच्या सामक्या भुरगेपणांत, म्हज्या पिरायेच्या सव्या

वर्साच्यान धा-बारा वर्सां पर्यंत पालखे वांगडा एक जाण्टोचसो शेनायकार येतालो. तो सामको बरी सुरांत शेनाय वाजयतालो. तो मरतकच मागीर तागेलो पूत शेनाय 'फुंकपाक' लागलो. तागेल्या बापायन वाजयिल्ली शेनाय आयकूंक नाशिल्ली जाल्यार शेनाय हें वाद्य अशेंच बेसूर वाजपाचें अशें म्हाका दिसपाचें! हो भुरगो खंय येतिश्ट सोरो पियेतालो आनी पालखे वांगडा सगळे कडेन सामको तर्र जावन भोंवतालो! चलता आसतना लेगीत तो सामको लकतालो आनी ताचे हात हालिल्ल्यान आनी परत परत तोल गेल्ल्यान, नाका थंय शेनायेंत फूंक मारिल्ल्यान, ते शेनायेचे हाल हाल जातालें! "तु तू त्तू ऽऽऽऽऽ तु तू त्तू ऽऽऽ तू थ् ऽऽ फुर्र फू ऽऽ तू ऽऽ त्तू त्तू" अशें कितेंशी वाजताली ताची ती शेनाय! मदींच "फू फुर्र" आवाज येतालो. कसलो काय पळयल्यार हो शेनायेंत भितर सरिल्ली थुकी भायर ओडटा! जीव विट्टालो ती तसली शेनाय वाजयता ती आयकल्यार आनी प्राण आनी कान कश्टावताले हें असलें सूर-ताल नाशिल्लें सुरसुरें वाद्य आयकून! हें इतलेंय कमी जायत म्हणून मागीर जेवतकच तो आनीक एक बाटली मारतालो जावंये! मागीर माचयेफाटल्यान दुसरें नाटक सुरू जातालें, शेनायकारालें! कसले कसले संवाद उलयतालो तो! एकच प्यालांतली सिंदू आनी शितेमदलें झगडें, कृष्ण आनी शिवाजी, मदींच हनुमान आनी अकबर आनी भिस्माक हाडून द्रोपदीची साडी ओडूंक लावन द्रौपदीच्यो बोबो, हें असलें नाका जाल्ल्या भाषणांचें खतखतें करून तो माचयेभितरलें नाटक चडच मजेशीर करतालो. हेंय बी नाटक पळोवपाक कमी प्रेक्षक नासताले! ताचो बोवाळ नाका म्हणून कांय शाणे लोक ताका धरून चेपून न्हिदोवपाचो यत्न करताले पूण तो इतलो हाडकुटो मनीस खंयच्यान इतलो फोर्स हाडटालो देव जाणां! इतल्या लोकांलें आयकनासतना तो परत आपलें नाटक आनी

पदां सुरू करी! ह्या भुरग्याक खरेलोच संगीताचो मात् पसून वास नाशिल्लो. ताचो बापूय इतलो बरो वाजंत्री, पूण हो सामको बोणेर! ना ताल, ना सूर! बापायचें आयकून तरी शिकपाचें! कितेंय जावं! पूण तेंय बी एक बरें मनोरंजन जातालें कांय लोकांलें. तागेलो हो नाटक-कालो तो आड पडनाफुडें सोंपतालो आनी मागीर माचयेफाटलो प्रेक्षक माचयेवयलें नाटक पळोवपाक मेकळो जातालो!

ह्या शेनायकारालो बापूय आमी धा एक वर्सांचीं आसतना गेलो. ताचे मागीर ह्या भुरग्यान शेनायेची लज काडली! तशें पळोवंक गेल्यार हांवूंय बी पदां बरें म्हणपी. त्या भायर, पंदरा-सोळा वर्सांचें आसतना रेबेकूय बी शिकूंक लागिल्लें, रामकृष्ण माशेलकाराकडेन. ती तसली शेनाय आयकून म्हाका सरस्पतीचो अपमान कसो दिसलो. हांवें तें तशें रविन्द्र आनी हेर चांडाळ-चवकडेक सांगलें. शेवटीं ताणी वचून त्या शेनायकाराक धमकी दिली, ''शेनायेचेर पद वाजयशी, आमी तुका थंयच आड घालून मारतले! तूं फकत शास्त्राक पिल्लूक कशी शेनाय 'फूऽऽऽ' करून मात् मात् फूंक. पुरो!'' इतलेंय ताका सांगून हे चांडाळ वगी राव नाशिल्ले. सेगीत ताच्या भोंवतणीं उबे रावन ताका धाकांत दवरताले. देखून ताणे भियेवन ताचे मागीर पद म्हणून वाजोवपाचो यत्न केलो ना! दर वर्सा चिमलकान्न येता तेन्नां ते ह्या शेनायकाराक वचून धमकी दिताले आनी प्राण वांचयताले, आमचो आनी शेनायेचोय बी! ❖

18

# बाबाली शिस्त आनी आमी

**आमचें** घर माळयेचें. घरा भोंवतणीं व्हड दुरीग आशिल्लें. दुरगाक बुराका-बुराकांची गराद आशिल्ली. दुरगाचेर वानांवेल्या रगड्यांभशेन व्हड व्हड फातराचे गुळे बसयिल्ले आशिल्ले. आमी भुरगीं दुरगार चडून, ह्या गुळ्यांक वेंग मारून बसून रावतालीं. हो आमचो सदचोच कार्यक्रम आसतालो. तेन्नां आमी पांच-स वर्सांचीं आशिल्लीं जातलीं. थंय बसून अमुकच अशें कितें करपाचें नासतालें. ओगीच माकडावरीं बसून ''कच-कच'' करून चकाटां मारप, येत्या-वत्याक हडकुवप, नाका जाल्लीं कांतारां म्हणप आनी हीं कांतारां आयकून रस्त्यावेल्यान थाळोणी बांयचें उदक घेवन वचपी बायलो खूऽऽऽऽ करून हांसल्यो म्हणटकच आनीकच चड फोर्सान, झेत्तान, व्हडा-व्हडान तिंच तीं कांतारां म्हणत रावप. फुडले कितलेशेच दीस मागीर दुरगार बसतकच आत्ताक तोंडांतल्यान तींच पदां फुट्टालीं.

चडशें करून हांव तीं सूर-ताल नाशिल्लीं लोकांची वाट लावपाचीं पदां म्हण नाशिल्लें. ह्या पदांचो अर्थ सारको खबर नासल्यार

लेगीत हीं पदां बऱ्या भुरग्यांनीं म्हणपाचीं न्हय हें आमकां सगळ्यांक खबर आशिल्लें. हांव तीं पदां म्हण नाशिल्लें ताचें कारण म्हणल्यार, हीं पदां म्हणटा आसतना कोणूय घरांतलो जाण्टो मनीस आयकत हो भंय. बाबान चुकून लेगीत हीं पदां म्हणटना आयकल्यार फाट कशी फुट्टली हें येवजुनच आंगार कांटो येतालो.

पूण म्हज्या भावांक मात् येतिश्ट प्रसाद पडटालो. बाबालो मार म्हणल्यार एक दोन थापटां न्हय. तो थापटांचो पावसूच म्हणल्यार जाता! मागीर त्या मार खावपी भुरग्याक घरचो कोणूय जाण्टो मनीस, जावं तें शेंवतू वा तो विठ्ठल, कोणूय तरी ताका बाबाल्या चपक्यांतल्यान झोपून घेवन धांव्वत वतालीं. ह्या देव मनशांतलीं विठ्ठल, तळावलीकार, त्रिंबक, शांतारममामा, दत्तुलो, शेंवतू, तिमा, हांचे मदलो कोणूच लागीं नासल्यार त्या मार खावपी भुरग्याचें कितें जातलें काय देवा, अशें दिसतालें.

बाबा चलयांक फकत तापयतालो, मारी नाशिल्लो. कितेंय जावं, बाबा आमकां तापयता आसतना आमी मात्शीं चडूच पयस उबीं रावतालीं, हें खरें. हाताच्या अंतरार रावल्यार सट्ट करून, सट्टायंच्च करून थापट फुलयत हो भंय आसतालोच. बाबाली तापोवणी आयकुपाक म्हजी व्हडली भयण माई मात् केन्नाच थंय राव नाशिल्लें. तें मात्शें शाणें. नदरेआड वचून जीब काडून चाळयतालें पसून तें! हांव मात् वागरें पडिल्लेभशेन थंयच जमनीक दसून रावतालें, मान सकयल घालून, मोन्यांनीं आयकत, दुकां गळयत. कितें कोण जाणां, कोणेंय कितलेंय तापल्यार कोणुच्च रड नाशिल्लो. म्हाका एकट्याकच कोणेंय मात्शें लेगीत तापयल्यार हांव दुक्कांनी रडटालें.

घरच्या खंयच्च्याय भुरग्याक तापोवपाची बाबाली पद्दत एकेच भशेन आसताली, ''वाग आनी बोकडी'' असो प्रकार तो. म्हाका मात्

तापोवपाची ताची पद्दत वेगळी, शब्द वेगळे आसताले. हांवें कितेंय वायट करणी केल्यार बाबा “शशीऽऽऽ शशीऽऽऽ” अशें मोठ्या मोठ्यान म्हणटालो. म्हाका इतलेंच पुरो जातालें रडपाक. बाबा आनीक चड वाटेक वच नाशिल्लो म्हज्या. ताईक मात् केन्नांच तापय नाशिल्लो.

तुळशीच्या आंगणा भोंवतणीं चार चवख्यो आशिल्ल्यो. एके चवखेच्या धडे सकयल खळी आशिल्ली, जेवतकच बी आंवपाक. जेवतकच उदकाचो घोंट घेवन, हात धुयताले तेन्ना ताका ‘आंवप’ अशें म्हणटालीं. आमी सगळीं ल्हान आसतना सकाळीं उठनाफुडें हेच धडेर पाट दवरून फोंडू बी आमकां थंय बसोवन दवरताले, आनी कोळसो बोटांमदीं चिड्डून ताचो पिठो करून, तो पिठो दोन बोटांमदीं धरून आमच्या दांतांक लावन, बोटान दांत घांसताले. तोंड पळयत जाल्यार काळेंकिट्ट बीळ कशें दिसतालें. मागीर दोन-चार घोंट घेवन कुचुकुचू करून उदक भायर उडयतकच दांत धवेफुल्ल जाताले. ह्याच वेळार “माकड छाप दंतमंजन” म्हणून एक इलीशी बाटली आयली. ते बाटलेंत तांबूस रंगाचो पिठो आसतालो आनी ताका बरो कांपराचो वास येतालो. हो पिठो फकत जाण्टे लोकूच दांतांक लायताले. आमी केन्नाय चोरून हो पिठो तोंडांत घालतालीं वासाखातीर. मात्शीं व्हड जातकच आमी स्वताच दांत घासपाक लागलीं. कोळश्याचो पिठो घेवन तो बोटाक लावन आमी पासयो मारीत वें वें वें करून पदां म्हणीत दांत घांसतालीं. हो दांत घांसपाचो आक्त चलता आसतनां आमी तरातरांचीं नाडपेनां करतालीं, पदां म्हणटालीं, नाटकां करतालीं आनी हें सगळें करता आसतनां काळीं किट्ट तोंडा घेवन, काळीच्च लाळ गळयत आमी घरभर भोंवतालीं, धांवतालीं. मागीर कोणूय तरी आमकां धरून घोंट घेवपाक लायतालो. मागीर जालें!

एक दीस माई अशेंच दांत घाशीत “कोंबो गेलो तारवार,

कोंबी जाली गुरवार'' अशें म्हणीत नाचपाक लागलें. बाबान आयकलें, ''कितें गो तें तूं म्हणटा तें?'' अशें म्हणून बाबान विचारलें. बाबा आपल्याक कवतुकान विचारता अशें माईक दिसलें. तें हात बी हालोवन आनीकूय मोटठ्यान पद म्हणपाक लागलें. बाबाल्या लक्षांत आयलें माई कितें म्हणटालें तें. म्हाकाय बी तें पद म्हणून तुस्त भोगीन कशें दिसलें. हांवूंय बी तें गावपाक सुरवात करतां थंयच्च आशिल्लें, बाबा चाळवलो. हांवें कचांयच् करून तोंड बंद केलें. बाबा मारपाक येता सो पळोवन व्हडा व्हडान तें पद म्हणीत माई पळून गेलें. ताचे मागीर लेगीत तें उरफाट्या काळजाचेंशें भुरगें दुरगार बसून तें पद म्हणून लोकांक हांसयतालें. ह्या भायर, आनीकूय कितलींशींच पाडेल्यांनीं शिकयिल्लीं पदां आशिल्लीं. खरें म्हणल्यार ते माडार चडटा आसतना हीं पदां म्हणटाले आनी माईक तीं पदां अचकीत पाठ जातालीं. हींय बी पदां दुरगार बसून म्हणटकच येत्यो-वत्यो बायलो तोंडार पदर दवरून खू खू करून हांसताल्यो. मागीर माईक आनीकूय फोर्स येतालो. म्हजी मात् हीं खंयचींच पदां म्हणपाची केन्नांच छाती जाली ना. हीं पदां वायट हें आमकां खबर आशिल्लें पूण तांचो अर्थ खबर नाशिल्लो.

कोणाय भुरग्याच्या पोटांत जाल्यार ताका 'तिंतूर' म्हणून कितेंय तरी पियेवंक दिताले. दर म्हयन्याक तिनसांजेचो हो 'तिंतूर' पियेवपाचो एक आक्त जातालोच. हें 'तिंतूर' बरें लागतालें देखून आमी भुरगीं ह्या तिंतूराची वाट पळयत आसतालीं.

जीव विटोवन उडोवपी ते दोन आक्त, एक 'कुवाशी' पियेवपाचो आनी दुसरो 'येण्डेल' घेवपाचो. दर म्हयन्याक एकदां कुवाशीचें उदक पियेवचें पडटालें. कुवाशी म्हणल्यार इलेइले कसल्याय तरी लाकडाचे कुडके, जे राती कडेन उदकांत फुगत दवरताले. दुसऱ्या दिसा सकाळीं

हें उदक बरें सोबीत हळडुव्या रंगाचें जातालें, पूण हें उदक सामकें कोडू आसतालें. एक घोंटभर पियेल्यार पुरो आसतालें. देखून कोणूय तरी आमकां धरून हाडून दवरतालो आनी दुसरो मनीस नाक दामून धरतालो. मागीर तोंड आपशींच उगडटालें आनी त्या उक्त्या तोंडांत बाबा सडसडीत वाटयेंतलें तें कोडू उदक ओतयताले. गटक् करून तें कुवशीचें उदक आमी गिळटालीं. मागीर आमचें नाक सुट्टालें.

पोटांत दंत बी जावचे न्हय हे खातीर हें घेताले खंय, पूण ह्या सगळ्यांत वायट, जीव नाका करून सोडपी तो 'येण्डेल' पियेवपाचो आक्त. दर दोन-तीन म्हयन्यांतल्यान एकदां हो आक्त जातालो. सकाळींफुडें हें येण्डेल पियेवपाचें काम आसतालें. पयल्या दिसा सावन आमची तकली पिकार आसताली. दुसरो दीस उदेनाफुडें चवकेर बाबा, विठ्ठल आनी फोंडू सामके तयारेंत राविल्ले दिश्टी पडनाफुडें काळजांत खप्प जातालें. आमकां सगळ्यांक सामकीं रांगेंत उबीं दवरून आमकां राखपाक कितलेशेच आनीक लोक आसताले आमचे भोंवतणीं. एकूण पळून वचप शक्यच नाशिल्लें. रांगेंतल्या एका एका भुरग्याक पकडून धरून कोणूयतरी बाबा सामकार हाडटालो, आनी ताका जमनीर आड घालतालो. तें भुरगें हात-पांय फाफडीत रडून आकांत करतालें. एक मनीस ताचे हात धरतालो, दुसरो पांय धरतालो, तिसरो तकली धरून फिक्स करतालो, चवथो नाक धरतालो, बाबा वयर ओणव्यांनी उबो आसतालोच वाटी घेवन. तो तें येण्डेल त्या भुरग्याच्या ताळ्यांत ओतयतालो 'गटक्' करून गिळून जातकच भुरगो सुट्टालो. रड थांबताली! अशें करून प्रत्येक भुरग्याचेर ही पाळी येतालीच दर दोन-तीन म्हयन्यांनी.

बाबाल्या शिस्तबद्द वागण्याचो म्हजेर बरोच प्रभाव पडला. हांव पंदरा-सोळा वर्सांचें आसतना एकदां म्हजे आज्जेन, आईन,

म्हाका एक रेकाद दी म्हूण सांगलो. जाण्टेपणांत आई आमच्या म्हऱ्यांत रावताली. ती सबंद वेळ आपले कुडीच्या हुमऱ्यार बसून आसताली. दादाल्या चल्याक, विवेकाक, ती ल्हायो, चणे, चिरमुल्यो असलें खाण ताटलेर घालून दिताली आनी ताका कोंबये भशेन आपले कुडीच्या दारा भायरूच बसोवन दवरताली. विवेक आशिल्लो देडेक वर्साचो तेन्ना. तो चणे बी एक एक करून वेंचून खायत रावतालो वरां कणकणीं. आनी ताका पळयत पळयत आईलो वेळ बरो वतालो. एकेकदां ती म्हाका आपोवन आपलीं बारीक बारीक कामां करपाक लायताली आनी हांव तीं कामां आवडीन करतालें. आईन म्हाका आपोवन हिराले आवयक आपणें आपयल्या म्हूण तिका रेकाद दिवपाक लायलो. हिरालें घर आमच्या दुरगा भायरूच आशिल्लें, म्हजे येते-वते वाटेर. दुसऱ्या दिसा सकाळीं इस्कॉलाक वतना हांव तो रेकाद दिवपाक विसरलें.

दरपरां घरा येवन जेवन बी जातकच तिनेक वरांचेर सुमार आईचेर म्हजी नदर पडली. हांवें आईक सडीक्क फट मारली, ''आई, हांव हिरागेर गेल्लें सकाळीं, पूण तांगेर कोण्ण नाशिल्लो. हांव परत वतलें तेन्ना वचून सांगतां.'' चवकेरूच वॉल्तेरार बशिल्ले कडेन बाबान हें आयकलें. ताणें म्हाका आपोवन व्हेलें आनी विचारलें, ''तुवें आईक सांगलां तें खरें काय फट?'' म्हज्यान तकली वयर काडूंक जालें ना. हांवें खालते मानेनच सांगलें, 'फट'! ''फट कित्याक मारली?'' बाबान विचारलें. हांवें सांगलें, ''विसरलें म्हणून सांगल्यार आईक वायट दिसतलें म्हणून!'' बाबान म्हणलें, ''आतां तुवें आपल्याक फट मारली हें तिका कळ्ळ्यार तिका बरें दिसतलें?'' हांवें म्हणलें, ''पूण तिका तें कळचेंच ना. हांव आतां वतना सांगतलें हिराले आवयक!'' बाबान म्हाका विचारलें, ''तिका कळूं, न कळूं, तुका खबर आसा

न्हय तूं फट उलयलां तें? तुजें मन कितें सांगता?'' म्हाका वायट दिसलें. हांवें म्हणलें, ''ना, हांवें चूक केली. आतांच वचून तिका सांगतां''. हांव तडक्क आई म्हऱ्यांत गेलें आनी हांवें तिका सांगलें, ''आई, हांवें तुमकां फट मारली. हांव सकाळीं विसरलें!'' आई खो करून हांसली. म्हजें मन ल्हव जालें. बाबा चवकेर रावन म्हजेर नदर दवरून आशिल्लो. हांवें सांगिल्लें तें ताणें आयकलें. तरी पूण हांव बाबा म्हऱ्यांत गेलें आनी ताचे कडेन हांवें भोगसणी मागली. बाबान हांसून म्हणलें, ''हें पळय, खरें उलोवप सोंपें. एकेकदां खरें उलयल्यार त्रास जावपाक शकता, पूण वगीच नाका थंय तकली वापरून तुवें ही सादी वाट किचकट करून उडयली. जें काम खरें उलोवन जाता थंय फटी उलोवन वेळ मारून व्हरपाची गरज नासता. आनी खंयचेंय काम करता आसतना आपल्याक मान सकयल घालची पडची न्हय हाची जतनाय घेवची.'' ही येदी व्हडली गजाल, जी बाबान कांय न्हयच करून सांगली ती आयज म्हज्या संस्कारांचो एक वांटो जावन आसा. वगीच तड्डकां मारिल्लीं म्हाका सोंसनात. बाबा तो बाबा! कडक्क संस्कारी मनीस!

बाबाल्या घरांत कितलेशेच नोकर-चाकर. पूण बाबान आमकां देख दिली ती वेगळीच! ''कितलेय नोकर दवरात, पूण एक्क काम आपूण नकळो असो सूर येवंक जायना. संवसार चलोवपाचो जाल्यार सगळें जाणा जावंक जाय. फकत नोकरांचेरूच पातयेवन संवसार चलना. आपणें पयलीं काम जाणा जावंक जाय, आनी तें काम करपाची तयारी दवरूंक जाय. तशें जाल्यारूच काम करून घेवप शक्य जातलें. देखून सगळीं कामां शिकून घेयात!'' ही शिकवण थेट्ट मेंदवांत गेली. कामाचें म्हत्व समजावन दिवपी बाबा फकत चार वाक्यां भितर संवसाराचें चक्र कशें नियंत्रणांत दवरचें हें सांगून गेलो.

बाबा नकळो अशें एकूय काम नाशिल्लें! जसो उलयलो तसोच तो जगलो! स्वता सगळें जाणा आशिल्लो. "नकळो, जमचें ना, शक्य ना" हे शब्द केन्नांच तोंडांत घेनाशिल्लो आनी कोणेंय घेतिल्ले ताका सोंस नाशिल्लें. देखून असली कडक्क देख दिवपाक बाबा इतलो योग्य मनीस ह्या जगांत तरी दुसरो आसचो ना अशें म्हाका दिसता! बाबा तो बाबा! वाल्लोर त्या शिस्तबद्द मनशाक!

### देव, धर्म आनी पाप

बाबा देवा-धर्माचेर खूब विस्वास दवरपी. तातुंत वावराड्यो, रानतल्यो आनी रांदपी लेगीत अशेंच करूंक जायना, तशेंच करूंक जायना, पातक लागता, अशें म्हणून धमकायत आसताले. तातुंत आजीय बी पातकाविशीं उलयत आसताली. 'पातक' हो शब्द चडान चड आमगेर वापरिल्लो आयकूंक येतालो. देखून आमी सगळीं पातक करूंक खूब भियेतालीं; हांव तरी भियेतालें; फकत पातक म्हणल्यार कितें हाची सारकी व्याख्या खबर नाशिल्ली. तें परत परत विचारून काडून घेवचें पडटालें. "शेंवतू, हें हांवें केलें तें पातक?" अशें म्हणून विचारून घेवपाचें आसतालें. शेंवतून वा आनीक कोणेंच हांवें केलां तें पातक अशें म्हणून केन्नांच म्हाका सांगलें ना. वेल्यान "तूं भांगर मगो म्हजें बाय! तूं केन्नां पातक करता? हें पातक न्हू!" ह्या येद्याय व्हडल्या भाषणांत अखेरेचें "हें पताक न्हूं" हें एकूच विधान म्हाका जायच आसतालें; हांवें पातक केलां काय ना हें एकूच म्हाका जाणून घेवपाचें आसतालें. पातक करून कळ्ळेंच ना आनी मागीर नाका जाल्लें तें भोगचें पडल्यार? नर्कांत वच्चें पडल्यार? थंय वतकच येतीश्ठ बडयतात खंय ते राक्षस!

बाबा आमचो सामको कडक्क! ताचें तोंडय बी उग्र आसतालें.

चडशे फावटीं तो सदांच पिकार आसतालो. आमी जेवपाक बसतकच तो आमकां मोठ्या झेत्तान सांगतालो, ''हें पळयात, जेवणाचो एक गोटो लेगीत ताटांत सांडचो न्हय. ताट सामकें धुयिल्ले भशेन लिंप आसूंक जाय. एक गोटो म्हणल्यार लेगीत तें अन्नच! एके मुंयेचें अर्दो गोटो म्हणल्यार सबंद दिसाचें अन्न! आनी तो एक अर्दो गोटो ते मुंयेक वा किड्याक मेळ्ळो ना जाल्यार ती मूंय वा किडो मरता! देखून एक गोटो लेगीत खूब म्हत्वाचो! देवान दिल्लो तो गोटो ताटांत सोडचो न्हय. देवाक वायट दिसता, पातक लागता!'' हीं बाबालीं उतरां आयज लेगीत कानांनीं घुमतात, आनी जेवपाक बसता आसतना आयज लेगीत हांव सामकें श्रध्देन बसून भक्तीन जेवतां, एक्क गोटो ताटांत सांडिना.

हांव मात्शें भावार्थी अशें सगळे म्हणटाले. कोणेंय कितेंय सांगल्यार ताचे फाटलो अर्थ सोदून काडपाक हांव वच नाशिल्लें. कोणूय कितेंय सांगता जाल्यार तें बरे भशेन आयकून घेवन, त्या प्रमाण वागप सोंपे दिसतालें. देखून हांव फाटीं-फुडें पळयनासतना, कांयच येवजिनासतना कोणेंय कितेंय सांगिल्लें तें सगळें सामकें खरें अशें धरून चलतालें. येवजुपाची संवंय नाशिल्ली. ''हें अशेंच कित्याक, तें तशेंच कित्याक, अशें करून तरी पळोवया, तो सांगता तें सगळें आमी आयकुंकच जाय अशें ना'' असले विचार करपाची म्हाका संवंय नाशिल्ली. हाचे उरफाटें माई, इंदू बी! बाबा कितेंय सांगता जाल्यार आयकुपाक थंय रावच नाशिल्लीं. एक एकदां ''येऽ तो वोगीच तापता, वाज सो!'' अशें ल्हवू बडबडून थंयच्यान चलूंक लागतालीं. बाबाच्या तोंडार हें सगळें मोठ्यान उलोवपाची कोण्णाची छाती नाशिल्ली. पूण कोणूय कितेंय उपदेश करता जाल्यार म्हजे भशेन तो आयकून घेवप हें असलें हीं दोगांय करी नाशिल्लीं. वेल्यान

म्हाकाच चाळयतालीं. म्हजेभशेन मान सकयल घालून, उबें रावन, फटीचीं दुकां गळयत, पांयांच्या आखाण्यान जमीन खरवडायत तीं म्हजी नक्कल करतालीं. दोगांय तकलेन फिन आशिल्लीं आनी तांकां सगळें समजतालें. ''बाबा पयशे कश्या कशेय खर्च करूं नाका म्हणून सांगता तें तो 'चामटो', पयशे दिवचे पडत म्हणून तो तशें उलयता,'' असो तर्क तीं काडटालीं. म्हाका मात् तें मानव नाशिल्लें. कोणूय जाण्टो कितेंय सांगता जाल्यार तें थंयच उबें रावन आयकुचें ह्या मताचें हांव आशिल्लें. तीं सगळीं मेळून म्हाका चाळोवन चाळोवन म्हजी वाट लायतालीं.

धा-बारा वर्सांचें आसतना म्हाका वाचनाची, बरोवपाची गोडी लागली. देखून हांव सबंद दीस कावळे, पिसोळीं, कुपां हांचेच विशीं येवजितालें आनी बरयतालें. ह्या विशयांनीं म्हजी तकली बरी चलताली. 'कावळो' अश्शी मान वांकडी करून पळयता म्हणल्यार ताका आमी करतात तें मानवना म्हणून तो नाराजी व्यक्त करता अशें म्हाका दिसतालें. कुपांनीं भितर कोण बसला काय, आनी तांकां कोण चलयता काय, हे असले म्हजे प्रस्न! मनशां कितें म्हणटात, कित्याक तापतात, झगडटात हाचें म्हाका म्हत्व दिस नाशिल्लें. म्हजें जग ह्या सगळ्या जगा भायलें आसतालें. जंय हांव करतां तें पातक केन्नाच थारचें नाशिल्लें. म्हज्या त्या जगाच्या वाटेक वचप त्या काळच्या म्हज्या भोंवतणच्या कोणाकूच जमपासारकें नाशिल्लें ; सामकें बाबाक लेगीत! बाबाक लेगीत ह्या म्हज्या जगांत भितर सरून धवळ घालपाक जमचें नाशिल्लें. हांगा वचून शिस्तीचें भाषण दिवप बाबाक लेगीत जमचें ना हें म्हाका खबर आशिल्लें. आनी म्हजें हें जग म्हजेच खातीर, म्हजेच पुरतें आशिल्लें, हांवेंच निर्मिल्लें! ❖

# 19

# गोबरा पोंदचे इंगळे

**रायबन् च्यो** यादी काडूंक बसलें. सगळ्यांत पयलीं आनी चड खरपणान सामकार आयलें तें 'बाय'. वादळाच्या भोवऱ्यांत सांपडिल्ले भशेन जावन तकलीच भेरेली आनी बायचो विशय हाताळल्या बगर फुडें वचप अशक्य जालें. देखून बायक पयलें स्थान दिलां. खऱ्या अर्थान म्हज्या काळजांत ताचें तेंच स्थान जावन आसा.

बाय म्हजी आवय! बायलमनशेन कशें जगचें न्हय हाचें शिक्षण म्हाका बायनच दिलें आनी तें गेलें! तें वचून आयज वीस दीस जाले. कितलें आनी कित्याक म्हणून ह्या जाण्ट्या मनशांनीं जगपाचें? चौऱ्याण्णव वर्सां जियेलें, आनी तें गेलें (1912-2006). गेलें तें बरें जालें! सुटलें तें आनी आमीय बी सगळीं!

बाय जियेलें, जियेलें म्हणल्यार दिसाक तीन फावटीं जेवन-खावन, उस्वास घेवन, खावचें पान खायत, हेवटेन-तेवटेन पिको शिंवरीत, पुस्तकां वाचीत आनी दर दोन वर्सांनी एक भुरगें जल्माक घालीत तें जियेलें. हय, तशें पळोवंक गेल्यार हाकाय बी जिवीत म्हणूं येता!

बायक केन्नाच कितेंय जाय आसतलें अशें कोणाकूच केन्ना दिसलें ना, सोडून एक धा पयशांचीं तीं खावचीं-पानां आनी चुरो! ताका आनीक कांयच नाका आशिल्लें. आनी म्हाका दिसता, तेंय बी मेळूंक नाशिल्लें जाल्यार ताका ताचें व्हडलेंशें वायट दिसपाचें नाशिल्लें!

तें रातभर पुस्तकां वाचतालें आनी दिसभर न्हिदतालें. दनपरां बारा-एक वरांचेर उठून न्हावन-धूवन तें जेवपाक बसतालें. जेवन जातकच मागीर तें परत आड पडटालें. गिरेस्त भाटकाराली धूव, तशीच भोव गिरेस्त भाटकाराली घरकान्न ती! घरभर कामाक दवरिल्ले लोक कितेंय तरी काम करतना दिसताले. तातूंत चड म्हत्वाचें तें 'तिमा'.

तिमा बायवांगडा धेडी म्हणून ताच्या कुळारच्यान ह्या घरांत आयिल्लें. तें बायक न्हावपाक आदार करतालें, आनी आपणेंच मिरयो काडून दवरिल्लें णववारी कापड न्हेसपाक मजत करतालें. घर भर लोक, वावराड्यो, रानचे कुडींतले कितलेशेच रानपी-रांदतल्यो, माथ्यावयल्या पदराच्यो मंगळूर-कारवारच्यो जाण्ट्यो, भुरग्यो बायलो आनी भायर पडवेर दनपारच्या पानाची वाट पळयत बशिल्ली पडवी भर प्रजा! हो सगळो बाय आनी बाबालो घराबो ; पडवेर बशिल्ल्या एकूण एक मनशाक तीं नांवांन वळखतालीं. बाबाच सगळो कारबार हाताळटालो ; सरभोंवतणच्या कामांक आनी मनशांक बाबा एकेचभशेन हाताळटालो. बाय फकत आपल्याच जगांत जियेतालें. चड करून थंयच ताका धादोसकाय मेळटाली जावंये; तें सुगुरपण अणभवतालें जावंये! ज्या मापान बाबा सगळो कारबार हाताळटालो त्याच मापान तो बायकय बी हाताळटालो. आपली बायल, वा बायलमनशेक जें खाशेलें स्थान आसता, आसूंक जाय, तें तांणे बायक केन्नांच दिलें

ना. देखून बायचें दुय्यम स्थान थारिल्लें आशिल्लें. सगळ्यांक समान वागणूक कशी दिवची म्हणटात तें बाबाकडसून शिकून घेवपाचें! तो सरळ, कडक्क, रागिश्ट, सज्जन, प्रामाणीक आनी सगळ्या कामांत फिशाल असो मनीस आशिल्लो. रानपाचें काम धरून पिडेस्त भुरग्याची जतनाय कशी घेवप हें सगळें ताका खबर आशिल्लें आनी वेळ पडल्यार तें सगळें तो करतालोय बी. पूण बायन केन्ना हातांत दवलो धरलो ना. संवसाराच्या व्हड्याक हात-भार लावपाची बाबान ताका केन्ना संदच दिली ना! धा भुरग्यांवांगडा त्याच भुरग्यांक जल्म दिवपी तांची आवय, तें बाय, तें अकरावें भुरगें जावन जियेलें! बाबान ताका तोच दर्जो दिल्लो पूण बायन केन्नां कसलीच कागाळ केली ना; ह्या जगाकडल्यान ताची कसलीच अपेक्षा नाशिल्ली जावंये!

बाय दिसपाक चित्रावरी सोबीत आनी खूब गिन्यानी. ताच्या भोंवतणच्या जगाच्या मानसीक चवकटींत तें केन्नांच चप्प बसलें ना. देखीक, भश्टें म्हणल्यार कितें, सवळें म्हणल्यार कितें, असल्या त्या वेळच्या बुन्यादी प्रस्नांचेर ताचे विचार त्या वेळच्या कोणाक पटपा सारके नाशिल्ले, करमठ बाबाक तर केन्नांच पटचे नाशिल्ले. बायक भश्ट-सश्ट, पुजा-उपास हें कांयच लाग नाशिल्लें, तें तसलें सगळें तें मानीय नाशिल्लें.

एक फावट म्हजी व्हडली भयण भश्टी आशिल्ली. त्या वेळार म्हजो तीन-चार वर्सांचो नश्टो धाकलो भाव ते भश्टे भयणीक आफडून घरच्या सगळ्या लोकांक आफुडलो! ही गजाल बाबाक कळिल्ली जाल्यार त्या तीन-चार वर्सांच्या भुरग्याच्या फाटीची कात देंवपाची. पूण बायन तें प्रकरण पालयलें. त्या काळांतले लोक ते! सगळे लोक, नोकर-चाकर, मुनीम, रानपी-रांदतल्यो बायन तोंडार हात दवरून 'गप्प' म्हणून खूण करीना बरोबर गपचीप बसले. प्रत्येक

जाण वचून न्हालो; भटानूय बी देवाची शुध्दी केली. बायन ताका आपोवन विचारलें, "भटा, हो भुरगो आनी माजर सारकें. माजर भश्टेक आफडून मागीर वचून तुमकां आफुडटा, आनी तुमीं भश्टनात. भश्टकार म्हणल्यार कितें, आनी तो कोणाक जाता? देवाक जर भश्टकार जाता म्हणशी जाल्यार तुजे इतलो पातकी कोण ना. तेन्ना तुका सांगतां, देव केन्नाच भश्टना हें लक्षांत दवर. बाबा कितेंय म्हणूं, तूं तुजें काम करीत राव." ही पयली आनी निमणी फावट बायन असलें कितेंय कोणाकूय सांगिल्लें जावंये. तशी ताणें कोणेंच कितेंय करचें म्हणून इत्सा केन्ना उक्तायलीच ना.

बायक कसलीच इत्सा नाशिल्ली जावंये. पूण तें कशें शक्य आसा? घडये कसलीय अपेक्षा धरल्यार ती तडीक वचची ना हाची ताका खात्री आशिल्ली जावंये आनी तशें घडल्यार जें दुख्ख, जी निर्शेणी पदराक पडटली आशिल्ली, ती ताका मान्य नाशिल्ली जावंये. त्याच खातीर कसलीच खंत करी नासतना, कसलीच इत्सा धरी नासतना ताणे जियेवपाचें थारायलें जावंये.

बाबान ताका केन्नांच बराबरच्या पांवड्यार बसयलेंच ना. दिसभर नाल्लांचो पाडो, शेताचो वावर, जमनीचो कारबार आनी दीसपट्ट्या जिणेच्या कामांत तो गुल्ल आसतालो. हाचेभायर आनी जगांत आनीक कितेंय आसूंक शकता, जिणेचीं आनीकय कांय तासां आसूंक शकतात म्हणपाचें ताका खबर नाशिल्लें. बाबाक आनी बायक एकठांय बसून उलयिल्लीं आमीं केन्नांच पळोवंक ना. बायलें स्थान बाबान थारावन दवरिल्लें. आपूण आससर आपल्या चेपणाखाला, आपल्या उपरांत ताचे जिणेचे अखेरेक मसुंडेंत लाकडांखाला आनी आपूण वतकच लाकडांचेर चडचे पयलींची ताची उरिल्ली सगली जीण फुडले पिळगेच्या पांयांखाला, हें ताचें स्थान थारिल्लें आशिल्लें.

ताकाय बी तेंच मान्य आशिल्लें? दुसरो पर्याय नाशिल्लो! घोवान हाताकडेन धरून कितेंय शिकयिल्लें वा भाटां-बेसां संबंदीं समजून घेवपाची संद दिल्ली जाल्यार तें कितेंय शिकपाचें. पूण आपलें मत, आपलें अस्तित्व केन्ना जाणोवन न दिल्ल्यान वा बाबाल्या प्राविण्यवादी शाळेंत तांणे घालून दिल्ली ती पातळी गाठूंक न पाविल्ल्यान तें अशेंच दुय्यम स्थान घेवन जियेतलें म्हणपाचें थारिल्लें आशिल्लें. तेन्नांच्या त्या कायद्याप्रमाण, म्हणल्यार, बाय जल्मल्लें त्या काळांत, भौतेक बायलमनशेक स्वतंत्र अशें अस्तित्वच नासतालें. पयलीं बापायच्या आश्रयार, मागीर घोवाच्या पाखांपोंदा आनी मागीर भुरग्यांच्या पायांपोंदा, हाच्या-ताच्या तोंडाकडेन पळयत बायलमनशेन हुमकळत जियेवपाचें आसतालें आनी तशें लोक मानतालेय बी आनी बायलांकय तें मानविल्लें नासल्यार लेगीत स्विकारचें पडटालें. अशेंच बाययबी त्याच पावस-गीम नाशिल्ल्या, फुलां-फळां नाशिल्ल्या, झाडां-पानां नाशिल्ल्या, प्राणवायूच नाशिल्ल्या, पोकळेंत शेंवटलें, आनी ती पोकळीच ताचें घर जालें.

बायक असली जीण पसंत नाशिल्ली. सुरवेकच ताणें बंड करपाचें, तें केलें ना. ताचे परिणाम आमी खूब भोगले पूण ताणे आपणायिल्ले निश्क्रियतेक लागून कोणाकूच कसलोच आवाज आयकूंक आयलो ना. पूण केन्ना केन्नाय सोद घेवपी म्हज्या कवळ्या मनाक आनी संवेदनशील कानांक ताच्या आत्म्याची वळवळ जाणवताली जावंये. आतां ह्या खिणाक मात् जशें जशें हांव भुतकाळाच्या भोंवडेर वतां, तशी तशी ताची ती वळवळ, अंदल्ल्यो हुयेली आयकून हांव घामेतां, खर्शेतां.

उज्याच्या त्या भगभगत्या लोळांमदीं सरणार घाल्लें मृत शरीर लाकडांवांगडा ''कड-कड'' करून जळून मोडटा आसतना जो

आवाज येता, तोच आवाज म्हाका जिवंत बाय जंय जंय बशिल्लें आसतालें, थंय थंयच्यान येतालो आनी हांव वळवळटालें! एखादीं बायकय बी हाची जाणविकाय आशिल्ली जावंये. बशिल्लें थंयच्यान तें पुस्तकावयली आपली नदर वयर काडून म्हाका पळयतालें. हांव ताचेकडेन पळयता आसतना म्हजे नदरेक नदर मेळोवन तें हांसून म्हाका हात हालोवन आपले मांडयेर येवन बसपाची खूण करतालें. हांव आशिल्लें चार-पांच वर्साचें, पूण जितली जाणविकाय, जितली संवेदनशक्त घरच्या जाण्ट्यांक लेगीत नाशिल्ली तितली ती म्हाका त्या कंवळे पिरायेचेर लेगीत आशिल्ली.

बाबान बायक केन्नांच कसलीच संद दिली ना. बायल्या सरभोंवतणी उदासीनता पातळिल्ली आशिल्ल्यान वोग्गी बसून कितें घडटा तें पळयल्याबगर आनी सोंसल्याबगर दुसरो पर्याय नाशिल्लो. फुडें धुवो आनी पूत व्हड जावपाक लागलीं. तेन्ना तर बायचें अस्तित्वच कोण मानपाक तयार ना जालो. हीं सगळीं भुरगीं एका मचकट्या, शाण्या, कर्तव्यदक्ष, दुरदर्शी, सज्जन, पूण हिसबी आनी हुकुमशहा बापायन - एका रूक्ष दादल्यान - वयर काडिल्ली प्रजा. तांच्या पालनांत एके आवयचो, एके बायलमनशेचो कुस्कूटभर लेगीत वांटो नाशिल्लो. ल्हानपणांत बायच्या भोंवतणीं आसतालें तें एक हांवच. बायच्या सांगाताक बसून पुस्तकां वाचपी, चित्रां काडपी आनी काणयांच्या ल्हारांचेर कागदांच्या व्हड्यांत बसून व्हलोवपी तें एक हांव!

सगळ्यो धुवो लग्न जावन आप-आपल्या घरा गेल्यो, आनी सुनो घरांत आयल्यो, घरांत आयल्यो म्हणल्यार, प्रत्येक पूत आप-आपलें घर बांदून भायर रावपाक गेलो. अखेरेक घरांत उरलें तें एक बाय, एक पूत, सून आनी एक नातू.

बाय केन्ना कोणाक वायट उतर दिनाशिल्लें. पयलीं सुनो घरांत

आसतना दनपारच्या वेळार सुनो आड पडटाल्यो तेन्ना बाय चवखेर आड पडून नातरांक काणयो सांगून तांच्या आडांगेपणांक आळो घालतालें. सगळीं भुरगीं चामकीळ कशीं बायल्या आंगभर दशिल्लीं आसतालीं. ह्या कांय खिणां पुरतें बाय सामकें जिवंत दिसतालें.

एकदां म्हजी एक भयण आपल्या स म्हयन्याचे नातीक घेवन आयिल्ली. बायलें तोंड इल्लेंशें जाल्लें हांवें पयलेच फावटीं पळयलें. ताणें धुवेक म्हणलें, "म्हज्या हातांत कांय ना दिवपाक तुजे हे नातीक. आसात ते आशिर्वाद फकत." धुवेन म्हणलें, "पागणच जाय आशिल्लें जाल्यार तें पोस्टांतल्यान येवंक शकतालें, पूण जाय ते फकत तुजे आशिर्वाद. देखून तुज्याच पायांकडेन आयलां." कांय लोक आशिर्वादांचेरूच धादोसकाय अणभवतात, कांय लोकांक नाण्यांचोच आवाज वळखुपाक येता, तोच फकत आवडटा, पूण तातुंतल्यान तांकां धादोसकाय मेळटा काय ना तें म्हाका खबर ना. त्या खिणांक तरी म्हाका म्हज्या भयणीच्या मुखामळार धादोसकाय म्हणटात ती दिसली. तिणें म्हणलें, "बाय, म्हजे हे नातीक आशिर्वाद दिवपाक प्रत्यक्ष आमची ही आवय ह्या संवसारांत आसा हें भाग्य कितल्या जाणांक मेळत?" "तशी म्हजी खूब इश्टेट आसा, खूब पयसो आसा, पूण इत्सा आसून लेगीत तुमकां दिवपाक म्हजेकडेन म्हज्या हातांत कांयच ना, कांयच केन्ना आयलें ना, पयलींय बी नाशिल्लें, आतांय बी ना. एकूण म्हजी इस्टेट म्हज्या हाताक केन्नाच लागली ना. आतां आनी कितें?" अशें म्हणून बायन ओंठ घट्ट दामून धरले, आनी आनीक उतरां भायर सरत म्हणून काय?

मरचे पयलीं एक वर्सभर बाय हांतुणारच आशिल्लें. न्हिदलें जाल्यार दिसभर उठच नाशिल्लें, न्हिदूनच उरतालें. मागीर ताचें जेवण-खाण बंद उरतालें, तें तशेंच प्रेत कशें पडून उरतालें. मनीस-

प्राणी मात् कितलोय उपाशीं पडलो म्हणून मरना. मरण म्हणटात तें येवपाचें तेन्नांच येता. त्या प्रमाण अशक्त शरीराचें तें बाय एक वर्सभर तशेंच न्हिदत-उठत जियेलें.

आयज बाय ना. तें गेलां त्या दिसा शेंकड्यांनीं लोक आयिल्ले. येदें व्हडलें घर तें सामकें भरून पोरसांत आनी रस्त्यार लेगीत लोक उबे आशिल्ले. सगळो गांवूच थंय आयिल्लो म्हणल्यार जाता. मरणाच्या पयल्या रातचें बाय प्राण सोडटा आसतना ताचो हात धरूंक हॉस्पिटलांत कोण्ण नाशिल्लो, ना धुवो, ना पूत-सुनो. आशिल्ली ती फकत हॉस्पिटलांतली एक नर्स. पूत-धुवो आपआपल्या घरांनीं वचून वेग-वेगळ्यो रावपाक लागतकच वारीचोय संबंद तुट्टा काय? वारीची जाणविकाय फकत घरांत रावपी नोकरांनीच बाळगुपाची आसता काय?

बायलो प्राण वतकच नर्सीन बायल्या घरच्यांक फोन करून कळयना फुडें वर्तमानपत्रांनीं जायरात घालपाचें काम आनी प्रेत यात्रेचे तयारीचें काम फिशालकायेन जालें, लग्ना-मुजीचें जाता, तितल्याच फिशालकायेन.

बायची कूड चवखेर दवरिल्ली. ताच्या मुखामळार कसलीच भावना नाशिल्ली पूण निश्प्राण ताच्या ओंठांचेर घरच्या आनी गांवच्या दर एकल्यान चिमटेन वडयिल्ले साकरेचे कण चकचकून ताच्या मुखामळाची सोबा वाडयताले. ताच्या कुडीक प्रतिश्ठा हाडटाले. जित्याच्या ओंठापरस मेल्ल्याच्या ओंठार साखर सोबून दिसता, जित्यापरस मेल्ल्याक गोडशें चड मेळटा असो एक विचार मनाक तोपून गेलो, अस्वस्थ करून गेलो. बायल्या कुडीभोंवतणीं जमिल्ल्या खुबश्या लोकांक रडूंक आयलें.

लाकडांचेर घालून अग्नी दिनाफुडें बायली कूड भर्र करून

एकाच खिणात गोबर जावन गेली. जशें बाय जगलें, तशेंच कोणाक शीण नासतना अचळय तें गेलें. ''बायचे आशिर्वाद आपल्याली राखण करतात, ताचेच सासायेन अमूक-अमूक बरें घडलें,'' ''तेंच पावला-कणकणीं आपली राखण करता,'' ''ताणेंच वाट दाखयली, नाजाल्यार हालांत पडपाचीं आमीं,'' अशें म्हणून घरांतले आनी घरा भोंवतणचे उलयतात. हें सगळें आयकून मनीस जिवंतपणी कुत्र्यापाश्ट जीण जगिल्लो आसल्यार लेगीत मरणा उपरांत तोच मनीस देवापरस चड शक्तीशाली जाता ही गजाल खरी काय दिसता!

बायल्या बाराव्या दिसा कावळ्यान पिंड कांय न्हय करून व्हेलो आनी त्या बाराव्याच्या पिंडाच्या प्रथेवेलो म्हजो विस्वासूच उडलो. बायली जीण म्हणल्यार रंग, रूप, आकार नाशिल्लें अशें एक रितें सपन. इत्सा कितल्योय मारल्यो जाल्यार लेगीत त्यो सामक्योच मरूंक शकतात? मनीस जेन्ना मोन्यांनीं मान सकयल घालून, निश्क्रियतेन जीण जियेता, तेन्ना ताच्यो इत्सा, ताचे हावेस खंय वतात? त्यो सामक्यो नाच्च जावंक शकतात? केन्नाय तरी गोबरा पोंदच्या इंगळ्यांप्रमाण त्यो भितरल्या भितर धगधगतल्योच काय ना? बायल्या सगळ्या हावेसांची, आवंड्यांची पावती दिवन, बेरीज-वजाबाकी करून, शिल्लक शुन्य म्हणून सांगपाक कावळ्याक कोणें नेमला? हो प्रश्न थंय जमिल्ल्या सगळ्यांच्या मनांत आयलाच जातलो, खुद्द भटांच्या लेगीत. कितेंय जावं, जेवण जाय आसता, मोग जाय आसता तो जितेपणी. मरणा उपरांत श्राध्द, बारावो, वैकुंठ समरादना, हें सगळें निरर्थक. खुद्द बाय स्वता असल्या ह्या गजालींचेर विश्वास दवरी नाशिल्लें म्हणूनच सगळ्यांच्या मनाक थाकाय दिवपा निमतान कोणाक जेवणाक तिश्टुचें पडचें न्हय म्हणून चिकाने करपाक त्या कावळ्याक बायनूच धाडूंक नाशिल्लो मूं? ❖

# 20

# आका आनी बाबलेप्पा

**आमच्या** आवयच्या आवयक, आजयेक आमी 'आका' म्हणटालीं. आमी आवयक 'बाय' आनी मावशेक 'दुर्गाबाय' म्हणटालीं आनी तीं दोगांय तांच्या आवयक 'आका' म्हणून उलो मारतालीं. आका पणजेच्या कोलवाळकाराली धूव; तिका गावणेकारागेर भाच्याक लग्न करून दिल्ली. कोलवाळकार पणजेकार आनी गावणेकार नागेशीं म्हऱ्यांतले, बांदोडेंचे! आका गोरीपिट्ट, मोटवीच, गुडगुडीतशी आशिल्ली. आंगलोटान ती वाटकुळीचशी, धवीच्च पोटली कशी दिसताली. सामक्या वाटकुळ्याच, हांसत्या तोंडाची, सोबीत दिसपी आनी मनाथावन व्हडान हांसपी, साद्या-भोळ्या स्वभावाची आका सगळ्यांकूच आवडटाली. एकूच वायट संवंय तिका आशिल्ली आनी ती म्हणल्यार पूड ओडपाची! रुप्याचें इलेशें पुडीचें बुशेद घेवन ती बशिल्ली आसताली. तिका चडशी पासयो बी मारिल्ली हांवें केन्ना पळोवंक ना.

आज्याक आमी 'बाबलेप्पा' म्हणटालीं. बाय आनी म्हजी

मावशी दुर्गाबायूय बी ताका ‘बाबलेप्पा’च म्हण उलो मारी. आकालें लग्न आठव्या काय धाव्या वर्सा जाल्लें खंय. पळेल्ले फावटीं बाबलेप्पा आकालीं फकाणां मारीत रावतालो, कॉमीकोच करीत रावतालो आनी आका ताचें कवतूक करीत खूप्प हांसताली. बाबलेप्पा भाटकार जाल्ल्यान खंयच नोकरेक बी भायर वच नाशिल्लो. तो मद्यम उंचायेचो आशिल्लो, तरी आकाक फावो तितलो मोटवोय बी नाशिल्लो. गोरोपिट्ट पाखलो कसो दिसपी बाबालेप्पा धवेंफुल्ल पुडवें न्हेसून धवीच पातळ मलमलाची बंडी घालून सबंद दीस सदरेर वा बलकांवां म्हऱ्यांत पासयो मारीत आसतालो. मदीं मदीं तो वोल्तेरार वचून बसतालो.

बाबलेप्पाल्यो मिश्यो खूब व्हड, लांबच्या लांब विंचवाच्या शेंपड्यांभशेन हेवटेनच्यान-तेवटेन दोनूय पोल्यांचेर चप्प बशिल्ल्यो आसताल्यो. त्या धव्याफुल्ल मिश्यांनीं बाबलेप्पा नाटकांतलो ‘पेशवो’ कसो दिसतालो, फाल्त तो कपलार कुकूम! बाबलेप्पाक पळयनाफुडें कोणाचेरूय छाप्प पडपा इतलो तो घशघशीत, राजेशायी दिसतालो! उजव्या हातांत मोठ्ठी भांगराची मास्कोत, दाव्या हातांत भांगराची रुंद पट्याची घडयाळ, गळ्यांत सरपळी असो आसतालो बाबलेप्पाचो थाट!

तो चडसो घरांतच आसतालो. केन्नां-केन्नांय भायर सरलोच जाल्यार नटून थटून ईलैसांवां दिसा वा आमगेर येता त्या दिसा. त्या दिसा तर तो शेदाच्या बंडेवेल्यान लांबचे लांब भांगरा रंगाची शेदाची ज्युदी घालतालो. ती धोंपरां पर्यंत येताली. जरीचे बंडेचो वेलो बट्टण भांगराचो आसतालो. तो घालून, गळो अंदून, वेल्यान मागीर ज्युदी घालतालो. बंडेचे हात मनगटांचेर खोमसाभशेन आसताले. तांका भांगराचे बुतांव लावन तो ते बंद करतालो. न्हेसता आसतना चार-

पांच लोक हेवटेन-तेवटेन उबे रावून ताका आवशील करताले. मागीर वेल्यान हळडुवसार जरीच्या देगेचें शेदाचें उपरणें घेवन गळ्यांत चार-पांच पडी भांगराचो शेडो घालून, जोतीं घालून, माथ्याक उपरण्याच्याच रंगाचो तो रुमाल बांदतालो. इतलोय श्रृंगार करून हातांत सोबीतशें रोत घेवन बाबलेप्पा आनीकय राजेशाही दिसतालो.

तो आनी आका खावचें पान खातालीं. तिमा धाडोवन दितालें, तीं खातालीं. पान खातकच तीं दोगांय तांबड्याच चोंचीचे कीर कशे दिसतालीं. आका आनी बाबलेप्पाली कूड माळयेर गलेरेर आशिल्ली. तांबड्या सुळसुळीत जमनीची कूड, जमनीक कान तेंकोवन न्हिदल्यार बरें दिसतालें. कुडी भायर आंतेपारांत आकालो स्टोव बी आशिल्लो. आंतेपार म्हणल्यार लाकडाच्या फळ्यांच्या जमनीचेर लाकडाचे फास्केंत करपां लावन गलेरेचें विभाजन केल्लें आसतालें ताकाच आंतेपार म्हणटाले. थंयच तिमा च्या, चपात्यो, सत्व करतालें. केन्नां केन्नांय आका थंय तवसळी, धोणस, पुन्नपोळयो, खटखटें, सांजोऱ्यो, येलापे, सुकुरउणे, कणङांची खीर, नेवऱ्यो वा हेर खाणां करून घेताली. जाण्टेपणांत बाबलेप्पाक गोडे मुताचें जालें तेन्नां तो थंयच आंतेपारांतच मेजार बसून जेवतालो. गंवांच्या कण्याचें शीत करून तिमा ताका दितालें. मागीर हुमण बी आसतालेंच! तो दनपारचो बारा वरां मेरेन वयर आंतेपरांतूच बसून जेवतालो.

बाबलेप्पा भुरगेपणांत जेन्ना आपल्या आजोळा पणजे रावपाक वतालो तेन्ना घरचे सगळे चले-चलयो मेळून खेळत रावतालीं खंय. लिपच्यांनीं खेळाक ‘आपा-लिपा’ म्हणटाले. आपा-लिपा, खांब्यांनीं, लोगोऱ्यो, फाट धरच्यांनीं, दांतें दळच्यांनीं अशे तरा-तरांचे खेळ आसताले. लगोऱ्यो मात् फकत चलेच खेळटाले. बाबलेप्पाचें आकाकडेन लग्न ल्हानपणांतूच थारिल्लें. त्या काळार

जल्म जायनाफुडें जोडयो जमोवन दवरताले, तशेंच हेंय बी लग्न ल्हानपणांतच थारायिल्लें.

कोणागेरय चली भुरगें जल्माक येनाफुडें ताका फावोसो चलोभुरगो कोणा-कोणागेर आसतलो हाची चवकशी करून, रोखडींच उलोवणीं करून, टिपण बी पळोवन सोयरीक थारताली. मागीर चलीभुरगें मात्शें व्हड, आठ-धा वर्साचें जातकच, ताचें लग्न जातालें. तशेंच आकालेंय बी जाल्लें. बाबलेप्पा भाचो जाल्ल्यान तो भुरगेपणासावन मामागेर यो-वच करून थंयच्या भुरग्यां बरोबर खेळटालो. तो आकाचीं खूब फकाणां मारी. ती संवंय ताणे म्हातारपणांत लेगीत तशीच दवरली. लग्ना पयलीं मामागेर गेल्लेकडेन तो आकाकडेन बोटां दाखोवन, ''हें तें चली काळें'' अशें म्हणटालो. आका घळ घळ करून रडून आकांत करी. बाबलेप्पा मागीर खुलासो करतालो, ''हें पळय, हीं दोन बोटां, हो आखांडो आनी हें ताच्या म्हऱ्यांतले बोट. हांवें तुजेवटेन बोट दाखयिल्लें? हांवें हात असो आडवो धरिल्लो! बोट कोणाकूच दाखोंव ना! तें तुकाच कित्याक लागलें? ह्या बोटावटेन माणीक आशिल्लें. ह्या दुसऱ्या बोटावटेन तूं. हांवें माणकाक काळें म्हणिल्लें.'' मागीर आका ओग्गी रावतालें. ही गजाल बाबलेप्पा खूब फावटीं सांगतालो आनी सांगिल्ले फावटीं आका हीऽऽ करून व्हडान खूप्प हांसताली. म्हजी सगळ्यांत धाकटी भयण कांचन आमच्यांत मात्शें सावळें. एकदीस बाबलेप्पान भुरगेपणांतलींच आडांगेपणां करपाचीं थारायलीं. ताणें आकाक दाखयतालो तशींच दोन बोटां कांचनावटेन दाखोवन ''हें तें चली काळें'' अशें म्हणलें. चार-पांच वर्सांच्या कांचनान ताका सोमतेंच विचारलें, ''हें बोट, काय हें बोट रे बाबलेप्पा?'' बाबलेप्पा चाट्ट पडलो! आकान अशें एकदांय जरी तकलेंत हाडिल्लें जाल्यार ती रडपाची नाशिल्ली. कांचनाचो प्रस्न

आयकून आका सदचेच भशेन व्हडा व्हडान हांसली. ताचेमागीर वर्सां कणकणीं तीं दोगांय हे गजालीची याद करून करून खूब हांसतालीं.

आका आनी बाबलेप्पा इस्पिकांनीं खेळटालीं. बाबलेप्पा सामको पटायत इस्पिकांनीं खेळपांत! खूब फावटीं तांच्यो कुळारा आयिल्ल्यो धुवो, धुवड्यो, नाती बी तांच्या बराबर बसून खेळांत भाग घेतालीं. बोव्वाळ सामको! हातुंतच म्हजी भयण माई थंय राविल्ले कडेन इस्पिकांनीं खेळपाक शिकलें आनी बाबलेप्पाल्या हाता सकयल प्रशिक्षण घेवन ताणें फिशालकाय जोडली. रायबन् रा आमगेर इस्पिकांनीं खेळप म्हणल्यार एक व्हडलेंच पातक! नरकांत वतकच कितें जाता तें जावं, बाबाक कळत जाल्यार पयलीं फाटीचीं सालां देवतलीं आशिल्लीं. देखून आमगेर इस्पिको बी नाशिल्ल्योच. फकत आका आनी बाबलेप्पा येतालीं तेन्नां तांचे वांगडा कांय भुरगीं बसून इस्पिको खेळटालीं. पूण बाबा त्यावेळार थंय येवपाचें टाळटालो. म्हणटकच बाबाक कळनासतना हो खेळ थंय चल्ला असो समज आसतालो. पूण हें खरें नाशिल्लें. बाबलेप्पाय बी आपले भशेन बाबालो मान राखतालो. आनी बाबाय बी इस्पीकांचो खेळ चालू आसतना तेवटेन येना आशिल्लो. कितेंय जावं, बाबालेप्पा मात् एकेकदां 'रडी' खेळटालो! आमगेर घराकडेन जाण्टे लोक कितेंय खेळटाले जाल्यार तें बुद्दीबळ, तिक्टें आनी ताबूल-फळ्यांनी!

आका-बाबलेप्पाक दोनूच धुवो! बाय आनी दुर्गाबाय. पूत नाशिल्ल्यान ताणीं भावालो पूत पोसको घेतिल्लो. बाय, म्हजी आवय, बाबलेप्पाल्या मोगाची धूव जाल्ल्या कारणान आकाचो आनी बाबलेप्पाचो तिचेर जीव आशिल्लो. तीं वर्सांतल्यान एक-दोनदां तरी येवन दोन-तीन म्हयने आमगेर रावन वतालीं. तेन्नां आमकां मार बी पड नाशिल्लो, बाबाय बी थंड आसतालो. सगळें बरें वेवस्थीत चलतालें.

आमी तीन-चार वर्सांचीं आसतना एकदां बाबलेप्पा आनी आका आमगेर आयलीं. आमीं सामकीं लजलीं. कोणूय परकी मनीस आमगेर आयल्यार आमी लजेन सामकीं मरतालीं. लिपप, एकमेकांक धुकलप, फाटींफाटीं रावप, 'कु कू' करून किटकिटप हें सगळें आमचें थारिल्लेंच आसतालें कोणय परकी मनीस भितर सरना फुडें. मागीर थोड्या वेळान आमी थंडावतालीं आनी सारकीं जातालीं. हांवें एक नवो व्हिस्तीद कोम्नाच्या खणांत दवरिल्लो. तो हांव कोणूय परकी येतकच बेगी-बगीन चडयतालें. ते प्रमाण हांवें बाबलेप्पा बी भितर सरनाफुडें बेगीन बेगीन तो व्हिस्तीद चडयलो आनी आमी सगळीं माळयेच्या इस्कादेचेर वचून लजून लिपून बसलीं. कितलोसोच वेळ जालो आका आनी बाबलेप्पा वचच ना! म्हजी धाकटी भयण इंदू खूब हुशार. अखेरेक ताणे वाजेवन वचून बायल्या कानांत तोंड घालून विचारलें, ''बाय, परकी केन्ना वतले?'' बायन हांसून सांगलें, ''तीं परकी न्हय. तीं हांगांच रावतलीं.'' मागीर हे लोक परकी न्हय, बायली आवय, आमची आजी हें असलें सगळें आयकून हांवें नवो व्हिस्तीद देंवोवन परत घडी करून खणांत वडयलो! आनी मागीर सदचे बशेन पोन्नी साय घालून हांव थंय येवन उबें रावलें.

आका आमगेर येतकच सकाळीं खावपाक पुरयो-भाजी बी आसतालें. त्या भायर, सांजवेळचें खावपाक सांजो-गोडसो वा तिखसो, कालयिल्ले फोव, बटाट फोव, तवसळी, घऱ्यांचें धोणस, दुदयाच्या बिंयांचें धोणस, भाकऱ्यो. पोळे, शेपे-पोळे, डांगर, अनरशे, पुन्न-पोळयो, कणङाच्यो नेवऱ्यो, हालउंडे, शिरवळ्यो, सांजोऱ्यो, बासुंदी, आमरस. श्रीखंड-पुरी असलें कितेंय ना जाल्यार कितेंय तरी आसतालेंच.

आका वांगडा तिमा म्हणून एक बायलमनीस येताली. ती

आकाल्या कापडाच्यो मिरयो काडून तिका न्हेसण न्हेसपाक मजत करपा सावन तिगेलें सगळें काम करताली. वयर बरयिल्लीं सगळीं खाणां आकाल्या हातासकयल रावन तिमाच करतालें. आमगेर खाण चड प्रमाणांत जाय पडटालें देखून घरच्यो कितल्योशोच बायलो ताका मजत करताल्यो.

सामकें ल्हानपणांत तिमालें लग्न जाल्लें आनी मागीर रोखडोच घोव भायर पडिल्ल्यान तें कुळाराच उरलें खंय. ताचें कुळार आकाल्या दुरगा भायरूच आशिल्ल्यान तें आका म्हऱ्यांतच सबंद आयुश्यभर उरलें.

आका-बाबलेप्पा आमगेर येवन जेन्ना रावतालीं तेन्ना दोन-तीन म्हयने जायनाफुडें तांकां लज दिसताली. धुवेगेर त्या काळार वचून कोण इतलो तेंप रावनाशिल्लो. मागीर तीं एक दीस भाड्याची मोटार आपोवन घेवन बांदोड्या परत वतालीं. वता आसतना मानशेवेल्या आदमाली भाड्याची मोटार चड करून तांकां घेवन वताली. एकेकदां तांच्या वांगडा बाय आनी आमच्यामदलीं दोन-तीन भुरगीं वतालीं. भाड्याच्या मोटारींत फुडल्या सिटार विठ्ठल, फाटल्या सिटार आका, बाबलेप्पा, बाय, मदीं शोफेराफाटल्यान सिटाक धरून आमी उबीं, पायांकडेन तिमा कुरकुटी करून जमनीर बसकण मारून बसतालें आनी मागीर मोटार सुट्टाली.

आका आनी बाबलेप्पा सबंद दीस-रात उलयत आसतालीं, हांसत, हांसयत आसतालीं. तांचो हो इतलो आनी असलो मोग केन्नां कोणाक पळोवंक मेळप कठीण. बाबलेप्पाबगर आका आनी आका बगर बाबलेप्पा हाची कल्पनाच करूंक नजो आशिल्ली. ताणींय बी केन्ना हाची कल्पना केल्ली नासुंये.

एक दीस बाबलेप्पा पोटांत दुखता म्हणून सांगपाक लागलो.

ताका खूब तेंप पोटांत दुखतालें खंय. मागीर बाबान ताका आमगेर हाडलो. आमचो दोतोर बाबाल्या भुरगेपणाचो आमीग, दोतोर यशवंत कुडचडकार. तो आपल्या वांगडा आनीक दोन दोतारांक घेवन आयलो. एक दोतोर सदा गुडो, दुसरो दोतोर गोविन्द वैद्य.

दोतोर गोविन्द वैद्य बारीक, किडकिडीत सो मनीस, दोतोर कसो दिसच नाशिल्लो. त्या वेळाचे दोतोर म्हणल्यार 'फोंस्फोंस्' करून, भुजां हालयत पुर्तुगेज उलयताले आनी उलयताले तेयबी चड करून "व्होंव व्होंव" करून व्हडा व्हडान हात हालयत, दोळे घुवंडायत, अकस्मात विचार केल्ले भशेन करून, दोळे धांपून, पिट्ट करून दोळे उगडून, ओंठ चप्प धरून, खप्प करून उगडून, मोठठ्यान ताणून धरुन ते उलयताले! तांच्या उरफाटे हे दोतोर! उलयताले काय फुतफुतताले हेंच कळ नाशिल्लें, वेल्यान कोंकणींत आनी उलयताले! नाका सकयल चौकोनी मिश्यो, चडश्यो मिश्यो पिकिल्ल्यो, खोमीस, ज्युदी, पुडवें आनी माथ्यार तोपी, अश्या स्वरूपाचो सादोसो मायेस्त दिसपी हो मनीस, दोतोर गोविन्द वैद्य! तसोच तो दोतोर गुडो! झेत बी कांय ना! एक सदळशें लांब कलसांव, वयर खोमीस, खोमसाचो सगळ्यांत वेलो बट्टण बंद करून गळो अंदून, ज्युदी घालून तो 'सादो' मनीस कसो उबो आशिल्लो. तोंड सामकें सादें! सुळसुळीत! मिश्यो बी कांय ना! होय बी बारीकूच! हाचे उरफाटो आमचो दोतोर कुडचडकार. पकदस्त मनीस! आमचो, घरचोच सो. बाबाभशेनूच आमकां तो आपलो सो दिसतालो. म्हणटकच ताका दोतोरांच्या वळेरेंत आमी केन्नाच बसयलो ना. तो जसो दिसतालो, तसोच तो आमकां दिशिल्लो जाय आशिल्लो. आमचो दोतोर कुडचडकार, मायेमोगाचो दोतोर, तोय बी कोंकणींतच उलयतालो. तो आमचोच न्हय? पूण हेय बी तशे सामके दोतोर कशे दिसनाशिल्ले. त्या वेळाचे गोंयकार दोतोर लेगीत

पाखल्यांचें अनुकरण करी. त्या मानान हे दोतोर सारकेच गोंयकारशे!

खूब वेळ तपासून, फुतफुतून जातकच खूब गंभीर तोंडा करून सगळे उबे रावले. हेवटेन तेवटेन पळोवन मागीर परत गंभीर तोंडा करून परत फुतफुतले. अशें बरोच वेळ चलिल्लें. आमी सगळीं पयसुल्ल्यान पळयत राविल्लीं. अखेरेक बाबान त्या दोगूय दोतोरांच्या बोल्सांत पयशे चोनले, हात दिवन ''मुयतिस्सीम ओब्रिगाद'' म्हणलें आनी तांकां भायर मोटारी पर्यंत पावोवन बाबा आनी दादा परत आयले.

दोतोर जेन्ना आमगेर येतालो तेन्ना तागेलें बॅग कोणूय तरी झोपून घेवन घरांत हाडटालो. कदेल दिवन दोतोराक बसयताले. मागीर काम सोंपोवन दोतोर परत वता आसतना दोतोराक कितले पयशे दिवपाचें तें कोण्ण दोतोराक विचारी नाशिल्लो. ताच्या बोल्सांत हात घालून पयशे चोनप! दोतोराकूय बी बेस बरें खबर आसतालें ह्या मनशान आपल्या बोल्सांत हात कित्याक घाला तो. नकळो जाल्ल्या भशेन भासोवन तो वतालो. पूण केन्नांच दोतोर पयशे मागिनाशिल्ले. प्रत्येक जाण आपल्या तांकी प्रमाण पयशे दितालो. एकेक फावटीं दोतोर गरीबांकडल्यान पयशे घेनाशिल्ले. त्याच खातीर त्या काळार दोतोराक देव मानताले.

त्या दिसा ते दोगूय दोतोर वतकच दोतोर कुडचडकार फाटीं रावलो आनी मागीर बरोच वेळ बाबा बी ताचे वांगडा फुतफुतले आनी मागीर तो गेलो.

बाबलेप्पाक 'कांक्र' जाला म्हणपाचें कळ्ळें. दुसऱ्या दिसा दोतोर कुडचडकारावांगडा आनीक दोन दोतोर आयले 'कोंसुल्त' करपाक. तांतलो एकलो पाखलो आनी दुसरो गोंयकार! दोगूय पुर्तुगेज उलयताले. हे मात् नाटकांतले दोतोर कशे दिसताले, सारके दोतोर कशे दिसताले, दोतोर कशे उलयताले आनी उलयतना मदीं मदीं

भुजांय बी येतिश्ठ हालयताले. मदीं मदीं दोळे बी अश्शे धांपून, दामून दवरून, पिट्ट करून उगडटाले आनी तोंडा बी वांकडी-तिकडीं करून उलयताले. अकस्मात ओंठ घट्ट दामून दवरून, फोर्सान ओंठ धुकलून तोंड उघडून फार मारिल्लेभशेन उतरां भायर काडटाले! मदींच खूब कठीण विशयाचेर येवजिल्लेभशेन तोंडा कडक्क करताले आनी ओग्गी रावताले. मागीर तांकां दोतोरकी कितली खबर आशिल्ली देव जाणा! तशी ती खबर आसूंकच जाय कारण ताणींय बी बाबलेप्पाक कांक्र जाल्ल्याचें मान्य केलें.

मागीर कांय दीस आमगेर रावन बाबलेप्पा परत वचपाक जाय म्हणून फाटीं लागलो. त्या काळार धुवेगेर मरप ही लजेची गजाल अशें मानताले. सगळ्यांच्या मना विरूध्द वचून ताणें परत वचपाचो निर्णय घेतलो. ताच्या उपरांत कांय म्हयने तो हांतुणार पडून जगलो आनी एक दीस तो आमकां सगळ्यांक सोडून गेलो. त्या वेळार तो सत्तर वर्सांचो आशिल्लो खंय. आका ताच्याकय पांच-स वर्सांनी ल्हान. बाबलेप्पा बगर आका ही कल्पनाच कोणें करूंक नाशिल्ली, तशी ती आकाकय बी सोंसप कितली कठीण जाली जातली ही सांगपाची गरजूच नाशिल्ली. आका सामकी कोंसळ्ळी. ताचे मागीर ती कांय वर्सां जगली, मरण येना म्हणून जगली, प्रेता प्रमाण जगली, सबंद आंगार बाबलेप्पाचीच चादर पांगरून, काळें कापड न्हेसून, एकाच कुडींत खाटीर पडून रावन ती धा वर्सां तिगली. केन्नाय तिका बाबा कांय म्हयने आमगेर घेवन येतालो पूण ती पयलींची आका नाशिल्ली. एक दीस सकाळीं च्या पियेवपाक बशिल्लेकडेन आका थंयच बाज्जेरूच प्राण वचून लंवडली, आका गेली!... सोंपली एक काणी, आका-बापलेप्पाची! ❖

## 21

# म्हजी आजी, पणजी आनी म्हजीं आतीं

**मंगळूर-कारवार** साकून आयिल्ल्यो कांय बायलो माथें तासून, णववारी कापडां न्हेसतालीं आनी माथ्यावयल्यान पदर घेतालीं. तीं धवीं वा तांबडीं कापडां न्हेसतालीं, कपलाक कुकूम लाय नाशिल्लीं, फकत चंदन झरोवन गंद लायतालीं आनी तांचे हात कांकणां नाशिल्ल्यान दादल्यांभशेन दिसताले. तांकां ''माथ्यावयल्या पदराच्यो बायलो'' अशें म्हणटालीं. म्हजी पणजीयबी, मानशेवेली आई, माथ्यावेल्यान पदर घेताली, बरी दिसताली, धवीच्च चानी कशी!

म्हजो बापूय पोसको. ताची पोसकी आवय मानशेवेल्या मोशेप्पा लंवद्याली भयण. म्हजो आजो भायर पडलो तेन्ना तागेर फकत दोनूच धुवो आशिल्ल्यो, पूत नाशिल्लो देखून तांच्याच नात्यांतलो भुरगो, म्हजो बापूय, ताणीं पोसको घेतिल्लो. गोरीपिट्ट, घारश्या दोळ्यांची सामकी तेजस्वी दिसताली म्हजी आजी. घोव भुरगेपणांतूच दोन चलयो जल्मना फुडें मुतखड्याचें दुयेंस जावन भायर पडिल्लो. म्हजी आजी माथ्यावयल्यान पदर घेनाशिल्ली पूण तिची आवय धवें

कापड न्हेसून माथ्यावयल्यान पदर घेताली. तीवूय बी खूब मायेस्त मनीस. नाजूक-नकसूद, माजराचें पील कशी इल्लिशी अशी म्हजी पणजी, आमचेरूच न्हय, तर सगळ्यांचेरूच उपाट मोग करताली.

म्हजे आजयेची एक भयण वत्सलआका, तेंय बी थंयच रावतालें. वत्सलआका लांब-रूंद, गोरेंपिट्ट, निळ्याच दोळ्यांचें, तांबड्या वोंठाचें, खूब सुंदर आनी रूबाबदार राणी कशें दिसतालें. ताकाय बी घोव नाशिल्लो खंय पूण ताच्या माथ्याक केंस आशिल्ले आनी तेंयबी माथ्यावेल्यान पदर घेनाशिल्लें. ताका एकूच पूत आशिल्लो, राजाभाऊ खवंटो, ताका आमी राजाभाऊच म्हणटालीं. तोय बी सामको गोरोपिट्ट आशिल्लो. ही म्हजे आजयेची भयणूय बी खूब मायेस्त आशिल्ली. ती आनी मोशेप्पा पळोवपाक एकेच भशेन दिसतालीं. मोशेप्पा मातसो चड मोठो. ताची बायल भिमामावशी, विठ्ठलबाब धेंप्याली भयण. ती मात् इल्लीशी आशिल्ली, पूण मनीस मायेस्त आनी सादी.

म्हजो आजो भुरगेपणांतच भायर पडिल्ल्यान म्हजी आजी चार-चवगां मदीं येनाशिल्ली पूण तिच्या माथ्यार केंस आशिल्ले आनी बोरा येदो तिचो वाटकुळोच्च आंबाडो बरो दिसतालो. ती एक मायेस्त आनी सादी मनीस. ती म्हाका बरीऽऽ करी. ती म्हाका आपलें ‘हातखाणें’ अशें म्हणटाली; अर्थ म्हाका खबर नाशिल्लो. पूण तिची कडी वांटून दिवप हें म्हजें काम आसतालें. तिर्विण येवन खाजें करता आसतना शंकरपाळी, नेवरी बी कापप, हें हांव करतालें. दुदाचीं नुस्तीं, हत्ती, गोरवां, शेवणीं, फळां, भाज्ज्यो बी करून कोणाल्याय फुलांक बी धाडपाचीं आसल्यार तिगेलें हें सगळें खाजें करपाक तिर्विणीक हातभार लावप हें म्हजें काम आसतालें. तरे-तरेचीं जनावरां, फळां बी करपांत हांव फिशाल आशिल्लें. ‘‘लताक जमता तें कोण्णाक

जमना,'' अशें म्हणून आजी म्हजी तुस्त करताली. त्या वेळार हांव धा-बारा वर्सांचें आशिल्लें जावंयें.

आमी आज्जेक आई म्हणटालीं. तिचे आवयक आजी वा आईय बी म्हणटालीं. आईच्या आवयचे दांत बरे घट्ट आशिल्ले. सुपारी पसून चाबून खाताली ती एक एकदां! चडशी करून ती खावचें पान, सुपारी बी खलबत्यार धाडोवन खाताली. ती मानशेर आपलो पूत मोशेप्पा म्हऱ्यांत रावताली. आमकां मोशेप्पागेर वचपाक आवडटालें. आईची आई-व्हडली आई-स्वता स्टोवा म्हऱ्यांत बसून आमकां गोडसो वा तिखसो सांजो वा शेवयांचो सांजो वा कालयिल्ले फोव करून दिताली.

हांव धा-एक वर्सांचें आसताना खूब फावटीं सांजचें वचून मानशेवेल्या आईक वेंतोस काडून येतालें. म्हाका तें असलें काम बरें जमतालें. हांव दोतोर जावन सगळ्यांक बरें करतलें अशें हांव सांगतालें. देखून म्हाका वेंतोस काडपाक खूब आवडटालें. इल्लीं इल्लीं कांचेचीं कॉपां आसतालीं. तातूंत कापसाची वात पेटोवन भितर धरून वात वाडोवचे वाडोवन तीं कॉपां फाटीवेल्यान चेपपाचीं. वात पालवता आनी कॉपां वाफेन तशींच घट्ट चप्प बसून उरतात. खूब वेळान तीं कॉपां आपशींच पडटालीं तेन्नां फाटीचेर व्हडले व्हडले गुलाबीच्च पानके कशे येताले. हे वेंतोस फकत कोणाकय थंडी जाता तेन्नांच काडटाले. वेंतोस काडटकच थंडी वता अशें म्हणटालीं.

हांव सामकें ल्हान, पांच-स वर्सांचें आसतना आईचे आईचो माथ्यावयलो पदर म्हाका पळोवंक बरो दिसतालो. त्या काळार गोयांभायल्यो कलयकान्नी येवन पितुळच्या ताटांक, तोपांक बी कलय काडून वतालीं. तींय बी अशींच माथ्यार पदर घेवन न्हेसतालीं. बरीं दिसतालीं. हांवूंय बी तुवालो घेवन भेंडाक गुठलावन माथ्यावेल्यान

पदर घेवन घरभर भोंवपाक लागलें. तिमाक तें बरें दिसलें ना. ताणें सांगलें, ''लताबाय, माथ्यार पदर घेवचो न्ही. पातक लागता!'' ''मागीर मानशेवेली व्हडली आजी घेता ती?'' ''तिका घोव ना. घोव नाशिल्लीं बायलां माथें तासून वेल्यान पदर घेतात,'' तिमान सांगलें. ''म्हाकाय घोव ना!'' हांवें हात फाफडीत सांगलें. तिमा कंटाळलें. ''चेऽ, हाका आनीक कितें सांगतलें?'' अशें म्हणीत तिमा थंयच्यान चलूंक लागलें. तिमाकूय बी घोव नाशिल्लो; पूण म्हाका तेन्ना तें खबर नाशिल्लें. ताचे मागीर हांवें विठुलाक, भटाक, त्रिंबकाक सगळ्यांक होच प्रस्न विचारलो. ''तुका समजुपाचें ना तें,'' अशें म्हणीत ते थंयच्यान गेले. फकत शेंवतू ''आगे बाये!'' अशें म्हणीत 'खळ्ळ' करून हांसत्त, खांकत थंयच्यान धांवून गेलें. पूण ताचे मागीर ''भुरग्यांनीं माथ्यार पदर घेवचो न्हय, पातक लागता,'' हें ताणें म्हाका येवन सांगलें. वायट तें काम करून पातक लावन कित्याक घेवंक जाय? अशें म्हणून हांवें मागीर माथ्यार पदर केन्नाच घेतलो ना.

मानशेवेल्या ह्याच घरांत म्हजी मावशी कमलबाय रावतालें. कमलबायलो घोव बाबलीबाब लवंदो सामको भांगर मनीस, साद्या भोळ्या सभावाचो! कमलबाय रूपान सुंदर आनी सभावान मोगाळ. आइल्ल्या गेल्ल्याक मनाथावन आग्रो करपी कमलबाय जेवण रांदतालें तितलें रूचीक जेवण आयज पर्यंत कोणेंच स्वता रांदून इतल्या मोगान आग्रो करून वाडिल्लें हांवें तरी पळोवंक ना! ''अन्नपूर्णा देवता'' अशें ताका नेरूरकार मास्तर म्हणटालो! दर दिसा तांगेर कितलेशेच लोक जेवताले आनी कमलबाय स्वता रांदून घालतालें. हांसतमुख कमलबाय चिमलकान्न देवता कशें दिसतालें. एकदां तांगेल्या शाळेंत सरस्पती पूजनाच्या निमतान गेल्ले कडेन दनपारचें हांव बाबलीबाबागेरच जेवलें. आयज लेगीत याद आसा त्या बांगडयांच्या

हुमणाची! बांगड्यांचें तेंफळां घालून केल्लें हुमण खावचें जाल्यार तें म्हजी मावशी कमलबायच्याच हातचें! काय बरें आलें आनी उब्यो शिनिल्ल्यो हरव्यो मिरसांगो घालून केल्लें तें हुमण! आयज याद जाता तेन्नां लेगीत लाळ गळटा! आयज कमलबाय ह्या संवसारांत ना, तरी लेगीत जेन्नां जेन्नां बांगड्यांचें तेफळां घालून केल्लें हुमण खातां, तेन्ना तेन्ना कमलबायची याद जाता, तांणे केल्ल्या त्या हुमणाची याद जाता, ताणें मोगान आग्रो करून जेवण वडिल्ल्याची याद जाता! कितेंय जावं, कमल बायन केल्ल्या आनी मायेन वाडिल्ल्या त्या हुमणाची रूच आयजूय जिबेक दसून उरिल्ल्यान कोणेंच केल्ल्या हुमणाक ही जीब त्याच उमेदीन येवकार दिवंक शकना, आयज लेगीत शकना!

### म्हजीं आतीं

बाबाल्यो दोगी भयणी, कल्याणमावशी आनी लक्षिमेंआका. त्यो केन्ना केन्नांय आईक मेळपाक येताल्यो. कल्याणमावशेक गावणेकारागेर म्हज्या मामाकडेन लग्न करून दिल्ली. ती चडशी आमगेर येना आशिल्ली. केन्नांय वर्सांतल्यान एकदां येताली. तिगेर तीन धुवो, विजूबाय घाणेकार, कांतूबाय कारो आनी मुक्तुबाय रायतुरकार. एकूच पूत, तो पुरशोत्तम गावणेकार. कल्याणमावशेल्यो सगळ्यो धुवो सामक्यो सोबित, सुंदर, नकसूद, माजराभशेन घारश्या दोळ्यांच्यो, गोऱ्योपिट्ट बावल्यो कश्यो! दांत, वंट सामके नकसूद! कल्याणमावशी खूब गिन्यानी आशिल्ली. सबंद दीसभर ती हेर वाचना वांगडाच तितलेच सोंपेपणान वेद, शास्त्र, धर्म हांचेरय बी वाचन करताली. देवाविशीं वा शास्त्रांविशीं कितेंय विचारल्यार वा कसलेय प्रथेचो आरंभ खंयच्यान जालो काय म्हणून विचारल्यार ती जुस्त जाब दिताली! खूब वाचन आशिल्लें तिका! म्हादेवाच्या तिसऱ्या दोळ्या

विशीं तिणेंच म्हाका विसकावन सांगिल्लें.

लक्षिमेंआका पणजे कोर्तींत रावतालें. ताका लवंद्यागेर लग्न करून दिल्लें. ताच्या घोवाक, बाप्पाक हांव भियेतालें. लक्षिमेंआका म्हाका चडूच आवडटालें. पिपल्स हायस्कुलांत हांव शिकता आसतना केन्ना केन्नांय इंतेरवालाक हांव लक्षिमें आकागेर वतालें. पूण बाप्पा जर भायरच दिसत जाल्यार हांव पळ काडटालें. पूण लक्षिमेंआकाक मात् पळयन पळयनशें दिसातालें. मायेस्त, सादें मनीस. तें कितें उलयता तें म्हाका सामकें समजतालें आनी तें आयकत रावनशें दिसतालें. लक्षिमेंआकालें तोंड शांत, सुंदर आनी देवमनशा भशेन तेजस्वी आशिल्लें! तागेर पांच चलयो, कमलबाय सुकेरकार, रत्नेंआका गोवेकार, कृष्णाबाय तारकार, मिराबाय देसाय आनी मुक्ता, जें आंकवारपणांतच भायर पडिल्लें. लक्षिमेंआकागेर चार चले, आनुदाद, बाबू, श्रीकांत आनी दत्ताराम. एकूण एक भुरगें आवय भशेन, मायेस्त! हीं सगळीं म्हाका आजय लेगीत लक्षिमेंआका इतलींच प्रिय आसात. तांचीं भुरगीं लेगीत म्हज्याच पिरायेचीं; म्हजी आनी तांची बरी इश्टागत आसा आनी तो मोग सदांच उरतलो. लक्षिमेंआकालें कुटुंबच देवमनशांचें! ❖

# 22

# म्हजीं भावंडां

## दादा आनी भाई

आमी सगळीं मेळून इकरा भावंडां, स भाव आनी पांच भयणी. सगळ्यांत व्हड तो गोविंद, ताका आमी दादा म्हणटालीं. ताका आज्याचें नांव दवरिल्लें. तो शिक्षणांत बी सामको हुशार आशिल्लो आनी दिसपांतूय बी सामको राजकुंवर कसो दिसतालो. तो गांवांत चडसो कोणाकडेन इश्टागत दवरी नाशिल्लो. ताचे खास अशे पांच-स इश्ट आशिल्ले. ताचें उलोवप आनी वागप सामकें विचारवंतां भशेन. सामको ल्हान आसतना लेगीत तो आमकां कश्याकशेंय वागल्यार बरे रितीन समजायतालो. तिड नाशिल्लो आमचेर, पूण उल्लासाक बी अभ्यासावेल्यान तापयतालो. समजिकायेन वागपाक शिकयलें तें ताणें. कसलोय विचार करता आसतना तो शास्त्रशुद्ध आसचो ही ताची शिकवण आसताली. भैरजळोव ताका मानव नाशिल्लो. एकदां हांवे ल्हान आसतना चोरिसांक 'शी' अशें विटून म्हणलें. रोखडेंच ताणें म्हणलें, ''तूं शीत जेवता तेन्नां कोणेंय तुज्या शिताकडेन पळोवन

'शी' म्हणल्यार तुका कशें दिसतलें? चोरिसां हेंय बी कोणालेंय तरी अन्न. तेन्ना अन्नाक केन्ना 'शी' म्हणचें न्ही. आपल्याक नाका जाल्यार खावचें न्ही. पूण दुसरो तें अन्न म्हणून मानता हाची जाणविकाय दवरची.'' ही समजणी हांव आयज पसून विसरूंक ना.

दादाक शास्त्रीय संगीताची खूब आवड आशिल्ली. ताणें रेबेक शिकपाक सुरवात केली. ताणेच बरोबर म्हाकाय बी फुडें काडलें शिकपाक. म्हाका पैलींच्यान संगीताची आनी कलेची आवड आशिल्लीच! कितेंय बरें काम करपाक फाटबळ दिवपाक दादा सदांच फुडें आसतालो. तोंडात बोटां घालप ना, चार चौगांत धेकर दिवप ना, कांटो चमच्याचो वापर जेवणांत कसो करप, स्वच्छताय कशी राखची, केंस-कान व्यवस्थित वळोवप, व्यवस्थित न्हेसप हें सगळें दादानच शिकयल्लें. समाजांत भोंवतना कशें बसप-उठप हें ताणेंच शिकयल्लें.

दुसरो भाव 'अनंतबाब', ताका आमी 'भाई' म्हणून उलो मारतालीं. भाईक पळयनाफुडें कोणाचेरय छाप पडपा इतलो तो शिरवंत दिसतालो. एका सज्जन मनशाचो छाप ताचेर बशिल्लो आशिल्लो आनी ह्याच खातीर ताका पळयनाफुडें लोकांचो ताचेर विस्वास बसतालो.

दादा भशेन भाई स्टायली बी करपी न्ही. सादे पद्धतीन, येतिश्ट तेल थापून केंस-कान चप्प वळोवन न्हेसून-करून भाई भायर सरतालो. गोरोपिट्ट, तांबडेच्च वंठ, नीट, सोबीत नाक असो हो भाई सामको फकांडेर आनी कॉमीक आशिल्लो. सदांच कॉमिकूच उलयतालो आनी केन्नांय पळयत तेन्नां कोणालींय तरी फकांडां मारीत आसतालो तो!

नाटकां, तियात्र, जागोर, कितेंय जांव भाई थंय आसतालोच

पळोवपाक! बायचो मामा मुकुंदबाब कोलवाळकार, आमी ताका 'दादा' म्हणटालीं, आमगेर येवन ह्या सगळ्या सुवाळ्यांक ताका बरोबर घेवन वतालो. नाजाल्यार बाबा ताका ह्या असल्या आत्तांक धाडपीच न्ही! दादा कोलवाळकार घोड्याच्या गाडयेंत बसून येवन आमगेर ठाण मारतालो त्या त्या सुवाळ्या दिसा. ताका खुद्द जागोर बी खूब आवडटाले. जागोर जातालो तो चिमला-मरमीं वाड्यार! हे दोगूय जाण नाटकांक, जागरांक वचून येवन मागीर उरील्ली रातभर आड पडून नाटकांतलीं, तियात्रांतलीं, जागरांतलीं भाशणां, पदां, कांतारां मोठ्या उमेदीन म्हणीत रात जागयताले! हे दोगूय जाण तान बी मारताले पदां म्हणटा आसतना! भाईली तान 'आऽऽ' करून लांबच्या लांब वारभर तरी वताली. कोलवाळकार दादाली तान बारीक आवाजान वाटकुळी वाटकुळी जावन सुळुसुळु करुन वताली! अखेरेक घुस्मटूंक लागतकच तान सोपोवचे पयलीं उरलेली तान तोंड बंद करुन हात घुवंडोवन दादा हातानच सोंपयतालो.

मायेस्त अश्या ह्या भाईक गरिबांची बी खूब काकूट दिसताली. ताचे सगळेच आमीग. गांवच्या एकूण एक मनशाक तो सामको लागींच्यान वळखतालो. भायर सरून वता आसतना येत्या वत्याक हडकिल्या शिवाय तो केन्नांच फुडें सर नाशिल्लो. दादले, बायलां, जाण्टीं, भुरगीं तो सगळ्यांची मोगान वासपूस करतालो. कोणूय बरो नाशिल्लो मनीस दिसल्यार अगत्यान ताची तो खबर घेतालो. लोकां कडेन माये मोगान उलोवपाक ताका घे म्हणून वेळ आसतालो. कोणूय दुयेंत आसल्यार एकेक फावटीं ताच्या घरा वचून वासपूस करतालो, तें दादाक पसंत नासतालें. दादा स्वता कोणागेरय घरांत भितर वचून शेनरेर बसपी न्ही. भाईलें अनुपचारीक अशें वागप सगळ्यांकूच ताचेकडेन ओडून घेतालें. रस्त्यान वतना कितलेशेच

लोक फुडें सरून येवन ताका हडकून वताले, तशे ते दादाक आपसुक येवन हडकिनाशिल्ले.

फुडें भाई दोतोरकी शिकपाक लागलो तेन्नां ताका रस्त्यार थांबोवन लोक आपल्यो व्यथा सांगपाक लागले. ''आननबाब, पोटांत घो घो करून व्हजरो पडिल्ले भशेन आवाज जाता.'' ''आननबाब, तकलेंत पिसोळीं भोंविल्ले भशेन फिरीफिरी आवाज जाता.'' मागीर भाई तांकां आमगेर घरा कडेन येवन 'ताक' पियेवन वच, वा 'पेज' जेवन वच, वा इकरा वरांचेर 'च्या' पियेवन वच म्हणून सांगतालो. हे लोक चडशे करून सामके जाण्टे आनी गरीब आसताले वा तांकां कोण्ण नासतालो. आमगेर येवन एकदां बसताले ते फकत दनपारचें पान घेवनच ते परत वताले. वारांदार बशिल्ले कडेन ते खूब चकाटां मारताले, न्हिदताले आनी खरेलेच ते बरे जाताले. हाका भाईलो हातगुण म्हणून ते समजताले.

हांव पंदरा वर्सांचें सुमार आशिल्लें तेन्नाचो एक प्रसंग म्हाका अजून याद जाता. दोतोरांनी वा मनीस जातीन दुयेंत वा दुखेस्त मनशां कडेन कशें वागचें हाचे विशींचे एक देखदिणें उदाहरण तें!

हांव पिपल्स हायस्कुलांत शिकता आसतना रेडियो स्टेशना म्हऱ्यांत आल्तिनाचेर एक जाण्ट्यांचें वसतीगृह आशिल्लें. हांव केन्नां केन्नांय थंय वचून त्या जाण्ट्यांक काणयो वाचून दाखयतालें. चडशा लोकांक इंग्लिश वा मराठी येना आशिल्ली. देखून हांव वाचून तांकां कोंकणींतल्यान त्यो काणयो सांगतालें. केन्नां केन्नांय हांव तांच्या सांगातान कांतारां म्हणटालें. वेळ बरो वतालो, तांचो आनी म्हजोय बी!

हांव पंदरा एक वर्सांचें आसतना एक दीस थयंची एक जाण्टेली बायलमनीस आपल्या कानांत गोंगुल्ले जाल्या म्हणून सांगूंक लागली.

ती सामकी अस्वस्त जाल्ली. तिची घालमेल अवस्था पळोवन थंयच्या व्यवस्थापक बायलमनशेन दोतोराक आपयलो. तो दोतोर भुरगोच सो, हांसपाकूच लागलो. तो तिका शास्त्र समजावन सांगपाक लागलो. "कानांत म्हणून गोंगुल्ले राबताय गे? तुजें जालां जाण्टेपोण! मात्शी वोगॉच न्हिदून राब, जातलें सारकें सोगलें!" तरी पूण ती आपल्या कानांत खरेलेच गोंगुल्ले राबतात म्हणून परत परत सांगपाक लागली. तेन्नां तो दोतोर तिची फकांण्डां मारून तिका विचारपाक लागलो, "आगे मांय, तुज्या कानांत कितें ते पिकनिकेक येयल्या? तेंका आनी आनी बोरी सुवात मेवोना?" सगळीं जाणां व्हडान हांसलीं. हांव आशिल्लें थंय तेन्ना त्या वेळार. म्हाका वायट दिसलें. कानांत एखादीं खरेलेच आसूंये गोंगुल्ले अशें म्हणून हांवें अस्वस्थ जावन भाईक ही गजाल सांगली. ताका वायट दिसलें. कानांत गोंगुल्ले जायनात, ते थंय जगूंकच शकनात. तरी पूण जाण्टे मनशेचीं फकाण्डां करप ताका बरें दिसलें ना.

शेवटीं भाईन एक येवजण रचली. त्या प्रमाण हांवें ते जाण्टेलेक एक नवो दोतोर तिका येवन पळोवंक सोदता म्हणपाचें सांगलें. ती बायल रागान सामकी उसळ्ळी. मागीर कांय लोकांच्या कानांत गोंगुल्ले जावंक शकता अशें हो दोतोर म्हणटा म्हणपाचें हांवें तिका सांगलें. ती सामकी फुल्ली!

दोन दिसां उपरांत तिका तपासपाचें थारलें. चंद्रकांतान अगरसाळेच्या पाख्याच्या पाटयांनी भितर रावपी सात-आठ गोंगुल्ले भायर काडले. ते मेल्ले गोंगुल्ले तेलांत घालून, चॉळख्यांत बांदून घेवन हांव, भाई, चंद्रकांत सगळीं जाणां त्या वसतिगृहांत हाजिर जालीं. भाईन दोतोरालीं कितलींशींच आयुदां आशिल्ली पेट, पाश्त घेवन कानवक्ल कानाक लायलें. चंद्रकांत सामकें करकरीत खोमीस

कलसांव घालून आयलो, दोतोराक आवशील करपाक. चंद्रकांताक चड उलोवपाची बंदी घाल्ली.

थंय वचून पळयत जाल्यार जाण्टेली सामकी व्हंकल कशी बरो कोराद विस्तीक घालून बरे केंस वळोवन तयार जावन बशिल्ली. भाईन मोठ्या आदरान सामकें बागोवन तिका आदेस दिलो. जाण्टेलेन भाईचेर बेसांवांचो शिंवोर घालो, म्हजेर आनी चंद्रकांताचेरय बी तिणें बेसांव घालें.

मागीर तिका बसोवन भाईन तिच्या कानांत भित्तर पळेल्ल्या भशेन केलें. तिच्या कानांत, दोळ्यांत स्पेशल बॅटरी दिव्याचो फोक घालो. मागीर माथ्याक कपलावैर दिवो बांदून, हातांत कसलेंय तरी एक आयुद घेवन भाईन तें तिचे तकलेक लायलें. कानवक्लान तपासून, स्वास घेवपाक लायलो. सामकें हुस्केल्ले भशेन तोंड केलें, परत कानांत पळयलें आनी 'आवयस्स्' म्हणून भाई आड्डुलो आनी कानांत भितर गोंगुल्ले आसा म्हणपाचें ताणें तिका सांगलें. जाण्टेली सामकी खूश जाली!

जाण्टेलेक आड पडपाक सांगून, तिच्या कानांत तेल घालून, तिका दोळे घट्ट धांपूंक सांगून, पांच मिनटां भाई थांबलो. "मांय, दोळे उघडशी जाल्यार भियेल्ले गोंगुल्ले दोळ्यांक बुराक करून भायर सरत, देखून दोळ्यांनीं भितर उजवाड येवंक जायना. गोंगुले तीं दारां म्हणून समजून थंयच्यान भायर सरून वचून तुजे दोळे बी फोडीत! मांय, दोळे सामके घट्ट धर धांपून!"

कुडीचें दार धांपून कोण्णाक भितर घेतलें ना. फकत व्यवस्थापिका जाणा आशिल्ली ही येवजण! अखेरेक चोळखो जाण्टेलेच्या काना सकयल धरून कानांतलें तेल भायर काडून तिका

दोळे उघडपाक सांगलें. चोळख्यावेले गोंगुल्ले पळोवन जाण्टेली सामकी धादोस जाली. "आंऽऽऽ आतां बरें दिसलें. पोत्ते गोंगुल्ले जायना मूं कानांत?"

"ना, ना, हें वखद खूब खर. कानांत एक इल्लेशें मोव मोव उशें कशें आसता. ताका हें वखदाचें तेल सामकें भरून उरलां. आतां तुज्या काना म्हऱ्यांतल्यान देखून गोंगुल्ले पासार जावंक शकना! वासानच गोंगुल्ले मरतले! कसलोच हुस्को करूं नाका! ह्या फुडें तुका कायंच्च जांवचें ना. गोंगुल्लोच न्हय, तर एखादीं कावळो लेगीत काना म्हऱ्यांत येवन तुज्या कानांत पळयत जाल्यार ह्या वखदाच्या वासान तो लेगीत मरत! तेन्ना तूं कावळ्या म्हऱ्यांत बी तांकां हुडकुपाक वचूं नाका. माजर, कुत्रो, मनीस हांकां धोको ना!"

हाचे मागीर हांव भाईक घेवन कितलेशेच फावटीं त्या वसतिगृहांत गेल्लें, ते जाण्टेलेची खबर घेवपाक. गेल्ले फावटीं ते जाण्टेलेन आमचेर खूब बेसांव घाल्लें. मागीर एक दीस ती जाण्टेली मेली, पूण मर म्हणसर गोंगुल्ल्यांची व्यवस्था करतकच धादोसकायेन जियेली. दोतोरांक येसस्वी जावपाक दोतोरकीच्या गिन्यानाच्याकय चड गरज आसा ती दुसऱ्याच्या भावनांची कदर करपाची तांक! ही एक मोलादिक देख ती जाण्टेली आनी तिगेले ते कानांतले गोंगुल्ले दिवन गेले.

### ताईलें लग्न

हांव पंदरा-सोळा वर्सांचें आसतना ताईलें लग्न जालें. ताचे पयलीं ताईली सोयरिक चलता म्हणपाचें आमकां सगळ्यांक कळिल्लें. पूण व्हडान भासाभास करपाचो हो विशय नाशिल्लो.

एक दीस ताईक न्हवऱ्याक दाखोवपाक व्हरपाचें थारलें. ताचे

पयलीं भाई असोच वचून न्हवऱ्याक मेळून आयलो. भावोजी दिसपाक सामको शिरवंत! भाईक आवडलो. पूण तो चडसो उलोवपी न्हय आनी उलयल्यारय बी सामको फुतफुतिल्ले भशेन! आमकां कोण्णाक कमी उलोवपी आनी हळू उलोवपी मनशांची सवंय नाशिल्ली! ह्याच खातीर भावोजी 'भेरो' बी न्हय मूं असो भाईक संशय आयलो. ताणे तशें बाबाक उलोवन दाखयलें. बाबा हांसलो. तरी पूण विठ्ठल मात्सो भियेलो. तो हळूच आपूण जावन, कोण्णाक वास लागूंक दिना आसतना मडगांवां वचून भावोजी कडेन उलोवन आयलो. ''वोगीच हांगच्यान वतालों. न्हवऱ्याक पळयन दिसलें, देखून आयलों.'' अशें म्हणून ताणें सरळ भावोजीकडेनच संवाद सादलो. पळयत जाल्यार सामक्या हळू आवाजांत विचारिल्लो प्रस्न आयकून ताणें उत्तर दिलें. विठ्ठल खूश! घरचें पयलेंच चली, लग्न जावन वता, तें भेऱ्याक पडत म्हणून सगळ्यांचेरच भार! खंयच्याय खिणाक कोणेंय नापसंती दाखयल्यार बाबाक ताचे संमती बगर पावल फुडें घालप कठीण जावपाचें. इतलो मोग आशिल्लो आमचेर सगळ्यांचो!

ताईक पळोवपाक चलेकार येतात म्हणून रेकाद येनाफुडें वेलंगा तो प्रोग्राम करपाचें थारलें. आमची एक कूड आशिल्ली वेलंगा देवळाच्या प्राकारांत. ती बरी साफ करून विठ्ठल आनी फोंडू आयले.

थारिल्ल्या दिसा आमी सगळीं, विठ्ठल, फोंडू, तळावलीकार बी वेलंगा गेलीं. ताई बरें न्हेसून बी आयिल्लें. भावोजीले सगळे भाव, ताजी भावज, मालीताई बी आइल्लीं. फोंडून आनी विठ्ठलान च्या, सांजो बी तयार करून घेतलो.

च्याचो आक्त जालो! भावोजीलो बापूय, 'बापी' बरो मनीस. ताचें आनी बाबालें बरें पटलें. तांचें पयलींच थारिल्लें खंय 'हयकार' दिवपाचें, ''पळोवप बी ही एक फॉर्मालदाद आशिल्ली,'' बापीन सांगू

नये ती सेग्रेत सांगून वडयली!

भावोजीले सगळे लोक येवन शेनरेर बसले. ताई भितरल्यान आयलें आनी वण्टीक तेंकून उकणयां कशें बसलें. तोंड दाम्मून धरून ताई बशिल्लें आपले भशेन स्टायलीन शें!

आत्त सोपोवन घरा येनाफुडें दादान ताईक म्हणलें, ''उशादेवी, कितें गो तें भोंक वरशें करून बसप?'' हें अशें जातलें म्हणपाचें आमी येवजूं नाशिल्लें. पयलीं आमकां ताईल्या बसपांत वायट अशें कांय दिसलें ना. पूण दादान तशें म्हणिनाफुडें आमकां सगळ्यांक लज जाली! ताईन त्या दिसा आमकां सगळ्यांक लजेक घालीं म्हणपाचें येवजून आमकां वायट दिसलें. ताईन तरी तशें करपाचें न्ही! आमी भुरग्यांनी मात्शीं पिशेपणां केल्यार सटांयच् करून आमच्या कानसुलार फुलोवपी ताईन अशें करप म्हणल्यार कितें? इतलेंय सगळें जातकच आमी सगळ्यांनी भावोजी सामको राजा कसो सुंदर दिसता म्हणपाचें सगळ्यांक सांगलें. भाईन जेन्नां ताईक विचारलें, ''उशादेवी, न्हवरो बरो दिसता, तुका पसंत मुगो?'' पळयत जाल्यार ताईन न्हवऱ्याक पळयोलच ना खंय! ताका दाखोवंक व्हेल्लें न्हय? थंय ताणें कोणाक पळोवपाचो प्रस्नच येना!

मागीर ताईल्या घरच्या लोकांनी बाबाक बी तांगेर आपयलें. आमी सगळीं गेल्लीं, सोडून ताई आनी उल्लास बी. थंय वचून पळयत जाल्यार तांगेलें घर सामकें नव्या पद्दतीचें, चक्क! बाबा सामको भारावलो, तांगेलें तें घर आनी ती राहणी पळोवन! फुडले आठेक दीस तरी ताईल्या घराक आनी ताच्या घरच्या लोकांक बाबा तोखेत उरलो!

ताईली मांय सामकी हुशार! ती सगळ्या कामांत फुडें! पणजेच्यो चडश्यो बायलो त्या काळार दादल्यांमदीं बसून बरोबरीच्या नात्यान उलोवण्यांक बस नाशिल्ल्यो. बाबाकय बी बायलां वांगडा बसून

भासाभास करपाची संवंय नाशिल्ली. बाबाक ताईल्या मांयवांगडा बसून उलोवपाक बरें दिसलें. कोणूय बायल हुशारीन उलयल्यार "सामकी दादलो कशी उलयली" अशें म्हणपाची पद्दत आशिल्ली. आई सामकी मुद्देसूद उलयली! आमी तिका आईच म्हणटालीं. बाबा सामको तोखेत उरलो!

मागीर तांणी साखरपुड्याक येता म्हणून सांगून धाडलें. आमी केन्ना साखरपुडो म्हणटात तो गोंयांत आयकूंक नाशिल्लो. मुंबय-बेळगांवचे लोक साखरपुडो करताले. पूण गोंयात ती प्रथा चडशी नाशिल्ली. तरी पूण बाबान साखरपुडो कितें हें समजल्ल्याचो आव हाडलो. थारिल्ल्या प्रमाण ताईली जाव मालीताई, भावोजीली भैण सुमनताई कडकडे, भावोजीलो बापूय बापी आनी भावोजीले दोग भाव सांजचे आमगेर आयले. येतना तांणी ताईक एक बरी साडी हाडिल्ली. एक मुदी हाडिल्ली सात वज्रांची. साखरपुड्याक मुदी घालतात ही म्हायती मेळिल्ल्यान बाबानय बी एक मुदी हाडिल्ली भावोजील्या बोटाचें जोख घेवन! दादान चार मित्र मंडळी कडल्यान ही म्हायती एकठांय केल्ल्यान बऱ्याक पडलें. नाजाल्यार लज जावपाची! ती मुदी आनी फाताचें लुगट घेवन आयिल्ली ती मंडळी सगळी परत गेली पूण वचचे पयलीं प्रथेप्रमाण बायन तांची व्हंट बी साडयो घालून भरली.

मागीर ताईल्या लग्नाचो म्हूर्त थारलो आनी व्हड दबाज्यान ताईलें लग्न जालें. ताई वता आसतना आमी ताका वेंग मार मारून व्हडा व्हडान रडलीं. ताईक घट्ट धरून आमी सोडपाक तंयार ना जालीं. असो भार कित्याक खबर ना पूण दर एकल्यान दुसऱ्याच्याकय आपणें चड आकांत केला हाची खात्री करून घेतली.

आयज याद काडीत जाल्यार लजेन मरपाक पुरो जाता! अडाणी आशिल्लीं आमी सामकीं! त्या मडगांवकारांक कितें दिसलें

गाय आमच्यो हो असलो आकांत आयकून? जितलो मोग चड तितल्या व्हडान रडप असो आमचो समज आशिल्लो! आमच्या वांगडा घरचे सगले लोक भितरल्या भितर घुस्मटून घुस्मटून रडले. बाबा मात् व्हंकलपावणे वेळार खंयच दिसलो ना! तोय बी खयीं तरी लिपून रडटालो जातलो. मागीर जेन्नां तो आमकां दिसलो तेन्नां नाक बी तांबडेंच्च करून भोंवतालो!

### माई

हिमा म्हजी व्हडली भैण. तें मात्शें व्हड जातकच आमी सगळीं ताका माई म्हणून उलो मारतालीं. ल्हान आसतना सामकें गोरेंपिट्ट, माथेंभर केंसांचें आनी मोठ्ठ्या दोळ्यांचें माई भेटना असो जागोच सापडपाक कठीण! वचत थंय तें आसतालें! ताचे पांय एक मिनीट एका जाग्यार तिग नाशिल्ले. सामकें हाडकुटें, काश्ट अशें हें हिमा सामकें वल्लेंतय धरना आनी सुपांतय धरना अशें आशिल्लें आनी झाडार लेगीत तें कांय न्हय करून चडटालें, माडारपसून एक-दोन हात वयरपर्यंत तें चडटालें! देखून लोक ताका एकेकदां 'हुमलो' म्हणटाले.

सात-आठ वर्सांच्या हिमाक तरातरांच्यो युक्त्यो सुचताल्यो. तें आनी रविंद्र मेळून खूप योजना आंखतालीं. बिमलीच्या फुलांचें शारोप विकून पैशे जोडप, कांकणां पुरून कांकणांचें झाड जातकच घरच्या आनी गांवच्या सगळ्या चली भुरग्यांक भांगराचीं कांकणां वांटप, काजू व्हिराचेर गुंथून घेवन पाट्यार वचून नुस्तेकान्नीं म्हऱ्यांत विकपाक बसप आनी गांवच्या सगळ्या लोकांची करमणूक करप हें असलें सगळें आमच्या सगल्यां मदीं तेंच एकटें करूंक शकतालें. तकलेन सामकें फीन. गांवच्या गरीब, जाण्ट्या लोकां विशीं ल्हानपणासावन

आस्त बाळगुपी अश्या ह्या भुरग्याचेर सगळेच मोग करी.

सामकीं ल्हान आसतना तिनसांज जायना फुडें आमी झेमूंक लागतालीं. जेवपाक पाटार बसतकच जेवण चलना जावन तें इलें इलें ताटांतच उरतालें. बाबा पळोवन आमकां तापयत म्हणून सात-आठ वर्सांचे हिमा, आमच्याकय फकत दोन-दोन वर्सांनीच व्हड आसून लेगीत आमची आवय जावन आमकां जपतालें. तें आमच्या ताटांनीं उरिल्लें जेवण कोण्णाक कळूंक दिना आसतना हळुच उखलून आमचीं ताटां लिंप करतालें.

जशें जशें तें व्हड जावपाक लागलें, तशें तशें तें घरची जापसालदारकी घेवपाक लागलें. सामकें हुशार आनी कसलेंय काम सामकें व्यावस्तित करून घेवपांत ताचो हात कोण्ण धरूंक शकनाशिल्लो. फिशालकाय म्हणटात ती कितें हें माईकडसूनच शिकून घेवपाचें, आनी आयज जर हांवूंच म्हजे फिशालकायेक आनी शिस्तीक तोखेतां जाल्यार ताचें श्रेय सगळेंच हांव माईक दितां. ल्हानपणासावन म्हज्या हाताक धरून, कडकडपी म्हज्या पायांक थिरताय दिवपी माईन म्हजे संवसाराचे बुन्यादीकच घटसाण दिली अशें म्हणल्यार अतिताय जावची ना.

### इंदू आनी कांचन

इंदू म्हजी धाकली भयण, पूण ताची तकली चलताली ती पळयत जाल्यार तें म्हजी व्हडली भयण कशें दिसतालें. दिसपाक खूब सुंदर, गोरेंपिट्ट! नाक बी सामको ''मोगरे कळो'' अशें मास्तर सदांच म्हणटालो. ताचे वाटेक कोण्ण वचनाशिल्लो. बाबाच्या सामकें मोगाचें आशिल्लें न्ही तें! मोटेंच बिलंदर आनी मस्तें! बायलीं खावचीं पानां खावन, दांत-तोंड तांबडेच करतालें, हांगा थंय पिको मारतालें,

पूण बाबा ताका केन्नाच कांयच म्हणनाशिल्लो.

तें खंय तीन-चार वर्सांचें जाय म्हणसर उलयनाशिल्लें. ''नेंऽऽ नेंऽऽ'' इतलेंच म्हणटालें, देखून मोनें म्हणून बाबाक ताची काकुळट दिसताली जावंये. मागीर खंय तें अचकीत एक दीस उलोवपाक लागलें. तें ''नेंऽ नेंऽऽ'' करतालें म्हणून म्हजीं आतीं बी ताका 'न्हेन्या' म्हणून उलो मारतालीं. एकदां एका लग्नाक भरिल्ल्या माटवांत सगळ्यांच्या सामकार किसूलआकान म्हाकाच 'न्हेन्याऽ' म्हणून उलो मारलो. आशिल्लें हांव तेन्ना णव-धा वर्सांचें! म्हाका सामकें मरपाक पुरो जालें!

इंदू भुरगेपणांत जाण्टे-नेण्टे म्हणून कांयच पळयनाशिल्लें. तागेल्या आडांगीपणाक कोणूच कांयच म्हणिनाशिल्लो. बाबाल्या मोगाचें तें, अशें म्हणून लोक ओग्गी रावताले. म्हाका तर तें परत परत ''गू खा, गू खा'' अशें म्हणटालें. सामकें लुडबें उलयतालें आनी देखून ''दुदू धा'' अशें ताचें म्हणप जातालें. म्हज्याच्याकय एक-देड वर्सान सुमार ल्हान, पूण तकलेन मोटेंच फिन. बाबाकडेन ताची कागाळ केल्यार तें तुका ''दुडू घे'' म्हणटा अशें म्हणून बाबा वेल्यान ताची शिफारस करतालो. ''बाबा, म्हाका काळो कुडको आनी काळ्या पिड्डुकांचो पोड जाय,'' अशें म्हणून ताणें सांगिनाफुडें बाबान ताका रोखडेंच तें सामान हाडून दिलें. मागीर काळें लुगट भेंडाक बांदून तरातरांच्यो मोडा-मोडी करीत, गळ्याक पिड्डुकांची माळ घालून सबंद दीस इंदू मुरगुटलें. मुदलांतूच सोबीत, तातूंत हो सगळो श्रृंगार करून तें आनीकय बरें दिसपाक लागलें. आशिल्लें तें तेन्ना चार-पांच वर्सांचें!

बाबा मुखार आपलीय एक मागणी दवरची अशें म्हणून हांवें खूब येवजिलें. म्हाका कितें जाय तेंच म्हाका सुचना जालें. येवजितां

येवजितां कितें येवजितालें तें मदींच विसरलें आनी अकस्मात पिसोळें वा शेवणें दिशिल्ल्यान ताच्याच फाटल्यान लागलें, पूण इंदूलें तशें नाशिल्लें. ताका आपल्याक कितें जाय, कितें नाका तें सामकें खबर आसतालें. म्हाका कितें जाय तेंच म्हाका खबर नासतालें, देखून हांवें शेवंतू, तळावलीकार, विठ्ठल हांकां सगळ्यांक विचारलें, "शेंवतू, म्हाका कितें जाय?" शेंवतू गोंदळ्ळें आनी ताणें परत विचारलें, "तुका कितें जाय?" म्हजी तकली मात्शी बेजारली. कितें उलोवंक सोदतालें हेंच ह्या गोंदळांत विसरून गेलें ना, हें एक बरें जालें! हांवें शेंवतूक सांगलें, "इंदून बाबाकडेन काळें लुगट आनी काळ्यो पिड्डुको मागल्यो. हांवूंय बाबाकडेन मागतलें. कितें मागूं?" होच प्रस्न हांवें कितलेशाच जाणांक विचारिल्लो, पूण ते सगळे हांसले आनी "बाय, बाबाकडेन मागतलेंच जाल्यार बाबाक कोण्णाक तापोवंनाका म्हणून सांग. बाय तें, शाणे म्हजें." अशें म्हणून तांणी म्हाका वेंग मारली. पूण म्हज्या प्रस्नाची सारकी जाप कोणेंच दिली ना. बाबाक रागार जावं नाका म्हणून सांगत जाल्यार कितें जातलें काय हें येवजूनच हांव कडकडलें. देखून तो विचार भायरावन हांवें शेंवतूक विचारिल्लें, ताणें म्हाका सांगलें, "बाय, मागचेंच जाल्यार "बरी बुद्द माग." "बाबाकडेन बरी बुद्द आसा?" शेंवतू खळ्ळ करून हांसत, खांकत, धांवत गेलें. म्हजो प्रस्न तसोच उरलो. शेंवतूक मात् खांक आयली. तें खांक खांक खांकलें आनी ताका वळवळटा तें पळोवन हांव म्हजो प्रस्नूच विसरून गेलें.

कांचन आमच्यांत सगळ्यांत धाकटें, पूण चडांत चड मायेस्त आनी समजिकायेचें तें तेंच! हेरांच्या भावनांची कदर करपाची तालीम घेवपाची जाल्यार ती तालीम कांचना इतली बरी दिवपी मनीस मेळपाक कठीण काय दिसता. स्वताच्यो गरजो लेगीत मारून तें दुसऱ्यांक

वेळोवेळ पावपी!

कांचन आमचें सगळ्यांच्या मोगाचें. डांगी मास्तर तर ताची चडांत चड अपुरबाय करी. ''कांचन म्हणल्यार पयसो, कांचन म्हणल्यार भांगर'' अशें म्हणून तो सांगी. ताणें एक पद रचिल्लें, ''कांचनबाय, कांचनबाय, तूं आमकां जाय, तूं आमकां जाय.'' अशें म्हणून तो सदांच कांचनाक खांद्यार घेवन भोंवता आसतना म्हणटालो. आमीय बी तें पद व्हडा मोगान म्हणटालीं. कांचन म्हज्याकय धा-बारा वर्सांनी ल्हान.

तें सामकें ल्हान आसतना ताका सायो बी हांव शिंवतालें. आमच्यांत सगळ्यांत तें एकटेंच मात्शें सावळें! आपल्याक अमूकच जाय अशें म्हणून ताणें केन्नाच कितें मागिल्लें म्हाका याद ना. शेजारचे सगळे लोक कांचनाचेर खूब मोग करी. शिनाऱ्याल्या गुरूनाथभाऊन गोरें जावपाक ताका एक शाबू हाडून दिता म्हणू सांगलें. मागीर तें सदांच ताची वाट पळयत रावतालें आनी तो येनाफुडें ''शाबू हाडला?'' काय म्हूण विचारतालें. अखेरेक ताणें एक बरो वासाचो शाबू हाडून ताका दिलो. तो लावन तें बाबडें परत परत आपले हात पळोवपाक लागलें, गोरे जाल्यात काय म्हूण. तें सामकें खोशी जालें! आशिल्लें तेन्ना तें तीन-चार वर्सांचें. सामकें भावार्थी. कोणेंय कितेंय सांगल्यार ताका तें खरेंच दिसतालें.

गांवच्या एकाय मनशान ताका काळें म्हणूंक ना. वेल्यान ''कांचनबाय तें, सोबावान भांगर'' अशेंच म्हणलां. ताच्या रंगाचेर कोणेंच केन्ना शेरो मारलो ना, पूण कांय सोयरीं-संबंदी मात् ताच्या रंगाचेर शेरो मारतालींच! तीं आमचेरय बी अशेच शेरे मारतालीं. कोणाक चड मोटें, तर कोणाक हाडकुटें अशेंच कितेंय तरी म्हणल्या बगर तीं वचनाशिल्लीं. आमकां राग येतालो तो कांचनाक कोणेंय

कितेंय म्हणल्यार, पूण त्या काळार जाण्ट्यांनी कशेंय वागल्यार तांकां परत्यो जापो कोण्ण विचारनाशिल्लो. बाबडें कांचन येदेंशें तोंड करून थंयच्यान वतालें.

"हें काळें मुगो" अशें म्हणिनाफुडें समोरच्या मनशाक वायट दिसत म्हणपाचें मात् पसून येवजिनाशिल्लीं त्या काळचीं खूबशीं मनशां. तशीं आयजूय बी तसलीं असंवेदनशील मनशां जळीमळीं मेळटातच न्ही! कांय मनशांक ही संवंयूच जाल्ली आसता. खयीं वचनाफुडें जें कितेंय नकारार्थी तें सोदून काडून तें मोटे खोशयेन जाहीर करपाची. कितेंय हयकारी उलोवप तांकां जमच ना! पूण हीं असलीं मनशां भोंवतणचें दुख्ख वाडोवपाक जापसालदार जातात! दरेकल्यान उलयता आासतना मात् तरी संवेदनशीलता दाखयल्यार जगांतलें कितलेंशेंच दुख्ख कमी जातलें!

कांचन शिक्षणांत तितलें हुशार नाशिल्लें, पूण शिवणसूत करपांत वा आनीक कसलेंय काम करपांत तें सामकें फिशाल आशिल्लें. हेरांकडेन बरे भशेन वागप, कर्मचाऱ्यां कडल्यान मोगान काम करून घेवप हें ताका बरें जमतालें. जें काम करून घेवप कोण्णाक जमनाशिल्लें तें काम कांचन कांय न्ही करून करून घेतालें. मनशांक कशें वागोवपाचें तें शिकोवपाक कांचना इतलो बरो प्रशिक्षक मेळपाक कठीण!

आमी सगळीं लग्न जावन वतकच कांचन एकटें उरिल्लें. तें गांवच्या सगळ्या लोकांकडेन बरें वागतालें आनी गांवचो एकूण एक मनीस ताका हडकिनासतना फुडें वचनाशिल्लो. गांवच्या कोणाय चलीभुरग्याचें लग्न जावं, कांचनाचो हातभार लागलेबगर व्हंकलेचें शिवण-सूत पुराय जायनाशिल्लें. व्हंकलेक न्हेंसोवप, तिचीं नाकटां पितारप हें तें मोटे मायेन करतालें आनी लोकयबी ताका तितलेच

मायेन आनी मानान वागयताले. कांचना इतलें नितळ काळजाचें मनीस मेळपाक खूब कठीण! तें केन्नाच कोणाविशीं वायट उलयिल्लें वा ताणें कसलीय कागाळ केल्ली हांवें वा आनीक कोणेंच आयकूंक ना. सदांच हांसतमूख आनी नितळ मनाचें, शांत सबावाचें कांचन सगळ्यांकडेनच मायेमोगान वागतालें, वागता. लोकयबी ताका खूब मोगान आनी आदरान वागयतात. ताका मेळनाफुडें म्हाका देवळांतल्या देवतेची भेट घेतिल्लेभशेन दिसता.

### म्हजे धाकटे भाव

म्हजे धाकटे भाव प्रसाद आनी नरशींव सामके ल्हान आसतना, कित्याक कोण जाणा, आमीं सगळीं तांकां 'पोपी' आनी 'नक्की' म्हणून उलो मारपाक लागलीं. हाका कोण्णें आक्षेप घेतलो ना. निदान जाणट्यांनी तरी नांवां तशीं विद्रूप करचीं न्हय म्हणून सांगपाचें! बाबा नक्कीक 'नोकी' म्हणून उलो मारतालो.

म्हजे व्हडले भैणीक, 'हिमा'क आमी हिमाच म्हणून उलो मारतालीं. एक दीस नेरूरकर मास्तरान सांगलें, मराठींतूच सांगलें, ''व्हडले भैणीक नांवांन उलो मारचो न्हय. फाल्यांच्यान 'हिमा'क 'माई' म्हणून उलो मारपाचें.'' त्या दिसाच्यान आमी सगळीं 'हिमा'क 'माई' म्हणून उलो मारपाक लागलीं आनी तेंय बी 'माई' म्हणून उलो मारल्यार रोखडेंच जाप दिवपाक लागलें.

समस्या निर्माण जाली ती पोपी आनी नक्कीलीं नांवां बदलपाचें थारलें तेन्ना. तेन्ना ते दोन-तीन वर्सांचे आशिल्ले. पूण हे व्हड जातकच ह्या असल्या अवचिन्न नांवांनी तांकां उलो मारल्यार चार चौगांत तांकां लज जावं येता, देखून तांचीं नांवा बदलल्यार बरें अशें माईक दिसलें.

माईन ह्या दोगांचींय नांवां बदलपा खातीर एक दीस थारायलो!

त्या प्रमाण आमीं भोंवतणच्या सगळ्या भुरग्यांक सकाळच्या अकरा वरांचेर फाटल्या माळयेर जमपाक सांगलें.

थारइल्ल्या दिसा माईन पोपी आनी नक्कीक न्हावन जातकच बरे न्हेसोवन सजोवन तयार केले. तिळगूळ आनी पड भर भाजिल्ले चणे व्हड व्हड वाडग्यांनी घालून घेवन माई आयलें. त्या काळार 'मसमीचे चणे' म्हूण खूब व्हड व्हड चणे मेळटाले. हे मसमीचे चणे आनी काळे सोणयाळे भाजिल्ले चणे माईन हाडिल्ले. सरस्पत बी पोपी आनी नक्कीक हाण्डेर धरून घेवन आयलीं. आमी सगळ्यांनी चोशीं वटेन जमून पोपीक एका ल्हान तामरेतीचेर बसोवन ताच्या माथ्यावेल्यान तिळगुळ आनी चणे ओतयले आनी ओतयता आसतनाच माई व्हडाव्हडान ''प्रसादबाब, प्रसादबाब'' म्हणून आड्डुलें. भोंवतणच्या सगळ्यांनी ताळयो पेटून ''प्रसादबाब प्रसादबाब'' म्हणून बोवाळ घालो, पेपारीं, तोप, पडगे वाजयले. मागीर सकयल पडिले ते चणे आनी तिळगुळ आमी सगल्यांनीं पुंजोवन खाले. त्या वेळार आम्कां भुरग्यांक हे असले चणे आनी तिळगुळ बी सट् सट् करून खावपाक मेळनाशिल्ले. देखूनूच सगळ्या भुरग्यांनी मोठ्या उमेदीन ते चणे जाता तितल्या बेगीन फैदासले.

ताचे मागीर प्रसादाक सकयल देंवोवन नक्कीक त्याच तामरेतीचेर बसयलो. ताच्या माथ्यावेल्यान उरिल्लो अर्दो वाडगोभर तिळगुळ आनी चणे ओतयले आनी ताळयो पेटून आनी बोवाळ घालून सगळ्यांनी ''नरशींवाब नरशींवबाब'' म्हणून बोवाळ घालो. माथ्यार ओतयल्ले चणे-तिळगुळ सकयल पडले. नरशींव धरून सगळ्यांनी ते तिळगूळ आनी चणे पुंजावन खाले.

दुसऱ्या दिसाच्यान आमी सगळीं याद्दीन 'पोपीक' आनी 'नक्कीक' 'प्रसाद' आनी 'नरशींव' म्हणून उलो मारपाक लागलीं.

प्रसादाक 'प्रसाद' म्हणून उलो मारिना फुडें सट् करून जाप दिवपाक ताका एक-दोन दीस जमलें ना. पूण मागीर 'प्रसाद' म्हणून उलो मारिनाफुडें व्हडान हांसून उडकी मारून तो जाप दिवपाक लागलो. पूण 'नक्की' मात् 'नरशींव' म्हणून उलो मारल्यार कसोच जाप दिना जालो. ताका आपुण 'नक्की'चो 'नरशींव' जालां हें समजुपाक कळाव लागलो. पूण 'नक्की' म्हणून उलो मारल्यार तो रोखडोच तेवटेन पळोवन 'कि किक्' करून हांस्सून जाप दितालो. 'नरशींव' म्हणून उलो मारल्यार तो दखलच घेना आशिल्लो. कमी ते दोन तीन तरी म्हयने लागले ताका आपूण 'नक्की'चो 'नरशींव' जालां हें समजुपाक!

पोपी सामको ल्हान आसतना सोबीत दिसतालो. गोरोपिट्ट, तांबड्याच वटांचो आनी काळेकिट्ट दोळे आनी केंसांचो असो तो पोपी सामको सोबीत बावलो कसो दिसतालो. जीब मात् सदांच भायरूच सुकत घाल्ली आसताली ताची! हांसता आसतना बी तो सामको चडूच सोबीत दिसतालो. अपुरबायेचो कसो!

तो पांच-स म्हयन्यांचो आसतना ताका खाक्यांत एक तांबडेंच्च गूट आयलें. एक दीस दोतोर कुडचडकारान येवन सुरी घेवन तें फाळ्ळें. पोपीक मांडयेर घेवन सरस्पत बशिल्लें. दुसऱ्या तामरेतीचेर दोतोर बशिल्लो आनी पोपी सामको वळवळून रडटालो. आमी सगळीं दुसरेवटेनच्या चौखेचेर उबीं रावन पळोंव नजो जावन रडटालीं. आयज लेगीत हे घडणुकेची याद जाता तेन्नां सरस्पतीचे मांडयेर आड घाल्लो तो वळवळून रडपी पोपी सामको दोळ्यां सामकार दिसता आनी जीव सामको कळवळटा, रडूंक येता.

पोपी ल्हानपणासावनूच सामको हाडकुटो. सामको धवो शेड्डो कसो, कुटूकुटू करून चारूय चवख्यांनी भोंवतालो तो.

आपल्याक घोवान वोगीत तापयलें म्हणून एक दीस गंगान

दोळ्यांत दुकां हाडून माईक सांगलें. सात-आठ वर्सांचो प्रसाद, म्हणल्यारच पैलींचो पोपी, थंय रावन आयकतालो. ताका वायट दिसलें आनी ताका गंगाच्या घोवाचो, पंढरीचो राग आयलो. ताच्या हातांत लाकूड आशिल्लें तें ताणें 'ढाढा' करून जमनीर आपटिलें आनी तूंय बी ताका असोच मार म्हणून सांगून तो थंयच्यान गेलो.

कांय म्हयन्यांनी पंढरी बरो ना, ताका दोतोरागेर घेवन वतां म्हण सांगूंक गंगा आयिल्लें, तेन्नां "ताका मरूं दी, दोतोर बी कांय नाका! बरो जायत जाल्यार तो परत तापयतलो तुका" असो सल्लो प्रसादान ताका दिलो! गंगा चाट पडलें!

खेळटा आसतना मात् प्रसाद सामको विटयतालो. कोयणेबालांनी खेळटा आसतना ताच्या कोंयड्यार बाल मोखलें जाल्यार तो सामको चाळवतालो! हार तो कशीच सोसूंक शकनाशिल्लो! समोर दिशिल्ल्या मनश्याचो तो गुन्यांव करी. "तांबडी साय घालून थंय तूं उबें रावलें म्हणून अशें घडलें" अशें म्हणून तो आपले चुकीचें पातक दुसऱ्याच्या माथ्यार थापतालो! तो तापता तें पळोवन आनी ताचीं उतरां आयकून आमची सगळ्यांनी बरीच करमणूक जाताली! ताका तर्कशास्त्र बी कांयच लाग नाशिल्लें.

नरशिंवाक चार-पांच म्हयन्यांचो आसतना पोलियो जाल्लो. ताचो दावो हात सामको मोव जाल्लो. आयज येवजित जाल्यार काकूट दिसता. एक इलोसो अपंग भुरगो हाल-चाल करता आसतना धडपड करता ती पळोवन काळजाक पीळ पडटालो.

बाबा ताका खूब मारतालो. खरें पळोवंक गेल्यार तो ल्हान आसतना जें जें कितेंय करतालो तातूंत कायंच वायट अशें नासतालें. सर्वसादारण भुरगीं जें कितें करतात तेंच तो करतालो. पूण तकली सारकी नासताली ती बाबाली! तो सदांच ताप्पून आसतालो आनी

कोणेंय कितलीय ल्हान चूक, जी करणी तो 'चूक' म्हणून थारायतालो, ती तसली ल्हान चूक लेगीत एक व्हड गुन्यांव जाल्लेवरी तो ताका येतिश्ट मारतालो. बाबालें मारप म्हणल्यार तो कितल्याश्याच थापटांचो पावसच! कोणेंय तरी त्या भुरग्याक वांचोवचो पडटालो! मारता आसतना बाबा त्या भुरग्याची पिराय वा चण पळयनाशिल्लो. जितली चड तिडक, तितलो चड मार!

अडेज-तीन वर्सांच्या भुरग्याक खांब्याक बांदून येतिश्ट मारपी मनशाक कोणेंय कितें म्हणपाचें? कोणूय असो मारीत कोणाय ल्हान भुरग्याक? बाबा मारतालो! ल्हान भुरग्याक एका हातान घट्ट धरून दवरल्यार तो खंय वतलो? पूण त्या ल्हान भुरग्याक वाग जाल्लेवरी राजवान बांदून घालपाची गरज फकत बाबाकच भासताली. नरशिंवासारक्या पोलियो जाल्ल्या त्या इल्ल्याश्या भुरग्याचेर हात उखलपाचें सोडाच, ताका सादें तापोवचें पडल्यार लेगीत म्हजा सारकेल्याचें काळीजूच बंद पडपाचें!

बाबा सगळ्यांकूच येतिश्ट बडयतालो, सोडून आमकां धुवांक! दादा आनी ताई हांकां दोगांकय ताणें तापोवंक ना, पूण भाईक मात् ल्हान आसतना खूब मारला!

निरपणसाच्या सुकिल्ल्या खांदयेची नळी घेवन तातुंतल्या मोव घोरपाक बुराक करून भाईन ताची विडी करून भायर बशिल्ल्या सगळ्यांक झेत दाखोवपाक म्हणून ती विडी ओडिल्ल्याचें सवंग केलें. पासयो मारीत, पाखलो जावन हेवटेन तेवटेन व्हिस्त मारीत तो विडी ओडिल्ल्याचें सवंग करपाक लागलो.

बाबा पणजे साकून घरा येनाफुडें काळेल्या इंदिरेल्या धुवेन, सोमून ताका हे सगळे घडणुकेविशीं सांगलें. बाबान भाईक बडयलोच! वेल्यान, व्हड व्हड गुंडे घेवन ते जमनीर मांडून, तांचेर

धोपरां दवरून भाईक दिमकुऱ्यांनी वचपाक लायलें. ताचीं धोपरां सोल्लीं बाबड्याचीं! मागीर शेंवतून ताका उखलून व्हेलो. तें खूब रडलें. हें सगळें नाटक चलिल्लें तेन्नां चवकेचेर दनपारच्या वेळार भाटांतले कितलेशेच लोक येवन जेवपाक बशिल्ले. तांकां जेवण चल्लें ना. कांय जाण घुस्मटून रडले. पूण भाईक मारूं नाका म्हणून बाबा सारकेल्या वागाक सांगपाचें धाडस तांचे पैकीं कोणाकच जालें ना. बाबा सामकार उबें रावन तो करता तें चूक म्हणून सांगप शेंवतू सोडून कोणाकच जमलें ना. विठ्ठल, तळावलीकार बी मार खावपी भुरग्याक सोडोवन घेताले पूण शेंवतू भशेन रागान फडफडपाचें धाडस कोणाकच जाय नाशिल्लें.

आयज ह्या खिणाक नरशिंवा सारक्या पोलियो जाल्ल्या असहाय भुरग्याचेर हात उखलप वा ताका सादें तापोवप लेगीत हांव सोंसून घेवपी न्हय! बाबा जेन्नां म्हज्या भावांक मारतालो. तेन्नां आमी सगळीं एकेकडेन उबीं रावन खूब रडटालीं. तेन्नां बाबा करतालो तसलो अत्याच्यार आयज जर कोणूय पालक करतना दिसत जाल्यार तीच बडी घेवन हांव त्या पालकांक फोडून काडपी! आयज कोणूय भुरग्याक तापयल्यार, वा तापोवणी खावन कोणूय भुरगें रडल्यार आमच्या भुरगेपणाची आकांताची भिरांत तिगोवपी ती परिस्थिती सामकार येवन उबी रावता आनी रागाच्या उज्याचो एक व्हड लोळ परत एकदां जिवंत अणभव जावन उठ्ठा आनी मागीर.... ❖

23

# आमा पंढरपुराक वता

**मंगळूर-कारवार** साकून आयिल्ल्यो कांय बायलो आपल्या भुरग्यांक घेवन आमगेर रावताल्यो. चडशीं भुरगीं आमच्याच वयाचीं आसतालीं. हांतल्यो दोन-तीन बायलो माथ्यावेल्या पदराच्यो आशिल्ल्यो. तांतली सगळ्यांत जाण्टी ती आमा! आमा गोरीपिट्ट, इलीशी चानी कशी दिसताली आनी कुटूकुटू करून फांस्स चलताली. ती उलयताली बी सामकी फांस्स. खूब मायेस्त मनीस! तोंडाक कितल्योश्योच पांचव्योच तिकल्यो. कपलार, खाडकेर, पोल्यांचेर, हातांचेर, बोटांचेर सगलेकडेन तिकल्योच तिकल्यो!

तिचें आनी भाईचें बरें पट्टालें. म्हजी आजी आई आनी ही आमा पूड ओडटालीं. फुडें फुडें भाईय बी केन्नां केन्नांय पूड ओडपाक लागलो. भाई खूब फकाणेर. तो आईल्या जिवाचो सामको! तिचे वांगडा बसून खबरो मारपाक ताका खूब आवडटालें. तो आईक पेरां बी काडून खावपाक दितालो. फाविल्ल्या फावटीं तो आमालीं फकाणां मारतालो.

आमा दिसभर कितेंय ना जाल्यार कितेंय तरी काम करीत आसताली. कांय ना जाल्यार पिसोणी बडयेक बांदून घयरांव तरी काडटाली ती. शिंयां तेंपार राती कडेन बसून ती तिळगूळ करताली आनी हेच तिळगूळ हळडी कुकमाक वापरताले. चड 'शीं' पडल्यार तिळगूळांक कांटे चड बरे येतात अशें ती सांगताली.

आमा आनी म्हजी आजी आई कापसाच्यो वाती वळटालीं. आई रावताली त्या घराच्या फाटले वटेन आमचे रानचेकुडीचें फाटलें दार आशिल्लें. हांगा खूब व्हड पोरसूं आशिल्लें. जागो खूब व्हड आशिल्ल्यान थंय सगळे तरेचीं झाडां आशिल्लीं. आईच्या फाटल्या दाराक तेंकून कापशिणी आशिल्ल्यो कितल्योश्योच! ह्या कापशिणींक ल्हान ल्हान बोंडां येतालीं पाचवींच्च. मागीर तीं सुकून उगडटालीं आनी तातूंतल्यान कापूस दिसपाक लागतालो. आमी हीं सुकिल्लीं कापसाचीं बोंडां व्हरून आईक दितालीं. सांजवेळची आमा इलीशी वल्ली घेवन येवन उरिल्लीं सुकिल्लीं बोंडां काडून ते वल्लेंत घालून घेवन वताली. मागीर आमा चवकेर बसून हीं बोंडां उगडून कापूस भायर काडटाली. ह्या कापसांत भितर बारीक बारीक काळ्योच्च बियो आसताल्यो. त्यो कापूस पिसडून काडून उडोवपाच्यो आसताल्यो. मागीर हो तयार जाल्लो कापूस पेटाऱ्यांत भरून दवरून ताच्यो बारीक बारीक वाती करताली आमा. पयलीं हातार 'विबूत' धरून ताचेर जाय तितलो कापूस घेवन वाती वळटाली, आनी वीस-वीस वातींची चुडी करताली, तांकां 'जोडवीं' म्हणटाले. 'विबूत' म्हणल्यार गोबर, पूण तो फकत भटूच दितालो. हांड्याच्या रान्नींतलो गोबर वाती करपाक वापरिनाशिल्लीं. आई सोप्यार बसून वाती करताली. तिका हांव आनी भाई मेळून मजत करतालीं. आमी कापसाच्यो गुठल्यो काडून दिवपांत तिका मजत करतालीं. ह्यो गुठल्यो काडिल्लो कापूस आई सांगशेंत

घालून दवरताली. वाती वळपाक आमकां जमनाशिल्लें. आमी सामकीं ल्हान आसतना भिकूमाम व्हडल्यो वाती वळटालो आनी तो त्यो वाती घरभर आशिल्ल्या लामणदिव्यांक वापरतालो.

दर वर्सा गांवचे कितलेशेच लोक, दादले, बायलां बी पंढरपुराक वतालीं आनी पांच-स दिसांनी परत येतालीं. येता आसतना तिळगूळ, भाजिल्ले काळे चणे बी तीं घेवन येतालीं प्रसाद म्हणून. कांय लोक दिवपाक म्हणून पितुळचे चंबू, ताटल्यो बी घेवन येताले. वता आसतना बरोबर सगली मुस्तायकी घेवन वचपाची. उशें, पांगरूङ, जमखणांत गुठलावन घेवन, इल्ल्याश्या ट्रंकांत घालून वा पोटली बांदून हेर सगळे कपडे घेवन, हे लोक वताले. न्हातकच आंग पुसपाक वाले, हात पुसपाक भाणशिरीं, पिवपाक उदकान भरिल्लो फिरकीचो तांबयो अशें सामान घेवन ही सगली मंडळी भायर सरताली. त्या काळार बाटल्यांनी बी उदक मेळनाशिल्लें आयच्या भशेन! मेळटाल्यो त्यो सोदाचो बाटल्यो! गड्ड्यांचीं सोदां आसतालीं त्या काळार. बाटलेच्या तोंडात बोट घालून बाटलेच्या गळ्याभितर आशिल्लो कांचेचो गड्डो सकयल धुकलून, ही बाटली उघडपाची आसताली! हाजेभायर आनी पियेवपाक उदक म्हणल्यार तें हॉटेलांनी वचून मागून घेतल्यार मेळटालें. उदकाक पैशे दिवचे पडनाशिल्ले. पूण दर एकल्यालो फिरकेचो तांबयो रिकामो जातकच उदक भरून घेंवचें पडटालें.

असल्याच एका भोंवडेर वचपाक शेंवतू बी भायर सरलीं. तांचे वांगडा आमाय बी भायर सरली. आमान आपली सगली मुस्तायकी एका पेत्रोलाच्या लाताच्या धाकणें आशिल्ल्या पेटेंत घाली. ह्या लाताक जोडो लावन आमान धाकणें करून घेतिल्लें. फुडले वटेन कुलप घालपाची वेवस्था आशिल्ली. आमान ह्या असल्या व्हडल्या

लातांत मुस्तायकी भरली आनी ताका एक बरेंच व्हडलें पितुळचें कुलप लायलें. जमखणांत उशें बी बांदून घेतलें. फिरकेच्या तांबयांत उदक घेवन आमा तयार जाली.

आमा भायर सरच्या एक दीस पयलीं रातीकडेन भाई आमाल्या सामानाची पळोवणी करपाक गेलो. आमानच ताका सांगिल्लें नदर मारपाक. घरांत जितल्यो जाण्ट्यो बायलो आमगेर येवन राविल्ल्यो, तितल्यांचोय भाईचेर मोग आनी विस्वास! कितेंय करतकच भाईन ताजेवेल्यान नदर मारल्याबगर कोण्ण फुडें वच्च नाशिल्ली. भाईलो सल्लो जायच आसतालो. त्याप्रमाण कोणेंय बेत करीनाफुडें तीं भाईक आपोवन व्हरतालीं. ताकाच धरून आमान भाईक नदर मारपाक सांगलें. आमालें कुलूप पळयना फुडें भाईन व्हडान किळांच मारली. "आमा, हें कितें? असलें बरें कुलप लायता? कुलपूच पळोवन कोणूय लात व्हरीत मगे तुजें! पडली तूं त्रासांत!"

आमाक भाईली ही सुचोवणी पसंत पडली. तिणें बरी येवजण केली चोरांक फसोवपाची! तिणें आपलीं हात पुसपाचीं दोन भाणशिरीं घेवन कुलपाक सामकें गुठलावन व्हडली पोटली कशी केली. वेल्यान सुमय बी बांदलें. कुलप कुलप कशें दिसना जालें. त्या जाग्यार एक व्हडलो गुळो हुमकळपाक लागलो लाताक!

ही सगळी तयारी जातकच आमा बी पंढरपुराक वचपाक भायर सरलीं. वता आसतना कायंच त्रास जालो ना. पूण पंढरपुराक साकून परत येता आसतना आमालीं कुलपाक गुठलायिल्लीं दोनूय भाणशिरीं आनी सुम नाच्च जालीं. कुलपाक मात् कोण्णें हात लायलो ना. घरा येतकच ही गजाल आमाक दिसून आयली. फुडले कितलेशेच दीस पंढरपुरच्या विठोबानच आपलें इतलें म्हारग कुलप राखिल्ल्याचें सांगीत भोंवताली आमा! लोकूय बी मोठ्या कवतुकान आयकताले

आनी विठोबाचे सासायेची तोखणाय करताले. भाई मात् वोग्गी आशिल्लो. आयज ताचें तें मक्ख तोंड आनी तें मौन येवजित जाल्यार भाणशिरें ना करपा फाटल्यान ताचोच हात नाशिल्लो मूं असो दुबाव येता! ❖

# 24

# दोतोर कुडचडकार

**दोतोर** यशवंत कुडचडकार बाबालो भुरगेपणासावन इश्ट. जिवान गुडगुडीत, हांसत्या तोंडाचो आनी खूब कॉमीक उलोवन व्हडान हांसपी मनीस; असलो दुसरो मनीस त्या काळार हांवें पळयलो ना. ह्या मनशाक आमी दोतोर म्हणून उलो मारतालीं पूण तरी तो आमकां आमचोच लागींचो इश्ट कसो दिसतालो. बाबाचो भंय दिसतालो, तसो भंय ताचो आमकां दिस नाशिल्लो. ताच्या विशीं खूब आदर आनी आपलेपण दिसतालें. तो सामको आमचो मनीस अशें आमकां सदांच दिसतालें.

बाबा कोणाचेंच सांगिल्लें आयकुपी न्हय. ताची येवजुपाची पद्दत एके तरेची शी आशिल्ली, अठराव्या शेंकड्यांतली कशी. नव्यो पद्दती तो सहजा सहजीं आपणाय नाशिल्लो.

आमगेर जमनीर पाटार बसून जेवपाची पद्दत आशिल्ली. संडासांक त्या काळार 'पाळखिळे' म्हणटालीं. फाटल्या दारा, पोरसांत धा-वीस मेत्रांचेर शेकानशेक एक वणत आशिल्ली, शिनाऱ्याल्या

आनी आमच्या घरा मर्दी, पायणींतल्या व्हाळाच्या आलतडी. धा-बारा सोपणां चडून वतकच त्या वण्टीक दोन मेत्रांचे रुदांयेच्यो इल्यो इल्यो चार-पांच पाळखिळ्यांच्यो कुडी आशिल्ल्यो. दर कुडीक व्हड व्हड लाकडाचीं दारां आशिल्लीं, खिळयोय बी आशिल्ल्यो दारां बंद करपाक. दारा भितर दर कुडीक जमनीर एक एक बुराक आशिल्लो. हे बुराक व्हाळावयर आशिल्ले. बुराकांतल्यान गू पडटालो तो थंयच्या थंयच दुकरां येवन खावन वडयतालीं. पाळखिळ्यांत वतना हातांत उदकाचो तांबयो घेवन वचचो पडटालो. नळ नाशिल्लो त्या काळार. बांयचें उदक कळसुल्यांनी काडून घेताले. फाटल्या दारा बल्लांत उदक भरिल्लें आसतालें तें तांबयांत घेवन वचचें पडटालें. घराक तेंकुनूच पोरसांत एक शिमिटान बांदिल्लें मान्नें आशिल्लें, तें सामक्या ल्हान भुरग्यांखातीर. कोणूय तरी आमच्या घरच्या ल्हान भुरग्यांक हाडून थंय हागपाखातीर उकणयां बसयतालीं. मागीर तांकां धुवन-पुसून भितर व्हरतालीं.

नवे पद्दतीचे संडास बांदून घेवपाक बाबा तयार नाशिल्लो, तरी दोतोर कुडचडकाराल्या मध्यस्तीन तो तयार जालो. कितेंय नवें करपाचें जालें जाल्यार बाबालो विरोध आसतालोच. घर माथ्यार घेतालो तो! देसेंतपणान उलोवप, भासाभास करप नासतालेंच. हें सगळें घरच्यांकडेन; तांकां सामकें भेष्टावन उडोवप ही ताची पद्दत! पूण हेरांकडेन वागपाची पद्दत सामकी सुशिक्षितां भशेन! चाडयो बी मात् केन्नांच करी नाशिल्लो. लोकांविशीं केन्ना उलोवप, लोकांच्या फाटल्यान उलोवप, गाळी सवप ताका सामकें मानव नाशिल्लें. तो स्वता गाळी तोंडांत केन्नाच घेनाशिल्लो.

ताईलें लग्न जालें ताच्या पयलीं संडास तयार जाल्ले. ताईगेर बी सामके नव्या पद्दतीचे संडास आशिल्ले. तांगेर मेजार बसून

जेवतालीं. जेन्नां विर्जिनकार भावोजीक जेवणाक आपयलो तेन्नां एक समस्या निर्माण जाली. ताका जमनीर पाटार बसून जेववप दादाक पसंत नाशिल्लें. पूण बाबाक सांगपाची कोणाची छाती जाय नाशिल्ली. शेंवटीं दोतोर कुडचडकार आनी दादा दोगूय मेळून तांणी एक कट रचलो.

विर्जीनकार भावोजी दोतोराभशेन गुडगुडीत. दोतोर मेजार बसून जेवपी. ताका आमगेर जेवपाक रावोवन पाटार बसोवन जेवयलो. दोतोर वळवळत जेवपाक लागलो. ताटांतलें जेवण काडपाक बाग घेयत जाल्यार ताच्या पोटाक पीळ पडपाक लागलो. मदींच पांय वळिल्ल्यान आसणमांडी उसोवन पांय निट्ट सोडून, तातूंतच खरेले जातात ताच्याकय चड त्रास जाल्ल्याचें नाटक केलें दोतोरान आनी तो सारको जेवलो ना. तांणे बाबाक म्हणलें, "तुमच्या जावंयांचें पोट म्हजेभशेन. तो हांगां आयिल्लेकडेन जमनीर बसून कसो जेवता? जेवता तरी मूं?" बाबान म्हणलें, "अजून हाडूं ना ताका, पूण फुडल्या आयतारा तो एक दीस रावपाक येवपाचो आसा." भावोजी ताईक व्हरपाक येवपाचो आशिल्लो. दोतोरान म्हणलें, "ताचे हाल करतले तुमी! जेवपाक रावोंव नाका ताका!" "आपयला, कितें करूं?" दोतोरान रोखड्या रोखडें समस्येचें समाधान सांगलें, "मेजार बसयात ताका आनी जेवयात." मागीर बाबान रोखडोच एका मेजाचेर तुवालो घालून ताचे भोंवतणीं चार कदेलां दवरूंक लायलीं. त्या दिसा भावोजी वांगडा मेजार जेवपाक दादा बसलो आनी बाबा सामको विटून उकणयां बशिल्लेभशेन त्या मेजार पंगतीक बसलो! हेर सगळे लोक जमनीर पाटारच बसून जेवले. हाचे मागीर इलो इलो करून बदल जालो. चवखेच्या पलतडी रानचे कुडीक तेंकून आशिल्ल्या एका वासरेंत व्हडव्हड मेजां आयलीं, कदेलां आयलीं. घरांत जे

जे व्हडव्हड बदल जाले, त्या त्या बदलांत दोतोरान व्हड खाशेली भुमिका वठयल्या. बाबांत नकळत बदल घडोवन हाडपाची दोतोराली भुमिका विसरूंक फाव ना. घरांतल्या खंयच्याय घडणुकेंत दोतोर जायच आशिल्लो. तो आसतकच घर सामकें हांसून फुलतालें. ताच्या हांशान माळी बी हुबून वचना मूं, अशें दिसतालें!

एकदां बाबान ताका आपली दाड सामकी त्रास करता म्हणून काडपाक आपयलो. बाबा दोन-दोन मिनटांनीं तोंड उघडटालो. दोतोर आपली गावी काडटालो. तोंडा म्हऱ्यांत गावी पावना फुडें बाबा तोंड धांपून ताका थांबयतालो, ''मनाची तयारी करतां,'' म्हणून सांगून! अशें करून करून दोतोर कमीच तीं दोन वरां तरी ही तालगडी खेळत रावलो. अखेरेक दाड काडली दोतोरान! कशी कोण जाणा, पूण बाबाल्या संमतीनूच काडल्या जातली! दोतोर कोणाचोय समज घालपांत फिशाल आशिल्लो. ताका कोणूच ना म्हणूंक शकनाशिल्लो. इतलो तो बरो उलयतालो. त्या प्रमाण तांणे आपलें कसब वापरून बाबाली दाड काडली एकदांची! आनी कोणूय दोतोर बसत आशिल्लो इतलो वेळ, इतल्या पासेंसान आपली कोंसुल्तोर सोडून?

ह्या काळांत एकूच एक वायट गजाल घडली ती म्हणल्यार दोतोरालें व्हडलें चली 'शैला' मुंबय शिकता आसतना मेनेजीत जावन भायर पडलें.

मागीर कांय तेंपान दोतोर पणजे मळ्यांत रावपाक गेलो. तरीकय तो केन्नां केन्नांय येतालो, म्हणटालो, ''म्हजी वार हांगां तुमगेर पुरल्या न्ही?'' हांव केन्नां केन्नांय पणजे पिपल्स् इस्कोलांत शिकता आसतना तांगेर पासय मारतालें. वोगीच दोन-तीन मिन्टां भितर तांकां हडकून, तांची खबर घेवन धांव मारपाची. च्या-काफी कांय घेवप ना. दोतोराची बायल, आतेबाय आग्रो करी. पूण ना तें ना. येवन तांकां

पळोवप, तांकां हडकुवप आनी धांव मारप, इतलेंच पुरो जातालें. तांकां पळयतकच खूब सूख भोगतालें.

बाबा वतकच जेन्नां जेन्नां हांव गोंयांत आयलां, तेन्नां तेन्नां हांव दोतोराक आनी आतेबायक पायां पडून आयलां.

म्हजे धाकटे भयणीच्या, कांचनाच्या लग्ना वेळार दोतोर आनी आतेबाय जाण्टीं; तेन्नां तीं दोगांय तांची धूव मितू आगशिकारागेर रावतालीं. हांव कांचनाक घेवन थंय गेलें. वतना अक्षता घेवन गेल्लें. दोतोर आनी आतेबायल्या हातांत त्यो अक्षता दिवन तांचो आर्शिवाद घेवन आमी परतलीं. बाबान स्वता येवन आशिर्वाद दिल्ल्याचें सूख भोगलें. ❖

# 25

# शेंवतू

**शेंवतू** आमगेर कामाक येतालें. आमच्या घराक तेंकुनूच दुरगाभायर तागेलें घर आशिल्लें. शेंवतू गोरेंपिट्ट, तांबूसशेंच, सोबीत दिसतालें. लांबेडें तोंड, नीट्ट उब्बें नाक, नाकाक खोंपें, व्हड व्हड तेजस्वी दोळे, उबार खाडकी, रेखीव ओंठ, बरेंच उंच, लांब पायांचें शेंवतू, उबें रावतकच राणी कशें दिसतालें. हांवें ताका पळेल्लें तेन्नां तें बरेंच जाण्टें! पूण तेन्नां पसून तें कितलें सोबीत, भारदस्त दिसतालें! कपलार व्हडलो उबो तिबो, कानांत वेडी, नाकांत खोंपें, हातांत कांकणां, गळ्यांत म्हुर्तमणी, व्हडलो आंबाडो, णववारी कापड एका पांयांर खोवन उबें राविल्ल्या शेंवतूक पळेलें काय ना मन धादोस जातालें!

मायेस्त मनीस शेंवतू, एकाच घरांत पांच पूत, पांच सुनो आनी कितलीशींच नातरां घेवन हांसत खेळत रावतालें. शेंवतूचो घोव नारायण तांच्या सांगाताक राव नाशिल्लो. तो दोंगरार खोंप बांदून रावतालो. तशीं तीं झगडिल्लीं हांवें पळोवंक ना, पूण उबीं रावन

उलयिल्लींय बी पळोवंक ना. तरी पूण तांचें पट नाशिल्लें अशें लोक म्हणी. शेंवतूय बी मनीस बरें, ताचो घोव नारायणय बी मनीस बरो. मागीर पटनाशिल्लें म्हणल्यार कितें? देव जाणा!

नारायणाकडेन दोन बैल आनी एक गाडो आशिल्लो. तो गाडो चलयतालो. ताका सगळे 'दादी' म्हणटाले. आमीय बी ताका दादी म्हणटालीं. दोंगरार कांय मशिंग आशिल्ले. तांतले कांय मशिंग ताणें बाबाकडेन मागून घेतिल्ले आनी त्यो सांगो विकून तो पयशे जोडटालो. शेंवतूक मात् तो घोव सोब नाशिल्लो. शेंवतूक कोणूय राजा कसो दिसपी घोव मेळ्ळ्यार बरें जावपाचें! सामकें नाटकांतलें जोडपें कशें दिसपाचें! दादी कोण्णाकडेन उलयल्लो असो हांवें पळोवंक ना. ताका इश्ट बी कोण्ण नाशिल्लेशे दिसता. ताका भाव भयणांय बी नाशिल्लीं दिसता. तो गांवांन खंयचो तें आमकां खबर नाशिल्लें. नाजाल्यार ताचो बापूय बी कोण तें आमकां खबर आसपाचें. त्या काळार असल्यो सगळ्यो जाणवायो दर एकलो घेवन बसतालोच!

दादी स्वताच रांदून जेवतालो. दोंगरावेल्यान चार पावलां देंवन सकयल आयल्यार आयतें जेवण पडपाचें पुतां-सुनांनीं भरिल्ल्या घरांत. पूण तो कितें कोण जाणा, सकयल घरांत येना आशिल्लोसो दिसता.

शेंवतूक खूब हांसपाची संवंय. खळ्ळ आवाज करून हांसतालें तें. तशीच बारकेली इंदिरी, इंदुली आवय, तीय बी खळ्ळ करून हांसताली. हीं दोगांच हांसतना पयशांचो पावस पडिल्लेवरी तीं हांसतालीं. हेर सगळे रायबन् कार, बायल-दादले, सगळे सादेशे हांसताले, एकतर मोन्यांनी, वा ''हा हा हा'' करून. 'खळ्ळ' करून कोणूच हांस नाशिल्लो.

शेंवतूगेर पांच पूत आनी एक धूव. सगळ्यांत व्हडलो येसोंत,

दुसरो भानू, तिसरो देवू, चवथो नरशींव, पांचवो नामदेव. धुवेक सगळे आका म्हणटाले, आनी ती केन्नांय येवन परत वताली. तिगेल्यो धुवो कमल, कुसूम आनी एक पूत, ताचें नांव म्हाका याद ना, पूण ताका 'बाबुलो' म्हणटाले. ताच्या दोळ्यांत फुलां पडिल्लीं. कुसूम आमच्या ताई बरोबर बी खेळपी. कमल पयलींच लग्न जावन गेल्लें, ताच्या घोवाक आमी 'बोंगो' म्हणून वळखतालीं.

येसोंत मेस्त आशिल्लो, पूण भानू सामको फिशाल मेस्त! कुरयोज वस्तू करतालो तो. नामदेव खंयी तरी नोकरी करी. भानू दिसपाक सामको सुंदर, नाजूक, गोरोपिट्ट. ताचीं भुरगींय बी जनी, रमण, गजा, काशी, अनिल हींय बी सामकीं सुंदर. म्हजो सामको मोगाचो इश्टट तो देवू आनी शिलावतिलो चार-पांच वर्सांचो धाकटो पूत, वाटकुळ्याच्च तोंडाचो, मात्सो मंद बुद्दीचो. पूण म्हजें आनी ताचें बरें पडटालें. तो मागीर ल्हान आसतनाच मेलो. सद्दां सांजेचो तो दुरगा म्हऱ्यांत येवन म्हजी वाट पळयतालो. आनी हांव विसर नासतना ताका खावंक दितालें. मागीर आमी एकामेकांक बोचके मारीत खेळटालीं, काचुल्यो करतालीं. ताचे वांगडा आनीक कोण्ण खेळ नाशिल्लो म्हज्या शिवाय. आमी दोगांय दुरगा म्हऱ्यांत एक वर तरी उबीं रावतालीं, येकेक फावट कांयच्च उलयनासतना, एकमेकांक पळयत. तो इलोसो भुरगो म्हाका पळयत, हांसत रावतालो आनी हांवूंय बी ताका पळोवन हांसत रावातालें. खरें म्हणल्यार त्या निश्पाप भुरग्याचें तोंडूच अशें सुंदर आशिल्लें, ताका पळयनाफुडें तोंडार हांशें येवपाचेंच! तो कितें येवजितालो हें कोणाक खबर नाशिल्लें. सबंद दीस तो बाबडो बसून येत्या-वत्यांक पळयत रावतालो. ताका उलोवंक येनाशिल्लें आनी ताचे दांत सगळे किडेल्ले.

शेंवतूल्या घरचो एकूण एक मनीस, बायल, दादले, भुरगीं-

सगळीं भांगर मनशां, मोगाळ, हांसतमुख, कोणाविशीं वायट उलोवपी न्हय. तांकां कोण्णाक केन्नां गाळी मारतना हांवें पळोवंक ना, झगडटानाय बी पळोवंक ना. फकत नरशिंवांन मात् सुनताचेर मोग केल्लो आनी तो ताचेवांगडा लग्न जाल्लो. इतलेंच! त्या वेळार मोग बी करप म्हणल्यार तो एक व्हड विशय जातालो!

शेंवतू सांजेचें साडेपांच-स वरांचेर आमगेर येतालें आनी रातिकडेन धा एक वरांचेर तें परत वतालें. तागेल्यो नाती कुसूम, जनी बी आमच्या ताई बरोबरचीं. शेंवतूल्यो हेर नाती अंजनी, काशी बी म्हज्यो इश्टिणी. आमी अगरसाळेच्या पाटयेक राजू बांदून झोपाळ्यांनी खेळटालीं.

सद्दां रातचीं आमी सगळीं भुरगीं एक एक करून शेंवतूल्या मांडयेर वचून बसतालीं. मागीर शेंवतू आमच्या माथ्यांत सांसपून धोंगशे मारतालें. लिखो, उयो बी आसल्यार तें दोन बोटां मदीं धरून मारतालें. आवाज जातालो खरो 'कुट्' करून. तशेंच हातांत आल्फिनेत धरून तें आमच्या बोटां मदीं फोड बी आयल्यार फोडटालें. खरज, रंवथे बी जाल्यार तें आल्फिनेतीन काडटालें आनी बारीक रेंव कसो धवो कण नाकटांचेर धरून किट्ट करून दोन आंगट्यांमदीं चिड्डितालें. हे रंवथे म्हणल्यार बरेच खरपताले. पूण शेंवतून काडून वडयतकच मागीर खरजप बी बंद जातालें. त्या काळार सर्रास भुरग्यांक खोरोज जाताली, हळडुवेच फोड बी येताले हाता पायांक. खूब फावटीं केसोळ्योय बी जाताल्यो हातांक, कुल्यांक, धोंपरांक बी. तातुंतल्यान फोडटकच हळडुवोच्च पूं येतालो. आयज तसलें चडशें खंयच्च पळोवंक मेळना. त्या भायर, बायलांक कापड बांदता थंयच कमरार खरोज जाताली, ते खरजेक किरवंट म्हणटालीं. चडश्या बायलांक ती आसतालीच. शेंवतूक आनी आमच्या भोंवतणच्या हेर बायलमनश्यांक भेंडार

किरवंट नाशिल्ली.

शेंवतूल्या नातींच्यो बी सोयरिको करपाची जापसालदारकी शेंवतूचेर आसताली. खरें पळोवंक गेल्यार कोण्णाक सांगी नासतना गुप्तपणान हें काम करपाचें आसतालें. बरें कापड बी न्हेसून, पोतयेंत सामान बी घेवन शेंवतू भायर सरतालें. आमचें घर ताका खंयीं गेल्यार वाटेर लागतालेंच! पूण आमी ताका "खंय वता" काय म्हणून विचारी नाशिल्लीं. ताणेंच आमकां सांगिल्लें, "कोणाकय भायर सरून वतना, खंय वता, काय म्हणून विचारल्यार अपशकून जाता, आनी काम जायना" म्हणून. हातूंत 'अपशकून' म्हणल्यार कितें तें खबर नासूं, पूण काम जायना म्हणल्यार वायट हें खबर आशिल्लें आमकां. शेंवतू सोयरीकेक वता आसतना तोंड घट्ट दामून धरून हांसत्त वता आसतना कोणाच्याय तोंडार नदर पडल्यार तें खळ्ळ करून हांसून आपुणूच जावन सांगतालें, "जनीले सोयरिकेक वयतां," म्हणून! ताच्या तोंडांत सेग्रेती उरपाक कठीण. एक दीस बाबा भायर उबो आशिल्लो. आमीय बी आशिल्लीं हेवटेन तेवटेन. तें बाबाच्या सामकार उबें रावन केन्नाच सरळ उलयनाशिल्लें. आमकां कोणाकय मदीं घालून तें उलयतालें. कोणूच नासल्यार वोगीच कोणाचेंय तरी नांव घेवन उलो मारपाची पद्दत आशिल्ली त्या वेळार. "लताबाय, जनील्या सोयरीकेक वयतां म्हापश्यां" अशें म्हणून ताणें बाबाल्या कानार ही आपल्याक अजीर्ण करपी सेग्रेत घाली. बाबान ताका म्हणलें, "शी शी, असल्या गजालींचो बोवाळ जावपाक जायना. आनी वाटेर कोणाक सांगप बरोबर न्हय. तेन्नां हो विशय सेग्रेतच दवरल्यार बरो!" शेंवतू खळ्ळ करून हांसलें, आनी गेलें. शेंवतू वचचे पयलीं बाबान ताका भितर सदरेर वचून देवाक पांयां पडून वचपाक लायलें; भटाक सांगून देवाक सांगणी केली आनी मागीर शेंवतू गेलें. येता आसतना

सोयरीक जाल्ल्याची बातमी आमगेर ताणें पयलीं दिली.

शेंवतू सोयरीकेक वता आसतना बाबान ताका सल्लो दिल्लो, भुरगो सोरो बी पियेता जाल्यार वाटेक वचप ना म्हणून. गांवच्या खुबश्या भुरग्यांनीं सोरो पियेवन संसाराची कशी वाट लायल्या ती बाबान पळयिल्ली. जनी बी सबंद दीस आमगेरच आसतालीं. देखून तीं आमचींच भांवडां जावन आशिल्लीं. जनी बेबद्याकडे लग्न जाल्लें कोणाकच सोंसपाचें न्हय. शेंवतून येवचे येवन भुरगो शिकिल्लो आनी सोरो बी पियेना म्हणपाचें सांगलें. मागीर जनी एक दीस लग्न जावन गेलें.

एक दीस शेंवतू जिवाक मात्शें बरें दिसना म्हणून सांगून न्हिदलें. चार दीस हांतूणार उरलें, मागीर अकस्मात तें गेलें. आमी तेन्नां बरीं व्हड, हांव एम.ए शिकतालें. शेंवतू गेलें हें आयकून वायट दिसलें. तें दुयेंत आसतना हांव चोरयां तांगेर वचून ताका पळोवन रडून आयलें. तें बरें ना जावचे पयलीं बाबाचें आनी ताच्या घरच्यांचें कितेंय तरी वायटपण जाल्लें आनी मागीर शेंवतू आमगेर येवपाचें कांय वर्सां बंद जाल्लें. पूण हांव केन्नांय मागील दारा गेल्ले कडेन शेंवतू दिसल्यार शूत् शूत् करून ताका हडकितालें आनी मोन्यांनींच बरें आसा मूं म्हणून विचारतालें. बाबाली हुकुमशाय मोडून कितेंय करपाची कोणाकच छाती नाशिल्ली. शेंवतू मेलें, बाबाकयबी खूब वायट दिसलें. मरचे पयलीं ताणें एक दीस रेकाद धाडिल्लो आपल्याक जेवण धाड म्हणून. त्या प्रमाण बाबान स्वता बसून दोळ्यांत दुकां हाडून डब्यांनीं जेवण भरिल्लें हांवें पळेलां. हांवूंय बी रडलां त्या वेळार. शेंवतून इतलींय वर्सां मायेमोगान आमचें घर सांबाळिल्ल्याखातीर तरी बाबान ताका मेळूंक वचपाचें अशें म्हाका आयज लेगीत दिसता! आयज लेगीत शेंवतूची याद जातकच व्हडान 'शेंवतू' म्हणून उलो मारीन दिसता

आनी दुसरेवटेनच्यान शेंवतून खळ्ळ् करून हांसून जाप दिवची अशें दिसता. शेंवतूच्या मांडयेवेलें सूख आयज लेगीत भोगीन दिसता. शेंवतू, तुजी याद येता!

शेंवतूलें सोयरें पोमा, तें पाट्यार रावतालें. ताचो पूत वैकुंठ बरो शिकिल्लो, तो मुंबय रावतालो. दिसतालो सामको नट कसो, नकसूद! केन्नांय येतालो तेन्नां आमगेर आयल्या बगर वचनाशिल्लो. ताचो धाकटो भाव मात्सो सादो-भोळो, मात्सो लुडबो आशिल्लो. मनान बरो. म्हज्याच्याकय खूब जाण्टो. पूण कोणेय ताचें मन दुखयल्यार म्हजेकडेन बरोबरच्या भुरग्याभशेन येवन उलयतालो. तो मात्सो सादो-भोळो आशिल्ल्यान तो चडश्या लोकांबरोबर इश्टागत करूंक वच नाशिल्लो. तो म्हाका रुमडां, आंसाळे बी हाडून खावपाक दितालो आनी म्हज्या घागऱ्याच्या दोऱ्याक गांठ पडल्यार तो सोडयतालो. तेन्नां हांव आशिल्लें जायत पांच-स वर्सांचें. एक दिस पोमालें गंगावन हाडून ताणें म्हाका दिलें आनी हांवें तें घालून म्हजी विणी लांब केली. दुसरे विणयेक आनी गंगावन जाय म्हण सांगिनाफुडें ताणें येसोदेलें गंगावन हाडून दिलें. मागीर दोनूय विणयो लांब करून हेवटेव-तेवटेन मान हालयत, विणयो हालयत हांव दिसभर भोंवलें. लोकांलीं शेंवतीं, धाली बी तो म्हाका हाडून दितालो. खास इश्ट तो म्हजो!

जगुलो काशिनाथालो भाव. तो मुंबय नोकरी करी. तो बरो शिडशिडीत, उंच आशिल्लो. दावें भूज सामकें वयर काडून स्टायलीन चलतालो! हांव सात-आठ वर्सांचें आसतनाची गजाल. गांवच्या खुबश्या चेडवांचो दोळो आशिल्लो खंय जगुल्याचेर, अशें बांयचेर बायलां उलयतालीं. पूण त्या वेळार कोणाचोय दोळो दुसऱ्याचेर कसो आसपाक शकता, इतल्या चेडवांचे दोळे एका जगुल्याचेर कशे आसूंक शकतात हें गणीत आमच्या कल्पनेभायलें आशिल्लें. खूब

येवजी-येवजी-येवजिलें. पयलीं मिनाक्षी, मिरा, अंजनीले बी दोळे सारके आसात काय म्हणून पळोवन मागीर तांच्या कानार ही गजाल घाली. ताणींय बी आयकल्ली खंय ही गजाल! तांकांय बी तेंच कुवाडें पडिल्लें खंय. बारीकसाणीन वचून पळयल्यार जनी, कुसूम, लिला हांचे सगळ्यांचे दोळे जागच्या जाग्यार आशिल्ले. मागीर गांवच्या चेडवांचे दोळे म्हणटात ते आनी कोणाले गाय? कुवाडें कशेंच सुटना जावन हांवें वचून जगुल्याकूच विचारलें, "जगुल्या, गांवच्या सगळ्या चेडवांचे दोळे तुजेर आसात म्हण सगळीं सांगतात. ते तुवें खंय दवरल्या? दी मरे ते तांचे दोळे परते!" जगुलो लजून व्हडान हांसलो. हेवटेन-तेवटेन पळोवन ताणें बेगीबेगीन म्हज्या तोंडार हात धरलो आनी म्हणलें, "बाय, तशें म्हणचें न्हूं ! हांवें ते सगळे दोळे कालूच तांकां व्हरून दिले. तूं आनीक कोणाक विचारू नाका आं! बाबा मारतलो तुका!" म्हजें तोंड बंद! मागीर फुडें व्हड जातकच कोणाय येकल्याचो दोळो दुसऱ्याचेर आसप म्हणल्यार कितें तें सारकें समजुपाक लागलें. जगुलो मागीर ताज्या मामे भयणीकडेन सोयरीक करून लग्न जालो. जगुल्या फाटलो सच्चित. तो म्हज्या वर्गांत शिकतालो. हुशार भुरगो. मागीर मुंबय गेलो शिकपाक आनी थंयच रावलो. ❖

26

# तिमा, तिमाले लोक आनी तिमालें घर

**तिमा** ही बायल मनीस आका म्हऱ्यांत आसताली. भुरगेपणासावन ती आकाची सिर्विस करताली आनी थंयच रावताली. त्या काळार भुरगेपणांतच लग्नां करताले. कोणागेरय चली जल्मली रे जल्मली, रोखडोच कोणाय वळखिच्यागेर तिका फावोसो चलो जल्माक आयिल्लो आसा काय कितें तें सोदपाक लागताले. एक एकदां तिच्या वयाचो तिका फावोसो चलो मेळ्ळो ना जाल्यार धा-पंदरा वर्सांनी व्हड आशिल्ल्या चल्या वांगडा लेगीत तिची सोयरीक करताले. रोखड्या रोखडीं उलोवणीं जावन सोयरीक पक्की जाताली. अशे तरेन एके आठ वर्सांच्या चलयेक लग्न करता आसतना तिचो न्हवरो वीस-पंचवीस वर्सांचो लेगीत आसूं येतालो. एक एकदां एका एका मनशाची पयली बायल मेल्ली आसल्यार लेगीत ताचें दुसरें लग्न ह्या आठ-धा वर्सांच्या चलयेकडेन जातालें. तशेंच ह्या तिमालेंय बी जाल्लें खंय. चड जाण्ट्या दादल्या वांगडा तिमालें लग्न जाल्लें. न्हवरो सदांच दुयेंत आसतालो खंय, तो मागीर एक दीस भायर पडलो

आनी लग्न म्हणल्यार कितें हें समजुचे पयलींच तिमा विधवा जालें.

तिमालें लग्न जावन तें कुळाराच आशिल्लें. त्या काळार लग्न जाल्लें चली जाण्टें जाय म्हणसर, म्हणल्यार भश्टें जाय म्हणसर, कुळाराच रावतालें. मागीर एक दीस म्हूर्त पळोवन खाणा-जेवणाचीं वजीं, धेडी, नवी मुस्तायकी, कापडां बी सांगाताक दिवन ते चलयेक तिगेल्या घोवागेर धाडपाचो आक्त जातालो. ताचे मागीर परत परत सण, पुजा बी जाताल्यो. शास्त्राप्रमाण कांय म्हयने चलयेन कुळारा वचून रावपाची पद्दत आसताली. त्या वेळार दर फावटीं ते चलयेक फुलां माळून, चार चवगांक आपोवन, तिची व्होंटी भरून कुळारचे लोक तिगेल्या घोवागेरसाकून तिका कुळारा घेवन येताले. चली वयान ल्हान आशिल्ल्यान असल्यो परबो परत परत दवरताले आनी चलयेचें यो वच चलिल्लें आसतालें. पूण दर फावटीं बरो म्हूर्त पळोवनच सगळें कितें तें घडटालें. हातुंत एक वर्सा भितर चलयेक घोवागेर रावपाची संवंय जाताली. तातुंत कुळारच्यान व्हेल्ली एक धेडी सांगाताक आसतालीच म्हणा! पूण गरीब लोक धेडी बी धाडूंक शकनाशिल्ल्यान ते व्हंकलेच्या भयणीक बी धाडटाले.

तिमा वयान ल्हान आशिल्ल्यान तें घोवागेर पावलेंच ना. त्या काळार घोव मरतकच चलयेचें परत लग्न करप अशक्य आशिल्लें. घोव कितलेय फावटीं लग्न जावंक शकतालो. फकत पयली बायल जिती आसतना चडशें करून दुसरें लग्न कोण जाय नाशिल्लो, ती पद्दत नाशिल्ली. तिमा कुळाराच उरलें. म्हज्या आज्याल्या घरा म्हऱ्यांतच ताचें कुळार आशिल्ल्यान आनी आजो त्या गांवचो मोठो मनीस आशिल्ल्यान तांगेर कितलेशेच लोक हेवटेन तेवटेन आसताले. तशेंच हें तिमाय बी आज्जेली खास धेडी जावन तांगेर आसतालें.

म्हाका तिमाची याद आसा ती हांव पांच-स वर्सांचें

आसतनाच्यान. त्या वेळार तिमा आशिल्लें जावंये तीस-पसतीस वर्सांचें. आमकां सगळ्यांक तें खूब मोगान वागयतालें. ताच्या काळजांत सदांच सगळ्यांखातीर उपाट मोग भरिल्लो आसतालो. उलयतना तें सदांच, "म्हाजो रयिनबाब, म्हाजें हिमाबाय, म्हाजें इशादेई" अशें म्हणून उलयतालें. कोणायविशीं उलोवपाचें जाल्यार 'म्हाजें' हें उतर दर नावां पयलीं दशिल्लें आसतालेंच तिमा उलयतना!

तिमा गोरेंपिट्ट, तामूसशेंच आशिल्लें म्हणल्यार जाता. तोंडभर देविच्यो मावो, चकचकीत कात, बारींक दोळे, करड कशे सरळ काळेकिट्ट केंस अशें हें तिमा अमेरिकेचे रेड इंडियन्स् म्हणून त्या काळार जीं चित्रां येतालीं तांचेचभशेन दिसतालें. मोटवेंचशें, हातांचेर बी कडक्क बावळे आशिल्लें तिमा णववारी कापड न्हेसतालें. ताचे खाडकेर, कपलार, हातांचेर बी पांचव्योच तिकल्यो आशिल्ल्यो. तें नाकांत पिली घाली नाशिल्लें. तें कानांतय बी वेडी घाली नाशिल्लें. हातांत दोन-दोन कांचेचीं कांकणां, गळ्यांत दोरो इतलेंच ताच्या आंगार आसतालें. पायांत जोतीं बी ताणें केन्नांच घाल्लीं हांवें पळोवंक ना. तरी पूण चलता-भोंवतनां ताका केन्नां फातर तोंप नाशिल्ले. तशे ते आमकांय बी तोप नाशिल्ले. आमी सबंद वाठार भर धुमशेणां कांडटालीं, पांयांनीच सबंद गांव माड्डितालीं. पूण आमकां केन्ना गुंड्यांचो त्रास जालो ना. त्या काळार चडसो लोक जोतीं बी फकत सणां-परबां वेळार, वा भायल्या गांवांत सोयऱ्यांगेर बी वता आसतना घालतालीं. हेर वेळार सगळेकडेन लोक उकत्या पांयांनीं भोंवताले.

आका न्हाता आसतना तिमा तिच्या आंगाक शाबू लावन घांसतालें आनी घंगळेंतलें उदक तांबयांनी तिच्या आंगार ओतयतालें. मागीर वाल्यान आकालें आंग पुसून तें तिच्या वांगडा कुडिंत भितर येतालें. मागीर थंय तें आकाक णववारी कापड न्हेसपाक हात-भार

लायतालें, न्हेसयतालेंच म्हणल्यार जाता. पयलीं तें त्या कापडाक मिरयो काडून दवरतालें. आकाचो थाट बरो आसतालो, राणयेभशेन! तिका केन्ना कितेंच काम करचें पडलें ना. भोंवतणीं चोशीं वटेन ओर्दिची वाट पळयत वावराड्यो आसताल्यो, देखून आकाले हात-पांय, आंग सामकें कापसाभशेन मोव-मोव आसतालें.

तिमाक आमकां न्हाणोवपाक आवडटालें. आमी व्हड जातकच लेगीत न्हाता आसतना तें आसा थंयच्यान धांव्वून येतालें आनी आमचें आंग घांसतालें. हातांत काथो घेवन चरचरीत आंग घांसप ताका खूब आवडटालें. ताणें किंवांट्यान हातांत घेतिल्लो काथो पळयना फुडें आमचेर आकांत येतालो. तिमाक लिंपेझिचें पिशें. देखून काथ्यान आंग घांसल्यार आंग लिंप जाता अशें ताका दिसतालें. न्हाता आसतना वा न्हाणयता आसतना तिमाक सदांच सूख भोगतालें, देखून न्हाता आसतना वा न्हाणयता आसतना तें सदांच ''न्हाणा सारकें सूख ना'' अशें म्हणटालें. न्हिदूंक वतना वा आमकां न्हिदयता आसतना आमकां पळोवन ''न्हिदे सारकें सूख ना'' अशें म्हणटालें. जेवता आसतना ''जेवपा असलें सूख ना'' अशें म्हणून तें दिस-भर कित्यातूंय तरी सूख भोगीत आसतालें. तशें पळोवंक गेल्यार खुद्द तिमान सूख भोगलां अशें म्हाका दिसना. घोव मरतकच कुळारा येवन भाव-बापोलभाव ह्या सगळ्यांच्या कुटुबांत येवन रावप, सबंद दीस आका म्हऱ्यांत काम करप, दनपरां जेवण तोपांत घेवन कुळारा वचप, कोणेंय नवें कापड दिल्यार तें धुवडेक वा भावजेक दिवन आपणें पोरणें कापड न्हेसप ह्यो असल्यो जुळोवण्यो म्हणल्यार सूखदिणी जीण अशें म्हाका दिसना.

आका म्हऱ्यांत आमचे बरोबर तें पेज जेवतालें, सकाळीं खाण खातालें पूण दनपरां घरा घेवन गेल्लें तें जेवण सर भोंवतणीं

भुरगे-बाळांनीं भरिल्ल्या घरांत पावतकच तें खुद्द तिमाक मेळटालें अशें म्हाका दिसना. तें सगळ्यांक बरें मागून दीस काडटालें पूण एक दीस कपलाक आटी नाशिल्ली, तोंड सदांच हांसतें आसतालें ताचें!

तशें पळोवंक गेल्यार त्या वेळचें जगूच वेगळें. घरांत कितलेशेच लोक आसताले. तांतूंत धुवो, सोयरीं बी येवन वचून आसतालींच पूण कोण्ण तकलेक आटयो घाली नाशिल्लो. सगळ्यांक घरांत जागो आसतालो. तो तसो नासल्यार हांसत-खेळत तो जागो करून दिताले. घरभर लोक खेळून-मेळून रावताले.

तिमाल्या घरचे दादले लोक तिनसांजचे शेतांतल्यान घरा येताले आनी मागीर भायर आंगणांत बसून चकाटां मारताले. शेतांतल्यान घरा येनाफुडें भात कांडप, रांदनीक उजो घालप, उदक तापोवप, भुरग्यांक न्हाणोवप, दादल्यांक न्हावपाक हून उदक काडून दिवप हीं असलीं सगळीं कामां बायलांच करतालीं. दादले चडशे बांयचेर वचून थंडच उदक न्हाताले. बायलां रात्री भोंवतणी बसून खबरो करीत काम करतालीं. घरच्या पडवेर जमनींत पुरून दवरिल्लें पाशाणी वान आसतालें. येतना-वतना कोणाचोय पांय तांतूत पडल्यार मोडत म्हणून ताचेर फळी धांपून दवरिल्ली आसताली. ती फळी मागीर काडून दोगी बायलो दोन मुसळां घेवन येताल्यो. मुसळ म्हणल्यार तांबूस काळश्या लाकडाचो मोठ्ठो जड असो दांडो. ताका दोशीं वटेन लोखणाचे वाळे बसोवन ते आपटल्यार न फुटपाची तजवीज केल्ली आसताली. एका सुपांत भात घेवन एक जाण्टी बायल मनीस वाना म्हऱ्यांत जमनीर बसताली आनी सुपांतलें भात इल्लें-इल्लें करून पोश्यांनी वानांत ओतयताली. मागीर दोशीं वटेतलीं बायलां मुसळां घेवन उखलून उखलून तीं वानांतल्या भातार आपटितालीं आनी भात धाडयतालीं. तातूंतच मदीं मदीं तीं दोगांय आपल्या उजव्या आनी

दाव्या पायांनी भात वानांत भितर सारतालीं. हातांनी भाताचेर मुसळां धाडयतां-धाडयतां पांयांनी भात वानांत सारप हें काम खूब कठीण पूण हें काम तीं कितलीं फास्स् करतालीं! हें भात सारतना केन्नांच मुसळ तांच्या पांयांर आपट नाशिल्लें. तशें तें आपटल्यार पांय आत्ताक काबार! भात कांडटनाय बी काम सारकें फास्स् चलतालें. म्हऱ्यांत बशिल्ली जाण्टेली कांडिल्लें भात आपल्या सुपांत काडून घेवन दुसऱ्या सुपांत काडून दवरिल्लें भात वानांत ओतयताली आनी तें भात कांडून जाता म्हणसर कांडून काडिल्लें भात फांफडून, तांतलो कुंडो उडोवन तांदूळ वेगळे काडटाली, आनी सुपांत उरिल्लें भात परत त्या वानांत घालताली. अशें करून रातीखातीर, दुसऱ्या दिसा सकाळचे पेजेखातीर आनी दनपारच्या जेवणाखातीर भात कांडून दिसपट्टे जेवणा खातीर तांदूळ तयार करतालीं. हें सगळें पांच-धा मिन्टां भितरच जातालें. घरांत कितलेशेच लोक आशिल्ल्यान तांचे खातीर खूब तांदूळ लागताले. वाना म्हऱ्यांत बशिल्ली बायल मनीस अर्द साक तरी भात घेवन बसताली. केन्नां-केन्नांय तांचें कांडून जातकच तीं आमकां एक सूपभर भात वानांत घालून दितालीं. आमचीं मुसळां स्पेशल आसतालीं, ल्हव ल्हव कोंड्यांचीं! तांची मुसळां खूब जड आसतालीं. आमी कोंण्यांनी भात कांडून आमची खोस भागयतालीं. आमचें भात कांडप म्हणल्यार कोंडे वानार आपटप! भाताक आनी कोंड्यांक संबंद नासतालो, पूण आमीय बी भात कांडलें म्हणपाची खोस आमकां भोगताली!

तिमाली धुवडी जायू तिनसांजचें कोंबड्यांक ''बाऽऽ बाऽऽ'' म्हणून आपयतालें. कोंबयोय बी धांवन येताल्यो, कोंबेय बी येताले. मागीर तीं सगळीं कुकडां घुडांत वतालीं. घूड म्हणल्यार वण्टीक केल्लो एक बुराक. त्या काळार वण्टी बऱ्यो दाट्ट आसताल्यो. वार

भर तरी रूंद आसताल्यो. वण्टीक भितर कुकडांखातीर भुंयार कशें करताले. ह्या कुकडांक भितर घालून मागीर घुडाच्या बुराकाच्या दाराक फळी लावन तांकां भितर बंद करतालीं. कुकडां भायर उरल्यार रातिकडेन तांकां बावको खातालो. बावको सुण्याभशेन दिसतालो, वाटकुळ्याच तोंडाचो खंय. हांवें केन्नां पळोवंक ना.

एक दीस "कुकडांक हांव भितर घालतां" अशें म्हणून हांवें जायूक सांगलें. जायूय बी म्हजेर पातयेवन आपल्या कामाक लागलें. हांवें व्हडा व्हडान "बाऽऽ बाऽऽ" म्हणलें. एक्क कुकड हाललें ना. मागीर हांवें घुडाच्या दाराक फळी घाली आनी जायूक सांगलें, "सगळ्यो कोंबयो गेल्यो घुडांत!" जायून म्हाका शाबासकी दिली. कांय वेळान तिनसांजच्या वेळार दोंगराच्या चोशीं वटेन ताका कुकडां दिसलीं. "बाय कुकडां भायरूच आसात मगो! बावको खातलो मगो सगळ्या कुकडांक! असलीं कांमां?" हांवें काडल्यो फुज्ज्यो थंयच्यान! आनीक आनी म्हाका केन्नाच कुकडांकडेन पातयेलें ना, जायून!

तिमाल्या घरांत भावालीं भुरगीं, भयणीलीं भुरगीं, सगळेंच खतखतें! भावाले चेडे भयणींल्या चेडवां वांगडा लग्न जाताले. कोण भाचे, कोण धुवडयो, कोफुजावांच कोफुजांवां! तिमाली धुवडी म्हणल्यार भावाली धूव कृष्णें. तेंय बी हांगांच आसतालें, आपल्या दोग भुरग्यांक खुशाली आनी मंगल हांकां घेवन. लग्न जावन घर सोडून दुसऱ्या गांवांत रावपाक गेल्लें तें एकलेंच मंगल, कृष्णयालें चेडूं. हेर सगळीं घरच्या घरांत लग्नां जावन त्याच घरांत रावतालीं.

आका-बाबलेप्पा आमगेर येता आसतना तीं सदांच तिमाक घेवन येतालीं. तिमा आमकांय बी आमचेंच कशें दिसतालें, सामकें मायेस्त!

वर्सांतल्यान एक फावटीं तिमा खारें उदक न्हावपा निमतान

माया म्हयन्यांत आमगेर येवन पंदरा एक दीस रावतालें. बाबलेप्पा मरून आका आससर तिमा तिचेच बरोबर येतालें आनी आमगेर रावतालें. त्या काळार कितलीशींच बायलां-दादले बी चोंब्या-चोंब्यांनीं खारें उदक न्हावपाक समुद्रा वेळेर वचून सबंद दीस रावतालीं. एक एकदां कांय लोक सकाळीं थोडो वेळ, सांजचो थोडो वेळ, सुमार वर-देड वर भर तरी उदकांत बुडून रावताले. वर्सांतल्यान एकदां गरमेच्या वेळार अशें खारें उदक न्हाल्ल्यान तांचें आंग दुखप ना जातालें खंय. म्हणून ज्या लोकांक हें अशें खारें उदक न्हावपाची संवंय आसताली ते लोक न चुकतां दर वर्सा त्याच तेंपार समुद्रार वचून खारें उदक न्हाताले.

तिमा येतकच आमकां बरें दिसतालें. दर दिसा तें पणजे वचून उदकांत बसतालें आनी दनपारचें सामकें जाम जावन परत येतालें. मागीर जाण्टेपणांत तें रायबन्च्या पाट्यावेल्या वॉल्तार तिनसांजच्या वेळार वचून उदकांत बसतालें. एक वर्स तिमा आयलें आनी दोन दीस सुशेगाद रावन जातकच तिसऱ्या दिसा तिनसांजचें काळोख जातकच रायबन् च्या पाट्यार वॉल्तार उदकांत वचून बसलें. तिनसांजच्या वेळार पाट्यार जात्रेभशेन लोक आसताले. सबंद रायबन् च पाट्यार येवन बसतालें म्हणल्यार अतिताय जावची ना. देखून काळखांत वचून थंय बसल्यार आपूण कोणाक दिसचें ना अशें धरून तिमा कापडा सकट वचून थंय उदकांत बसलें. चोशीं वटेन काळीं काळीं कितलीशींच खडपां आशिल्लीं. त्याच जाग्यार त्या खडपां मदीं वचून तिमा बसलें. बरो वेळ जातकच एक-दोन खडपां हालिल्ले भशेन तिमाक दिसलें. ‘‘चेऽऽ! भास जांव ये हालत्या उदकाक लागून!’’ अशें तिमाक दिसलें. आनी कांय वेळान आनीक एक खडप मात्शें चडूच हालिल्लें ताका भासलें. इतलें म्हणटा म्हणसर दोन-तीन खडपां

अकस्मात उदकांतल्यान उठून वयर रस्त्या वटेन वचपाक लागलीं. पळयत जाल्यार दुकरां! तिमालो जीव विटलो! त्या दिसा सावन तिमान परत खाऱ्या उदकाचें नांव काडलें ना!

मागीर बाबलेप्पा आनी आका मरतकच तें कांय तेंप आमगेर येवन रावलें. कांय तेंप म्हजी मावशी दुर्गाबायगेरय बी येवन तें रावलें. मागीर जाण्टेपणांत तें ताच्या कुळाराच रावलें, पूण तें चड जगलें ना. देव पावलो! आड पडून उरलें ना. बाबलेप्पान मरता आसतना तिमाक एक भंगराचो शेडो करून दिल्लो. तो गळ्यांतल्यान काडूं नाका म्हणून ताका सांगून तो गेलो. तिमाल्या एका वयावेल्या पुतोणयान आपल्या व्यसनांक लागून तो शेडो तिमाकडल्यान मागून घेवन घाण दवरलो. ताणें मागतकच 'ना' म्हणप तिमाक जमलें ना. तिमाल्या पोजिसावांत जगपी कोणाय मनशाक तें शक्य जावपा नाशिल्लें. तिमा खूब तडफडलें. सरभोंवतणीं मोठे-मोठे मनीस आसून पसून तिमालो शेडो घाणांतल्यान सुटलो ना. कितले स्वार्थी लोक हे! हांव धा-पंदरा वर्सांचें तेन्नां. आयज जर हें घडिल्लें जाल्यार म्हजेवेलें तिमालें रीण फेडपा निमतान तिमालो हो शेडो येवन ताच्या गळ्यांत पडपाचो आनी तो तसोच तें मरसर ताच्याच गळ्यांत उरपाचो!

आमच्या भुरगेपणांतलें तिमाल्या घरांतलें वातावरण तिमाचें जाण्टेपण जाय म्हणसर तिगलें ना. घरांतच वेगळ्यो वेगळ्यो रान्नी पडिल्ल्यो आसतना तिमाली कितली व्यवस्था जाली काय, देव जाणा! आयज समज येतकच तिमाक सांगिनशें दिसता, ''तिमा तूं खंय वचूं नाका, हांगाच राव; तुका हांव सांबाळटां.'' तिमा येवन येवन कांय म्हयने रावन वतालें. आपल्याक हांगांच राव अशें म्हणून कोणेय तरी सांगचें अशें ताका दिसतालें जावंये. तशें ताका कोणेंच म्हणलें ना, ताणेय बी आपली इत्सा उलोवन दाखयली ना. तिमालें त्या घरांत

कशें चललां गाय, असो विचार कोणाच्याच तकलेंत आयलो ना. आमच्या घरांत कितलेशेच लोक जेवन खावन रावताले. तातूंत एकटें तिमा जड जावपाचें? तिमा बांदोड्या कितें खाता-जेवता हाचो विचार कोणाच्याच तकलेंत कसो आयलो ना? ताका वखद बी लागता गाय, ताचें कशें जाता जातलें हें कोणाच जाण्ट्या विचारवंत मनशांक जाणवलें ना? ताची पिडा, हुस्कार कोणाकच आयकूंक आयले ना? तिमा तें! 'हाय' म्हणपी न्हय. हांसतें तोंड आनी दर मनशाक ''म्हाजो, म्हाजें'' म्हणीत जगपी तिमा, अखेर मेरेन दर एक कामांत सूख आसा अशेंच सांगीत गेलें, पूण खरें पळयल्यार ताणें स्वता कितलें सूख भोगलां जातलें, देव जाणा! आयज जर तिमा येवन समकार उबें रावत जाल्यार ताका हांव म्हजें घर सोडून वचूंक दिवचें ना. त्या काळार समज कमी आशिल्ल्यान हे विचार तेन्ना सुचले ना. आयज समज येतकच तिमाविशीं येवजितां तेन्नां खूब दुख्ख भोगता. तिमा, तुवें आमचेर केल्ल्या उपाट मोगाखातीर आमचेर सगळ्यांचेर तुज्या ह्या एका रिणाचें ओजें उरलां, तें तशें सदांच उरतलें. आनी तुवें सोडिल्ले ते मोने हुस्कार समजून घेवपा इतली संवेदनशिलता म्हज्यांत त्या काळार नाशिल्ली आनी त्या खातीर हें मन आयुश्यभर खंती जावन उरतलें. ❖

27

# त्रिंबक

**भिकुमामा** वांगडाच त्रिंबकयबी आमगेर आशिल्लो. तो भिकुमामाभशेन जाण्टो नाशिल्लो आनी भिकुमामा भशेन गोरोय बी नाशिल्लो. त्रिंबक हेरां इतलोच उंच आशिल्लो. तोय बी कारवारचो खंय. तो आमगेर राव नाशिल्लो. तो फोंडव्यांत रावतालो आनी सकाळीं फुडें येतालो. किटी किटी करून चार पांयांचो मनीस कसो तो सामको वेगान चलतालो.

त्रिंबक नाकयां उलयतालो आनी तो उलयतना ताचो आवाज तपल्याचेर 'ठणांयच्' करून दाय मारिल्लेभशेन दिसतालो! तागेले बायलेचें नांव रत्ना. खूब सोबीत आनी बऱ्या स्वभावाची बायल. केन्नांच त्रिंबकाचेर वा आनीक कोणाचेरच तापिल्ली तिका हांवें पळोवंक ना. गोरीच्च, सोबीत नाक, पोले, खाडकी, सामकी बावली कशी! दांत बी सोबीत! कानांत वेडी, नाकांत कितलेशेच थिकांची पिली, हातांत कांकणां, चकचकीत कपलाचेर तांबडोच कुकूम, ताच्या सकयल पांचवी आडवी तिकलेची वळ आनी तें णव वारी कापड

न्हेसून रत्ना सामकी देवता कशी दिसताली. तिच्या हातांच्या बोटांचेर, तळव्या फाटल्यान मद्दीं पांचव्योच तिकल्यो आशिल्ल्यो. खाडकेर आनी दोनूय पोल्यांचेरय बी पांचव्योच तिकल्यो आशिल्ल्यो. रत्नाचे दांत, ओंठ सोबीत आशिल्ले. हांसतमुख रत्ना हांसताली, तशी ती सबंद दीस-भर हांसतमूख आसताली! रत्नान सबंद दीस हांसत रावचें आनी आमी तिका पळयत रावचें अशें दिसतालें. नितळ मनाचो उजवाड तिच्या हांशांतल्यान फांकारतालो. दांत दाखोवन हांसचें जाल्यार तें रत्नानूच!

त्या काळार खूबशे लोक हातांचेर बी रत्नाभशेनूच तिकल्यो पाडून घेताले. काजळ घालून ताचेवेल्यान सुयेन कच् कच् करून तोपून, जाय तसल्या आकाराचें चित्र कोरांतून घेताले. कांय दिसांनीं त्या जाग्यार पांचवें चित्र येतालें. हांवेंय बी म्हज्या हाताचेर आनी एका बोटाचेर असलीच एक तिकली शेंवतूकडल्यान पाडून घेतिल्ली. बरेंच दुखलें पूण भोगस्ताळे केले ना कारण दुखतलें हाची जाणविकाय पयलींच्यानूच आशिल्ली.

रत्ना खूब कश्टी! त्रिंबकाक आयिल्लो-गेल्लो लोक जाय आशिल्लो. रत्नाकूय बी लोक जाय आशिल्ले. तांगेर आयिल्लो-गेल्लो केन्नांच च्या पिल्या बगर वच नाशिल्लो. त्रिंबक दर फावटीं इल्ली-इल्ली च्या पितालो, पूण ती सामकी खतो कशी दाट्ट आसताली. रत्ना आनी त्रिंबक एकामेकाकडेन खूब मोगान वागतालीं. पळोवंक बरें दिसतालें. सोबीत जोडपें! पळयना फुडें धादोसकाय भोगपाची! त्या काळार रायबनांत भितर हेर जोडपीं अशीं इतल्या मोगान हांसून-खेळून, फकाणां मारून राविल्लीं हांवें पळोवंक ना, सोडून आका आनी बाबलेप्पा!

त्रिंबक सामको पटेकार! तो असल्यो असल्यो काणयो

सांगतालो, भुतांच्यो, वागांच्यो! आमकां खरेंच दिसतालें! आमी सगळीं त्रिंबकाचे भक्त.

दर दिसा त्रिंबक एक काणी सांगतालो. एक दीस ताणे 'जाकोबा' म्हण एका भुरग्याची काणी सांगली. ''जाकोबा हो एक भूत हें हांव एकटोच जाणां आशिल्लों. तो कोणाक दिस नाशिल्लो सोडून म्हाका! एकेकदां तो गुप्त रितीन भोंवन म्हाकाय बी आजनेर करतालो, पूण हांव शाणो! हें जाकोबाचेंच काम, हें म्हाका रोखडेंच कळटालें! कोणाले कपडे ना करप, कोणालीं जोतीं तोडप, घरांनीं दवरिल्लीं खाणां खावन उडोवप हीं असलीं कामां तो करतालो, पूण कोणाक दिस मात् नाशिल्लो. लोकांक खबर आशिल्लें, ह्या असल्या आजनेरीं फाटल्यान जाकोबाच आसा म्हणपाचें!''

''एक दीस तांणे आमच्या गांवच्या व्हड गिरेस्त मनशाचे भांगराचीं फुलां लायिल्ले मोचे चोरले आनी सगळ्या गांवभर तो ते घालून भोंवलो. जो कोण पळेता ताका मनीस दिसना! फकत मोचेच गांवभर भोंवतात! कोणाक खबर ना ही भुताटकी कितें ती! हांवें वचून त्या गिरेस्त मनशाक सांगलें, ''म्हाराजा, हे तुजे मोचे जाकोबा घालून भोंवता!'' गिरेस्त मनीस तापलो आनी ताणे जाकोबाक त्या गांवांतलो धांवडावपाचें फर्मान काडलें. लोकूय बी सामके बेजारिल्ले. कितलेशेच फावटीं जाकोबाक गांवांतल्यान धांवडावपाचो बेत लोकांनीं केल्लो पूण तांकां यश येवं नाशिल्लें. हांव सोडटां जाकोबाक? हांव कोणाक सोडपी न्ही! जाकोबाक सामको धांवडावन घालपाचें हांवें थारायलें.''

''एक दीस दनपारचो हांव वडे काडपाक बशिल्लों. एक एक करून वडो तळून जालो तसो तसो हांवें तो वडो झाऱ्यान वयर काडलो. आरे, वयर काडटा थंय आसा, कुरपाण्यांतलो वडो नाच्च जावपाक लागलो! हांवें पळयलें जाकोबा वडे खाता! हांवें एक वडो

वयर काडला मात्, जाकोबान हात फुडें केलो, हांवें हुनहुनीत तो वडो तेलासकट ताच्या हातार सोडलो आनी झम्म् करून तेलाचेर झारो मारलो! हुनहुनीत तेल जाकोबाच्या आंगभर उसळ्ळें आनी वेल्यान ताचो हात भाजलो. किळच्यो मारीत्त जाकोबा नाच्च जालो. त्या दिसाच्यान लोकांक सुशेग जालो. मागीर त्या व्हड मनशान आनी गांवच्या सगळ्या लोकांनी एक व्हड सभारंभ केलो, आनी माची बी घाली. गांवचे सगळे लोक आनी तो गिरेस्त मनीस म्हज्या वांगडा माचयेर बसले. व्हडलीं व्हडलीं भाषणां केलीं आनी तांणी सगळ्यांनीं म्हाका व्हडलो हार घालो!''

एकदां तर त्रिंबकान खंय भुतांकच चिकान केलें! ''एकदां खूब रात जाल्ली आनी हांव घरा वतालों. वती-वाट रानांतल्यान आशिल्ली. समोर पळयत जाल्यार कितलेशेच लोक हात वरशे करून नाचतात, पदां म्हणटात. तोंडां बी वांकडीं तिकडीं करून ते सगळे लोक आपल्या हळशिकावण्या ताळ्यान पदां म्हणटात! हांव तकलेन फीन! हांव बदतां? हांव हांकां सारको वळखलों! हीं भुतां! हांवें आनी वेळ केला? हांवेंय बी हात वरशे केले आनी हांवूंय बी तांचेच भशेन नाचून, बेसूर पदां म्हणपाक लागलों. म्हजो आवाज, खरें पळोवंक गेल्यार सामको सोबीत, नाटकांतल्या नटां भशेन! पूण हांवें सामक्या चिरडच्या आवाजांत पदां म्हणलीं. अखेरेक फांतोड जायनाफुडें सगळीं भुतां नाच्च जालीं! मागीर हांव घरा गेलों. आंग सामकें मोडून गेल्लें, रातभर उण्णां मार-मारून! घरा गेलों आनी दिलें ताणून!''

अश्यो कितल्योशोच काणयो त्रिंबक सांगतालो. कोल्यां वांगडा वचून, तांगेर रावन जेवण जेवन, तांचेवांगडा तांचे भाशेंतलीं तांचींच पदां म्हणीत तांचेवांगडा नाचप हें फकत त्रिंबकूच करूंक शकतालो. तो कोल्यांची, वागांची, शिवांची, अश्वलांची बी भाशा

जाणां आशिल्लो. सगळ्या झाडांचेर आशिल्ले माकड सदांच सकाळीं उठनाफुडें ताका हडकून वताले आनी ताका ते 'सायब' म्हणून उलो मारताले खंय. देखून ह्या सगळ्या मंडळींकडेन ताची बरीच इश्टागत आशिल्ली. ह्याच खातीर ताच्या गांवचे मोठे मोठे लोक लेगीत त्रिंबकाक खूब मान दिताले खंय!

त्रिंबकाक भुतांची लेगीत भाशा येताली! तो भुतांगेर वचून रावन आयिल्ल्याचें तांणे आमकां सांगलें. ह्यो सगळ्यो ताच्यो खबरो गोंयांत घडिल्ल्यो न्हय, ताच्या गांवांत आसतना घडिल्ल्यो ह्यो खबरो. गोंयांत तितलीं भुतां नासतात. ताच्या गांवांत खंय पळयत थंय भुतां! हांव आशिल्लें त्या वेळार सात-आठ वर्साचें! तागेलीं हीं असलीं नाडपेन्नां पळोवन आनी आयकून आमी सामकीं भारावन वतालीं. एक दीस चिकू पोंदा उबो रावन तो चेंव् चेंव् करून चानयेवांगडा उलयला तो हांवें पळयला! चानीय बी ताचेकडेन उलयिल्ली हांवें पळयल्या! चानयेचें नांव 'चन्नम्मा' अशें म्हणून तांणे म्हाका सांगलें. तांणे आमकां भुतांची भाशा शिकयतां म्हणून सांगलें. पूण ''भानगड नाका'' म्हणून आमी सगळीं फाटीं सरलीं. कोणाक जाय भुतांची इश्टागत? ती त्रिंबकाकूच बरी! तरी आसून नावाडगो रविंद्र ती भुतांची भाशा शिकपाक फुडें सरिल्लो पूण तो भटालो भुरगो म्हणून ताका तांणे ती शिकयली ना. भुतां खंय भटां म्हऱ्यांत रावनात आनी तांचेवांगडा इश्टागतूय बी करीनात. भट खंय तांकां भस्म करून उडयतात! हाचे उपरांत कितलेशेच दीस रविंद्र आपली भस्म करून उडोवपाची पावर दाखोवपाक म्हणून भुतांक व्हडा-व्हडान उलो मारतालो. पूण एक्का भुताची छाती जाली ना सामकार येवपाची अशें रविंद्राक दिसून ताचीं पिशेपणां आनीकूच वाडलीं!

विठोबा देवळा म्हऱ्यांत सटीचो पणस आशिल्लो. ताचेर

मोठ्या मोठ्यान खोंटो मारून तांणे सटीक उलो मारलो. मागीर सट 'देवता', भूत न्हय म्हणून त्रिंबकानूच ताका सांगलें. हाचे उपरांत रविंद्राचेर आयिल्लो भार देंवलो. तरीकय केन्ना-केन्नांय ''म्हाका भुतां दाखयात, हांव शिकयतां तांकां बुद्द,'' अशें तो झेत्तान सांगतालो.

रायबनान एक जर्मन मनीस येवन राविल्लो. तो गोरोपिट्ट, लांब-रूंद मनीस, येतना-वतना पाट्यार बशिल्ले नुस्तेकान्नींलीं भोगशीं काडून हरवींच चाबून चाबून खातालो. अशीं हरवीं भोगशीं, 'करबट', 'सुंगटां' कोण्ण खाय नाशिल्लो, सोडून हो जर्मन!

एक दीस तिनसांजचो विश्वनाथ दुकळेदाद घरा येतालो. ह्या जर्मनान ताका घट्ट पास घालो आनी ताका सोडिना जालो. दुमू धांवन धांवन आमगेर आयलो आनी ''दुकल्याक तो जेर्मोन मुनीस मात्ता,'' म्हणून ताणें बाबाक सांगलें. बाबा बेगी-बेगीन खोमीस घालून भायर सरपाक लागलो. दुमू बाबाक सांगता आसतना त्रिंबक थंयच उबो आशिल्लो; तो तेन्नाच आयिल्लो आनी कपडे बदलूंक वतालो. तो तसोच सडसडीत चार पांयांनी चलून पाट्यार गेलो आनी आपल्या कमराचो चामड्याचो पटो काडलो आनी त्या जर्मन मनशाचेर सपांयच् सपांयच् करून तो ओडलो! पट्याचो मार पडना फुडें त्या मनशान दुकळेदादाक सोडलो. त्या जर्मन मनशाचो सोरो देंवलो जातलो त्रिंबकाले पटे पडनाफुडें! त्रिंबक पांच फुटी आनी तो जर्मन मनीस स-साडे स फुटी! धिप्पाड मनीस! पूण त्रिंबकाल्या किंवाट्याफुडें ताका नमतें घेवचें पडलें. त्या भायर, गांवचे सगळे लोक एकठांय जाले. बाबा पाट्यार पावच्या पयलींच सगळें नाटक सोंपिल्लें.

त्रिंबकागेर भागरत म्हणून एक जाण्टेली कुड्डी रावताली. ती त्रिंबकाली कोण्ण लाग नाशिल्ली. पूण त्रिंबक आनी रत्ना आनी तांचे दोगूय पूत, रामनाथ आनी मोहन भागरतीक जीव सोडटाले.

रामनाथ तेन्नां चार वर्सांचो आनी मोहन दोन वर्सांचो. त्रिंबक खरेलोच भांगराचो मनीस! तशीच ती रत्ना आनी तांचे भुरगे पसून खूब संस्कारी, सगळ्यांकडेन मायेन वागपी! आतां ते खंय आसात, त्रिंबक आनी रत्ना खंय आसात तें खबर ना, पूण आयज लेगीत तांणी म्हजेर केल्ल्या मोगा पासत तांची याद येता. ❖

## 28

# म्हगेलो सर्ग, म्हगेल्यो अप्सरा

**अंजनी** आनी मिनाक्षी बरीं दिसतात. हांव तांच्याकय बरें दिसतां. आमी केन्नां केन्नांय झगडटां. कोण्ण कोणाक मारिनात, पूण हाताचीं बोटां सामकार दवरून एक बोट उलयता आनी एक बोट उलयना म्हणून सांगल्यार मिनाक्षी आनी अंजनी सदांच 'उलयता' तेंच बोट काडटात. पूण तरीकय मागीर तांचेकडेन हांव उलय ना तें उलय ना! झगडें जातकच उलोवप ना पूण ताचे मागीर बावलेचें लग्न आशिल्ल्यान उलोवचेंच पडटा!

अंजनी आनी मिनाक्षी म्हाका आवडटात. तीं म्हज्या बरोबर खूब खेळटात. अंजनी ताच्या बापायक, येंसोताक खूब भियेता. तो बाबाभशेन मारी बी ना. पूण अंजनी ताचेकडेन उलयपसून ना. शेंवतू सामकें बरें, पूण ताका येसोंत भियेता. शेंवतू ताची आवय म्हण तो भियेता खंय. आवयक भियेवंक जाय जाल्यार मिनाक्षी सरस्पतीक भियेना तें कशें? सरस्पत इल्लेंशें, शंकराल्या पाडका येदेंच. शेंवतू खूब व्हड, तणाच्या कुड्या येदें! सरस्पत आनी शेंवतू कोणाचेर तिड नात,

कोणाक मारी नात. मिनाक्षी सरस्पतीक भियेना, तसोच साजुलोय बी ताका भियेना पूण तो विठोबाच्या देवळांत इतल्यो बऱ्यो तानो मारीत भजनां म्हणटा! सामको रेडिवो कसो! सरस्पत आनी शेंवतू बरींऽ मनशां. आमी तांकां भियेना. कितलीं बरीं करतात तीं आमकां!

दत्तुलो आमकां अगरसाळेचेर पाटयेक राजवाचे झोपाळे बांदून दिता. अंजनी, मिनाक्षी आनी हांव दिस-भर काय बरीं झोपाळ्यार बसतां. एक दीस एक भूत पसून येवन आमचे मद्दीं उबें रावन भोंवपाक लागलें. अंजनीन पळयलें. मिनाक्षीन पळयलें. हांवेंय बी पळयलें. तरी बरें, दत्तुलो वेलंगाच्यान हाडिल्ल्यो हांतऱ्यो धूवन सुकत घालपाक थंय आयलो. मागीर आमी ताच्या बरोबर घरा आयलीं. ना जाल्यार आमीयबी भुतां जावपाचीं न्ही! तें भूत आमंकायबी भुतां करपाचें!

बाबान मागीर आमकां आंगांरो लायलो, भटान तिर्थ पियेवपाक दिलें. सोण्णांवेल्या उज्यांत मिरसांगो घालून शेंवतून हाण्ड्या म्हऱ्यांत व्हरून आमची दिश्ट काडली. मिरसांगो आनी मीठ उज्यांत उडयतना तांणे मोठ्या मोठ्यान कितेंय तरी मंत्र म्हणले आनी शेवटाक ''दोळे फुटूं'' म्हणलें. मदींच ''भूत, म्हारू आनी देंवचार'' अशें तांणे म्हणलें आनी आमकां घरांत धाडलीं. शेंवतूक भुतां मात् भियेतात. सोण्णांचेर उजो घालून मिरसांगो आनी मीठ तातूंत वडोवन शेंवतून सगळो धुंवर केलो, 'किटीकिटीक् ' करून व्हडलो आवाज आयलो आनी तातुंतच मदीं शेंवतून भुतांक व्हडा व्हडान तापयलीं. तीं धुंवराचेर बसून कशीं धांव्वून पळून गेलीं! काळीं काळींच्च भुतां! आमी सगळ्यांनीं पळयलीं न्ही!

भानुलें काशी बरें दिसता. ताचें तोंड गोरेंच्च, वाटकुळेंच्च पूण ताचे फुडले दांत किडेल्या. ताचें आंग सामकें मोव मोव उश्याभशेन. ताका हाडां बी कांय नाशिल्लीं खंय. हाडां आसल्यार कोंपर बी

आसतात. ताका ते ना. तें रोखडेंच रडटा. काकुट ताची! कित्याक रडटा काय तें? तें सामकें हळू फुतफुतून उलयता आनी ताका कितेंय सांगल्यार समजना म्हणून मिनाक्षी बी ताचे बरोबर खेळ नात. काशी बरें बाबडें, म्हणून हांव ताचेकडेन खेळटां. हांव ताचेकडेन केन्नाच झगड ना. तें लुडबें उलयता, म्हाका तें कितें उलयता तें बरें समजना. फुडले दांत आनी ना ताका! सामके कुसल्या! जनी काशीली व्हडली भयण. तें ताई बरोबरचें. भानू तांचो बापूय जावन पसून तांकां मारी ना. भानू गोरोपिट्ट, बरो दिसता. जनीय बी गोरेंपिट्ट, राणी कशें दिसता. तेंय बी बरें, मायेस्त! कोण्णाकडेन झगड ना. तें, कुसूम, ताई, माई बी बरोबर खेळटात. तीं बसून उलयत्त आनी हांसत्त रावतात! भटीण कुसूमाक काळें म्हणटा. म्हाका वायट दिसता. आमचें इंदू आनी माई गोरींपिट्ट. ताईक भटीण 'सावळें' म्हणटा. म्हाकाय बी 'सावळें' म्हणटा. सावळें म्हणटकूच म्हाका मात् वायट दिसता. कोठवो घेवन येता त्या सांवळ्याभशेन दिसता म्हणून आमकां सांवळीं म्हणटा. म्हाका सावळें म्हणटा म्हणून वायट दिसता. सांवळो सामको बरो दिसना. आमी बरीं दिसतात तरी पूण आमकां सांवळीं कित्याक म्हणूंक जाय?

पडवेर खांब्यांनी खेळटना काशी आमकां बऱ्याक पडटा. त्या वेळार वत्सलालें मिराय बी येता खांब्यांनी खेळपाक. मिरा इतलें हाडकुटें कशें? ताच्या हातार मात्शें मारल्यार ताचो हात मोडटलो म्हणून रविंद्र ताका भेष्टायता, तें म्हाका आवडना. ताचे हात मोठे करपाक कितेंय तरी करूंक जाय. भजन म्हणटा आसतना हांवें देवाक सांगलां ताका मोठें करपाक. मिराली आवय वत्सल ताका वोगीच मारता. तशें तें चंद्रकांताक आनी नुनूक मारीना. ते कितले मोठे आनी व्हड. मिरा बाबडें सामकें बारीक. म्हाका रवींद्रान सांगला, ''केन्नांय तें

मरतलें आनी मागीर वत्सलाक कळटलें.'' मिरा बरेंऽ! आमी सगळीं काय बरीं खेळटात सबंद दीस, खांब्यांनीं, झोपाळ्यांनीं, धांवचेल्यांनी बी.

तिनसांजचीं दांतीं जमनीर दवरून तांकां खुटी मारून शेंवतू आनी आनीक कोणूय तरी बसून सदांच पीठ दळटात. हांवूंय थंय बसून तांचे बरोबर पीठ दळटां. हांवें खुंटयेक धरतकच खुटी निखळटा. मागीर ती परती धाडोवन घट्ट करची पडटा. पूण शेंवतू बरें. तें म्हाका दळूंक दिता. सद्दां सांजचें हांव दळूंक बसतांच. मागीर पांच खुटयो मोडटकच म्हजें दळप सोंपलें म्हणून शेंवतून सांगतकच हांव वतां. मागीर तीं दोगांय दांतें घुंवडायत पीठ दळटा.

मिनाक्षी, अंजनी आनी हांव भुजार वालो वडोवन आवयो जावन वेंगेंत खेळांतल्या इल्याशा वानाचो रगडो वा इल्याशा फातरीर वांटपाचे फातर घेवन मथुरे व्हनील्या कुडींत बसपाक वतां. आवय जावपाक म्हाका खूब आवडटा. वरां कणकणीं आमी भुरग्यांक दूध दियत बसतां आनी खूब उलयतां. आमी तिगांय सबंद दीस मोडत-मोडत चलत-उलयत आसतां, कोणेंय उलो मारल्यार लेगीत आमकां आयकूंक येना म्हणून मागीर आमकां बाबा बी तापयता. जेवणाक आपयल्यार आमकां आयकूंक येना म्हणून मागीर आमकां बाबा तापयता, ताईय बी तापयता. कृष्णा रानपी, त्रिंबक रानपी, भिकुमाम बी कोण तापयना. वेल्यान ते ''यो रे बाबा, जेवण जेविना जाल्यार बारीक जातलीं'' अशें म्हणून अपुर्बाय करतात. बाबान तशी अपुर्बाय केल्यार काय बरें जावपाचें! तो फकत इंदूचीच अपुर्बाय करता.

आमी इंदूक खेळपाक घेना. तें आमच्यो बावल्यो पिसुडटा, भायर वडयता. मिरा आमगेर चडशें येना. ताका वत्सल रानपाक लायता खंय. ना जाल्यार तेंय बी मेळपाचें आमकां खेळपाक!

दर आयतारा बावलेच्या लग्नाक मात् सगळे लोक आयदनां बी वाजोवन बोवाळ करीत वाजपां वाजोवपाक येतात! सबंद घरभर आमी सगळीं भुरगीं धांवत बोवाळ करीत भोंवतात.

अंजनी, मिनाक्षी आनी हांव दोंगरार वचून काजू, आमल्यो, काण्णां, चुन्नां, जांबळां बी खातां. पिटकॉळां मात् म्हाका बरीं लागना. आमोरां बरीं लागतात. पूण तीं चडशीं करून मेळनात.

पांडू आनी ताची बायल बी काजू मळटात. पांडूली भयण मुनीय बी मदीं मदीं पांयांनी काजू मळटा. मागीर मळिल्ल्या काजूचो रोस बुडकुल्यांत भरून जातकच उरिल्ल्या काजूचीं चॉपां एकठांय करून पोटली करून कोळमेचेर दवरून ताचेर फातर दवरतात. मागीर तातूंतल्यान भायर सरता तो रोस 'निरो'. आमकां काजूच्या पानांचे दोणे करून पांडूची बायल निरो पिवपाक दिता. मिनाक्षी बी एकटें गेल्यार तीं तांकां मारून धांवडायतात खंय. म्हणून तीं म्हाका बरोबर व्हरतात. मागीर तांकांय बी तीं बरीं करतात, जाय तितलो निरो दितात. पांडूक केन्नां राग येना. ताची बायल काळीकिट्ट, तिचो भंय दिसता. ती झगडटा खंय. पूण म्हाका बरी करता, पिटकॉळां बी म्हज्या माथ्याक माळटा आनी अपुर्बाय करता. काजूचे बिबे काडून दोन बडयो घेवन तीं बिबे सोलून, पुसून म्हाका खावपाक दितात. अंजनी आनी मिनाक्षी बी दोन व्हीर घेवन पांचवेच्च बिबे सोलतात आनी खातात. म्हाकाय दितात. हांवेंय बी व्हीर घेवन बिबो सोललो. बिबो भायरच सरना जालो. म्हजे हात दिखान भरले. दुसऱ्या दिसा बाबान खूब तापयलें, हाताक चॉकां आयल्यां म्हणून. हात काळेकिट्ट जाल्ले. सामके वायट दिसताले. कोणेंय पळयत जाल्यार लज शी! मागीर खूब दीस दोनूय हात विस्तीदाच्या बॉल्सांतच दवरचे पडले. तरी पूण पोपीन बॉब मारलीच, ''लताचे हात कळमेल्या'' म्हणून! म्हाका राग आयलो !

सगळ्यांक कयळें न्ही ताणें बोब मारिल्ल्यान?

भटान प्रसाद दिल्लो तो पसून हांवें तोंड उगडूनच घेतलो. हात फुडें केलो ना. भट बाबडो बरो मनीस. ताणें प्रसाद हातांत घेवंक जाय म्हणून सांगतकच हांवें "म्हाका हात ना, ते बोल्सांत दसल्या" म्हणून सांगलें. ताणें बोवाळ करिनासतना म्हज्या तोंडांत प्रसाद उडयलो. बोवाळ केल्यार बाबाक कळपाचें! ह्या भंयान ताणें मुकाट्यान काम केलें! रातिकडेन शेंवतूक हांवें म्हजें दुख उलोवन दाखयलें. ताणें मागीर हातांक तेल लावन चोळ्ळें. चार दीस तेल लायतकच वतलें म्हणून ताणें सांगलें आनी ताणें सदांच रातिकडेन म्हज्या हातांक तेल चोळ्ळें. म्हजे हात तशेच कुसून उरतले अशें म्हाका दिशिल्लें. मिनाक्षीचे आनी अंजनीचे हात फोफेल्यार ते कळनात. म्हजे हात गोरे देखून हात कुसले म्हणून शेंवतून सांगलें.

मिनाक्षीन दोंगरावेल्यो काजुच्यो बियो चोरून हाडून दत्तुल्याक दिल्यो. ताणें उजो घालून भाजून म्हाका खावपाक दिल्यो. बऱ्यो लागल्यो. आमी सगळ्यांनीं बियो खाल्यो. दत्तुल्यान आनी लक्ष्मिणान बियो भाजून आमकांच दिल्यो. आमी खूब बियो खाल्यो. पूण दत्तुल्यान आनी लक्ष्मिणान एकूय बी खाली ना. मागीर हांवें म्हज्या बोल्सांतल्यो दोन-दोन बियो तांकां दोगांकय दिल्यो. अंजनीक आनी मिनाक्षीकय बी हांवें तांकां दी म्हण सांगलें. म्हणून दत्तुल्याक आनी लक्ष्मिणाक, दोगांकय चार-चार बियो खावपाक मेळ्ळ्यो. हांवें एक बी व्हरून मिराक दिली, एक काशीक दिली. काशीक ती चाबपाक कळना जाली. ताचे दांत सगळे कुशिल्ले न्ही? मागीर बाबलेप्पालो पान धाडावपाचो खलबतो आशिल्लो, तातूंत ताका ती बी हांवें धाडोवन दिली. काकूट काशीची! कांयच उलयनाशिल्लें तें. कांयच्च मागी नाशिल्लें. कितेंय दिल्यार घेतालें!

विठोबाच्या देवळा कडल्या नाटकाक आमी सगळीं वतां. ताई बी कदेलार बसतात. हांव वचून मिनाक्षी म्हऱ्यांत ताड पत्रेर बसतां. नाटकाची पयली घांट जाता म्हणसर आमी सगळीं थंयच न्हिदून पडटां.

श्रावण आयताराकडेन फुलां आनी पत्री आमी तिगांय एकठांय करतां. अंजनीक सगळ्या पत्रेचीं नांवां खबर आसात. रामाची सत्री, शितेचो तिबो, घोड्याचीं पावलां, शेरवडाचें पान, कावळ्याचें भात, आवयस्! कितलीशींच नावां!

मागीर सांजचो आयतार पावयतना आमी खूब आयदनां बी वाजयतां. श्रावण आयतार येतकच बरें दिसता. मणगणें, शिरवळ्यो, मुठलीं बी खावपाक मेळटात. जाय तितलीं खायात!

पावसांत मात्शें वत आयल्यार अंजनीक रोखडेंच कळटा आतां पिसोळीं येतलीं म्हणून. मागीर खऱ्यानींच हळडुवींच्च पिसोळीं चोशी वटेन उडटात. आमी सबंद सकाळ पिसोळ्यां फाटल्यान धांवत्त सुट्टां. पिसोळ्यांक हात लायल्यार तीं मरतात म्हणून विठ्ठलान सांगलां. म्हणून आमी पिसोळीं धरी ना. फकत तांचे फाटल्यान धांवून तांकां भेष्टावन धांवडायतां. तातुंतच भिरमुट्यो आनी म्हालेय बी उडटात. पूण ते बरे दिसनात. पिसोळीं मात् बरीं हळडुवींच्च , सोबीत दिसतात!

मागीर शाळा सुरू जातकच शाळेक वचचेंच पडलें. अंजनी आनी मिनाक्षी फकत आयतारा येवपाक लागलीं. मागीर तेंय बी बंद जालें. पिसोळीं मात् आमच्या पोरसांत पयलीं भशेन येतात. पूण आतां तांची अपुर्बाय दिसना. श्रावण आयताराची पत्री एकठांय करपांत आतां मजा ना. मिनाक्षी ना. अंजनी ना. मजा ना. दोंगरार वचप ना. निरो पियेवप ना, दोंगरार वचून बिबे खावप ना. आतां आमी जाण्टीं जालीं म्हण बाबान सांगलां. दोंगरार वचप ना, दुरगा भायर कश्या

कशेंय भोंवप ना. कांयच्च ना! आयज सगळेंच वाजाचेंशें जालां. अंजनी ना, मिनाक्षी ना, मिरा ना, काशी ना. दुरगाभायरच वचप ना न्ही? बल्कावांचेरूच बसून रावप, पुस्तक वाचप. आतां हांव जाण्टें जालें खंय! अंजनी, मिनाक्षी, मिरा, काशीय बी जाण्टीं जालीं गाय? ना शीं दिसता. पोरुंचीं हेवटेन-तेवटेन धांवपी पिसोळीं अजून सगळेकडे धांवत आसात! तीं जाण्टीं जालीं ना! म्हाका मात् वोगीच जाण्टें केलें. भुरगेंच उरिल्लें जाल्यार काय बरें आशिल्लें! ❖

## 29

# पोपो

**देट्ट्या** भायर इतले लोक? चिमलकान्न येताशी दिसता. चिमलकान्न येता तेन्नाच इतले लोक देट्ट्या म्हऱ्यांत एकठांय येतात. ''मिनाक्षी, चिमलकान्न येता! अंदू माटोव ना दिसता चिमलकान्नीक! माटोव ना म्हणूनूच ती दनपारची येता दिसता.'' ''अंदू माचीय ना. नाटकय ना दिसता. चिमलकान्नीक राग आयला म्हणून ती दनपारची येता.'' ''नाटक पसून ना?''

जाण्टे लोक मात् कॉमीक! खूब चकाटां मारतात एकठांय जायना फुडें. आमकां मात् चकाटां मारूं नाका म्हणटात! थंयच वचून गर्दींत जमनीर रावल्यार पालखी दिसची ना ! ''शंकर, म्हाका खांद्यार बसय, म्हाका पालखी पळोवंक जाय!'' शंकरान म्हज्या तोंडार हात कित्याक दवरलो? तो रडटासो दिसता. ताणें म्हाका ''तशें म्हणचें न्हय, पालखी म्हणीनात'' म्हणून कित्याक सांगलें? चिमलकान्नीच्या पालखेक 'पालखी' म्हणूं नाका म्हणून शंकर कित्याक सांगता? तोय बी रागार काय कितें चिमलकान्नीचेर? मागीर अनंत कित्याक रडटा

तर? पढंरीय बी रडटा! हे सगळे रडटात ते कित्याक गाय? हे तिगूय जाण नाटकांत काम करपी न्हंय. अंदू बी पार्ट घेतला गाय?

तारामतील्या घरांत गर्दी? कित्याक गाय? भितर वचून पळोवचेंच पडलें. हे गर्देंतल्यान कशीय करून वाट काडचीच पडली! आरे, तारामती घराभितर येदे व्हडान बोबो कित्याक मारता? आयज ती झगडना शी? रडटा शी दिसता! आवय, जमनीर पांय सोडून बसून हड्डें बडयता तारामती! ''पोप्या रे म्हाज्या'' म्हणून ती कित्याक रडटा? पोप्यान मस्ती केल्यार पोपोच रडटा मार खावन. आयज तारामती रडटा, पूण पोपो काय थंय ना. मागीर ती पोप्याक येदे व्हडान कित्याक उलो मारता? ह्यो इतल्योय बायलो तिच्या म्हऱ्यांत कित्याक बसल्या?

भायर हो इतलो बोवाळ कसलो? पंढरील्या गाड्यार पोपो कित्याक न्हिदला आनी लोक-गाडो कित्याक ओडून हाडटात? आयज पोपो काश्टी न्हेसला! जावं, आयज तरी पोपो नागडो ना! गांवभर तो नागडो भोंवता, लज दिसता म्हाका! घरा म्हऱ्यांत पावना फुडें लोकांनीं पोप्याक कित्याक उबारून घरांत व्हेलो? पोपो सोरो पियेला गाय? तो केन्ना सोरो पियेना. ताका लोकांनीं उखल्लोसो? वत्सलयबी उबें रावन रडटा! ''वत्सल, पोपो सोरो पियेला?'' वत्सलान कच्च करून म्हज्या तोंडार हात धरलो! कित्याक गाय? ''तशें म्हणचें न्हय'' अशें ताणें कित्याक म्हणलें? वत्सल म्हणटा, पोपो पाट्यार उदकांत बुडून मेलो म्हणून! पोपो मेलो जाल्यार तो न्हिदला कित्याक? मरतकच मनीस असोच न्हिदता खंय! पूण पोप्याली जीब बी कांय भायर कशी ना? ताचे हातय बी पोटाचेरच आसात. मरतकच मनीस हात पयस करून मरतात. आमी बी केन्नांय मरतात तेन्नां तशींच मरतां जीब भायर काडून, हात पयस वडोवन! पोपो असो कसो मेला तर? मेला

जाल्यार तो हांगांच कसो आसा? देवागेर वचपाचो न्हंय? पोपो मेलो खंय! कोणूय मेल्यार लोक खूब मोठ्या मोठ्यान रडटात, रडूंक जाय दिसता. हाचे पयलीं रायबनांत कोणूच मरूंना, म्हणून म्हाका लोकांनीं रडूंक जाय हें खबर ना. आमी कोण्ण रडलीं ना. अंजनी रडलें ना. मिनाक्षीय बी रडलें ना. हांवूंय बी रडलें ना. पूण जाण्टीं सगळीं रडलीं!

भट आयलो, भटान व्हडान भटपण म्हणलें. मागीर आमकां सगळ्या भुरग्यांक लोकांनीं आमच्या घरांत भितर व्हरून बसयलीं, भायर वचूंक जायना म्हणून सांगून. आमीय बी खेळूंक लागलीं घरांतच.

दर दिसा दनपारचो दुरगार बसपाचो म्हजो सदचोच प्रोग्राम. एका गुळ्याक धरून हांव बसतालें, दुसऱ्या गुळ्याक धरून पोपो बसतालो. आयज पोपो आयलोच ना. मनीस पयलीं मरतात, मागीर न्हिदून रावतात. भटान भटपण म्हणटकच ते देवागेर वतात. पोपोय बी देवागेर गेलो. तो आयज ना. पोपो फाल्यांय बी येवचो ना?

लज करतालो पोपो! सामकी लज नाशिल्ली ताका! सबंद दीस सगळो गांवभर तो नागडोच भोंवतालो, नोनें दाखयत! म्हाका लज दिसताली! ''तारामती, पोप्याक काश्टी न्हेसूंक सांग गे, तो नागडोच भोंवता आनी म्हाका लज करता!'' तारामतीक मात् लज दिसना. वेल्यान ती तोंडार पदर धरून व्हडान हांसता! आपूण बरी तांबडीं बी कापडां न्हेसून भोंवता. पोप्याची आवय जावन लेगीत तिका मातूय लज दिसना? अनंत ताचो बापूय. पूण तो केन्नांच कितेंच उलयना. हांसय बी ना. म्हाका लज दिसता म्हणून ताका सांगल्यारय बी तो कांयच उलयना!

''पोप्या, तूं काश्टी न्हेस रे, म्हाका लज दिसता'' म्हणून सांगल्यार पोप्यान काश्टी मागली म्हजेकडेन. हांव काश्टी न्हेसना,

चलयो काश्टी न्हेसनात म्हणून हांवें लक्षिमणाची काश्टी दोरये वयल्यान काडून पोप्याक व्हरून दिली. पूण तो ती न्हेसलोच ना. ताणें ती काश्टी हुनरांक खावपाक घाली खंय! वेल्यान म्हाका तोंड घेवन सांगपाक लागलो! पोप्याक मात् लज नाशिल्ली!

भट मनीस बरो. म्हजें सगळें आयकता तो. पूण पोप्याची कागाळ केल्यार तो कांय करिना. भटान सांगल्यार देवाच्या भंयान तरी पोपो आयकतलो म्हणून भटाक सांगलें, "भटा, पोप्याक काश्टी न्हेसपाक सांग रे! म्हाका लज करता तो सगळ्यां हुजीर नागडो भोंवन!" भट पोप्याचेर रागार. पोपो सामको बुरसो. तो जाण्ट्यांक पसून चाळयता आनी तांचे वटेन तोंड करून सुर्र करून मुतता. तसोच तो भटाचेरय बी मुतला एक दीस. पोप्याचें नांव आयकनाफुडें भटान राग्गान म्हणलें, "पाडो पोर तो पोपो!" बाबा थंयच आशिल्लो. म्हाका कच्च जालें. भटान 'पाडो' म्हणिल्लें बाबान आयकलें, तरी पूण ताणें भटाक कांयच्च म्हणलें ना! हें कशें? आमकां मात् "पाड पडिल्लो" म्हणल्यार तापोवणी पडटा बाबाली! जाण्ट्यांनीं गाळी घाल्यार जाता, तापोवणी ती आमकां भुरग्यांकच? जाण्टे लोक हे सगळे असलेच! आमकां कितेंच उलोवंक मेळना! सगळ्यांत भंयकर तो बाबा! वेल्यान मारता आनी तो! म्हाका मारीना, पूण हेरांक मारता. हांव केन्नांच वायट उतरां तोंडांत घेना, बोवाळ करीना. हांव बसून चित्रां काडीत रावतां, पदां म्हणीत रावतां. भिमामावशी म्हाका "लता मंगेशकर" म्हणटा. तीय बी खंय म्हजेभशेनच बरीं पदां म्हणटा, अशें भिमामावशीच सांगी. खंय रावता काय ती लता मंगेशकर? केन्नांय येतली समरादने वेळार वा चिमलकान्नीच्या नाटकाक बी! तेन्नां मात् तिका पद म्हणूंक लावंकूच जाय. म्हणटली ती पद बाबान सांगल्यार. बाबाक भियेतली ती! बाबाक सगळेच भियेतात! "बाबा,

लता मंगेशकरीक पद म्हणूंक लाय रे!'' म्हणून इंदून सांगीत जाल्यार बाबा तिका सांगतलोच! बाबा बरोऽ आसा! इंदून सांगिल्लें सगळें आयकता! आमी मात् सांगिल्लें कांय आयकना तो!

किंतेंय जावं, चिमलकान्नीच्या नाटकाक मात् पोपो नवें खोमीस कलसांव घालून येता. समरादनेक, म्हाळाक बी इतले लोक येतात जेवणाक. तेन्नां पसून पोपो लज नाशिल्लो कसो, नागडोच येता पदां म्हणीत! हांवें जनीलो तांबड्या फुलांचो पोलको व्हरून ताका दिलो. पोपो इल्लोसो, जनी सामकें व्हडलें, ताचो पोलकोय व्हडलो, खूब व्हडलो. पोप्यालें नोनेंय बी लिपलें तो पोलको घालतकच. म्हाका सू जालें. ''म्हाका असलींच लुगटां हाडून दी, मागीर हांव नागडो भोंवचों ना'' म्हणून म्हाका पोप्यान सांगलें.

सरस्पतीन मिनाक्षी खातीर एक बरी तांबड्याच फुलांची साय शिंवून घेतिल्ली. लक्षिमण शिंपीं शिंवता न्ही सायो? मिनाक्षी ती साय घालून बरें दिसता! सरस्पतीन ती साय पोरसांत केळीक बांदिल्ल्या सुमाचेर सुकत घाल्ली. हांवें ती व्हरून पोप्याक दिली घालपाक. ती साय घालून पोपो सबंद दीस गांवभर भोंवलो. ताका पळोवन पळोवन लोक खूब हांसले.

सांजेवेळा घरा येतना साजुल्यान मिनाक्षीली साय घालून भोंवता म्हणून पोप्याचे कान पिळ्ळे आनी ताच्या कुल्यार चाऽऽर फुलयलीं आनी ती साय घेवन साजुलो घरा गेलो. पोपो परत नागडो! हांवें साय दिल्ली ती घालून पोप्यान मार खालो. जनीलो पोलको घालून ताच्या घरच्या कोणेंय पोप्याक पळयल्लो जाल्यार पोपो वांचचो नाशिल्लो! साजुलो इलोसो. ताचें थापट इतलें घटशें न्हंय. पूण जनील्या घरचे लोक नरकासूर कशे! तांचें एकूच थापट पडल्यार पोपो मेलो! भानगड नाका! जनीलो पोलको हांवें व्हरून तांगेर एका

कोनशाक मारलो.

दुसऱ्या दिसा परत पोपो म्हजे बरोबर दुरगार बसपाक आयलो. तांणे म्हाका हांसाळे हाडून दिल्ले ते हांवें खाले आनी मागीर तो नागडो भोंवता म्हणून हांवें ताचे कडेन उलोवप बंद केलें. हांव कशेंच्च उलयलें ना. हाताचीं दोन बोटां पोप्या सामकार धरून म्हणलें, "हें बोट उलयता, हें बोट उलयना!" पोपो परत परत 'उलयता' तेंच बोट काडपाक लागलो. मागीर उबगून हांवेंच 'उलयना' तें बोट काडलें आनी हांव फाट करून गेलें. त्या दिसाच्यान पोपो काश्टी न्हेसपाक लागलो.

शेड्डुयां फाटल्यान धांवन धांवन तांकां फातरावन, मारून वडोवप पोप्याक कित्याक आवडटालें काय देव जाणा! पूण हांव रडटा तें पळोवन पोपो शेंड्ड्यांची आपुरबाय करपाक लागलो. तो शेड्ड्यांक नांवांन बी उलो मारपाक लागलो. शेड्ड्यांचीं नांवां ताका कशीं कळ्ळीं काय? आपूण शेड्ड्यांची भाशा जाणा म्हणून तो सांगतालो. पुर्वजल्मांत तो खंय शेड्डो आशिल्लो. ताका उल्लासान बी खंय फातरावन मारून उडयलो!

सबंद दीस पोपो दोंगरार भोंवत्त आसतालो. काण्णां, चारां, जांबळां, चुन्नां, आमोरां हें तो म्हाका हाडून दितालो. पोपो घेवन येतालो आनी हांवें खावन जातकच उरिल्लें तो खातालो. पूण हांव वांटे घालतालें, तरीकय आपल्या वांट्यांतलीं अर्दी पोपो म्हज्या वांट्यांत घालतालो. बिमलां, करमलां, आमल्यो, जाम, आमाडे, जगमां, माटमां.......हें सगळें म्हजेखातीर तो घेवन येतालो.

आतां पोपो परत येवचो ना. दुरगावेलो एक गुळो म्हजो, दुसरो पोप्यालो. आतां तो गुळो धरपाक पोपो येवचो ना?

दुरगावेल्या एका गुळ्याक धरून हांव बसतालें, दुसऱ्याक

धरून पोपो बसतालो. आतां पोपो ना. दुसरो गुळो कोण धरतलो? पदां, कांतारां आतां ह्या फुडें कांय ना. गांवांतलीं भुतां-देंवचार-सट कितें करतात, खंय भोंवतात तें सांगपाक कोण्ण ना. रातीकडेन येवन खांब्या भोंवतणीं बसून कोले कितें उलयले तेंय बी आतां म्हाका सांगपी कोण्ण ना. कोले, भुतां बी येवन फकत पोप्याकडेनच उलयतात; हांव राणी, देखून ते म्हजेकडेन उलोवचे ना म्हणून पोपो सांगी. हांव राणी आनी पोपो म्हजो शिपाय म्हणून पोप्यान म्हाका सांगिल्लें. म्हाका खावपाक वाग आयल्यार ताका आपूण दांड्यांनीं मारतलों म्हणून सांगपी पोपो गेलो. आतां वाग आयल्यार..........?

पंढरील्या गाड्यार पोपो नासल्यार लेगीत पंढरी म्हाका बसोवन व्हरतलो. पूण पाडे कितें उलयतात तें सांगपाक पोपो ना. सबंद वेळ उलयत रावपी पोपो ना. आता आनीक कित्याक गाड्यार बसूंक जाय?

पोप्याक सगळें खबर आशिल्लें. कुपां सबंद दीस नाचत्त कसलीं पदां म्हणटात तीं हांव ताचे कडसून आयकून म्हणपाक शिकलें. पोपो वतकच कावळ्यांक बी उलोवपाक कोण्ण ना जाला. आतां शेड्डे, कावळे, शेंवणीं, सुणीं, चानयो बी येवन म्हजेकडेन उलयतात. हांवूंय बी तांचेवांगडा बसून पदां म्हणूंक सोदतां पूण म्हाका रडूंक येता. पावसा वेळार तांबड्याच्च चोंचीचीं किरांचीं भिरीं येवन करमलीचेर बसून पिकीं करमलां खावपाक म्हाका आपोवन व्हरतात; आतां पोपो ना न्ही? म्हज्याच सांगातान करमलां खावपाक पोप्यान सांगलां खंय तांकां.

शेड्डे दुरगाचेर बसून तकली हालयत, पोले ''पोक् पोक्'' करीत म्हाका पळोवन रडटात. काकूट बाबड्यांची! लोक तांकां पळयना फुडें तांचेर फातर मारतात. ह्या सगळ्या शेड्ड्यांक देवान

वागां येदे करूंक जाय. मागीर लोक तांकां भियेतले! पोप्यान देवागेर वचचे पयलीं म्हाका सांगलें ना. ना जाल्यार देवाक सांगूंक सांगतलें आशिल्लें ताका!

मनीस मरतकच मागीर तो पोपोट, सुणो, माजर बी जाता. रस्त्यावेलो सुणो म्हजेकडेन बारीकसाणीन पळेता, तेन्नां ताचे दोळे पोप्याभशेन दिसतात आनी तो पोपोच हें म्हाका कळटा. किराची वाटकुळीच्च तकली पोप्या भशेनच! तोय बी पोपोच हें हांव जाणां! शेड्डो आपले दोळे पिक् पिक् करून उघडटा-धांपता तेन्नां तोय बी पोपोच, हें म्हाका कळटा. कावळो, शेवणें पिट् पिट् करून उडक्यो मारतात, भुर्र करून उडटात, सामकीं पोप्याभशेनच. पोपोच तो ह्या शेवण्यांचो भेस घेवन आयला, हें म्हाका खबर आसा. पोपो कुपांचेर बसून, कुपां मदीं लिपून, कुपांक धांवडायता. पोपो तसो सामको वचुंक ना देवागेर!

दादीलो पाडो शाणू मरतकच सुणो जावन शेंवतूगेर येवन सदांच दूध पियेवन, शीत बी जेवन वता. केन्नां केन्नांय तो माजरय बी जावन येता. कसलेंय संवंग घेवन येवं, शेंवतू ताका पळयनाफुडें सारकें वळखता! हांवें पसून पळयला शाणूक माजर, सुणो, पोपोट बी जावन आयिल्लो! पोपोट जावन आयिल्लो तेन्नां तो मिरसांगोच खातालो. ताका तीख लाग नाशिल्लें. भटाली पांय मोडकी चानी जायू मरतकच माजर जाल्लें. हांवें पळयलां ताका. ताचोय एक पांय मोडिल्लो. आमी सगळीं ताका जायूच म्हणून उलो मारतालीं. जायूक भानूलें काशी आनी इंदू आवड नाशिल्लीं. तीं दोगांय जायूक मारतालीं. दोतोर केणयाली आजी, भागुलआकाली आवय, ती माथ्यार पदर घेताली. ती मरतकच धवीच्च गाय जाली खंय. पूण हांवें तिका पळोवंक ना. पोपो आसल्यार दाखयतलो आशिल्लो. ताका

सगळें खबर आशिल्लें. पूण आतां पोपो येता तेन्नां तो सुणो बी जावन येता. तो कशें सांगतलो म्हाका? आनी ताणें सांगल्यारय बी म्हाका तें कशें समजतलें? पोप्यान सुण्याची बी भाशा म्हाका शिकयलीच ना न्ही! ❖

# 30

# तकलेवान रविंद्र

**रविंद्र** हो कृष्ण भटालो सगळ्यांत व्हडलो पूत. दुसरो नारायण, तिसरो वामन, चवथें रोहिणी, पांचवें मिलन, सवें रेवती आनी सातवें रमा. एकटो रविंद्र सोडल्यार बाकीचीं सवूय भुरगीं आमकां चिल्लर कशीं. फकत मिलन एकटें म्हजी भयण कांचना बरोबरचें जाल्ल्यान तीं सबंद दीस फुतफुतत आसतालीं. तशेंच, विठ्ठलालें शैलाय बी कांचना बरोबरचें. हें त्रिकूट सबंद वेळ एकठांय दिसतालें.

शैला गोरेंपिट्ट आशिल्लें. आमचें कांचन काळसर, मिलन सांवळें. शैलाली आवय मुक्ताबाय सबंद दीस आपली धूव गोरी, कांचन काळें, गोऱ्यांक रोखडोच घोव मेळटा अशें ती म्हणत्त आसताली. म्हाका मात् वायट दिसतालें. आमचे बरोबर चोविसूय वरां आसतालो तो रविंद्र. ताईलो पंगड वेगळो, जाण्ट्यांचो. शेंवतूल्यो नाती जनी आनी कुसूम हीं दोगांय ताई बरोबरचीं. रविंद्र आमच्याकय मात्सो व्हड जावन पसून आमच्याच वांगडा खेळटालो. सुणो बी आमचेर भुकलो जाल्यार ताका पोटतिडकीन फातरावप हें रविंद्रालें

घोस्ताचें काम.

भटीण रविंद्राक खूब मारताली! तेन्नां रविंद्र आनी हांव बी आशिल्लीं सात-आठ वर्सांचीं. कित्याक कोण जाणा, ती सबंद दीस रागार आसताली, पूण आमकां खूब मायेन वागयताली. फकत आपल्याच भुरग्यांक सामकी छळटाली एकेकदां. रविंद्राल्या आंगाक गॉड लावन, आंबाड्याच्या झाडाक बांदून घालून ताच्या आंगार हुमले सोडून तिणें ताका वळवळायला एकदां. रविंद्राक हुमले घाल्या म्हणून सगळीं भुरगीं एकेमेकाक सांगतालीं. पूण ताचें तांकां कांयच्च वायट दिसनाशिल्लें. रविंद्र रडटा तें पळोवन हांवें बोबो मारीत रडून भटणीक सांगलें ताका सोड म्हणून, तर तिणें बडी घेवन ताका आनीक मारलो. हांव धांवत्त रडत्त घरा आयलें आनी हांवें बाबाक सांगलें. बाबा आनी रावलो ना. तो थेट भटागेर गेलो आनी पयलीं ताणें फोंडूक रविंद्राक सोडोवपाक सांगलें. मागीर तो भटणीकडेन हळू, मायेन कसो उलयलो. तिका तापयली बी ना. गांवच्यो कोण्ण बायलो बाबा सामकार उब्यो रावन ताचेकडेन पळोवन उलय नाशिल्ल्यो. बाबाय बी बायलांकडेन उलयता आसतना कुशीक रावन मोठ्या रेश्पेतान उलयतालो. बाबा कोणा बायलमनशेकडेन उलयतना तांकां नांवांन उलो मारी नाशिल्लो. ‘‘हें योग्य न्हय. भुरगीं मस्ती करताततच! तापयल्यार पुरो. आंगार हुमले सोडप हें बरें दिसना. सामकींच आयकना जाल्यार मागीर आमी पळयतां न्हय? ह्या फुडें अशें कांयच जावंक जायना ,’’ अशें म्हणून बाबा घरा आयलो. भटीण थंयच कुशीक मान सकयल घालून आयकत रावली आनी मानेनच तिणें ‘आं’ म्हणलें. बाबा काळाचो! आपूण कितली आजनेर करता तें विसरून भटणीक बेधडक समजणी दिवन आयलो! लोकय बी मोठ्या आदरान आयकताले बाबान कितेंय सांगल्यार! बाबान रविंद्राक सोडोवन आमगेर घराकडेन हाडलो.

फुडले चार दीस रविंद्र घराच गेलो ना. तशे गांवचे कितलेशेच भुरगे आमगेर येताले, खेळटाले, जेवताले, खाताले आनी रावतालेय बी. घरच्या लोकांक खबर आसतालें, भुरगीं आमगेर आसा म्हणून, देखून कोण्णाक हुस्को जाय नाशिल्लो.

रविंद्र सामको बुरशेपणां करतालो एकेकदां. खंयींय मुततालो, खंयींय शेमूट पुसतालो. सामको बुरसो! मस्ती करता म्हणून कोणेंय तापयल्यार जाण्टो नेण्टो कांय पळयनासतना चाळयतालो, ताचेवटेन पळोवन सुर्र करून मुततालो!

आमकां शिकोवपाक एक मास्तर बाराय म्हयने आमगेर येवन रावतालो. कांय मास्तर बरे आसताले, कांय मास्तर सामके केरेक! ह्या केरेक मास्तरांचें आनी रविंद्रालें केन्नांच पटलें ना. ताका मास्तर म्हणटात तो मनीसूच आवडनाशिल्लो म्हणल्यार जाता!

कदेलाक खातकुलेचीं पानां घांसपाची येवजण एकदां ताणें माईक बी सुचयली आनी सांगलें, "ह्या वखदान मास्तर मरताच!" हांव थर्त भियेलें. खातकुतली लाइल्ल्या कदेलार बसल्यार मास्तर मरतलो, मागीर बाबाक तें कळचें ना? ही आनी नवी भानगड नाका अशें म्हणून हांवें चोरयां वचून तळावलीकाराक ही गजाल सांगली. तळावळीकारान मास्तराक सांगी नासतना मुकाट्यान तें कदेल मान्न्यांत व्हरून धुवन घेतलें आनी रविंद्राक तापयलो. मागीर माईन बी म्हाका खूब चाळयलें तोंडा वांकडी-तिकडीं करून. हांव वोग्गी रावलें. ह्या खातकुतलेच्या प्रकरणांत ताई आशिल्लें जाल्यार तें म्हजें कानसूल फोंडटलेंच आशिल्लें. चाडयो करप ताईक आवड नाशिल्लें.

श्राध्दां, म्हाळ, समरादनां, देवकारीं, शांती, नवचंडी, कितेंय जावं, रविंद्राचेर बोवाळ पडटालो. भटां बरोबर बसून तो फोवूय खातालो. आमकां कोण्णाक कांय पडनाशिल्लें. मागीर दनपरां जेवणाच्या वेळार

खीर वा मणगणें कोण चड खाता हाचेर पैज लागताली. वामन, नारायण बी चडशे उलय नाशिल्लेच. ते ल्हान. सगळो बोवाळ तो रविंद्राचेरूच पडिल्लो आसतालो. श्रावण आयताराची पत्री, फुलां बी एकठांय करपाचें काम धरून तें आयतार पावयतना झान, भोगुणीं, तोप वाजोवपाचें काम हें सगळें रविंद्रालेंच. बावलेचें लग्न जाल्यार तें लेगीत रविंद्राबगर जाय नाशिल्लें. कसलोय बोवाळ जावं थंय रविंद्र जायच आसतालो.

रविंद्र खूब हुशार! ताका सगळें खबर आसतालें. गंव तोंडांत धरून चाबून चाबून ताचें चिकट पीठ केल्यार ताचो गुळो करून दोनूय पोतांक धरून ओडीत जाल्यार चिंगम कशें तें वडटा. केळ मोडटकच तिचेर बसून घोडो करूंकय बी तो जाणा आशिल्लो. बिमलीचीं तांबडीं फुलां वांट्टकच शारोप जाता हेंय बी ताका खबर आशिल्लें. एक दीस तांणे आनी माईन फाटल्या दारार बांय म्हऱ्यांत शारोपाचो पोसरो उगडलो. आमी शारोप पियेलीं. बरें लागलें ना. पूण रविंद्रान आमकां फट उलोवपाक सांगिल्लें. मागीर आमी शारोप बरें लागता म्हणूण सांगलें. बरें लागना म्हणून लोकांक सांगल्यार चिमलकान्न येता तेन्नां माटवांत कोण्ण तांचे शारोप घेवचो ना आनी मागीर तांकां पयशे मेळचे ना म्हणून शारोप बरें लागता अशें लोकांक सांगपाचें! तांकां पयशे मेळ्ळ्यार आमकां सगळ्यांक मेळटले म्हणून रविंद्रान सांगिल्लें.

सगळ्या लोकांक भांगराचीं कांकणां घालूंक मेळचीं म्हणून रविंद्रान माईचीं दोन भांगराचीं कांकणां करबिलाच्या झाडा पोंदा पुरलीं. कांकणांचें झाड जावन कितलींशींच कांकणां मेळपाचीं सगळ्यांक, पूण हांवें नाका आसतना एक चूक केली. माईल्या हाताचीं कांकणां ना म्हणून शेंवतून आनी तळावलीकारान विचारल्यार माईन कांयच्च

सांगलें ना. म्हज्या तोंडांत कितेंच धरना जाल्ल्यान वोगीच सेग्रेद म्हणून तळावलीकाराक हांवें कांकणां पुरल्यां म्हणून सांगलें, तेंच माल पडलें! तळावलीकारान तीं कांकणां काडून बाबाकडेन व्हरून दिलीं. काय बरें आमचें झाड जावपाचें, कांकणांचें! इतले दीस आमी तीं कांकणां शिंपलीं. रविंद्रान मुतून सारें घालें झाड बेगीन व्हड जावंचें म्हणून. कितेंय जावं, तळावलीकाराक हांवें सांगपाचें न्हय! हांवें सांगलां म्हणून कोणाकूय कळिल्लें जाल्यार म्हाका मारूय बी पडपाचो! ताई मात् वोगीच खूब मोठ्यान कानसुलार मारतालें! तें म्हाका सोडपाचें नाशिल्लें कळिल्लें जाल्यार! म्हजें कानसूल फुटपाचेंच! आनीक कोण्ण आमकां मारिनाशिल्लो. ताईच आमकां मारतालें. बाबा मात् मारल्यार चडूच मारतालो. पूण आमकां मारी नाशिल्लो. सामन्त मास्तर मात् सबंद दीस गलेरेच्या जनेलांतल्यान तोंड भायर काडून हिंग आनी चुरो चोखीत चोखीत पत्र्याचेर लाळ गळयत रावतालो आनी कान-नाक तांबडेंच करून बसतालो. तो लाकडाची काम घेवन आमकां सगळ्यांक येतिष्ट मारतालो. कोणाकूच सोडिनाशिल्लो. दादा, भाई आनी ताई हांचे वाटेक तो वच नाशिल्लो. सगळे लोक ताका 'सामान' मास्तर म्हणटाले.

एकदां नाल्लांचो पाडो चलिल्लो. विठ्ठल हातांत चुट्टी घेवन ती मोडून मोडून ते चुट्टेचेर रिस्को मारतालो. एक रिस्क म्हणल्यार एक पावट, एक वजें नाल्ल, असो कितेंय तरी तो हिशेब आशिल्लो. रविन्द्र थंय पावलो. "दी ती चुट्टी, हांव मोडटां, तूं मात्सो मुतून यो पळोवया," अशें म्हणून तांणे विठ्ठलाक सांगलें. विठ्ठलान आयकून घेतलें ना. तरी आसतना चुट्टी दाराक हुमकळावन विठ्ठल मुतूंक गेल्ले कडेन रविंद्रान ती चुट्टी दोडून दोडून कितल्योशोच रिस्को मारल्यो! आमकाय बी चुट्टेचेर हिशेब कसो करपाचो तो तांणे शिकयलो. विठ्ठल

अणभवी मनीस! ताका रोखडेंच रविंद्रान केल्लें तें कर्म समजलें. तांणे ताका तापोवन थंयच्यान धांवडावन घालो. रविंद्राक लोक फकत तापयताले, भटणीशिवाय ताका आनीक कोण्ण मारी नाशिल्लो. फकत "पाडो पोर" म्हणून लोक फडफडटाले. करतालो तींच कर्मां नाका जाल्लीं! खंयीय कितेंय घडटा जाल्यार रविंद्रालो दवलो आसतालोच, तोय बी, चडसो करून कामाचें पाड घालपांत!

चिमलकान्नी वेळार आमच्या दारांत दुरगाभितर एक नाटक जातालें. एक वर्स शिवाजीचें नाटक आशिल्लें. तातूंत मावळ्यांचें काम करपाक खूब भुरगे जाय आशिल्ले. लडाय बी करपाक रायबन् चे कितलेशेच भुरगे ह्या सैन्यांत भरती जाले आनी तातूंत रविंद्र्य बी आयलो! नाटकांत काम मेळना फुडें रविंद्रालें पोजिसांवूंच बदल्लें! तो सबंद दीस लडायेचींच भाषणां उलोवपाक लागलो, आनी तींयबी मराठींत! ह्या सगळ्या भुरग्यांक नाटकांत फकत लडाय करपाचेंच काम आशिल्लें. रविंद्राक मराठी बी कांय समज नाशिल्ली, पूण कोंकणीच मात्शी ओडून उलयल्यार ती मराठी जाता अशें ताका दिसतालें.

सगळ्यांकडेन धार नाशिल्ल्यो फटीच्यो तरसादी दिवन तांकां लडाय करपाक शिकयल्लें. कोणाचेर मारप ना, कोणाक तोपप ना, हें सगळें कितलेशेच दीस शेटयालो जयराम आनी हेर जाण्टे तांकां शिकयताले.

नाटकाच्या एक दीस पयलीं येसाय घेतली. सामकी बरी जाली. भुरग्यांनी बी काम बेस बरें केंलें. गडबड जाली ती नाटकाच्या दिसा! नाटक सुरू जालें, बरें चल्लें. मागीर आयलो लडायेचो देखाव. लडाय सुरू जायना फुडें रविंद्राचेर आयलो भार! तांणे खरेलीच लडाय करपाक सुरवात केली! इतली शाणेपणाची शिकवण विसरून तो हेर मावळ्यांक तरसादीन खऱ्यानीच मारपाक लागलो. कसोच सावरना

जालो. मागीर बेगी-बेगीन रविंद्राक माचयेवेल्यान ओडून सकयल व्हरचो पडलो. माचयेर लडाय चालूच उरली. माचये सकयल लेगीत रविंद्र भार आयिल्ले भशेन सावरना जालो. मागीर दोन थापटां पडना फुडें रविंद्र जाग्यार आयलो!

पावस पडचे आठेक दीस पयलीं फाटल्या दारा दुदी, काराथीं, तवशीं बी रोवपाचें काम सुरू जातालें. चंद्रकांत, शांताराममामा, फोंडू, दत्तुलो, शेंवतू बी सगळीं जाणां माती खणून चरी करतालीं. मागीर आमच्या हातार दोन-दोन बियो दवरून, त्यो त्या चरींत पुरपाचें काम आमचे हात धरून हेच जाण्टे लोक करताले. मागीर व्हडान ताळयो पेटीत आमी बियो रोयल्यो म्हणून आमी सगळीं बोवाळ घालतालीं. हांगा रविंद्राची भुमिका मुख्य आसताली. बियो रोवन जातकच कांय दिसांनीं वेली वयर येवपाक लागताल्यो. ह्या वेलीं वांगडा उलयल्यार आनी तांकां पदां म्हणून दाखयल्यार दुदी व्हड जातात, देखून सदांच ह्या वेलीं म्हऱ्यांत उबो रावन तो तांचे कडेन उलयतालो. वेली मात्श्यो वयर सरतकच शेंवतू बी कोंड्यांचीं शिरीं हाडून तीं एकेवटेन पुरून दुसरी वट वण्टीक नळ्या म्हऱ्यांत तेंकून उबी करतालीं. ह्या शिऱ्यांचेर चडून वेली नळ्यांचेर वतकच मागीर नळ्यांचेर वयर दुदी बी जाताले. काराथीं, घोसाळीं, तवशीं, पडवळीं बी माटोव घालून तांचेर चडयतालीं पूण दुदी आनी कुंवाळे मात् नळ्यांचेर. भेड्यांचीं झाडां बडयो कशीं उबींच रावतालीं. तांकां शिऱ्यांची बी गरज नासताली.

एक दीस चंद्रकांत दुदी काडपाक नळ्यांचेर चडलो. तांणे वण्टीक निसण लायली मात्, रविंद्र थंय पावलो. नाका थंय तो पावतालोच! ''हांव निसण धरतां'', अशें म्हणून झेत्तान तांणे चंद्रकांताक म्हणलें. कितेंय म्हणपाचें जाल्यार रविंद्र सदांच झेत्तानूच म्हणटालो. चंद्रकांतान ताका 'नाका' म्हणून सांगलें. ''ना, ना, तूं पडटलो, हांव

धरतां निसण'', म्हणून रविंद्रान म्हणलें. चंद्रकांतान ताका धुकल्लो आनी मागीर नळ्याचे पाटयेक तेंकून निसण बरी धट्ट उबी करून तो नळ्यांचेर चडलो. रविंद्र वोगीच निसणीच्या पांयांक एक हात लावन दुसरो हात कमरार धरून, पांय मोडून कृष्ण कसो झेत्तान थंय उबो रावलो. कितेंय करपाचें जाल्यार रविंद्र सदांच तें झेत्तान करतालो. उबो रावलो जाल्यार तोय बी झेत्तान!

बरोच वेळ उबो रावन, वाजेवन रविंद्र निसण सोडून थंयच्यान गेलो. चंद्रकांत बरोच वेळ दुदी पळयत आनी मेजीत नळ्यांचेर उरलो. तांणे तळपाक म्हणून दुदणीचे कळे काडले आनी ते बोल्सांत भरले. एक दुदी हातांत घेवन चंद्रकांत देंवपाक लागलो. निसणीर पांय मात् दवरला, चंद्रकांत निसणी सकट दुदी घेवन घडांयच्च करून जमनीर आपटलो. दुदी बी फुटलो. रविंद्रान वता आसतना निसणीचो हात सोडटना निसण मात्शी हाल्ली आनी निसणीचो एक पांय वांकडो, तिरकस उबो रावलो आनी चंद्रकांत निसणीर उबो रावना फुडें निसणूच्च निसरली!

रविंद्र आमचेच शाळेंत शिकतालो. पूण एक दीस अकस्मात भटान ताका कवळ्यां स्वामी म्हऱ्यांत मठांत व्हरून शिकपाक म्हणून दवरलो. तो बाबडो वतना खूब रडलो. म्हाका मात् तो वतकच ताची खूब याद आयली. तो हाडकुटो रविंद्र, थंय ताका मठांत कोणूय मारी बी ना मूं? अशें येवजून म्हाका खूब वायट दिसतालें. थंय ताका मार पडल्यार रविंद्र कितें करतलो?

घरच्यान आयिल्ले चिटयेचे लखोटे परते करून ताचेर पत्तो बरोवन तो चिटयांची जाप धाडटालो. चिटयेक तिकेट लागता हें आमकां कोणाक खबर नाशिल्लें. पूण तिकेट लावंक नाशिल्ल्यान रविंद्राल्या घरच्यांक कांय त्रास जालो ना. ही चीट एका भुरग्यान

बरयल्या म्हणपाचें पोस्टमन जाणा आशिल्लो. देखून ताणे केन्नाच मुल्त लायलो ना. वेल्यान रविंद्राली चीट वाचता आसतना तो थंय उबो रावन मोगान आयकतालो. ते वेळचे लोक मोगान एकदुसऱ्याक सांबाळून घेताले ते अशे! मागीर एकदां घरा आयिल्लो तेन्ना तो इल्लोसो रविंद्र, बारीक हाडकुटो रविंद्र, माथ्याक भोंवरो दवरून आयिल्लो. खूब काणयो सांगतालो, वागाच्यो, वागाक पळयिल्ल्याच्यो, कोल्यांक मारिल्ल्याच्यो बी.

कवळ्यां रावन पिसो रविंद्र शाणो जातलो म्हणून सगळीं म्हणटालीं पूण एक वर्स भर कवळ्यां रावन रविंद्र परतलो तेन्ना तो सामको हेर जाण्ट्यां भशेन वागपाक लागलो! ❖

## 31

# श्री भगवान, सुकडो, सांवळो, दत्ताराम आनी वासू

### श्री भगवान

श्री भगवान, सुकडो सांवळो दत्ताराम आनी वासू हे पांचूय जाण केन्ना केन्नाय आमगेर झप्प करून येताले, तीन-चार दीस रावताले, जेवताले, खाताले आनी एक दीस सक्काळीं फुडें केन्नांय तरी ते नाच्च जाताले.

श्री भगवान हो एक सोर्तीकार. तो खंयच्यान येतालो आनी खंय वतालो, हें कोण्णाक खबर नाशिल्लें. ताचें खरें नांव कोणाकच खबर नाशिल्लें. सगळे लोक ताका 'भगवान' म्हणून उलो मारताले. आपल्याक दोन आवयो, ऐकलेचें नांव येसोदी आनी दुसरेचें नांव देवकी आनी बापायच्चें नांव वासदेव, मामा "चोर, फटिंग" अशें म्हणून तो सांगतालो. मामाचें नांव विचारल्यार तो 'थूऽऽ' करून व्हडान थुकतालो; थुकी वार भर पयस पडटाली ताची!

वाटकुळ्याच तोंडाचो, शिवांभशेन दिसपी, मोटवोसोच भगवान अकस्मात प्रकट जातालो. धवसार जावपी खाड-मिश्यो

आनी लांब केंस, मोटवें खाकी कलसांव, लांब हातांचें खोमीस, हातांत एक मुरली, धावूय बोटांनीं तरातरांच्यो मुदयो आनी दोनूय मनगटांचेर, कमरार आनी कपलाचेर चुट्टेचेर शिविल्लीं देवतेच्या मखराचीं चकचकीत बेगडीचीं कमळां आशिल्ल्यो पटयो, अश्या स्वरूपांत भगवान खंयी ना जाल्यार खंयीय तरी कॉमीकचश्या तरेन पांयांर पांय घालून, श्रीकृष्ण जावन उबो राविल्लो दिसतालो.

मनगटार बांदिल्ल्यो पटयो भगवान चड करून खंयच्याय देवळांतल्या मखराच्यो काडून हाडटालो अशें एकदां त्रिंबकान म्हाका सांगलां. वेलंगा दसऱ्याच्या वेळार मखर हालोवन जातकच मागीर मखराची तसलीच एक पटी हांवें रामचेन भटाकडेन मागून घेतिल्ली. कितलेशेच दीस ही पटी कमराक बांदून हांव भोंवलां! बेगडीच्यो चकचकीत पाखळ्यो करून ताचें फूल कशें करून चुट्टेर शिंवताले आनी ताचेर मागीर मद्दीं शेंवतें शिंवून बसयताले आनी खुबशी झिगझीग वेल्यान शिंवताले. एकूण पळयतल्याक ती खूब झगझगीत सोबीत वस्त कशी दिसताली. अशीं कितलींशींच कमळां चुट्टेचेर बसोवन मागीर ती सबंद चुट्टी मखराचेर हुमकळायताले. हे चुट्टेक मखराचेर चडयतकच 'पटी' अशें म्हणटाले.

थाळोणी बांयचेर रोप धुवपाक कळशे-कळसुल्यांनीं उदक भरून व्हरपाक बायलो एकठांय जाल्यो रे जाल्यो, भगवान झपांयच्च करून उड्डाण मारून, थंय प्रकट जातालो; थंय आशिल्ल्या आंब्याच्या रूखापोंदा वचून, पांयांर पांय घालून, कृष्ण जावन भगवान उबो रावतालो, "फ्यूऽऽ फ्यूऽऽऽ" करून पिल्लुकेवरी मुरली फुंकतालो, आनी व्हडान आड्डून म्हणटालो, "चला गवळणींनों, आम्ही रासक्रिडा करूंया, नाचूंया, गांवूया फ्यूऽऽ फ्यूऽऽऽ", करून पिल्लुकेवरी मुरली फुंकतालो, नाचतालो आनी व्हडा-व्हडान "हाऽऽ

हाऽऽ'' करून हांसतालो, बायलांचे हात धरून वाटकुळो-वाटकुळो घुंवपाक सोदतालो. सगळ्यो बायलो व्हडा-व्हडान हांसत्त थंयच्यान नाच्च जाताल्यो. वता आसतना हो ''एक पिसो'' अशें म्हणीत त्यो वताल्यो. कोणाच्याच मनांत भगवानाविशीं राग नासतालो. सगळे लोक हांशार व्हरताले.

भगवान सदांच आपूण श्री कृष्ण म्हुण समजतालो. तो चडसो कोण्णाकडेन उलय नाशिल्लो. ताचो आवाज बायलां वरी बारीक, चिरडो कसो मोवाळ आशिल्लो. तो बारीक बारीक तानी मारीत पदां म्हणटालो आनी सबंद दीस श्री कृष्णच जावन जियेतालो. एक व्हड राजा जाल्लेवरी, अश्शी तिरकस मान धरून, भुजां वयर उबारून हालयत, कमरार हात धरून भोंवतणच्या एकूण एक मनशाक राजा जसो प्रजेकडे पळयता, व्हिस्त मारता, तस्सो तो झेत्तान उबो रावन, बार्रीक दोळे करून पळयतालो. तशें पळोवंक गेल्यार ताचे दोळे मुदलांतूच बारीक आनी वेल्यान भोंवयो तणाभशेन चड वाडिल्ल्यान त्यो दोळ्यांवेल्यान येताल्यो. तो बुकलो कसो दिसतालो. वेल्यो 'क्रिडा' सोडल्यार तो चडसो करून थंड बसून आसतालो; थंड, सुसेगाद सो, पासयो मारीत आसतालो.

भगवान बशिल्लो आसतालो थंय आमी सगळीं भुरगीं वचून ताचे भोंवतणीं बसतालीं. एकेकदां तो आमच्यो विणयो लेगीत घालतालो. विणयेक तो 'फांती' म्हणटालो. ताणें घाल्ली विणी सामकी पेडवो कशी तायट उबी रावताली. आमचे केंस वळयता आसतना तो कपलावेल्या केंसांचे दोशीं वटेन दोन फुगे करून विणयो घालतालो. भगवान घालतालो ती विणी आनी तो फुगो म्हाका सामको मानवतालो.

### सुकडो

सुकडो हो पेडणेंचो. तो खंय काब आशिल्लो. देखून ताका सगळे "काब सुकडो" अशें म्हणटाले. तोंडार तोंडभर देवीच्या मावांचीं फोंडकुलांच फोंडकुलां! नाकार लेगीत कपचो काडिल्लेवरी एक व्हड चेप आशिल्लें ताच्या, देवीक लागून खंय! ताचे नाक सामकें चेपां-चेपांचें थोकणां मारिल्लें भोगुणें कशें दिसतालें!

मात्सो काळसर, लांबट चौकोनीश्या अशीर तोंडाचो सुकडो बारीक किडकिडीत आशिल्लो! ताच्यो मिशो विंचवावरी बारीक हेवटेन तेवटेन व्हीर कश्यो पोल्यांचेर उब्ब्यो आसताल्यो. रूंद पांयांचें खाकी मोटवें कलसांव घालून, ताचेर सोलदाद घालताले तसलेंच खाकी खोमीस तो घालतालो. खोमसाचे हात मोटवे, भुजांचेर फितां आनी सामकें कडक्क खटखटीत खोमीस तितल्याच खटखटीत आनी फुलार घागऱ्यावरी रूंद पायांच्या कलसावांत भितर तो खोयतालो! त्या बारीक, हाडकुट्या कमरार चांबड्याचो रूंद पटो बांदून, त्या किडकिडीत, फस्काच्या काडयांवरी पायांचेर सुकडो झेत्तान उबो रावतालो! उबो रावतकच ताचें तें फुलार कलसांव सामको पांटलो कसो दिसतालें, हुमकळायिल्लो पांटलोच कसो तें झेलतालें! सुकडो सामको संवंग कसो दिसतालो!

"म्हाजां, तुजां, तेजां" म्हणून तो उलयतालो. "काय सांगूंचां रे, म्हाज्या राजाऽऽऽ" अशें म्हणून तो खबरो सांगपाक सुरवात करतालो. आपणें वागाक धरून जमनीर आपटून-आपटून कसो मारलो, तें तो सांगतालो. केन्नां-केन्नांय कोल्यांच्या सांगाताक वचून रानांत रावन आपणें कोल्यांक कशे फटयले तें तो सांगतालो. ताका कोल्यांची लेगीत भाशा येताली. कितलेशेच फावटीं ताणें आमकां कोल्यांची भाशा उलोवन दाखयल्या! आमकां तें सगळें खरेंच दिसतालें! म्हज्या

बराबरचीं सगळीं भुरगीं सुकड्याचे भक्त. एकदां एक वाग खंय खूप मस्ती करपाक लागलो; सोरो पियेवन. तो वागणीक बी वोगीच खूप मारपाक लागलो; आपल्या भुरग्यांक, वागटांक ताणें खंय आपल्या शेपडेच्या चाबकान बडय बडय बडयलीं! तेन्नां वागीण क्कार्तेलार येवन सुकड्याच्च्या पायां पडली. सुकडो काब आशिल्लो त्या वेळार! काब म्हणल्यार व्हडांत व्हड सॉलदाद! सुकडो रोखडोच भायर सरलो रोंद घेवन. ताणें एकट्यानच वागाच्या तोंडार एक फुलयलें! वाग थंयच मरून पडलो खंय! व्हड जातकच सुकड्याभशेन वागाचें कानसूल फोडपाचीं सपनां आमच्यांतलें एकूण एक भुरगें पळयतालें. तशें हांवूंय पळयतालें, पुणून 'वाग' हो शब्द रातिकडेन उच्चारपाक लेगीत हांव भियेतालें. तातूंत मागीर सपनांत म्हणून जर वाग आयिल्लो जाल्यार कितें जावपाचें काय म्हजें, देव जाणा!

### वासू चिरपी

सुकडो बी येतालो त्या काळार वासू चिरपी म्हणून एक बारीक आनी उंच असो जाण्टेलो येतालो. तोय बी सुकड्या भशेनच ''म्हाजां, तुजां, तेजां'' म्हणून कोंकणी उलयतालो. ताजो आवाज सामको बारीक आशिल्लो. सुकड्याभशेन कणखर न्हय! तोय बी पेडणें वटेनचोच आसूंक जाय. पूण तो सुकड्या भशेन पटायत नाशिल्लो. सुकडो शरीरानय बी बरो घटमुट आशिल्लो. लांबच्या लांब कोंड्यांभशेन पायांचो सुकडो 'काब' आशिल्लो न्ही? चलता आसतना बी सामको उण्णां मारिल्ले भशेन चलतालो तो! पूण वासू चिरपी हो एक सादो सरळ मनीस. माथ्याचे केंस सामके बारीक तासून, मोटव्या हातांचें धवें खोमीस, पायांच्या खिळयांपर्यंत येवपी धवें पुडवें न्हेसून तो येतालो. व्यावसायान तो लाकडां चिरपी आशिल्लो.

केन्नांय आंब्या-पणसाचीं व्हडलीं झाडां पडल्यार तीं कापपाक वासू चिरपी आपल्यो दोन व्हडल्यो खरवती घेवन येतालो. सांगाताक दोन वांगड्यांक हाडटालो. एकेक फावटीं माडयबी पडल्यार माड कापून वांशे करपाक तो येतालो.

वासू चिरपी येतालो तेन्नां तो आमगेरच जेवतालो. ताका आनी ताच्या वांगड्यांक पेजयबी जेवपाक मेळटाली, पूण ते तिगूय जाण सक्काळी फुडें रानतलेन पेज तयार करीनाफुडें पेज जेवन कामाक लागताले. परत धा-इकरा वरांचेर ते आनीक एकदां पेज जेवताले.

वासू चिरपी व्हड व्हड झाडां उबीं दवरून वैर आपूण उबो रावतालो. सकयल बशिल्ल्या सांगात्याक जमनीर बसून खरवतीक धरपाक लायतालो. एके वटेन वैर वासू आनी दुसरे वटेन सकयल बशिल्लो भुरगो वयर-सकयल खरवत झरकटायत चिर्र चिर्र करून कापून लाकडाच्यो फळयो करताले. आइल्ले फावटीं वासू सात-आठ दीस रावन वतालो. एकेकदां काम नासल्यार पसून वासू वोगीच चार-चार दीस येवन आमगेर रावन वतालो.

**सांवळो**

भगवान, सुकडो आनी सांवळो ह्या तिगांतय भितर सांवळो बरो. तो गरीब स्वभावाचो. आमचेवरीं वागांक, कोल्यांक, सुणीं-माजरांक, हुंदरांक भियेवपी. तो आमकां चड लागींचो सो दिसतालो. काळोकिट्ट, जाण्टोसो, धवोफुल्ल सदरो आनी धोंपरा पसून येवपी धवेंच्च पुडवें न्हेसून सांवळो अकस्मात केन्नांय तिनसांजचोसो आमगेर प्रकट जातालो. सांवळो न्हेसतालो त्या पुडव्याक 'आंगोस्तर' अशें म्हणटाले. कित्याक खबर ना.

पळोवपाक सांवळो एक काळो किट्ट पाशाणोचो मनीस कसो

दिसतालो! सांवळो म्हणल्यार काळ्या फातराचेर धवो खडू घेवन पितारिल्लें एक चित्र! सांवळ्याचें चित्र काडटलो जाल्यार फकत दोनूच रंग पुरो आशिल्ले, एक काळो आनी एक धवो! सबंद सांवळो काळोकिट्ट, पूण ताच्या दोळ्यांत भितर मोवण्डळ्यां भोंवतणचो भाग सामको धवोफुल्ल! सांवळ्याचे दांत, हाताचे तळवे, मुंडाशें, आगोस्तर, सदरो हें सगळें धवेंफुल्ल! ताचीं हाता-पायांचीं नाकटां शिंपे कशीं धवींफुल्ल आशिल्लीं. हो इतलोय धवो भग सोडल्यार सबंद सांवळो काळोकिट्ट!

सांवळो ताडपत्रे भशेन दाट्ट लुगटाचो सदरो घालतालो. त्या सदऱ्याचे बुतांव सुताचे आसताले आनी सगळ्यांत वेलो बुतांव तो सामको गळो अंदून घट्ट बंद करतलो. सदऱ्याचे हात कोपर आनी मनगटांच्या मदीं सोपताले आनी सदऱ्याची लांबी कुल्यांपर्यंत आसताली. सांवळ्याचें आंगोस्तर धोपरांपर्यंत आसतालें आनी तो माथ्याक धवेंफुल्ल मुंडाशें बांदतालो. धव्या आनी काळ्या रंगान पितारिल्लो सांवळो सामको चक्क उठून दिसतालो, पंढरपूरच्या विठोबाभशेन!

सांवळ्या इतलो काळोकिट्ट कावळो लेगीत आपणें केन्नां पळोवंक ना अशें शेंवतू म्हणटालें. सांवळ्याक मिश्यो बी आशिल्ल्यो काय ना तें म्हाका खबर ना. आशिल्ल्यो जाल्यारूय त्यो ताच्या त्या काळ्या रंगाचेर लिपून उरताल्यो. सांवळ्याक मिश्यो आसल्यार आनी नासल्यारय आमकां ताचें कांय पडून वचूं नाशिल्लें. इतलेंच न्हय, तर सांवळ्याचें नाक खंय सोंपता आनी ओंठ खंय सुरू जातात आनी सोंपतात तें लेगीत पळयतल्याक सट्ट करून कळनाशिल्लें. ताचें तोंड म्हणल्यार एक काळोकिट्ट, तुकतुकीतसो मातयेचो गुळो कसो दिसतालो. फकत तो हांसता आसतना ताचे ते धवेफुल्ल दांत उठून

दिसताले. सांवळो आमचो जिवा भावाचो इश्ट. "आंऽऽ सांवळ्यालो कोठवो लागलो दिसता! लाकूड कशें रे सांवळ्या?" अशें म्हणून सगळे ताका विचारताले. बाबाय बी विचारतालो. एक एकदां बाबा ताका म्हणटालो, "सांवळ्या, फाल्यां लॉजांत एक कोठवो घाल," दुसऱ्या दिसा सांवळो कितल्याशाच मानायांक घेवन गाड्यांनीं भरून लाकडां आमच्या लाकडांच्या लॉजांत व्हरून घालतालो. सांवळो लाकडांचो धंदो करी आनी तो कोठव्यांनीं भरून जळवाचें लाकूड घेवन येवन रायबन्च्या पाटयार दर्यांत कोठवो थांबयतालो आनी लाकूड खपतकच तो आमगेर सावन परत वतालो.

पावसा तेंपार आमच्या दुरगाक तेकून आशिल्ले पायणी म्हऱ्यांतलो व्हाळ भरून उदक व्हांवतालें आनी तें रायबन् च्या पाटयार न्हंयंत वचून पडटालें. आमी ह्या व्हाळांत कितलींशींच कागदाचीं व्हडीं करून सोडटालीं. आमची व्हडीं ह्या उदकांत सोडिनाफुडें नाच्च जातालीं. इतलें तें उदक वेगान व्हांवतालें. सांवळ्यान हीं सगळीं आमचीं व्हडीं एकठांय करून आपलो कोठवो म्हणटात तें व्हड व्हडें बांदलां आनी तो ह्याच कोठव्यांत घालून सगळीं लाकडां हाडटा आनी खूब पयशे जोडटा, अशें आमकां त्रिंबकान सांगलें. सांवळ्यान आमचीं व्हडीं व्हेल्यां म्हणटकच ताणें आमकां कितेंय तरी दिवचें पडटलें अशें रविंद्रान म्हणलें. कितेंय तरी ताणें दिवचें अशें म्हणून एकदीस हांवें सांवळ्याक म्हणलें, "सांवळ्या, आमी सोडिल्लीं व्हडीं तुवें एकठांय करून तुगेलें व्हडलें व्हडें केलें. आमकां एक दीस बसय मरे त्या व्हड्यार. पंढरी सदांच आमकां ताच्या गाड्यार बसयता. ताणें आपलो गाडो घडोवपाखातीर आमच्या कोयणे बालांक हात लेगीत लावंक ना. तोच वेल्यान आमकां कोयणे-बाल लेगीत करून दिता ; तूं आमचीं व्हडीं व्हरता पूण आमकां कांयच दिना!" हांवें

उलोवंक सुरू करिनाफुडें सांवळो आपले धवेफुल्ल दांत दाखोवन व्हडल्या व्हडल्यान हांसूंक लागिल्लो, तो हांसतूच रावलो! म्हजें कांयच आयकून घेना! तरी पूण हांवें दनपारच्च्या वेळार परतून ताका सांगलें. ह्या फावटीं भटालो रविंद्र आनी मिनाक्षीय बी म्हज्या बराबर आशिल्लीं. ''सांवळ्या, तूं सगळ्यांक लाकडां हाडून दिता, आमकां उशीकाणे तरी हाडून दी मरे!'' मागीर मात् सांवळ्यान आमकां उशीकाणे हाडून दिले. बाबाक मात् तें आवडलें ना. ''तशें लोकांकडेन कितेंय मागचें न्हय. लोक कश्ट करून पयशे जोडटात'' अशें बाबान म्हाका सांगलें आनी हांवें तें मोन्न्यानीं उबें रावन आयकलें. अर्थ मात् कांयच कळ्ळो ना! आमकां उशिकाणे हाडून दिल्या म्हणून बाबा खूप तापिल्ल्याचें हांवें वचून सांवळ्याक सांगलें. सांवळो थर्त भियेलो. दुसऱ्या दिसाच्यान पळयत जाल्यार सांवळो नाच्च जालो. तशें पळोवंक गेल्यार दर फावटीं सांवळो फांतोडेर उठून केन्ना नाच्च जातालो तें कोणाक कळच्च नाशिल्लें. पूण सांवळो आमचो जिवाभावचो इश्ट, आमचेच भशेन माजराच्या वाटेक न वचपी, सुण्यांक बी भियेवपी!

**दत्ताराम वळार**

दत्ताराम वळार हो एक जिवान मोठ्ठो, गोरोच्च, तोंडभर देवीच्यो मावो आशिल्लो, मध्यम वयाचो मनीस! तो धवी मोटवी बंडी घालून वेल्यान धवी ज्युदी घालतालो. ताचे बंडेक गोल नासतालें. वयर एक पितुळचो वा सुताचो बट्टण आसतालो. तो बट्टण बंद करून तो गळो अंदितालो. धवें पुडवें न्हेसून, माथ्याक धवें मुंडाशें बांदून, व्हडलीं व्हडलीं जोतीं घालून चर्र चर्र आवाज काडून दर दिसा दत्ताराम आमच्या दारांतल्यान वतालो. फाटीर एक व्हडली अरूंद अशी लांबचे लांब पेट, तातूंत भितर लाखीचीं आनी कंवचेचीं कांकणां

आनी वेल्यान कितलींशींच रंगीत कंवचेचीं कांकणां दोरयेर गुंथून तांचे झेले कशे करून तो फाटीवेल्यान हुमकळावन चलत येतालो. फाटीर इतलें वजन घेवन आयिल्ल्यान तो सामको बागवतालो. ताचें तोंड सामकें ताच्या धोंपरामेरेन पावतालें, इतलो तो आडवो जातालो चलता आसतना. परत परत 'ओऽऽऽऽऽ' म्हणून तो साद घालीत येतालो. ताचो साद सामको सबंद रायबन्-भर आयकूंक येवपाइतलो घुमतालो. ताचीं पावलां सामकीं बदकाभशेन पसरट आशिल्ल्यान ताच्यो व्हाणो सामक्यो सुपांभशेन आसताल्यो.

हांसतमूख दत्ताराम सदांच आमगेर जेवपाक रावतालो. जेवच्या पयलीं तो सबंद रायबन्-भर भोंवतालो आनी कांकणां विकतालो. जेवणा वेळार तो आमगेर येतालो. मागीर जेवन जातकच मात्सो वेळ तो न्हिदतालो आनी परत 'ओऽऽऽऽ' असो साद घालीत तो आपल्या धंद्याक वतालो. दत्ताराम कांकणकेरी सावन येतालो खंय. उलयता आसतना तो ''म्हाजां, खंयचां, ह्येंचां, थंयंचां'' अशें म्हणून वेगळीचशी भाशा उलयतालो. सगळ्या लोकांक तो खूब आवडटालो. ताचें गिरायक सगळीं बायलां, वयावेल्यो चलयो आनी भुरगीं. लोक ताका उलो मारून आपयताले, मागीर तो तांगेर वचून पडवेर बसतालो आनी भोंवतणच्यो बायलो थंय एकठांय जाताल्यो. ज्या घराचे पडवेर तो बसतालो त्या घरांतलीं मनशां ताची च्या-पाणयाची वेवस्था करतालीं. एकूण सगळे कडेन वता थंय दत्तारामाची बरीच्च अपुरबाय जाताली. प्रत्येक बायल आपल्याक जाय तसलीं कांकणां काडून दाखयताली. मागीर तांचीं बोचकुलां दामून पळोवन ''नंबर तीन, नंबर दोन'' अशें व्हडान म्हणून कांकणां काडून तो त्या बायलांचीं बोचकुलां दामून दामून कितलींय ल्हान कांकणां तांच्या हातार चडयतालो. वेल्यान सांगतालो, ''चड व्हड कांकणां

घाल्यार तीं रोखडींच वारवतात देखून जाता तितलीं ल्हान कांकणां घालचीं.'' ''कांकणां फुट्टात'' अशें म्हणूंक जायना आशिल्लें. रोखडेंच ''थुमेकाल! बाय, कांकाणां फुटलीं म्हणचें न्हूं!'' अशें म्हणून आयकणारो आमकां समजायतालो. घोव मरता तेन्ना कांकणां फोडटात तेन्ना तीं कांकणां 'फुटलीं' अशें म्हणटात. हेर बायलांची कांकणां 'वारवतात' अशें म्हणपाचें आसतालें. देखून आमी सदांच कांकणां 'वारवतात' म्हणटालीं, चुकून लेगीत कांकणां 'फुटलीं' म्हण नाशिल्लीं.

दत्ताराम वळाराकडल्यान कांकणां हातार चडोवन घेतकच बायलां ताचे सामकार जमनीर हाताचे तळवे आपटून ताका पांयां पडटालीं. दत्तारामान एकदां म्हाका काळीं चकचकीत कांकणां घालीं. हांवेंय बी उठून ओणोव घालून त्या बायलांवरींच हात आपटून ताका नमस्कार केलो, कांकणां वारावलीं! आनी आनीक भानगड नाका म्हणून ''बाय, ल्हान भुरग्यांनीं पांयां पडपाची गरज नासता. ल्हान भुरगीं म्हणल्यार लक्षिमी!'' अशें म्हणून दत्तारामान म्हाका सांगून मागीर तांणे परत काळीं कांकणां म्हज्या हातार चडयलीं, ह्या फावटीं प्लास्टिकचीं!

आमच्या ताईच्या लग्नाच्या चार दीस पयलीं दत्तारामान येवन आमगेर ठाण मारलें. ह्या फावटीं ताका व्हंकलेक पांचवीं कांकणां घालपाक आपयिल्लो. ह्या कांकणांक 'चुडो' म्हणटालीं. पूण आनीक कोणेंय तींच पांचवीं कांकणां घाल्यार ताका चुडो म्हणी नाशिल्लीं. त्या दिसा घर भर लोक आशिल्लो! कितलींशींच सोयरीं, तांचीं भुरगीं-बाळां, घरभर बोव्वाळ! ताईक चुडो घालता आसतना एक वर भर तरी सगळ्या बायलांनीं व्हींवयो म्हणल्यो आनी मागीर कितल्याश्याच बायलांनीं, आंकवार चलयानीं आनी भुरग्यांनीं कांकणां

घालून घेतलीं. फुडले चार दीस सोयरीं येत आशिल्लीं. दत्ताराम तांकां कांकणां घालीत आशिल्लो.

लग्न जातकच बाबान दत्तारामाक पयशे दिता आसतना तांदळांचो साक आनी नाल्ल बी दिले; तशेंच भिकू म्हाल्यानय बी आमगेरच ठाण मारिल्लें. तो हरशीं पाट्यावेलो, पूण तो आमगेरूच रावल्लो त्या दिसांनीं. त्या काळार सांजेच्या आदेसाक केंस मारी नाशिल्ले, खाड करी नाशिल्ले देखून भिकूक काम फकत सकाळच्या आदेसाचें आसतालें. ताकाय बी बाबान तांदूळ आनी पयशे दिले. पंढरी मडवळाक पुडवें, चादर, तांदूळ आनी पयशे दिल्ले. लग्ना वेळार शेंसरां भरता आसतना बसपाक जीं चादरां जमनीर घाल्लीं तीं मडवळान हाडिल्लीं आसतात खंय. व्हंकल-पावणे पयलीं तेच चादर जमनीर घालून कांय जोडपीं तांचेर बसतात आनी मागीर तांच्या माथ्यार पोशांनीं भरून भरून तांदूळ वडयतात. ह्या प्रोग्रामाक ''शेंसरां भरप'' अशें म्हणटात. हे सगळे तांदूळ चादराचेर पडटात ते एकठांय करून मडवळ व्हरता. त्या वेळार ताका कितलेशेच नाल्ल आनी तांदळांचो साक बी दितात. शेंसरां कित्याक भरतात तें म्हाका खबर ना पूण थंय जमिल्ल्या सगळ्यांक खूब मजा येता. माथ्यार तांदूळ घालिनाफुडें बशिल्लीं जोडपीं, माथ्यार तांदूळ वडोवपी बायल आनी सरभोंवतणीं जमिल्लीं सगळीं व्हडा व्हडान हांसतात. मज्जाच मज्जा! बोव्वाळ सामको!

दत्ताराम वळार, भिकू म्हालो, ताचो भाव कृष्णा शिंपी आनी पंढरी मडवळ हे सगळे आमच्या घराब्याचोच एक भाग जावन आशिल्ले. हांच्या शिवाय आमच्या घरचें खंयचेंच कार्य, जावं ती पुजा, जावं ती परब, ह्या तिगांय शिवाय पुराय जावंक ना. इतलेंच न्हय तर ताईल्या व्हंकलपावणे वेळार आमचेचभशेन तेय बी खूब रडले. ❖

32

# शंभू, म्हज्या जिवाभावाचो इश्ट

**एक** दीस दनपारच्या वेळार आमच्या नाल्लाच्या लॉजा म्हच्यांतल्या भोब्याल्या घरा वटेनच्या आमच्या दुरगावयर अकस्मात एक वाटकुळेंच तोंड म्हाका दिसलें. तो मनीस म्हणपाचें म्हज्या लक्षांत आयलें ना. हाचे पयलीं तसल्या तोंडांचो मनीस हांवें पळोवंक नाशिल्लो. कोंबयांक खावपाक एक 'बावको' म्हणून प्राणी येता, ताचें तोंड वाटकुळेंच आसता अशें बांदोडेंच्या जायून सांगिल्लें तें याद जालें. आऽऽ! बावको म्हणटात तो होच अशें म्हणून म्हाका बरें दिसलें. आयुशांत हो एक प्राणी पळोवंक मेळूं नाशिल्लो, तो आयज दिसलो म्हणून धादोसकाय भोगली. तशें पळोवंक गेल्यार खुबश्या जनावरांचीं, जिवांचीं नावां आयकल्लीं, तांकांय बी हांवें पळोवंक नाशिल्लें; पूण कितेंय जावं हो बावको तरी पळोवंक मेळ्ळो! भर दिसा उजवाड्या बावको भोंवता, तो तकलेन बी सारको आसा मूं? ताका सारकें दिसना गाय, असोय बी एक दुबाव तकलेंत आयलो. लागीं गेल्यार तो पळून वचत म्हणून हांव थंयच उबें रावन त्या बावक्याक

पळयत रावलें. सामकें वाटकुळें, मोठ्ठया पोल्यांचें, हांसतें, उकतें तोंड, बारीक दोळे, सामको अपुरबायेचोच दिसतालो तो बावको! तो म्हाकाच पळयतालो अशें म्हाका दिसलें. हांव व्हडा मोगान ताका पळयत रावलें. कितलोसोच वेळ आमी एकामेकाक पळयत रावलीं. काय बरो दिसतालो तो बावको! सामकें सादेंभोळें तोंड, पळयत रावन तितलें थोडें!

तो मनीस आशिल्लो जाल्यार हांव ताका हांडेर घेवन भोंवतलें आशिल्लें. हो विचार मनांत येता थंय आसा, त्या बावक्यान आपलो फुडलो पांय वयर काडलो! एका ल्हान भुरग्यान हात वयर काडून आपोवचें असोच तो पांय म्हाका दिसलो! इतलें म्हणटा म्हणसर तांणे दोशीं वटेनचे पांय - उजवो आनी दावो - वयर काडून म्हजेवटेन दाखोवन हालयले! ताचें तोंड मात्शें चड उगडलें आनी तो चड हांसता काय दिसलो! म्हणटा म्हणसर तो दोनूय पांय व्हडान हालोवन म्हाका आपयिल्ले भशेन करपाक लागलो आनी "आंऽऽव आंऽऽव" करून आवाज काडपाक लागलो. त्या वेळार तो मनीस म्हणपाचें म्हज्या लक्षांत आयलें. हांव धांव्वत ताच्या म्हऱ्यांत गेलें. पळयत जाल्यार थंय दुरगा पलतडी, दुरगाक तेकून उबो आशिल्लो तो एक चार-पांच वर्सांचो भुरगो! हांव लागीं येतकच तो खूब हांसपाक लागलो आनी म्हज्या पोल्याक हात लायत रावलो. तो म्हाका कितेंय तरी सांगपाक सोदतालो हें म्हाका समजलें. हांव दुरगाच्या आलतडी जमनीर उबें राविल्लें. म्हजीं भुजां दुरगामेरेन आयिल्लीं. तो इल्लोसो भुरगो दुरगाभायर मातयेच्या राशीचेर उबो राविल्लो. ताची तकली म्हज्या भुजां पर्यंत आयिल्ल्यान तो अचळय म्हज्या पोल्यांक हात लावंक शकतालो.

कितलोसोच वेळ आमी आशिल्लीं तशीं थंयच उबी उरलीं.

तो भुरगो कोण हें म्हाका खबर नाशिल्लें. ताका पयलीं केन्नाच हांवें पळोवंक नाशिल्लो. नांव विचारल्यार तांणे सांगलें ना. कितेंय विचारल्यार तो शेंवतूल्या घरावटेन हात दाखयतालो. ताचें तोंड सामकें खोसभरीत दिसतालें आनी तें हांशिल्लेभशेन उगडेंच आशिल्लें. ताचे दांत किडेल्ले. सामको बुकलो कसो, मोट्याच तोंडाचो गुडगुडीतसो गोरोपिट्ट भुरगो, "वँव वँव" इतलेंच तो म्हणटालो. ताका उलोवंक येना हें म्हाका समजलें. हांव ताचेकडेन उलयत रावलें आनी तो हांसत म्हाका पळयत रावलो. ताका मागीर हांवें एक काणी सांगली. तो म्हज्या तोंडाकडेन पळयत सामको लक्ष लावन आयकताशें दिसलें. ताका समजतालें काय ना तें म्हाका समजलें ना, पूण तो मदीं मदीं "वूं वूं" करून जाप दितालो. कितेंय जावं, ताका काणी सांगतकच म्हाका बरें दिसलें!

ताचें तोंड सांसपिल्यार तो बरें सांसपून घेतालो. भूक लागल्या काय म्हण विचारल्यार तांणे कांय सांगलें ना. तो तसोच हांसत रावलो. मागीर ताका थंयच राव म्हण सांगून, घरांत भितर वचून हांव एक उंडो घेवन आयलें.

आमगेर सदांच सकाळचे कितलेशेच उंडे घेतालीं. रातीकडे सालांतल्या जनेलाचेर एक व्हडलो तोप दवरतालीं. फांतोडेर पदेर येवन तातूंत उंडे घालून वतालो. उंड्यांचो नंबर लागिल्लो आसतालो. देखून सदांच सांगपाची गरज नाशिल्ली. पदेर येवन उंडे घालून वतालो. उंडे कातऱ्यांचे आसताले. आयज मेळटात ताच्याच्याकय चार पटिनीं तरी व्हड आसताले उंडे आनी एका रुपयाक अठरा उंडे मेळटाले. सांज जातां जातां पाट्यार वा तिट्यार वचत जाल्यार रुपयाक वीस-पंचवीस उंडे मेळटाले. त्या काळार रुपयाक सोळा आणे जाल्ल्यान एका आण्याक एक उंडो असो हिशेब जातालो.

चडशे लोक, इस्कोलाचे भुरगे बी, सकाळची पेज जेवताले आनी थोडे जाण्टेले च्यांत बुडोवन उंडो खाताले. तरीकय कांय उंडे उरतालेच. ते मागीर दुसऱ्या दिसा पदेर परत व्हरतालो.

ह्याच उरिल्ल्या उंड्यांतलो एक उंडो हांवें घेतलो. सकाळीं उंडे ताज्जे आशिल्ल्यान ते वातड नासतात. सांज जातां जातां उंडे वातड जाताले. उंड्याक तूप लावन ताचेर साकर घालून भायर येवन उंड्याचो एक कुडको हांवें त्या भुरग्याच्या तोंडांत घालो. पळयत जाल्यार ताका चाबूंक येना! ताच्या तोंडांत एक्क दांत धड नाशिल्ल्यान तो उंड्याचो कुडको तोंडातूच घोळोवपाक लागलो. तो आनी उंडो ताळ्याक लायत म्हणून हांवें ताच्या तोंडांत बोट घालून तो कुडको भायर काडलो! मागीर भितर वचून सबंद उंडो वाट्यांत घालून ताचे वेल्यान काफी ओतयली आनी भायर येवन तो फुगोवन ताचे इल्ले इल्ले कुडके काडून ताका खावयलो. त्या दिसाच्यान ताका उंडो खावोपाचो म्हाजो प्रोग्राम सदचोच जालो. तांणे खातकच म्हाका बरें दिसतालें. तो हांस नाशिल्लो. तर ताचें तोंडूच तशें हांसतें हें कळपाक मात्सो वेळ लागलो म्हाका. तो भुरगो मंद-बुद्धी आनी त्या अवस्थेक ''डावन सिन्ड्रोम'' म्हणटात हें म्हाका खूब वर्सां उपरांत कळ्ळें.

कितलोसोच तेंप म्हाका ताचें नांव खबरूच नाशिल्लें पूण तो शेंवतूल्या घरांतल्यान येता म्हणपाचें म्हाका समजल्लें. त्या वेळार शेंवतू आमगेर येवपाचें बंद जाल्लें. त्या भुरग्याची आनी म्हजी इश्टागत घट्ट जाल्ली. हांव केन्नाच ताचो तो अर्दो उंडो ताका चुकय नाशिल्लें. म्हाका भायर सरचें पडल्यार हांवें ही जापसालदारकी सुधाकराचेर सोंपयिल्ली. त्या प्रमाण तो फुगयिल्लो पाव घेवन थंय वतालो आनी त्या भुरग्याक खावयतालो. ताका म्हज्या नांवांची गरज भासली ना, आनी म्हाकाय बी ताच्या नांवांची गरज भासली ना. पडवेर हांव

दिसनाफुडें तो ताळयो पेट्टालो आनी खोस उक्तायतालो. ताचेर नदर पडनाफुडें म्हाका देवाक पळयिल्लेवरीं दिसतालें. दिस-भर जें कितें घडटा, बरें, वायट, सगळें हांव ताका सांगतालें. तो ''ऊं ऊं'' करून एकचित्तान आयकतालो.

एक दीस शिलावती ताका उलो मारीत आयली आनी त्या दिसाच्यान तो देवू-शिलावतीलो पूत 'शंभू ' म्हणून म्हाका कळ्ळें. पूण हाच्या पयलीं कितलेशेच दीस तरी आमची इश्टागत चलताली. शंभू दिसतकच म्हाका आनीक कांय सुच नाशिल्लें. ताचेकडेन हांव उलयत रावतालें आनी तो हात हालोवन बी कितेंय तरी सांगतालो. हांव उलयतना तो बरो एकचित्तान म्हज्या तोंडाक पळयत आयकतालो.

शंभू कांयच उलयलो ना. हांव उलयत रावून लेगीत ताका कांयच समजलें ना. हें जाणा जावन लेगीत ताचेकडेन उलोवपांत धादोसकाय भोगताली. म्हज्या तोंडाचेर कितेंय तरी शेणिल्ली वस्त सोदिल्लेवरी, हांव उलयता आसतना तो म्हज्या तोंडाकडेन पळयत रावतालो. एकादीं ह्याच कारणाक लागून ताचेकडेन उलयन दिसतालें जावंये! व्हडांत व्हड निर्शेणी शंभूक उलोवन दाखयतकच नाच्च जाताली. दर दिसा सांज जावपाची हांव वाट पळयतालें आनी साडे पांच-स वरांचेर वत मोव जातकच शंभू थंय येवन उबो रावतालोच. हांव येवन उबें रावनाफुडें तो म्हजें तोंड सांसपितालो आनी हांव ताचे पोले सांसपितालें. अशे रितीन आमी एकामेकांचें स्वागत करतालीं! हो उंडो खावोवपाचो प्रोग्राम उण्यांत उणो म्हणल्यार तीन-चार वर्सां तरी चललो!

मागीर म्हजें लग्न जालें! हांवें लग्न जावन वतना शंभूक पाव खावोवपाची जापसालदारकी सुधाकराचेर सोंपयिल्ली. पयल्याच फावटीं घर सोडून दुसरेकडेन रावपाक हांव गेल्लें. सुरवेक सुरवेक

घरच्या सगळ्या लोकांची याद येताली, धाकट्या भांवडांची बी. तातूंत भितर शंभूलीय बी याद येताली. पूण थोड्या तेंपानच शंभू भायर पडलो हें आयकून खूब दुख्ख भोगलें. ❖

## 33

# देंवचार

**आमच्या** भुरगेपणांत देंवचार हो एक आमच्या आयुश्याचो भाग जावन आशिल्लो. देंवचार हो कोण हें म्हाका खबर ना. तो खरेलोच आसा काय ना हेंय बी म्हाका खबर ना पूण तो आसचो अशें म्हाका दिसता. म्हाका देंवचार आवडटा. आमकां सगळ्यांक देंवचार आमचोच कसो दिसतालो. चडसो करून हो देंवचार आमकां भेटलो तो त्रिंबक, सुकडो आनी हरिअप्पा हांच्या काणयांवरवीं.

देंवचार दिसपाक खूब भारदस्त. आमी कोणेंच ताका पळोवंक ना आं! त्रिंबकान बी सांगलां न्ही? देंवचाराचे दोळे मोट्ठे, तांबडे गुंज ; व्हड व्हड काळ्योच मिशो आनी खाड. थोडे देंवचार खाड वाडोवन आसताले आनी थोडे देंवचार ल्हान खाडाचे, पांच-स दिस खाड वाडिल्लेभशेन, अशे आसताले. माथ्याक धवें मुंडाशें, खांद्यार कांबळ, पायांक चर्र चर्र असो व्हड आवाज करपी जोतीं! देंवचाराच्या जोत्यांक 'व्हाणो' म्हणपाची पद्दत आसताली. तांकां 'जोतीं' केन्नाच कोण म्हणी नाशिल्लो. आंगार हात-कापी धवीफुल्ल

वा काळे कांबळीची शिविल्ली बंडी आनी धोंपरामेरेन आंगोस्तर वा वालो न्हेसून हातांत व्हड दांडो घेवन देंवचार शिमेर उबो रावन व्हडली विडी ओडीत चोर्शी वटेन नदर मारीत्त रावता खंय. काळखांत ही विडी पेट्टना सामकी पयस साकून दिसता खंय पूण मनशाक आवशील करता आसतना हातांत पेटिल्ली चूड घेवन उजवाड घालीत तो फुडें चलून वचून वाट दाखयता अशें लोक सांगताले. देंवचार हो एक लांब-रूंद, काळोकिट्ट मनीस कसो, भूत न्हंय तो.... पूण मनशाभशेनूच म्हणुया! भुतां नावाडगीं आसतात, तीं भुताटकी करतात!

देंवचाराल्या दांड्याक शिंपयांभशेन कितेंय तरी बांदिल्लें आसूंक जाय, कारण चलता आसतना तो दांडो जमनीर आपटिता आनी ताचो 'खळ्ळ' असो व्हड आवाज येता अशें लोक सांगताले.

एक दीस पावसांत सक्काळीं फुडें पदेर हातांत दांडो घेवन पाव घालपाक आमच्या देट्ट्या भितर सरलो. हांवें पदेराक दिसाचो केन्नाच पळोवंक नाशिल्लो. तांणे दांडो आपटून खळ्ळ असो आवाज काडलो, देंवचाराभशेनूच! हांवें भियेवन धांव्वून वचून भिकूमामाक सांगलें. तो खूब हांसलो. मागीर तांणे तो पदेर, देंवचार न्हय म्हण सांगलें. देंवचाराचो दांडो घेवन दिसाचो पदेर कसो भोंवता, ताका भंय दिसना? मागीर कोणाचोय दांडो घेवन कोणेंय भोंवपाचें? ह्या प्रस्नाची जाप पांच-स वर्सांच्या त्या भुरग्याकडेन, म्हजे कडेन नाशिल्ली. तरी पूण त्रिंबकान हें म्हजें कुवाडें सुटावें केलें. देंवचाराचो दांडो हो मोठ्ठो मुसळ कसो जड आसता. तो स्वता म्हारू वा देंवचार बसून करतात, तो आनीक कोणच करूंक शकना. पदेराचो दांडो ल्हव कोंड्याचो. तो कोणय करूंक शकता. देंवचाराचो दांडो जड, तो उखलप हें फोकांडांचें काम न्हय, अशें म्हणून तांणे सांगलें!

आमच्या घरच्या सगळ्या लोकांलें जेवन जातकच मागीर

व्हड रातीकडेन त्रिंबक फोंडव्यांत आपल्या घराकडेन वतालो. त्या वेळार सदांच ताच्या सांगाताक देंवचार आसतालो. तो एक एकदां देंवचाराकडेन चकाटां मारीत वतालो! ह्याच खातीर देंवचार हो देवमनीस अशें आमकां दिसतालें. तरीकय रातीकडेन ताका मेळपाची आमकां कोणाक इत्सा नासताली हें खरें. दिसाचो मेळत जाल्यार आमची हरकत नाशिल्ली.

वाटेर अडिल्ल्यांक घरा व्हरून पवोवपाचें काम तो करता अशें शिक्षण आमकां काणयांवरवीं दिल्लें आसतालें. देंवचाराक पळोवपाची, ताका मेळपाची खूब इत्सा जाताली पूण तो अनवळखी मनीस म्हणून भंयूय बी दिसतालो. खूब फावटीं मिनाक्षी, अंजनी आनी हांव ह्या विशयांचेर भासाभास करतालीं. पूण ती फकत दिसाची. रातीकडेन देंवचारा असलो विशय हाताळपाक भंय दिसतालो. पूण भुतांक मात् मेळपाची इत्सा केन्नाच जाय नाशिल्लीं. तांचें नांव तितलेंशें बरें नाशिल्लें आमच्या घोळक्यामदीं. देंवचाराचें पोजिसांव बरें आशिल्लें त्या मानान! देंवचाराचें वागप आनी दिसप, ताचें व्यक्तिमत्व पकदस्त आशिल्लें!

देंवचाराक खूब लोकांनीं आपणें स्वता पळयिल्ल्याचें आमकां सांगलां. कांय लोकांक स्वताची कांबळ लेगीत पांगरूंक दिवन देंवचारान घरा व्हरून पावयल्यात.

म्हारू मात् कोण म्हणपाचें तें आमकां सारकें खबर नाशिल्लें. तो कसो दिसता तेंय बी आमकां कांय खबर नाशिल्लें. तो सामको वायट हें इतलेंच खबर आशिल्लें. तो गोमटेर बसल्यार सोडिना अशें म्हणटाले. एकदां बोरयेच्या भाटकारालो एक मोठ्ठ्या पोटाचो काळोकिट्ट नातेवाईक मानेक एक व्हड पटो कसो बांदून आमगेर आयलो. तो मान घट्ट करून आयिल्लो. ताका हेवटेन-तेवटेन

पळोवपाक त्रास जाताले. ताचो गळो घट्ट जाल्लो. म्हारू बी बसला काय, अशें दिसून हांवें ताका तशें विचारलें. तो खूब हांसलो आनी तांणे तो पटो मान दुखता म्हणून दोतोरान दिला म्हणपाचें म्हाका सांगलें. म्हाका समजलेंच ना, दोतोरालें आनी म्हारवालें नातें कितें तें! तरी आसतना तो तसलो किचकटीचो विशय जाणून घेवप गरजेचें नाशिल्लें देखून तो विशय हांवें सोडून दिलो.

तशें पळोवंक गेल्यार आमचो एकूच देंवचार आसा अशें आमकां दिसतालें! पूण तें खरें न्हय! देंवचाराच्यो काणयो आयकतां आयकतां पांच-स तरी देंवचार आसात हें आमकां दिसून आयलें. एक देंवचार आशिल्लो, तो बानोड्यां, पांगळ्यांत. दुसरो, बायंगिणी, पेडावेलो. ताका मोटारीनीं बी येतना वतना लोक पयसो उडयताले. तिसरो एक आशिल्लो, तो कालापुरा! चवथो, मेरशे म्हऱ्यांत, बांदावेलो. ताच्यो मात् खूब काणयो आयकल्यात. सामको देव मनीस तो देंवचार! दर रातिकडे कितल्याशाच लोकांक आवशील करी तो! पांचवो देंवचार तो आमच्या वळखिचो, तो रायबन् च्या दोंगरावेलो, 'आमचो' देंवचार.

देंवचार, भुतां, म्हारू ह्या सगळ्यांच्या घोळक्यांत बसून वाडिल्लीं आमीं, जशीं जशीं जाण्टीं जालीं तशीं तशीं शाळेक बी वचपाक लागलीं. शाणीं जावपाच्या लटा-फटींत वेगळे विशय हाताळचे पडले आनी भुतां, देंवचार ह्या असल्या भुरगेपणच्या इश्टांकडेन आडनदर जावपाक लागली. नव्या इश्टांक, नव्या विशयांक नवे जिणेंत आस्पावन घेतिल्ल्यान, पयलींच्या पोन्न्या, रहस्यमय गूढ आनी विशाळ, जीण सामकी हालोवन सोडपी, जबरदस्त घडणुकांनीं भरिल्ल्या जगाक थंय सुवात नाच्च जाली. तें जग, ती जीण उपाशीं पडून तिचेकडेन दुर्लक्ष जाल्ल्यान मरून गेली. एका उबगण हाडपी क्रूर सत्य परिस्थितीन

दारार खोंट मारून, दार मोडून भितर प्रवेश केलो! सत्यान भरिल्ल्या नव्या आयुश्याक सुरवात जाली. जंय कालच्या जगाच्या शिमेभितर आशिल्लें फांतोडेच्या रंगान पितारिल्लें सपन अचळय लेव जायत गेलें आनी थंयच आयच्या ह्या तकली घुंवडावन उडोवपी, कलकलाटान भरिल्ल्या जगाची शीम-मेर एका सणसणीत थापटान सुरू जाली; ढोलार मारिल्ल्या तोणयेच्या खरसाणीन सुरवात जाली! जंय सपन सोंपलें, थंयच्च आयचे हे सत्य परिस्थितीक फुडें तोंड दिवपी आयचें हें जग सुरू जावन, जिणेचो रंगूच विटलो! झोपाळ्यार बसून मळबाक अचळय पायांचो आखाणो तेंकोवपाची, माडार चडून मळबाक बोट तोपपाची संद गेली आनी जमनीर चलपाची यात्रा सुरू जाली. जिणेच्या ह्या दोनूय तडांमदीं खंयची धड चड आव्हानकारी, चड खोस दिणी काय म्हणून विचारल्यार जी फाटीं पडली ती भुरगेपणची दर्यावेळ चड सुखदिणें वारें घेवन येताली हें आयज लेगीत हांव आड्डून सांगीन. उघड्या दोळ्यांभायलें जग नवीं आव्हानां घेवन येता; जें मेलें म्हणून हांव समजतां तेंच जग दोळे धांपतकच सामकें जित्तें जावन तश्यातशें सामकार येवन उबें रावता....नियाळ घेवपा निमतान दोशीं वटेन नदर भोंवडायल्यार तकली घुंवघुंवता!... पडून रावन दिसता...! ❖

# 34

# म्हगेलीं भुतां आनी तांची भुताट्की

**भुतां** म्हज्या जिणेंत सामकीं भुरगेपणासावनच आसात. तीं काणयांवरवीं भितर सरलीं जावंये! चड खर भुतां, तीं त्रिबंक, सुकडो, हरीअप्पा ह्या लोकांच्या तोंडांतल्यान भायर सरून आमच्या कानांतल्यान जीं भितर सरलीं, तीं! तीं आमच्या जिणेचो एक कुडकोच कशीं जावन दस्सून उरलीं. पूण एक बरें, तांणी आपलो धर्म केन्नां सोडलो ना; तीं भुतांच जावन जियेलीं. मनशां मात् केन्नाच जालीं ना!

आमचे ल्हानपणांत आमच्या घरांत येंत्राद आनी चवखे मदीं आशिल्ले पायणींत आमी केन्नाच पावल दवरूंक ना. आमी सगळीं भुरगीं दोळे बंद करून एका हुमऱ्यावयल्यान दुसऱ्या हुमऱ्यार उड्डाण मारून, ती मदली भुतांची कूड चुकोवन, पायणींत व्हरून जीव घालतालीं. देखून भुतांच्या तोंडार केन्ना नदर पडपाची पाळीच आयली ना. पूण भुतां आसतालीं खरीं त्या मदल्या कुडींत! तीं बाबडीं मोन्यांनी बशिल्लीं आसतालीं. चड करून तीं सामकीं म्हातारीं आशिल्लीं जातलीं. मायेस्त भुतां! नाजाल्यार अस्सो हात फुडें काडून आमकां

उड्डाण मारतना चपक्यांत धरचीं नाशिल्लीं? आयज येवजिल्यार त्या भुतांविशीं मोग दिसता. त्या काळार भंय दिसतालो. मागीर मागीर तीं भुतां तो जागो सोडून गेलींशीं दिसता. आयज आशिल्लीं जाल्यार मात्शीं चकाटां मारतां मारतां तांचे विशींची म्हायती मेळपाची! तीं कोण, खंयच्यान आयल्यां, तांकां कोणे धाडल्यां वा तींच जावन आयल्यां, त्या पायणींतूच मोन्यांनी सबंद दिस, दीस-रात बसून रावपाक तांकां वाज येना गाय? तीं खंय जेवता-खातात? तांकां आवय-बापूय आसा काय ना, तीं भुतां कशीं दिसतात, तांचे पयकीं कोणूय म्हजेभशेन बी दिसता काय, हें सगळें सविस्तर समजुपाचें. चुकलेंच तें! त्या काळार भंय दिसनाशिल्लो जाल्यार म्हज्या मित्र-मैत्रिणींच्या भुरावळींत भितर ही भुतावळय बी आसपाची! तांकां बाबड्यांक आमचें घर सोडून वचचें पडचेंच नाशिल्लें. निदान आयज तरी तांचो पत्तो म्हाका खबर आसपाचो! हीं सगळीं आमचीं घरगुती भुतां, बऱ्या स्वभावाचीं!

आमीं केन्नांच भुतां पळोवंक ना म्हणप समा जावंचें ना. सात-आठ वर्सांचीं आसतना अगरसाळेचेर आमी भुरग्यांनीं, हांव, अंजनी आनी मिनाक्षीन, एक भूत पळयलां हें खरें. अगरसाळेवेल्या पाटयांक बांदिल्ल्या झोपाळ्यांचेर हांव, अंजनी आनी मिनाक्षी बसून झेल घेतालीं. दोनूय झोपाळे समोरा समोर आशिल्ले. आमकां चकाटां मारपाक बरें पडटालें. एक दीस सांजचीं आमीं साडे पांच वरांचेर सुमार अगरसाळेर झेल घेतालीं. इतल्यांत आमच्या दोनूय झोपाळ्यां मदीं अगरसाळेर एक सावळी कशी आमकां दिसली. एके बायलमनशेची सावळी, लांब रूंद बायलेची! एक हात पोटार दवरून दुसरो हात सकयल सोडून ती उबी रावली. आमी तशीं भियेलीं ना! आमी झोपाळ्यावयल्यान देंवलीं आनी अंजनीन सुचयल्ल्या प्रमाण देवाचें स्तोत्र म्हणत तिका प्रदक्षिणा घालपाक लागलीं. अंजनीनूच

एकदां आमकां एक काणी सांगिल्ली तातूंत देवाचें नांव घेवन भुताक प्रदक्षिणा घाल्यार तें घो करून सकयल पडटा खंय. ताचो फोर्स कमी जाता आनी मागीर तें मरता! आमच्या पयकीं स्तोत्र येतालें तें म्हाकाच. म्हाका गायत्री मंत्र पाठ आशिल्लो, तो हांवें प्रदक्षिणा घालतां घालतां म्हणपाक सुरवात केली. अंजनी आनी मिनाक्षी ''राम राम'' म्हणत प्रदक्षिणां घालत रावलीं.

आमी प्रदक्षिणां घालता आसतानाच दत्तुलो थंय आयलो. वेलंगाच्यान हाडिल्ल्यो हांतऱ्यो धूवन त्यो सुकत घालपाक तो थंय आयिल्लो. आमीं तिगांनीं त्या भुताक पळयिल्लें. दत्तुल्याक भुताची काणी सांगत सांगत आमीं घरा आयलीं.

त्या भुताचो आमचे तकलेर बरोच परिणाम जालो. आमी सबंद रात न्हिदेंतल्यान आंग काडून काडून उठपाक लागलीं खंय. हांव तर खंय उठून ''अगरसाळेर ती म्हाका आपयता'' अशें म्हणून सांगून परत परत न्हिदेंतल्यान उठून चलूंक लागतालें. मागीर भट आयलो. देवाक सांगून घेवन आंगारो लायलो. मागीर शेंवतून रोखडीच मिरसांगो बी घालून दिश्ट काडली. मागीर हांव न्हिदलें खंय. आतां हें भूत कितें हें म्हाका खबर ना. पूण आयज पसून अंजनीक विचारल्यार आपणेंय बी तें भूत पळयल्लें म्हूण तें सांगता. हांवें पळयिल्लें त्याच भुताभशेन अंजनीन पळयिल्लें तें भूत दिसतालें, तें कशें?

त्रिंबक भुतांच्यो काणयो सांगतालो तेन्ना तो भूत जावन चलून बी दाखयतालो. पांय मोडून कुल्लेभशेन करून, हात वांकडे धरून, बोटां मोडून तो चलून दाखयतालो! तोंड दोळे बी सामके वांकडे करतालो! एक दीस आमगेर खोंटलो भर कुल्ल्यो हाडिल्ल्यो त्यो सबंद आंगणभर भोंवपाक लागल्यो. तांचेकडेन खूब वेळ पळयता आसतना म्हाका त्रिंबकाल्या भुतांची याद जाली आनी अकस्मात

एक कुल्ली वांकड्या पायांनीं चलून येवन तिणें म्हजो गळो धरलो! हांवें किळांच मारली! भूत बी कांय नाशिल्लें. त्यो कुल्ल्यो थंयच जमनीर भोंवताल्यो आनी हांवें चवखेर बसून येवजितां येवजितां म्हजे कल्पनेनच कुल्लेचें भूत केल्लें हें खरें! जनेलाचेर बशिल्ल्या कावळ्या वांगडा उलयतां उलयतां तो कावळो खोमीस घालून पद म्हणटा कसो म्हाका एकेकदां दिसतालो. पूण मागीर तोच सुटा-बुटांतलो कावळो रोखडोच खरेलो कावळो जावन जनेलार बशिल्लो दिसतालो. हें अशेंच केन्ना केन्नाय जातालें मात् आं! आतां हें जें भूत अगरसाळेर आमीं पळयिल्लें तें तसल्यांतलोच व्यापार, हें हांव मानपाक तयार ना. हांवें भूत पळयलें ही म्हजी कल्पना अशी धरल्यार मिनाक्षीन आनी अंजनीन पळयलें तें कितें?

विठोबाच्या देवळा म्हऱ्यांत एक व्हड पणस आशिल्लो. तो सटीचो पणस. थंय तिनसांजचें कोण्ण भुरगें वच नाशिल्लें. थंय लागसार कोणूय भुरगें पडल्यार बी ताची दिश्ट काडटालींच. ना जाल्यार भूत-बादा जातालीच खंय! सटीच्या पणसा म्हऱ्यांतल्यान देंवती सुरू जाताली आनी त्या देंवेतेवेल्या शेंकऱ्यांवेल्यान कोणूय तरी पडटालोच. रस्त्यार कोणूय भुरगें पडल्यार थंयची माती हातांत घेवन त्या भुरग्याक त्या मातयेन हुंवाळटालीं आनी तोंडांत फुटू फुटू करून कितेंय तरी म्हणटालीं. अखेरेक ''दोळे फुटूं'' अशें व्हडान आडून म्हणटालीं.

सगळ्यांत खर दिश्ट ती सोण्णांचेर उजो घालून तातूंत घरांतलो चारूय कोनशांतलो कोयर, केंस आनी सुक्यो मिरसांगो घालून धुंवर-धरपसाण करून व्हडलो कितेंय तरी आक्त करता अशें दाखोवन काडपाची आसताली. हें करता आसतना 'फूऽऽऽऽ' अशें म्हणून हात फांफडून धुंवर पयस धांवडावपाचें आसतालें. मागीर ''लागा चलूंक....

हेऽ हेऽऽ'' अशें आड्डून आड्डून म्हणटकच दिश्ट काडपाचो सुवाळो सोंपतालो. ह्याच वेळार दिश्ट जाल्ल्या भुरग्याक थंयच्यान भितर घेवन वतालीं. धुंवर चडूच जाल्लो आसतालो. आमी थंय पयस उबीं रावून पळयतालीं. आमकां खरेंलींच भुतां धुंवराचेर बसून धांव्वून वतना दिसतालीं. तीं धांवून वचपी भुतां आमचेर बसत म्हणून आमी मात् थर्त भियेतालीं. देखून धुंवर वता ते वाटेर आमी उबीं राव नाशिल्लीं. जंय कोणूय जाण्टीं आसतालीं थंयच ताका तेंकून, तांकां घट्ट धरून आमीं उबीं रावतालीं. ही दुसऱ्या प्रकारची दिश्ट सटीच्या पणसा म्हऱ्यांत पडल्यार काडपाची आसताली.

भुतांचो चड भंय दिसतालो तो किण्ण पावस पडटा त्या रातिकडे! रातिकडेन 'किर्रऽऽऽऽऽऽ' करून तोळ, बेबक्यो आनी बेबे रडून रात जागयतात, पयस खंयीं साकून ''हूऽऽक्क हूऽऽक्क'' करून आवाज येता, आनी सुण्याचेर भार आयिल्लो आसता तेन्ना न्हिदिल्लेकडेन लेगीत कान उश्याक तेंकनात! दिवो पालयतकच सगळो काळोख, कुडींत एका कोनशाक बारीक दिवो पेटत आसता, आनी बारीक पिसोळीं लेगीत उडल्यार तांच्यो व्हड व्हड सांवळ्यो पडटात, हेवटेन-तेवटेन कितेंय तरी उडिल्लेभशेन दिसता, भोंविल्लेभशेन दिसता ; आमचे कुडींत आमी सगलीं एकठांयच न्हिदतालीं, शेंनऱ्यांचेर कुलच्यावां, गोजडयो बी घालून, वेल्यान गोजडी पांगरून म्हऱ्यांत न्हिदिल्ल्या भावाक वा भयणीक घट्ट धरून आमी पडून रावतालीं. भंय दिसतालो! हेवटेन-तेवटेन कोणूय तरी भूत पासयो मारता काय दिसतालें. एकादें वागोळें सुर्र करून हेवटेनच्यान तेवटेन वेगान उडून वतालें. कुडीचें दार केन्नांच धांपिल्लें नासतालें. ही न्हिदपाची कूड वयर माळयेर एकाकुशीक मागील दाराच्या दोंगरावटेन शेकानशेक आशिल्ल्यान ती पयस उरताली. देखून दार रातिकडेन धांपिल्लें नासतालें. पावस पिरी

पिरी पडत्त रावतालो, नळ्यांवेल्यान पावळी पडिल्ल्याचो आवाज, आंगणांत नळ्यावेल्या पत्र्यांच्या पनेळांतल्यान पडपी उदकाच्या व्हडल्या वजऱ्याचो आवाज! सगळें विचित्र वातावरण, तातुंतच मदींच दोंगरावेल्यो भालू वेंऽऽऽऽऽऽऽ करीत रडत्त वताल्यो. सुणींय बी आड्डू आड्डून भुकत आसतालीं, मदीं मदीं भालूभशेनच तानी मारतालीं! बरोच वेळ न्हिद पडनाशिल्ली ! भंय दिसतालो! आनी ह्या इतल्याय गूढ वातावरणांत तकलेर एकूच परिणाम–भूत खंयीं तरी आसा, हांगाच आसा, आनी ताची नदर आमचेर आसा! हीं असलीं कितलींशींच भुतां म्हजी तकली चाबडायत उरलीं आनी म्हज्या भुरगेपणचे सादे सरळ जिणेंत ताणींच रहस्यवाद हाडलो! ❖



- श्रीमती स्नेहलता अरविंद भाटीकार हांचो जल्म रायबन्च्या पानवेलकार घराण्यांत 29/12/1940 ह्या वर्सा जालो.
- तांचें आरंभाचें मराठी शिकप घरांतच गांवच्या हेर भुरग्यां वांगडा खास नेमिल्ल्या कोंकणांतल्यान येवपी मराठी मास्तरांच्या हाता खाला जालें.
- एस.एस.स्सी. मेरेनचें शिक्षण पीपल्स हायस्कूल आनी बी.ए. मेरेनचें शिक्षण धेंपे कॉलेज ऑफ आर्टस् हांगा जालें. एम.ए. च्या निमण्या वर्सांत शिकतना अरविंद भाटीकारा कडेन तांचें लग्न जालें, आनी मागीर त्यो तामिळनाड, कर्नाटक ह्या राज्यांनी घोवा वांगडा राबितो करपाक गेल्यो.
- 1978-80 ह्या वर्सां मदीं तामिळनाडच्या वेल्लोर हांगा आशिल्ल्या "क्रिश्चन कावन्सलिंग सेंटर" हे नामनेचे संस्थेंत तांणी "कावन्सलिंग ॲण्ड सायकोथेरपी" ह्या विशयांत "ॲडवान्स्ड डिप्लोमा" घेतलो.
- फाटलीं 36 वर्सां त्यो कावन्सलिंगाच्या मळाचेर काम करत आयल्यात. चेन्नयच्या "स्किझोफ्रेनिया सिरर्च फावन्डेशन" (SCARF) आनी पणजेच्या "इन्स्टिट्यूट ऑफ सायकियाट्री ॲण्ड ह्यूमन बिहेवियर" ह्या बिगर सरकारी आनी सरकारी संस्थांनी तांणी कावन्सलराचें काम केलां. तांणी भारत सरकाराच्या तशेंच तामिळनाड, केरळ आनी कर्नाटक सरकारांच्या संस्थांनी 1980 ते 2000 मेरेन वयल्या विशयांनी प्रशिक्षण दिवपाचें काम हाताळ्ळां.
- 2002त तांच्या "पालक आनी भुरगीं" ह्या कोंकणी पुस्तकाक गोंय राज्य सरकाराचो कला अकादमीचो पुरस्कार फावो जाला. पालकांनी भुरग्यांक कशें वयर काडचें हाचेर "मदरिंग ॲण्ड स्मदरिंग" हेंवूय इंग्लीश पुस्तक तांणी बरयलां.
- सध्या त्यो गोंय विश्वविद्यालयांत कावन्सलराचें काम करतात.
- "म्हजें रायबन् – तीं मनशां, तो काळ" हें तांचे तिसरें पुस्तक.

